SUBSIDISED
LOW COST
L C
S E
EDITIONS
NBT INDIA

# पश्चिमी समिक्षेकडेन इश्टागत

डॉ. किरण बुडकुले

वास्तववाद
साहित्यिकता
निवेदनशास्त्र प्लेटो रिपब्लिक
नव-अभिजातवाद
ॲरीस्टोटल
समिक्षा
कामदी होरेस क्विंटीलियन स्वच्छंदतावाद
त्रासदी शुन्यवाद औचित्य सैमवाद
विरचणूकवाद उत्तराधुनिकता
अस्तित्ववाद
नव-प्लेटोवाद उत्तर-संरचनावाद
उदात्तता प्रतीकवाद काव्य

# समिक्षेकडेन इश्टागत



SUBSIDISED
LOW COST
L C
S E
EDITIONS
NBT.INDIA

विद्यार्थांच्या लावाखातीर भारत सरकारान नॅशनल बूक ट्रस्ट इंडिया हांचेवरवीं ह्या पुस्तकाक अनुदान दिलां.

प्रकाशन क्रमांक : 255

1998

**प्रकाशक :**

प्रभाकर द. भिडे
राजहंस वितरण, 1-मीनाक्षी बिल्डिंग,
डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी - 403 001

**छपाई :**

राजहंस ऑफसॅट, पणजी.

**मुखपृष्ठ आनी सजावट :**

प्रा. वासुदेव दिवकार

**मोल :**

37 /- रुपया

# - अनुक्रमणिका -

# मनोगत

आवांठ आनी आशयाची येदी विशाळताय आनी खोलाय आशिल्ल्या समिक्षेसारकिल्ल्या विशयाचो थाव घेवंक सोदप म्हळ्यार पोशांत दर्या सांपडांवक पळोवप. कोंकणीच्या खाशेल्या 'बाजा'न सांगचें जाल्यार हातान सुंगटां धरूंक करप! ह्या बरोवप्यासारके सर्वसादारण व्यक्तीलेखीं हो यत्न म्हळ्यार एक असमतोल वजें माथ्यार मारी सारकेंच! हाकाच लागून ह्या पुस्तकाक हात घालचे आदीं वाचप्यांकडेन चार उतरांभितर मन मेकळें करप भौ गरजेचें जावन आसा. पयली गजाल म्हळ्यार, बरोवप्याक आपणाल्या भाशीक, विचारीक तशेंच बौद्धिक तांकिची (खरेपणीं तांच्या शिमांची) पुरायेन कल्पना आसा. होच वावर दुसऱ्या खंयच्याय विद्वान तशेंच अणभवी अभ्यासकान हातांत घेतल्यार कोंकणी भाशेचो कितलो लाव जातलो आशिल्लो हाचीय जाणविकाय आसा. पूण कोणय समजिकायेचो वाचपी मान्य करतलो की निखटें फुडें वतलो म्हूण हावेस बाळगून कोणच फुडें पावना-जावं मनीस, जावं भास! ते खातीर चांट उखलचीच पडटा म्हूण हें पयलें पावल ...!

आज ना फाल्यां अशे तरेचो गुरू-प्रकल्प (mega-project) कोण ना कोण हातांत घेवन तडीक व्हरतलो हातूंत दुबाव ना. पूण तो भांगरा-खीण येईमेरेन अशें ल्हान-व्हड बरप सगल्याच विचारी वाचपी-बरोवप्यांनी करूंक जाय, अशें काळजांथावन सांगन दिसता. हें पुस्तक वाचतल्यांनी हाका सर्वसादारण मनशाचें पयलें पावल म्हण पळेलें जाल्यार कितलेशेच हात ह्या पावलाक आदार दिवंक फुडें सरतले आनी आपशींच कोंकणी सरस्पतीचें समिक्षा-कोठारय समृद्ध विचारांच्या दायजान गिरेस्त जावंक पावतलें. खंयच्या तरी उर्दु कवीन म्हळां: संवसाराचे किण्ण वाटेर हांवें एकसुरी चांट मारली पूण 'लोग आते गये, कारवाँ बनता गया...!' ह्याच आशावादान हें पावल समिक्षेच्या रूक्ष आनी जड भासपी वाठारांत घालूंक फुडें केलां.

तशें पळेल्यार विंगड विंगड भारतीय भासांमदीं, संस्कृत काव्यशास्त्र जावं अलंकारशास्त्र हांचो अणकार जावं तांचेर आधारीत अशें मुळाव्या स्वरूपाचें समिक्षात्मक बरप उपलब्ध आसा. कोंकणी अभ्यासक वा वाचकय ह्या बरपाकडेन हेरां भाशांच्या माध्यमांतल्यान पावला. खेरीज बरोच मुळावो समिक्षात्मक विचार कोंकणी शिकप्याकडेन भासाभासो, परिसंवाद वा बरप हातूंतल्यानय पावता. ह्या गिन्यानाचें योगदान कोंकणी विद्यार्थ्यांखातीर चड मोलाचें आसा हातूंत दुबाव ना. हे भायर कांय कोंकणी वाचपी वा शिकपी तरनाटे इंग्लीश भाशेंतल्यानय समिक्षेकडेन

पावता आसतले. हेंवय मोलादीक अशें गिन्यान जावन आसा. अशें असतना कोंकणीत समिक्षात्मक बरप इतले पेलीन कित्याक?

हेर भासांतल्यान मेळपी म्हायती खूब मोलाची आसली तरी कोंकणीन 'देखल्या देवा दंडवत' घालिनासतना, 'आपुल्या अंगे घालावी कास/न धरावी आस दुसऱ्याची'! ह्या ध्येयान कोंकणी बरोवपी आनी वाचप्यांनी फुडें सरचें अशी आस्त आसा. हातूंत भाशेचें जैत, शिकप्याचो लाव तर आसाच पूण अस्मितायेचें बळगेंय आसा. हाका दुसरो पर्याय ना!

हेरशीं समिक्षा हो प्रकार चडशा भासांनी लोक हाताळूंक अनमनतात. एक म्हळ्यार हातूंत वाचप्याची तुस्त लाबचे परस, बरोवपी 'रूश्ट' जावचेली शक्यताय चड आसता. दुसरी गजाल, समिक्षकाक आपल्या थोडच्या-भौ अभ्यासांतल्यान मेळिल्ली मेजकीच जाण हेरांचे जाणविकायेसामकारा मांडची पडटा. हें **अप्रिय काम** करतना ताका आकांताळी समजिकाय आसूंक जाय. बरोवप्याची लत्तुबाय दिसली वा बरपाची अपुर्बाय दिसली तरीकूय ताणें बरपाचे समिक्षेक फावो तो न्याय दिवचोच पडटा. हें करतना ताका, आदल्या समिक्षकांनी माडयिल्या रस्त्यावेले वाटचिरे दिसल्यार ताच्या काळजाक धिटाय आनी मनाक थाकाय मेळटली म्हूण हें पुस्तक बरयन दिसलें.

ह्या पुस्तकांतलें बरप मूळाक **सुनापरान्ताच्या** सप्तकी पुरवणेंत लेखरूपान उजवाडा आयिल्लें. ही लेखां-माळ ह्या बरोवप्यान भौ करून समिक्षेविशीं उत्सुकताय आसपी नव्या आनी नेण्टया वाचप्यांखातीर बरोवंक सुरू केल्ली. पूण ल्हवु-ल्हवू अभ्यासू वाचपीय हे लेख वाचतात म्हणपाचें तांचेकडल्यान मेळपी/बसपी पावत वा पावते वेल्यान कळत गेलें. तेन्ना एक प्रस्न उप्रासलो; जे अभ्यासानदरेन हे लेख वाचतात तांकां रुचत तशी आनी जे जिज्ञासा आसा म्हूण वाचतात तांका गमत अशी ही लेखांमाळ कशी करची? उत्तर सोदूंक वेळ वगडायलो ना. म्हजेपुरतें हांवें ठरोवन उडयलें, जमता तशें 'सोपें' बरोवप पूण विचारांची तकली मारप ना. कांय कडेन क्लिश्टतायेच्या बेडयांनी विचारांक बांदले. कल्पनांची झोंपय उतरांचे जडसाणेन मंदावली. पूण लालित्याचें आंगले चडयल्यार विचारांचें बावलें दिश्टावत म्हूण विचारांक आसात तशेच बेढब, शामळू, अश्टवक्रावरीच मांडले. मनांत हुस्को आशिल्लो, विचारांक **नटोवचेल्या** हावेसान हांव वाचप्याक **फटोवंक** लागत...!

फुडें वचचे आदीं इल्लोसो मार्गबदल (deviation) करून हांगा मुजरत स्पश्ट करूंक जाय की ह्या पुस्तकांत काय चालंत कोंकणी उतरां मात्शीं बदलून वापरल्यांत वा तांच्या जाग्यार (सुटना तेन्ना) नवीं उतरां घालचो यत्न केला. शक्य आसा थंय

हीं नवीं उतरां कोंकणीक संवकळीच्या भास-भैणांचे उतरावळीक लागशिल्लीं आसचीं ही जतनाय घेल्या. हें करतना एक मोख दवरल्या-एकापरस चड भारतीय भासांतली समिक्षा वाचतना कोंकणी वाचप्याक आडखळ जावची न्हय, तशेंच नवी उतरावळ आपणायतना कोंकणी अभ्यासकाक कश्ट पडचे न्हय आनी ऐन म्हळ्यार, कोंकणीच्या मूळ रुपाक विकृत करचें पडुंनये. ह्या पुस्तकांत आनेक व्हड बदल करप म्हाका गरजेचो दिसला. तो म्हळ्यार, **समीक्षा** ह्या उतराक '**समिक्षा**' अशा तरेन बरोवप. कोंकणी भाशेच्या उच्चारणावांगडा, तशेंच 'आ' न सोंपपी उतरांच्या 'आदलो' 'इ'कार ऱ्हस्व आसचो ह्या दोनय गजालीं कडेन 'अशें' बरोवप मेळ खाता. जायत्या भारतीय भाशांनी असो बदल आपापल्या 'बाजा'क सोबशातरेन केल्लो आसा.

हें करप इतले खातीर गरजेचें की समिक्षात्मक बरपांत थीक, थीर आनी स्पश्ट उतरां आसूंक जाय. ललित लेखनांत उतरावळीची विपुलताय हें भाशेचे गिरेस्तकायेचें लक्षण आसलें तरी समिक्षात्मक उतरावळ नेमकी आसुंकूच जाय. हातूंतल्यान दुवार्थीपण (ambiguity) आनी अदमासपंचेपण (tentativeness) हीं समिक्षेचे वाटेवेलीं दोन व्हड विघ्नां (dangers) चुकोवं येतात. खेरीज, कोंकणी सारके वाडटे भाशेक हेर भासांक संलग्न अशीं उतरां आसूंक जाय. आज हेरांकडले विचार घेवंक जाल्यार फाल्यां आपलें समिक्षात्मक बरप हेरांमेरेन पावोवंक कोंकणीक उतरावळीचें साम्य ही एक मोटी जमेची वट जातली.

तशें पळेल्यार, म्हजेपुरती ह्या बरपांत साबार उणीं उरल्यात... **कांय दवरचीं पडल्यांत!** एक मोट्टें उणें म्हळ्यार संदर्भाखातीर वापरिल्ल्या ग्रंथांची जावं हेर बरपाची 'वेगळी' नामावळ दिल्ली ना. दुसरें, बरपांत टीपो हात राखूनच दिल्यात. तिसरें, कांय विशय खूब विस्तारान हातळ्ळ्यात पूण हेर विशयांक तितलो जागो दिल्लोना. हाका कारणा आसा. जे-जे कडेन कोंकणी शिकप्याक, समिक्षेच्या अभ्यासकाक आनी कोंकणी साहित्यीक वावराक लागिंचेशे जे विशय दिसले तांकां मात्शें 'झुकतें माप' मेळ्ळें. हातूंत **प्लेटो-ॲरीस्टोटल, हॉरेस-लोंजीनस, नव-प्लेटोवाद, स्वच्छंदतावाद, आधुनिकता** ह्या विशयांचो चड करून आस्पाव जाता.

कांय लेखांनी प्रसंगाक फावो तशें मात्शें विशयांतर जालां. पूण दरवेळा कोंकणी साहित्य-विश्व आनी फाल्यांचो कोंकणी समिक्षक हाकां दोळ्यांमुखार दवरून तें केलां. खेरीज विशयांतर करतना, दर फावटी तशें वाचप्याच्या ध्यानांत हाडून दिवचो यत्न केला. इतलेंय करून हांव धादोशी ना. खंय तरी सर्वसाधारण वाचप्याचेर हांवें कळत-नकळत अन्याय केला अशें म्हाका दिसत उरता. शेवटीं 'अशे तरेचें' बरप सरसकट वाचपी उमेदीन आनी बारीकसाणेन वाचतलो, अशें धरप म्हळ्यार चड

धिटायेचें तशेंच अति-आशावादाचें लक्षण आसा. म्हज्यांत इतली धिटाय-आशावाद नाच ना! हें हांव **बरोवपी** म्हूणच न्हय तर एक **सर्वसादारण वाचपी** ह्या नात्यानय म्हणटां.

भौसंख्य सूज्ञ, सर्वसाधारण वाचपी हें पुस्तक खपोवन घेतले म्हूण तांकां देव बरे करूं. फुडेंय जे हें पुस्तक वाचतले तांकाय देव बरें करूं. तांचेखातीर हें बरप पुस्तक रूपान प्रगटांवक जांचो हातभार लागलो तांचे उपकार आठयले बगर हें मनोगत पुराय जावचें ना.

अशा तरेच्या गरजेच्या पुण जड बरपाक नेमान हेर दर्जेदार बरपावांगडा सुवात दिल्लेखातीर **सुनापरान्ताचे** मुखेल संपादक ॲड. उदयबाब **भेंब्रे** हांचे उपकार आठयत तितले थोडे! ह्या पुस्तकाच्या संकलीत स्वरूपाचें स्त्रय जितल्या प्रमाणांत **सुनापरान्त** परिवाराक वता तितलेंच तें **नॅशनल बूक ट्रस्ट**, नवी दिल्ली, ह्या संस्थेकय वता, हें नमूद करपाक म्हाका खोस भोगता.

खंयच्याय बरपाक वाचप्याक आवडसारक्या पुस्तक रूपांत उजवाडावपांत मुखचित्रकार, मुद्रक आनी प्रकाशक हांचो शिंवाचो वांटो आसता. ह्या पुस्तकाखातीर हो भार **राजहंस वितरण**, गोंय आनी **इंप्रेशन प्रिंटर्स**, बेळगांव, हांणी मनापासून उखल्लो. तांचे रीण सांसणाचें! आनी निमाणें, **नॅशनल बूक ट्रस्टाच्या** अनुदानाक हें पुस्तक पात्र थारचेखातीर ज्या जाणकारांनी ह्या पुस्तकाक तकालस घेवन नियाळ्ळां, त्या अज्ञात विद्‌वानांकय काळजांथावन देव बरें करूं.

●

# १

# समिक्षेच्या बुन्यादी तत्वांची उस्तवारी

**फाटभूंय :**

समिक्षा म्हळी की तकलेक मिरयो घालून, नाकार वक्ल ओडून लिखणेचे तरसादीन कचाकच बरपाची तवली मारपी एक माथेफिरू समिक्षक दोळ्यांसामकार उबो जाता. खरेंच समिक्षा इतली भिरांकूळ आसता व्हय? ह्या प्रस्नाची जाप दिवचे पयलीं समिक्षा ह्या उतराफाटली लागणूक आनी जापसालदारकी समजून घेवप गरजेचें आसा. समिक्षा म्हळ्यार साहित्याची विदर्णा करपी एक रुक्ष, निश्ठूर वेव्हार न्हय जाल्यार साहित्याचो आपरोस, ताचो आंगलोट, ताचें एकजिनशीपण आनी ताचो दिश्टावो वाचप्यामेरेन पावोवपी एक संवेदनशील प्रक्रिया. खरें तर, साहित्य ह्या मुळाव्या सर्जनशील क्रियेंतल्यान जल्मल्ली ती एक तशीच सर्जनशील पूण वेगळ्या हेतान घडिल्ली प्रतिक्रिया! हाकाच लागून स्टीफन हेझल ह्या नांवाजिल्ल्या समिक्षकान म्हळां,

''समिक्षा शक्तीशाली आसुंयेता... बरी समिक्षा ही एक सर्जनशील क्रिया पूण नीज सर्जनशील क्रियेपरस वेगळ्या दर्ज्याची आनी खासा करून दुय्यम स्थानावेली (क्रिया)...!''[१]

हाचेवेल्यान दोन गजालींचें समिक्षकान भान दवरप गरजेचें आसा, हें दिसून येता; समिक्षेंतय निर्मणी करचेली तांक आसा ही पयली गजाल; आनी समिक्षेचें ध्येय आपल्यापुरतें मर्यादित आसूंक फावना तर ती साहित्याक पूरक अशी थारूंक जाय, ही दुसरी गजाल. वेगळ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार समिक्षा ही भिंडांच्या सोलांवरी आसता. जशें तांब्याचें आयदन घासलें की लकलकूंक लागता तेचवरी समिक्षाय साहित्यांतलें लिपिल्लें तेज उपलापें करता. पूण जशें आयदन कालांतरान परतें काळबट्टा तशेंच समिक्षेचेंय मोल कालाबराबर फाटीं पडूंक शकता. पूण हाचो अर्थ असो न्हय की साहित्यिक कृतीचेंय मोल खाला वतलें! परती घांसल्यार ती कृती परती लकलकतली. पूण दर वेळा आमी भिंडां-सोलांच वापरतलीं अशें ना. केन्ना गोबोर, केन्ना आमटाण, केन्ना ब्रासो, केन्ना कॉलगेट...!

---

१. *द इंग्लिश नॉव्हेल : डिव्हेलपमेंटस् इन क्रिटीसिज्म (लंडन : मॅकमिलन १९७८), पा. ११.*

हें सांगपाचो हेतू म्हळ्यार, समिक्षा हें मुळावें शास्त्र वा कला न्हय तर तें एक दुय्यम साधन जाचो शास्त्रशुद्ध आनी कलात्मक असो उपेग करूंयेता. पूण ते स्वयंभू न्हय. साहित्याचेर जगपी, एक उपशास्त्र... एक परजीवी कला...! उपेगी पूण स्वतंत्र न्हय.

पूण हाजो अर्थ असो न्हय की समिक्षेक मोल ना. एखाद्रया समिक्षकाची विचारीक खोलाय आनी जिविताबद्दलचो दिश्ठावो इतलो मोलादीक आनी विशाळ आसुंयेता की ताच्या हातांत समिक्षा हें एक निखटें साधन न्हय तर साहित्याच्या आख्ख्या प्रवाहाक, धारेक, ओघाक जावं प्रकाराक दिका दिवपी एक मंत्र, एक अस्त्र जाता. तेन्ना समिक्षेक साहित्याचेर अजरंवर प्रक्रिया करून ताचे सुप्त गुण उत्तायिल्ल्याचें श्रेय मेळटा. आनी ते समिक्षेचें योगदान काळ आनी थळ, भास आनी देस हांका बालांडून वता. थिकाक तासां मारून ताचें वज्र करप्याच्या वावरावरीच समिक्षकाच्या कार्याचेंय भांगर जाता. वेगळ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, 'समिक्षा जेन्ना साहित्याचो कस लायता तेन्ना समिक्षेचोय आपशींच कस लागता.'

अशे तरेन साहित्य आनी समिक्षा ही परस्परांक पुरक थारूं येतात पूण तेखातीर दोनींय मदीं तशी क्षमता आसूंक जाय. हांगा इल्लें विशयांतर करप गरजेचें थारता, समिक्षा साहित्याक उत्तेजीत करतली जाल्यार मेकळी, प्राणभूत (जिवी) आनी मर्मदिश्टीयुक्त (insightful) आसूंक जाय खरी. पूण तेच बरोबर साहित्य लेगीत जिविताक वेंगावपी, मुळाव्या प्रस्नांसामकारा वचपी आनी सर्जनशील कल्पनाशक्त आशिल्लें आसूंक जाय, ताच्यांत प्रतिभा दिसूंक जाय आनी ताच्यांत एक अंतर्गत सुसंगती जांव एकचार आसूंक जाय. अशे तरेचें साहित्य आनी समिक्षा जेन्ना एकठांय येतात, तेन्नाच तीं जिविताक मूलभूत स्वरूपाचें योगदान करूक शकतात.

अर्थातच, अशें योगदान करचोखातीर समिक्षकान कांय पथां पाळप गरजेचें थारता. कारण साहित्य आनी वाचपी हांचेमदलो दुवो सांधपाचें काम समिक्षक करता आनी ताणें विशिश्ट भूमिकेंतल्यान समिक्षा बरोवप वा ना हाचेर खूबशें साहित्य वा समिक्षेचें मोल आदारिल्लें आसता. समिक्षकान तटस्थ आनी वस्तुनिष्ठ नदरेन साहित्यांतल्यो घडणुको, जावं व्यक्तिरेखा नियाळ्ळ्यो जाल्यारं तातुंतल्यान जिवितांतल्या घडणुकांची सुलूस घेवं येता वा तातुंतल्यान मनीसपणाचें, मनशाच्या सुप्त, क्लिश्ट (complex) वृत्तीचें तशेंच ताच्या किचकनडी अणभवांचें विश्लेशण करूंयेता आनी तांचीं कितलींशींच तासा एकाबराबर उत्तावन जिविताचें सम्यकदर्शन (view in perspective) घडुंयेता.

## समिक्षा-संकल्पनाः अर्थ आनी विस्कटावणी

समिक्षा ह्या उतराची फाटभूंय नियाळ्ळे उपरांत ह्या उतराफाटली संकल्पना कितें आनी तिचो खंयच्या अर्थान उल्लेख जातलो हें ध्यानांत घेवप समा जातलें. समिक्षा (Criticism) ह्या उतराचे तीन मुखेल अर्थ[1] मेळटात : १) **साहित्य-विचार** २) **समिक्षा-विचार/टीकाशास्त्र** आनी ३) **टीका, समिक्षण.** तेचपरी **'समिक्षा'** ह्या उतराच्या समिक्षण, समिक्षा आनी समिक्षा-विचार ह्या तीनय भागांचें सार Criticism ह्या एकाच उतरामदीं सांगुयेता.

ह्या पुस्तकाचे मुळावो विशय 'साहित्य विशयक' **समिक्षा** वा साहित्याच्या संदर्भात **समिक्षा** हो आशिल्ल्यान, **'समिक्षा'** ह्या उतराक समानार्थी म्हूण Literary Criticism हे संकल्पनेचो उल्लेख करप हांगा गरजेचें थारता. ब्रिटानिका विश्वकोश Literary Criticism हे संकल्पनेची विस्तारान विचार करतना ताची परिभाषा "साहित्य ग्रंथ, संहिता जावं साहित्यसंबंदीचें मुद्दे वा प्रश्न हांचो विचारबद्ध (तर्कनिश्ट) अभ्यास (वा नियाळ)" अशी करता. पूण तेच बरोबर अशेंय मुजरत सांगता कीं जरी विशिश्ट संहितेचो अभ्यास वा विश्लेशण केलेंना तरी साहित्या-संबंदींचे भासाभाशेक वा चर्चेक लेगीत Literary Criticism हें उत्तर लागू जाता.

बारीकसाणेन पळेल्यार, समिक्षा हे संकल्पनेंत दोन पोट-खण (उपविभाग) लिपिल्ले आसात. एक म्हळ्यार **साहित्यविषयक अभ्यासाचो** आनी दुसरो **साहित्यकृतींच्या अर्थाची फोडणिशी** करचेलो वा तांच्या **गुणांची मोलावणी** करचेलो. शिक्षणीक क्षेत्रांत समिक्षेच्या ह्या दोनय पोट-अर्थांक अनुक्रमान **पांडित्य** (Scholarship) आनी **प्रयुक्त** वा प्रत्यक्ष समिक्षा (Practical Criticism) अशें म्हण्टात. ह्या पुस्तकांत मात समिक्षा ह्या उतराचो संदर्भ सुडसुडीतपणान साहित्य-समजणेच्यो (Literary understanding) **सगल्यो अवस्था, सगले पांवडे वेंगावपी संकल्पना** असो मानला. तेच वरी समिक्षा ह्या उतराचेर साहित्यकृती मोलावपाचो तशेंच साहितिकाची साहित्याच्या इतिहासांतली सुवात थारावपाचो (वा दाखोवपाचो) जो भार आसता, तोवय बी लक्षांत घेतला.

## समिक्षाः पद्धती आनी प्रकार हांचें नातें

समिक्षेक चड बरे तरेन समजुचेखातीर, तिचे कार्यपद्धतीचो थोडोसो कीस काडप समा जातलें, कित्याक तर हे कार्यपद्धतीक जोडून समिक्षेच्यो विंगड विंगड तरा (प्रकार) सामकारा येतल्यो. **क्रिस बॉल्डीक** ह्या पश्चिमी कोशकारामतान,

---

१. *साहित्य समिक्षा परिभाषा कोश (मुबंई : भाषा संचालनालय, १९८७), पा. १२.*

"साहित्यकृतिंची मुद्याक धरून चर्चा करतना, ह्या कृतींत (समिक्षेंत) वेगवेगळ्या प्रमाणांत सकयल दिल्ल्या पद्धतिंचो आसपाव जाता. नितिवाद्यांच्या (Moralists) वा प्रतिरोधकांच्या आक्षेपांविरुद्ध केल्लें साहित्याचें समर्थन जावं बचाव; एकाद्रे कृतीचें तरांप्रमाणें (genrewise) वा अर्थाच्या निरूपणाप्रमाणें केल्लें वर्गीकरण; साहित्याचे संरचनेचें वा शैलीचें विश्लेशण; दुसऱ्या कृतींकडेन तुळा करून साहित्याची केल्ली पारखणी; वाचकांचेर जावपी साहित्याच्या परिणामांचो केल्लो अदमास; आनी साहित्याची (कृतीकणकणीं, वर्गाकणकणीं वा पुरायेन) मोलावणी करचेखातीर सर्वसादारण तत्वां वा सिद्धांतांची मांडावळ वा निर्मणी"[१]

समिक्षेचे वयर सांगिल्ले कार्यपद्धतीचेर आदारून, तिचीं साबार रूपां वेगळावंक येतात आनी अशे तरेन समिक्षेच्या तरांची वळख पटोवंक मेळटा. देखीक, जेन्ना समिक्षा साहित्य-मोलावणेची मोख दवरता तेन्ना ती समालोचन वा मीमांसा (critique), परीक्षण (review), अभिप्राय (opinion) आनी आढावो (overview) ह्या विंगड विंगड रूपांनी सामकारा येता २) जेन्ना समिक्षा संहितेचें बारकायेन विश्लेशण करता आनी तिची वेगवेगळी तासां उक्तायता तेन्ना तिका प्रयुक्त समिक्षा म्हणूयेता. ३) जेन्ना ती साहित्यिकाची साहित्य-संवसारांतली सुवात सोदचो यत्न करता तेन्ना ती चरित्रात्मक वा इतिहासीक समिक्षेचें रूप दाखयता. अशेच तरेन ४) जेन्ना समिक्षा फकत साहित्याची सुवात वा पत थारावपाचो यत्न करता तेन्नाय तिका साबार वाटांनी केळोवंक येता आनी त्या त्या वेळावेले तिचे मोखीप्रमाणे तिका तशें रूप फावो जाता. हातूंतल्या काय रूपांची नावां देखीक दिवंची जाल्यार तीं अशीं आसुंयेतात- तुळात्मक (comparative), विश्लेशणात्मक (analytical), मोलमापणी (evaluative), उपेगित (applied), रूपनिश्ठ (Formal), रूपवादी वा आकृतिवादी (formalistic), संरचनात्मक (structural), अर्थनिरूपणी (interpretative), प्रत्ययनिश्ठ (impressionistic), साहित्य-प्रकारनिश्ठ (generic) सर्जनात्मक (creative) आनी हेर कितल्योशोच. पूण ५) साहित्य-समजणी (literary understanding) हीच जेन्ना समिक्षेची मोख आसता तेन्ना ती विंगड विंगड तरांनी साहित्याच्या गाभ्यामेरेन पावचेलो यत्न करता आनी हें करतना समिक्षेक हेरां मनीस-समाज संबंदी शास्त्रांचो आदार घेवचो पडटा; देखीक, इतिहासाचो, तत्वगिन्यानाचो, भास-विज्ञानाचो, समाजशास्त्राचो, मनोविज्ञानाचो, नितीशास्त्राचो, आधिभौतिकशास्त्राचो, वंशविज्ञानाचो, अलंकारशास्त्राचो वा राजनितीक प्रणालींचो उपेग करून जे समिक्षा-

१. *दि कन्सायज डिक्शनरी ऑफ लिटररी टर्मस् (आक्सफर्ड : ऑ.यु.पी. १९९१), पा. ४८.*

बरप जाता ताका त्या- त्या शास्त्राच्या तत्वांप्रमाणें तशें तशें नांवय मेळटा. (उदा. भासविश्लेशणात्मक, नितीवादी, मनोविश्लेशणात्मक, समाजशास्त्रीय आनी हेर.)

पूण चडावत वेळा समिक्षेचीं अशी रूपां शास्त्राच्या नावांपरसय त्या शास्त्राचे सिद्धांत मांडपी शास्त्रज्ञ/तत्वचिंतकांची नांवां आपणायतात. देखीक फ्रॉयडवादी, युंगवादी, मार्क्सवादी अशीं. जायत्या खेपो, सांस्कृतीक वा समाजसापेक्ष तत्वांकडेन समिक्षेक हात मेळवणी करची पडटा. कित्याक तर समिक्षेक **संस्कृतीक वारसो** (दायज), **साहित्यीक प्रवाह** आनी **समाजाचे मुळावे प्रस्न** हांचो अंतर्गत संबंद सोदप गरजेचे दिसता. अशे तरेची समिक्षा त्या-त्या उद्देशांप्रमाणे तशें तशें नांव पांगुरता आनी विशेश म्हळ्यार, अशे तरेच्या समिक्षेच्या प्रकारांक नावांनिशी वेगळावप सोपें जाता कारण तांचीं नांवाय आपघोशी (self-explanatory) आसतात. जशीं, **आदिमरूपी** (archetypal), **प्रमाणकनिश्ठ** (normative), **मिथकात्मक** वा **आदिमकथानिश्ठ** (mythical), **नारीवादी** वा **अस्तुरीवादी** (feminist), **दलितवादी** (dalitist) आनी हेर कितल्योशोच समिक्षा.

पूण ह्या सगल्या नावांच्या वळेऱ्यांचो हेतू समिक्षेचो हावको उबारचेखातीर न्हय जाल्यार समिक्षेचो एक मुळावो, खाशेलो गुण उक्तावचेखातीर आसा. समिक्षा कितल्याय तरांनी वाटली वा खंयच्याय नांवान वरजायली तरी तिचें सुप्त पूण मुखेल कार्य एकूच आसता-साहित्याकडेन वाचकाचो सुमेळ सादप वा साहितियकांचें संहितेंतल्यान उक्तावपी अंतर्मन आनी वाचप्यांची संवेदनशीलता हांचो संवाद सादोवन दिवप. हें करपाफाटली समिक्षेची मोखय नेमकी आसता. ती म्हळ्यार, साहित्याचें सर्वांगीण आकलन वाचप्याक घडोवन ताका साहित्याच्या मर्मस्थान वा केंद्रबिंदू मेरेन पावोवप. अजापाची गजाल म्हळ्यार, साहित्याचे हें मर्मस्थान एकेकदां बरोवप्याक लेगीत गमिल्लें नासता. हाका लागून व्हडल्या व्हडल्या लेखकांनी समिक्षेचो 'मूय जावन साखर खावपी गुण' वाखाणला. आनीक एक मुद्दाम लक्षांत घेईसारकी गजाल म्हळ्यार समकालीन समिक्षा साहित्यांत एकूच केंद्रबिंदू आसतलो हें मानिना. हाका लागून समिक्षाय साहित्याचो विकेंद्रीत (decentrist) अभ्यास करूंक पळेता (उदा. उत्तर-आधुनिक समिक्षा, वा उत्तर-संरचनावादी समिक्षा). शेवटाक मुजरत सांगपासारकी गजाल ही की, समिक्षा सदांच वाचप्याक 'तिसरो' दोळो उपलब्द करून दिना. जायत्या खेपो वाचपी वा बरोवपी हो विविधरूपी समिक्षा वांगडाच आपले भितर केळयता.

## समिक्षेच्यो मुळाव्यो रिती

वयले विस्काटावणेवेल्यान एक कळटा कीं समिक्षेच्या तरांची वळेरी ही

'नांवापुरती' उरूं शकता. समिक्षकान जाणविकाय दवरून बरयल्यारच अमकेच तरेची समिक्षा वळखूंक येतली.

हाचे परतें पळेल्यार, कांय वेळा समिक्षक आपले चिकित्सेंत इतलो एकरूप जावन साहित्याचें रसग्रहण, मोलमाप वा विश्लेशण करता कीं ताचे मुखार समिक्षा हें एक गरजेपुरतें साधन जावन उरता आनी हाका लागून तागेल्या बरोवपांत कितलेशेच तरांची समिक्षा एकाचबरोबर घोळटा. एकेकदां समिक्षकांचे आपले कार्यपद्धतीविशींचे अज्ञान हेंवय अशे तरेच्या समिक्षा-तरांच्या घुस्पागोंदळाक कारण थारूंयेता. हाका लागून समिक्षा-प्रकारांचे वळेरेसय समिक्षेची मुळावी रीत वा पद्धत (approach or procedure) कितें हें भौ गरजेचें. तशेंच समिक्षेचें अमक्याच वेळार ध्येय कितें आसुंयेता हाचो अदमास करप आनी ह्या ध्येयामेरेन पावचेखातीर समिक्षकान उपेगांत हाडिल्ल्या थारावीक पद्धतींतल्यान उपलापें जावपी समिक्षेचें स्वरूप समजून घेवप हेंवय तितलेंच म्हत्वाचें.

समिक्षेच्यो दोन मुळाव्यो पद्धती वेगळावंक येतात. त्यो म्हळ्यार वस्तुनिश्ठ वा **विशयनिश्ठ** (objective) आनी **व्यक्तिनिश्ठ** वा **आत्मनिश्ठ** (subjective) समिक्षा. हयो दोनय पद्धती समिक्षकाच्या साहित्याकडेन पळोवपाच्या दिश्टीकोणावेल्यान थारतात. पूण जायत्या खेपो, 'समिक्षकाक' ह्या दोन पद्धतींतली एकच पद्धत उपेगांत हाडप कठीण जाता. आनी नकळटां ह्या दोनय दिश्टीकोणांमदीं समिक्षा झेलता (oscillates). अशें घडप हें समिक्षेच्या उणेपणाचें जांव समिक्षकाच्या अज्ञानाचें लक्षण न्हय. एकेकदां हें समिक्षकाची विद्वत्ताय, ताचें वास्तवाचें भान आनी त्याचवेळार तांच्यातलें द्रश्टेपण हांच्या रसायणांतल्यान घडटा. अशे तरेन समिक्षेन **वस्तुनिश्ठ** आनी **व्यक्तिनिश्ठ** दिश्टीकोणांमदी झेलप हें बरोवप्याच्या लेखनांत लिपिल्ल्या वैचारीक वा भावनीक, बौद्धीक वा अध्यात्मीक, भौतीक वा आंतरीक दुवार्थीपण वा द्वंदाकय गरजेचें जाता. अशे तरेचें साहित्यीक आनी समिक्षात्मक दुवार्थीपण एकेच व्यक्तींत पळेतले जाल्यार आधुनिक काळावेलो कवी आनी पांडित्यपुराय समिक्षक टी. एस. एलियट हांचे उदाहरण घेवंक जाता.

पुण जावं वस्तुनिश्ठ वा व्यक्तिनिश्ठ समिक्षा, ती विशिश्ट आंगांतसून जरी साहित्यकृतीचो खोलायेन अभ्यास, विश्लेशण, निरूपण वा मोलावणी करूंक पावली तरी त्या साहित्यकृतींतलें कालातीत 'सत' आनी तत्कालीन 'यथार्थ' हांकां पुरायेन वेंगावंक उणी पडटा. हाका लागून जायत्या खेपो उत्तमांतल्या उत्तम साहित्याचो विश्वीक संदर्भ दोळ्यांआड करून जी समिक्षा बरोवप जाता, ती चडावत वेळा एकांगी थारता. हो दोश ना करूंक साहित्याची पुराय समजिकाय आशिल्लो आनी तातूंतलो

दिश्टावो ज्याका घडला असो समिक्षक समिक्षेच्या दोनय मुळाव्या पद्धतींतल्यान वाट काडीत-काडीत साहित्याच्या आपरोसाक सर्वार्थान भिडूंक सोदता आनी हातूंतल्यानच समिक्षा वेळोवेळार आदीं सांगल्यात तीं विविधरूपां आपणायता. हे खातीर, तीं रुपां वळखप शक्य जालें तरी आनी अभ्यासकाचे सुविधेखातीर तरा वा प्रकार ह्या माथाळ्याखाला वळेरीबद्ध केली तरी, खणबंद (compartmentalize) करप समा न्हय. उदकाच्या ल्हारांवरी तीं, समिक्षेचो संदर्भ, हेतू, थळ-काळाच्यो शिमो आनी गरजो, तशेंच समिक्षकाच्या मनाची घडण, ह्या सगल्या भायल्या-भितल्या प्रभावांक लागून एकामेकांत गुंथतात, एकठांवतात, आपटतात वा वेगळावतात.

आधुनिक समिक्षेकडेन इश्टागत करूंक पळेतल्या खंयच्याय अभ्यासकाक समिक्षेच्या ह्या खाशेल्या गुणांचो विसर पडूंक फावना. तेच वरी, आधुनिक पश्चिमी समिक्षेक लागींच्यान समजूंक पळेतल्यान थोडे भितर पुर्विल्ले पश्चिमी समिक्षेचो[1] नियाळ करप भौ गरजेचें. आधुनिक समिक्षा मुखेलपणान अस्तमतेकडल्या समिक्षात्मक कलांची (trends) चर्चा करता. म्हणटरीच त्या समिक्षेच्या मुळावणाचो थोडेभितर नियाळ केल्लो बरो.

●

---

१. *पुर्विल्ल्या पश्चिमी समिक्षेची लागिंच्यान वळख काडूंक सोदतल्या वाचप्याक, ह्या पुस्तकांत भासाभासेक घेतिल्यो मुखले ग्रीक-लॅटीन समिक्षाकृती* ***क्लासिकल लिटररी क्रिटीसिज्म*** *(संपा.) डी.ए. रसेल आनी एम्. विंटर बॉटम (ऑक्सफर्ड : ऑ.यु.पी., १९७२, १९८९) ह्या संकलीत पुस्तकांत अणकारीत रूपांत उपलब्ध आसात.*

# २
# पश्चिमी समिक्षेचें मुळावण

खंयचाय जिज्ञासू वाचप्याक पश्चिमी समिक्षा म्हळी की पयलीं, विसाव्या शतमानांत चालंत आशिल्ल्या समिक्षात्मक बरपाचो, ताचे फाटले विचारसरणीचो, तातुंतल्यान वयर येवपी सिद्धांत आनी प्रथा हांचो उगडास जावप समा आसा. पूण हे समिक्षेची पाळां साबार शेंकडे हुपून ख्रिस्ता आदल्या काळावेल्या **प्लेटो** आनी **ॲरीस्टोटल** हांच्या समिक्षाविशयक बरपामेरेन पावतात. विशेश म्हळ्यार, समिक्षेचे जे आयज लेगीत सुटावे जाले नाशिल्ले अशे प्रस्न आसात ते ह्या महारथींचे विचारप्रणांलेंतल्यान उदेल्यात.

हाका लागून आधुनिक पश्चिमी समिक्षेकडेन हातमेळोवणी करचे आदीं ते समिक्षेचें मुळावें प्रमेय समजून घेतिल्लें बरें. हाचें कारण म्हळ्यार, साहित्य-समिक्षा हांच्या संदर्भांत प्लेटो आनी ॲरीस्टोटल हांणी जी परस्पर विरोधाभासी (contradictory) भूमिका घेतल्या तिचेभोंवतणें आधुनिक पश्चिमी समिक्षेचें पुराय मोस्त्र विणिल्लें आसा. ह्या मोस्त्राचे टांके फुडाराक फाटींफुडें पडत गेले आनी हातूंतल्यान सिद्धांत, संकल्पना आनी नव्या विचारांची मांडावळ पश्चिमी समिक्षेंत घडत गेली. हाका लागून हे बुन्यादी (fundamental) चर्चेची थोडे भितर पूण सूत्रबद्ध रितीन विस्कावणी करप गरजेचें थारता. हे विस्कावणेंतल्यान समिक्षेची फुडाराची वाटचाल कशी जायत गेली वा नव्या विचारांचे प्रवाह तिच्यांत कशेतरेन भरसत गेले हें तर कळटलेंच, शिवाय त्या विचार-प्रवाहांमदीं अंतर्गत सोयरीक सोदूंकय बरें पडटलें.

पूण ते आदीं, आधुनिक समिक्षकांचे, समिक्षेच्या जल्मासंबंदीचे तर्क वा अदमास नियाळिल्ले बरे. कांय पश्चिमी समिक्षकांच्या मतान, समिक्षा ही साहित्याचे फाटल्यान निर्मल्ली प्रतिक्रिया वा प्रक्रिया न्हय जाल्यार साहित्याबरोबरच ताच्या मुळसांतसून किल्लून वयर आयिल्ली जोड-क्रिया. अशें मानपी समिक्षकांमदीं आपणाल्या समिक्षात्मक वावराखातीर नामना जोडिल्ले समिक्षक[1] **विलियम के. विम्सेट** आनी

---

१. *लिटररी क्रिटीसिज्मः अ शॉर्ट हिस्टरी (ऑक्सफर्ड : कलकत्ता १९५७, भारतीय आवृत्ती १९६४) पा. ३.*

**क्लीयेन्थ ब्रूक्स** हांचो आस्पाव जाता. समिक्षेचो सुलभ मार्गदर्शक म्हण नांवाजिल्ल्या आपणाल्या ग्रंथांत ते म्हणटात :

"आपणाले फिशालकाये विशीं वा कारागिरी (craft) विशीं ग्रह करून घेवप, तेचवरी तो ग्रह आपणाल्या काव्याचो संदेश म्हण वापरप, हें करपाकडेन कवींचो खर कल (inclination) आशिल्ल्यान, आमकां कविता जितले फाटीं मेळटा, तितलेच पयलीं एकेतरेची समिक्षाय सांपडटा."

आपणाल्या ह्या मताक आदार म्हण ह्या दोगांय समिक्षकांनी **होमेर** ह्या तीनेक हजार वर्सां ख्रिस्ताआदींच्या ग्रीक महाकविच्या महाकाव्यांतल्या होरावणे (invocation) कडेन बोट दाखवलां आनी **'काव्याफाटली दैवी प्रेरणा'** हे संकल्पनेची रूजवात कशी जाली आनी फुडाराक ही संकल्पना बरोच काळमेरेन एक साहित्यीक प्रणाली जावं प्रथा म्हण कशे तरेन तिगली, हाचोय उल्लेख केला.

पूण म्हाकवी **होमेर** आनी, ज्याका आधुनिक पश्चिमी समिक्षेचो वडील मानतात तो, **प्लेटो** हांचे मदी शेंकडेच न्हय जाल्यार सहस्त्रकां (milleniums) गेल्यांत आनी हे मजगतीं हेर साबार समिक्षात्मक भाश्यां जावं बरपां जाल्यांत, हें साहित्य-समिक्षेचो इतिहास उस्तिल्यार कळटा. ह्या भाश्यकारांमदीं **हेसियोद, सोलोन, सायमोनायडीस, पिन्दार** तशेंच हेर ग्रीक कवी, नाटककार आनी अलंकारशास्त्री (rhetoricians) हांचो आस्पाव जाता. हांच्या बरपांत आयिल्लीं वेगवेगळीं समिक्षात्मक टिपणां, जावं उल्लेख, खंयच्याय समिक्षेच्या अभ्यासकानदरेन म्हत्वाचे थारतात, कित्याक तर तांचेवरवीं त्या-त्या बरोवप्याचें समिक्षेसंबंधीचें मत तर कळटाच, तेभायर समिक्षेचे उप्रांतचे वाटचालींत खंयचो विचार वा तत्व खंयच्यान किल्ललें आसुंये हेंवय कळटा.

म्हूण विस्तारान नासलें तरी धांवते रितीन ह्या विचारांचो उल्लेख करूंक फावो. अशे रितीन, फुडाराक चड तांकीन फुलोराक आयिल्ल्यो पूर्विल्ल्यो समिक्षात्मक संकल्पना अशो जावन आसात : (१) कविता ही एक मनभुलोवणी **कला**; (२) कविता **देखदिणी** आसची; (३) कविता ही प्रतिभेंतल्यान आंकुरपी **सैमिक देणें** वा (४) कविता ही शिकून आपणावंक येण्याजोगी एक **फिशालकाय.**

ह्यो संकल्पना मांडणाऱ्यांमदीं मात्सो विस्तारान ज्या बरोवप्याचो हांगा उल्लेख करूंक जाय तो आसा खि.पू. ५ व्या शेंकड्यांतलो ग्रीक नाटककार **ॲरीस्टोफानिस.** हाका ग्रीक सुखात्मिकांच्या (comedies/कामदी) इतिहासांत खाशेले स्थान तर आसाच, पूण तो चड करून आपणाल्या **फ्रॉग्ज (Frogs)** ह्या विंडबनात्मक नाटकांतल्या समिक्षाकात्मक जुगलबंदेखातीर नांवाजिल्ल्लो आसा. आपले आदीं

जावन गेल्ले, ग्रीक साहित्याच्या भांगरापर्वांतले, दोन म्हान त्रासदीलेखक (tragedians/शोकात्मिका बरोवपी) **ॲस्किलस** आनी **युरीपिडीस** हांकां ह्या विडंबनात्मक वादांतलीं मुखेल पात्रां करून **डायोनिसस्**[1] ह्या देवामुखार ॲरीस्थोफानिस **फ्रॉग्ज** ह्या नाटकांत तांची फकाणांची जुगलबंदी दवरता. वादाचो मुद्दो आसता : दोगांय मदीं पाताळांतसून परतून धर्तरेर - येवपाक कोण लायक नाटककार (कवी) आसा, हो!

अशे तरेचे वादविवाद (**ॲगोन**) हे ग्रीक भासाभाशेचें एक खाशेलें आंग आशिल्लें. आपणाल्या शैली-विडंबनातल्यांन (parody), ॲरीस्टोफानिस ह्या वादाक एक जीवसाण तर हाडटाच, खेरीज समिक्षेचीं प्रमाणकां कितें आनी साहित्याचीं उणीं खंयचीं हेंवयबी अचळय उजवाडायता. हे भासाभाशेंतल्यान, काव्याची श्रेश्ठताय थारावचेलीं समिक्षेचीं प्रमाणकां म्हूण '**कलेंतली फिशालकाय**' आनी 'काव्यांतल्यांन **गणराज्याक** (republic) फावो जावपी **सल्लो** (मसलत)' हांचेकडेन नदर वता. जाल्यार '**अतिअलंकारीक भास**' आनी '**भावविवश पात्रयेवजण**' हीं काव्याचीं (नाटकाचीं) उणीं थारतात.

खरेपणान पळेल्यार, हो 'नाटकी' वाद तत्कालीन (contemporary) समिक्षापद्धतीचीं भगलां करता. तरीलेगीत ह्या साहित्यविशयक वादांतल्यान समिक्षेचे भावी चांटेची सुलूस लागता, हें उल्लेख करीसारकें. खेरीज, वेलेवयर अतिसादेपणाची दिसपी ही नाटकी जुगलबंदी भितल्ल्यान समिक्षेक गरजेची आशिल्ली एक सक्षम चिकित्सक धारणा (वृत्ती) दाखयता. विनोदी संवादांतल्या उपलापें जावपी साहित्यीक चर्चेचें जें एक सुक्षीम (minute) तास ह्या नाटकांतल्यान दिसून येता, तें त्या काळावेल्या जड, कठीण, उतर-जाळ्यांत घुस्पल्ले आनी अडेच्या गिन्याना लेपान माखिल्ले, दिखावू (sophisticated) समिक्षेक वाऱ्याल्हारावरी नव्या उमेदीन रसरसांवक पावलें. ॲरीस्टोफानिसाचें समिक्षात्मक योगदान व्हड सिद्धांताच्या रूपान उबारेक आयिल्लें दिसना पूण, पश्चिमी समिक्षेच्या बुन्यादी सिद्धांतांची पायोभरणी प्लेटोच्या ज्या **डायलॉग्ज** ह्या समिक्षात्मक बरपांतल्यान जाली तातूंत मेळपी सुक्षीम वा मार्मिक दिश्टी ॲरीस्टोफानिसच्या साहित्यीक वादांतल्यान आंकुरल्या. तशेंच, **फ्रॉग्ज** हें असल्या साहित्यीक चर्चेचें पयलें तिगिल्लें लिखीत रूप जाल्ल्यान प्लेटोचे फामाद '**सोक्रेटीक वाद**' ॲरीस्टोफानिसाकडसून उर्बा घेवन आकारा आयले जावकं जाय म्हळ्यार अतिताय जावची ना. हे आदिंची ग्रीक समिक्षा

---

१. *ग्रीक परंपरेप्रमाणे नाट्य महोत्सवाचो आश्रयदातो*

म्हाकवी होमेर आनी शोकात्मिकाकारांच्या वा त्रासदीकारांच्या धेंकाखाला तेच परी ग्रीक साहित्यीक पंरपरेच्या वज्याखाला चेपून वावुरताली. ती समिक्षा प्लेटोचे हस्तुकीं साहित्याकडेन 'तें म्हळ्यार एक निखटी कलाकृती' हे नदरेन पळोवंक पावली; साहित्याचें फकत रसग्रहण वा तोखणायच करिनासतना, मानवी मूल्यांच्या आदारार साहित्यकृतीचें समाजीक तशेंच धर्मीक म्हत्व (relevance) पारखून तांची वस्तुनिश्ठ दिश्टीन मोलावणी करूंक पावली. पूण जरी अशे वस्तुनिश्ठ पारखणेचें स्रय प्लेटोक गेलें तरी ताचे वस्तुनिश्ठ पद्धतिभितर लिपिल्लो आत्मनिश्ठ संवेदनशिलतायेचो गाबो मात नदरेआड करूंक येना.

# ३
# प्लेटोचे विचार आनी ताचे काव्यावेले आक्षेप

पश्चिमी समिक्षेसंबंदी भासाभाशेक प्लेटो ह्या ग्रीक तत्वचिंतकाच्या बरपाचो पालव वा ताच्या कलाविचारांचो अभ्यास कितलो गरजेचो आसा हें सांगची गरज ना. समिक्षेच्या अभ्यासकान चड करून **रिपब्लिक** (पर्व धा) हो प्लेटोचो ग्रंथ तर आपणाली बुन्यादी संहिता अशें मानलां. पूण मुजरत लक्षांत घेईसारकी गजाल म्हळ्यार प्लेटोच्या पुराय विचारांमदीं एक सुसूत्रताय आसा. ते नितीशास्त्रावेले विचार आसूं वा राजकी तत्वगिन्यानावेले, समाज-जिणेंसंबंदीं आसूं वा नागरी गणराज्याविशीं, तांचेफाटल्यान एक सबळ सिद्धांतीक जोडण (अनुबंध) आसा. प्लेटोच्या पुराय तत्व विचारांक मेटण घालून एकठावपांत ताच्या **चिद्रूप** (Form or Idea) संकल्पनेचो भौ म्हत्वाचो वांटो आसा, हाका लागून निखळ्या **रिपब्लिक** (पर्व धा)च्या आदारान प्लेटोच्या कलाविचारांचे बुन्यादीमेरेन वचूंक पळोवप इल्लें चड धाडसाचें जातलें. अशें केल्यार घडये त्या बुन्यादिच्या तर्कनिश्ठ विचारांचे चिरे हाताक लागत पूण तांकां सांदपी आत्मनिश्ठ नदर कळूंक पावचिना.

खरो प्लेटो जाणून घेतले जाल्यार आमकां ताच्या विचारांची मानसीक बसका कशी घडली हें पळोवचें पडटलें. तेचबराबर ताचेसारक्या तटस्थपणान विचारांची मांडावळ करपी चिकित्सक विचारवंताकडेन, काव्याची इतली **जाण** आनी ती उत्तावपी **संवेदनशिलताय** कशी आयली हेंवय समजप गरजेचें. हेखातीर प्लेटोचे जिणेचो निसट्टो उल्लेख जे परी फायद्याचो थारतलो तेच परी ताच्या विचारांचो धांवतो नियाळ, ताचे बरपावळीचें स्वरूप आनी तिचे फाटलें सिद्धांतीक सूत्रय समजून घेवप लावदिणें जातलें. म्हूण फुडें वचचे पयलीं, ह्या साबार मुद्यांचेर थोडोसो उजवाड घालप समा जातलें.

### प्लेटोची जीण : धांवतो आलेख

प्लेटोच्या जल्म-मर्णाच्यो निश्चीत तारको सांगूंक इतिहासकार अनमनतात. पूण **सम्राट पेरिक्लीस**, हो ग्रीक (खरेपणीं एथीनियन) सुवर्णयुगाचो शिल्पकार अस्ताक गेले उपरांत, ख्रि.पू. ४२७ ते ३४८ दरम्यानच्या काळार प्लेटो जावन गेलो, अशें मानपाक आदार आसा. **सॉक्रेटीस** हो समकालीन तत्वचिंतक ताचो गुरु आनी ताचेलेखीं भौ आदरणीय आशिल्लो. बापूय मेल्ल्या प्लेटोचें भुरगेपण सवती-

बापायगेर (पायरीलेम्पिस) राजकी वातावरणांत गेलें आनी ताणेंय फुडें राजकारणांत भितर सरचेली मोख दवरली. रोखडीच ही संद ताका आयली. ख्रि.पू. ४०४ वर्सा क्रिटियन आनी चार्मिडीस ह्या ताच्या लागींच्या सोयऱ्यांनी एथेन्साक हुकूमशाय्री राजवटीपोंदा लोटलें. तांणी प्लेटोकय आपणालो सहकारी जावंक आमंत्रित केलो पूण त्या अराजकी शासनाक विटून प्लेटो तांचो साथीदार जावंक राजी जालो ना. वर्साभितर एथेन्साच्या लोकांनी परतून लोकशाय स्थापून तांच्या मनमानी कारभाराक आळाबंद घालो. प्लेटोक परतूनय राजकारणांत भितर सरचेली वान्सा जाली. पूण ख्रि.पू. ३९९ वर्सा जेन्ना 'तरणे पिळगेची दिकाभूल करप' ह्या आरोपाखाला सॉक्रेटीसाक एथीनियन लोकशायेन वीख पिवपाची मर्णख्यास्त दिली, तेन्ना मात प्लेटो पुरायेन संवसाराक विटलो. राजकारणाकच न्हय तर जिविताकय उबगून जो तो देस-भोंवडेक गेलो तो बद्द बारा वर्सांनी सुमार एथेन्साक परतलो.

ह्याच काळार ताणें जिविताच्या भौतीक तशेंच आधिभौतिक आंगाचेर पुरायेन आनी खोलायेन विचार केल्लो जावंक जाय. ह्या विचारीक मंथनांतल्यान फुडाराक ताका साबार म्हत्वाचे विचार बरपांत गुथूंक येस मेळ्ळें अशें मानपाक जागो आसा. हांचेमदले खासा उल्लेख करीसारके विचार म्हळ्यारः ताची आदर्श नागरी गणराज्याची मोख; नागरिकांचें शिक्षण आनी समाज-सवस्तकायेचें पालन हांचेविशीं ताची उमळशीक; ताका आशिल्ली भौशीक नितिमत्ता आनी कला हांच्या परस्परासंबंदांची जाणविकाय; तशेंच ह्या संवसारांतलें **वास्तव** आनी **'सता'**चें जिणेपेलें **आस्तेंपण** हांचेविशीं ताका घडिल्लो दिश्टावो. ह्या सगल्या विचारांचो आनी जिणेंतल्या कोडू अणभवांचो आपरोस प्लेटोच्या तत्वचिंतनाचो वेगळावंक येना असो वांटो जावन आसा. विंगड-विंगड विचारांनी ताका पिकाळ सिद्धांतीक बसका आनी प्रतिभाशाली नदर दिली. ह्या दोगांयच्या मेळांतल्यान प्लेटो एकाच वेळार एक तर्कनिश्ठ शास्त्रशुद्ध तत्वगिन्यानी आनी एक संवेदनशील, कल्पक, प्रतिभावंत बरोवपी जावंक पावलो. इतलेंच न्हय जाल्यार, एथेन्साच्या आपणाल्या **'अकादेमी'** ह्या नामनेच्या विद्यापिठावरवीं पश्चिमी संवसरांत पुरोगामी शिक्षण पद्धतीचें मुळावण घालपी शिक्षणतज्ञ म्हूण अजरंबर जालो.

हांगा साबार समाजीक शास्त्रांचेर, गणिती तशेंच भूमितीक सिद्धांतांचेर, तत्वगिन्यानाच्या विविध तासांचेर आनी आदर्श समाज- जिणेचे गरजेचेर समग्रतायेन भासाभास जाताली. हे चर्चेचो प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष झोत (समाज जिणेचेर प्रभाव घालचेली आकांताळी तांक आशिल्ली पूरक कला ह्या नात्यान) साहित्याचेरय पडटालो. हाका लागून प्लेटोचो कलाविचार फकत समिक्षेच्या शिमांभितर रावन

साहित्याक लागू करप योग्य जायना. प्लेटोच्या समिक्षात्मक चिंतनाची कक्षा विशाळ आसा. ती एकाच बरोबर प्लेटोची 'सता'ची संकल्पना, वास्तविकतायेची फोडणिशी, आदर्श गणराज्याचें सपन आनी मनीस-जिणेंतल्या साबार तत्वांची परिपूर्ण जिविताचे घटक म्हूण विश्लेशण ह्या सगल्यांक वेंगायता. प्लेटोच्या साहित्यविशयक मतांक हेर सगल्या विचारांच्या संदर्भांत तिजून पळेलीं जाल्यारच प्लेटोच्या तत्वचिंतनांत आस्पाविल्लो शास्त्रशुद्ध तर्क आनी काव्यपूर्ण स्वच्छंदताय हांच्यो धारो एकठांवक जायत. नाजाल्यार, चडावत एककल्ली समिक्षा जशे तरेन प्लेटोच्या तर्कनिश्ठ काव्य-आक्षेपाची तळी उखलता वा ताच्या आत्मनिश्ठ काव्यमोगाची दवंडी पेट्टा तशीच ह्या समिक्षात्मक अभ्यासाची गत जातली.

प्लेटोचे अकादेमींत अभ्यासाचें स्वरूप **भासाभास** आनी **संशोधन** हांकां चालना दिवपी आशिल्लें. **नखेत्रविद्या, सैमीक इतिहास, प्रत्यक्ष विधिमंडळशास्त्र, परिभाशा-कला** तशेंच हेर संबंदीत विशयांचेर सखोल चर्चा घडटाली आनी हे सगले चर्चेक प्लेटोच्या **चिद्रूप** सिद्धांताचें अस्तर आसताले. पूण ह्या सिद्धांताफाटली **रूप** वा **आकृती (Form)** वा **कल्पना (Idea)** ही संकल्पना समजून घेवचेआदीं प्लेटोचे बरपावळीचेर एक धांवती नदर मारिल्ली बरी.

## प्लेटोचे संवाद[१] (Dialogues)

अकादेमींतल्या चर्चारूपी अभ्यासाचो परिणाम म्हूण जावंये वा प्लेटोच्या नीज नाट्यमोगाक लागूनय जावंये, ताचें पुराय बरप (**ॲपोलॉजी** आनी **लेटर्स** सोडल्यार) नाट्यपूर्ण अशा संवादरूपांत आसा. ताच्या ह्या गद्य संवादांक प्रभावी पूण सादी शैली, उपमा-प्रतिमांनी गिरेस्त भास आनी विचारांचो सरळ धागो आसा. हाका लागून ताच्या, **संवादांक** ग्रीक साहित्यांतच न्हय जाल्यार संवसारांतल्या गद्य साहित्यांत मानाची सुवात फावो जाल्या. आजवेर, ताचे अशे मानिल्ल्या ३५ संवादांतले २९ खासा प्लेटोचेच म्हूण साहित्य-इतिहासकारांनी वेंचून काडल्यात.

हे **संवाद** फकत प्लेटोच्या तत्वगिन्यानाची प्रगटावणी कर चलें एक शास्त्रशुद्ध साधन न्हय. नाट्यपूर्ण मांडावळ आनी मिथकांचो (myths) प्रयोग करून त्या-त्या विशयाचेर पुरायेन उजवाड घालचेलो प्रामाणीक यत्न दरेका संवादांत जाल्लो दिसता. दोन वा चड उलोवपी, संवादांत वांटो घेवन. विशयांचीं विंगडविंगड तासां उक्तावन चर्चेचो मुळावो आशय ल्हवूच वाचप्यामुखार दवरतात. हाका लागून

---

*१. जिज्ञासूंनी बेंजामिन जॉवेट (अण.) (ऑक्सफर्ड : १९५३, ४थी सु.आ.) हें पुस्तक पळोवचें.*

प्लेटोच्या विचारांचें सार सोदतना खंयच्या उलोवप्याच्या मुद्यांक कितलें म्हत्व दिवचें हाची खासा जतनाय घेवंक जाय, नाजाल्यार प्लेटोचे तात्वीक बसकेची रचणूक विस्कटून वचत हो भंय आसा. **संवादांची** एक खाशेली विशेशताय म्हळ्यार तांचेमदीं सातत्यान उबें रावपी **सॉक्रेटीस** हें पात्र! आदींच्यां संवादांनी होच **प्रमुख वक्तो** आसा जाल्यार कांयकडेन तो **प्लेटोचो प्रवक्तो** जाल्लो दिसता. **संवादांचे** रचनेचो काळ, तांचे भितल्ल्यो मुखेल तत्वप्रणाली आनी त्या-त्या तत्वप्रणालीचें प्लेटोनीक विचाराच्या मूळ स्त्रोताकडेन आशिल्लें नातें, हांचेर आदारून विद्वानांनी **संवादांची** विभागणी केल्या.

पयल्या वांटयांतले **संवाद** चड करून **सॅाक्रेटीसाची विचारधारा** प्रगटावंक बरयल्यात अशें दिसता. मुखेल पात्र म्हूण जो सोक्रेटीस हांचेवरवीं उदेता तो इतिहासीक सॉक्रेटीसाक लागीं आसा. ह्या सुर्वेच्या **संवादांमदीं आयोन, क्रिटो, चारमायडीस, युथायफ्रो, हीपियस, मिनोस, लॅकिस** आनी **लायसिस** हांचो आस्पाव जाता.

प्लेटोच्या **संवादांचो** दुसरो वांटो, तातूंत दिसून येवपी **भासाभाशेच्या वेगळ्या रूपाक** लागून लक्षणीय आसा. हे **संवाद** सॉक्रेटीसाक 'प्लेटोच्या नीज विचारांचें विश्लेशण-निरूपण करपी एक पात्र', हे नदरेन पितारतात. हाका लागून 'ह्या' संवादांतल्यान प्लेटोचे प्रगल्भ जायत गेल्ले विचारसरणेंचें दर्शन घडटा. हांचीं नावां **आल्सिबियाडिस्, क्रेटायलस्, इथायडेमस्, जोर्जियास, मॅनेशेनस्, मॅनो, पारमेनायडिस्, फीडो, फिड्रस्, रिपब्लिक, सिम्पोजियम** आनी **थेक्टेटस्,** अशीं आसात. निमण्या वांटचातले **संवाद** म्हळ्यार, **क्रिटियस, फिलेबुस्, पोलिटीक्स, सोफीस्ट, टायमेक्स,** आनी **लॉज्. हांचेमदलो लॉज्** (Laws) हो संवाद प्लेटोच्या मर्णाउपरांत उजवाडा आयला.

साहित्य समिक्षेचे नदरेन हातूंतले चड उपेगाचे अशे संवाद **आयोन, फीडो, फिड्रस, फिलेबुस, रिपब्लिक, सिम्पोजियम** हे आसात. तरी पूण **सॉक्रेटीस** आनी **आयोन** हांचेमदीं घडिल्लो **संवाद** समिक्षकाक चड लागींचो दिसता. **आयोन** हो एक काव्य-निरूपक वा **'ऱ्हॅपसोड'** (rhapsode) आसता.[1] हांगा इल्ली आडवाट करून वाचप्याक शिटकावणी दिवंक जाय की हांगा काव्य हें **पुराय सृजनात्मक साहित्य** अशें गृहित धरलां. पुर्विल्ल्या ग्रीक साहित्याचें प्रभावी माध्यम **काव्य** आशिल्लें. आनी गेय (lyric), निवेदनपर (narrative) आनी नाट्य वृंद रूपी (dithyrambic) अशा तीन शैलींतल्यान तें साकार जातलें.

---

*१. नट आनी शिक्षक हांचेमदलो हो कलाकार पुर्विल्ल्या ग्रीक भौशीक माचयेर काव्य-गायन (निवेदन) आनी निरूपण करतालो.*

हाका लागून (आनी मौखिक परंपरेक लागूनय) काव्याचें **भौशीक गायन**, **निवेदन** वा **नाट्यदर्शन** हाका चड म्हत्व आसतालें. तेच परी काव्याचें विश्लेशण वा निरूपण समाजीक नदरेन खूबच प्रभावी थारूंक शकतालें. हें काव्य-निरूपण करपी जो नट आशिल्लो तो वांगडाच समिक्षात्मक तशेंच नितिपर व्याख्यानांय दिवन, आयकुप्याच्या काळजांक हात घालपाची तांक बाळगितालो. कांय विद्वानांच्या मतान काव्य-निरूपक (rhapsode) हो पुर्विल्ल्या अ-शास्त्रीय ग्रीक शिक्षण प्रणालीचो प्रतिनिधी म्हणुंयेता. हाचें काव्य-निरूपण कितलें परिणामकारक जावंक शकतालें हाची सुलूस खुद्द प्लेटोच्या संवादांतल्यान मेळटा.[१]

**आयोन** ह्या संवादांत कविचो उल्लेख **द्रश्टो**, दैवी शक्तीन भाराविल्लो '**उद्‌गातो**' पूण तेचवरी बुद्ध आनी इंद्रियांच्या नियंत्रणाभायरो '**पिशांतूक**' प्रतिभावंत असो केला. हांगा **कवी** आनी **काव्य-निरूपक** हांकां समसमान रितीन सॉक्रेटीस आपले टिकेचें लक्ष्य करता. तत्वगिन्यानाचे नदरेन पळेल्यार हो **संवाद** कसल्याय 'ठोस' निश्कर्शामेरेन पावना. **आयोनांत** व्यंगोक्तिचो चडावत प्रमाणांत उपेग जाल्लो दिसता. हाका लागून त्या **संवादाचें** शास्त्रीय भासाभास हे नदरेन मोल उणावता. पूण हो **संवाद** प्लेटोचे जाण्टे पिरायेवेलो न्हय. हाका लागून तातूंतले कलाविचार जाणून घेतना, ताच्या साहित्यीक मोलाक आनी तात्वीक भासाभाशेक वाचप्यान थोडी सूट दिवंक जाय.

आयोना वांगडच्या जुगलबंदेत उतरांच्या बळार आनी व्यंगाच्या नेटार सॉक्रेटीस कवीक 'पिसो प्रतिभावंत' थारायता. तशेंच तर्काच्या आदारार सॉक्रेटीस, **काव्य** आनी **काव्य-निरूपण** हीं कला (art) आनी गिन्यान (knowledge) हांचे विरयत जल्मतात अशें दाखयता. आयोनाक प्रस्नांच्या जाळ्यांत सांपडायत सॉक्रेटीस ताचेकडेन बुद्दीक पटपासारकें तंत्र ना हें ताका अप्रत्यक्षपणान मान्य करूंक लायता. पूण ताका ताचे कलेचें प्रात्यक्षीक दाखोवंक मात दिना आनी मागीर, **तंत्र** आनी **कला** ही वेगळावंक येना आशिल्ली एकजीनसी चीज (unified thing-*holon*) अशें दाखयता.

लोखंडा-सांखळेचे सुंदर प्रतिमेंतल्यान, सॉक्रेटीस काव्याची तुळा लोहचुंबका कडेन करता आनी कविता, काव्य निरूपक आनी श्रोतो हांच्या सांखळेंतल्यान दैवी शक्ती (divine power-*theia dunamis*) चो संचार घडोवपी तांक आशिल्लेखातीर कवीक 'नाजूक (ल्हव) पांखाटचो आशिल्लो आनी उजू (पूज्य)' अशा उतरांनी

---

*१. प्लेटो ताचो उल्लेख उंची वस्त्रां घाल्लो, भांगरा मुकूट चडोवन हजारांनी श्रोत्यांक मंत्रमुग्ध करपी, असो करता. म्हूण घडये, **आयोनांत** सॉक्रेटीस ताका निमणेमेरेन आपले कलेचें दर्शन घडोवंक संद दिना जायत.*

वर्णिताय. पूण तेच बरोबर ताचीं भाश्यां दैवी थारावणेन घडपी पिशेपणां अशेंय सांगता. फुडें सॉक्रेटीस स्पश्टपणान म्हण्टा कीं, 'प्रेरीत जावन मनाशेकाभायरो जायमेरेन तांचे हस्तुकीं निर्मणी घडना; आनी अशे अवस्थेक पावसर तो आपणालीं भाश्यां (वदवणी oracles) उक्तावंक शकना. (आयोन, ५३४)[1]

बारीकसाणेन पळेल्यार **आयोन**, प्लेटोच्या मतांपरस सॉक्रेटीसाचे **कवी**, काव्य **आनी तंत्र हांचेवेले विचार**, तर्कबद्द अशा 'सॉक्रेटीक रितीन' सामकारायता हें कळटा. हो **संवाद** दोन मुखेल प्रस्न उप्रासायता: कविता कितें सांगता? कविचे तांकिचें मूळ खंय आसता? आनी ह्या प्रस्नांतल्यान एक उप-प्रस्न उबो जाता : कविची **प्रतिभा** आनी ताच्या काव्याचो संदेश हांचें नातें कितें? जी जाप ह्या संवादांतल्यान मेळटा ती अशी: काव्यांत **शास्त्रशुद्ध सांगणी** नासता, काव्याचें मूळ दैवी स्फुर्तींत आसता. आनी म्हूण, कविता बरोवप आनी कवितेसंबंदीं पटपासारकें मत प्रगटावप हांतूंत फरक आसा. अशातरेने **आयोन** आडवाटेन काव्याचे दोन मुळावे गुण उक्ते करता.

पूण वयले विस्कावणेवेल्यान प्लेटो काव्याचो दुस्वास करता, अशें म्हणप मात चुकतलें. **मॅनो** ह्या संवादांत प्लेटो 'पुराय कवी लोकांक', हेर दैवी कौलाची फोडणिशी करपी, प्रशासक, द्रश्टे हांचे वांगडा एक 'योग्य (उजू right) मत (opinion)' आसा हें मान्य करता. **फेड्रसांतय** प्लेटो कविच्या ह्या दैवी पिशेपणाची खासा उखेवणी करता. हांगा 'योग्य मत' मळ्यार *(doxa)* पूण knowledge (पुराय गिन्यान *episteme*) न्हय हें ध्यानांत घेवंक जाय. प्लेटोच्या तत्वाप्रमाणें गिन्यानाचे **चार पावंडे** चळखूंक येतात: (१) *eikasia* म्हळ्यार सेंद्रिय अनुभवांवेल्यान मेळपी जिनसां (objects) ची आनी तांच्या रूपांची वयलेचाराची **वळख;** (२) *pistis* म्हळ्यार संवसारांतल्या घन पूण नाशिवंत जिनसांची विश्वासाचेर आदारिल्ली **जाणविकाय;** (३) *dianoia* म्हळ्यार गणिती वा भूमितीक आकृत्यांची तर्क वा भासाभाशेवरवीं मेळपी आडवळणी **समजणी;** आनी (४) *noesis* म्हळ्यार अविनाशी 'सता'चें अंतर्ज्ञान! ह्या चार पांवड्यांक दोन भागानी वांटूयेता *eikasia* आनी *pistis* ह्यो *doxa* खाला येतात. जाल्यार dianoia आनी noesis ह्यो *episteme* खाला आस्पावतात.

जायत्या समिक्षकांनी **आयोना** उपरांतच्या प्लेटोच्या विचारांक **आयोनांतले** भासाभाशेचो **'प्रतिरोध'** अशें धरला. पूण हें समा न्हय. कांय समिक्षक ही चूक

---

*१. लेखांतले प्लेटोच्या संवादांचे उतारे, डायलॉग्ज, (अण.) बेंजामिन जोवेट ३ री आ. १८९२) ह्या पुस्तकांतल्यान घेतल्यात.*

करतात.[1] प्लेटाच्या बरपांतलो बदल हो सैमीक रितीन ताच्या विचारांत येवपी जूनसाणीचें पडबिंब जावन आसा. ह्या बदलाचेर आदरून प्लेटोक काव्याचो समर्थक वा विरोधक मानिनासतना, त्या मतांफाटलो साहित्य आनी समिक्षेचो संदर्भ पळेल्लो बरो.[2]

**आयोना**उपरांत काव्यसंबंदी प्लेटोचे आक्षेप आमकां प्रकर्शान **रिपब्लिक** ह्या ताच्या नामनेच्या ग्रंथांत मेळटात. ह्या संदर्भांत **रिपब्लिकाचीं** तीन पर्वां (एक, दोन, आनी धा) चड म्हत्वाचीं आसात. हातूंतल्या पयल्या दोन पर्वां आनी पर्व धा मदीं कांय वर्सांचो काळ गेल्ल्यान, पर्व धाक प्लेटोच्या उतार पिरायेवेल्या पिक्या विचारांचे सार म्हण खासा मोल फावो जाता. हाका लागून तें चडावत खेपो 'प्लेटोच्या काव्य विरोधाचें उदाहरण' म्हूण दाखयतात. सुर्वेच्या पर्वांनी प्लेटो काव्याचेर वान्सांक 'उदक-सारें' घालपाचो तशेंच भावनाविवश करून वा चंचलपणावरवीं मनाक अस्थिर करपाचो आरोप करता. अशे तरेन नागरी सलोख्याक बादा हाडपी गुण जल्माक घालता म्हूण कवीक गणराज्यांतल्यान भायरावचो अशी नागरिकांक सुचोवणीय तो करता. हांगा कवीचो उल्लेख **'अनुकरण मोगी'** असो जाता. पर्यायान काव्य-निरूपक मूक अभिनय करपी (pantomimic) थारता. तांकां उद्देशून प्लेटो स्पश्ट म्हणटा, '...ह्या मूक अभिनेत्यांमदलो कोणय सभागो... आमचेकडेन आपले कलेचें प्रदर्शन करचेलो प्रस्ताव मांडटलो तेंन्ना आमी ताचे फुडें (पांयार) घालून घेवन, म्होंवाळ, पूज्य आनी अप्रूप आशिल्ले खातीर ताची पुजा करूंया; पूण ताका हेंवय सांगुंया की ताचे सारक्यांक आमच्या गणराज्यांत कायद्यान जागो ना; आनी म्हूण, ताका सुवासीक उटणें लावन, ताच्या माथ्यार लोकरीची माळ घाले उपरांत ताका दुसऱ्या नगराची वाट दाखोवया. कारण, आमकां आमचे आत्मीक सवस्तकायेखातीर रूक्ष आनी गंभीर वृत्तीचो कवी वा काव्य-निरूपक जाय, जो सद्‌गुणी लोकांचे जिणेरितीचें अनुकरण करतलो आनी जे नेम आदर्श शिपायकांच्या, शिक्षणाखातीर सुर्वेक नेमून दिल्यात तांकांच पाळो दितलो.' (**रिपब्लिक**, पर्व ३, ३९८.)

---

*१. देखीक, आर.जी. कॉलींगवुड, द **प्रिंसिंपल्स ऑफ आर्ट**, (ऑक्सफोर्ड, १९३८), प्लेटोक काव्यामोगी म्हण तोखेता.*

*२. विमसॅट (ज्यु.) आनी ब्रुक्स हांचे मत लक्षात घेईसारकें आसा. ते म्हणटात, ''आमी अशें धरून चलुंया की काव्याच्या विद्यार्थ्यांक खरेपणीं प्लेटोक कवितेवटेन ओडून (भरती करून) घेवचेली गरजना, तशेंच प्लेटोची काव्याक मान्यताय ना हे चिंतेन खाकुंडचेलीय गरजना. प्लेटोक एका प्रभावी आनी अर्थानिशी (जावपी) काव्य-विरोधी भासाभाशेचो प्रतिनिधी मानप (हांगा) चड सुविधेचें थारतलें'' (लिटररी क्रिटीसिज्म, पा. ९)*

**रिपब्लिक** पर्व धांव, प्लेटो नागरिकांक, अशे तरेचो इश्ट कवी पूर्विल्ल्या ग्रीक कविंमदीं सांपडूंक कठीण अशी शिटकावणी दिवन म्हणटा 'होमेर हो कवीश्रेश्ट आनी त्रासदीकारांमदीं आद्य हें मान्य, पूण आमच्या गणराज्यांत निखटीं देवाचीं भजनां आनी फांकिवंतांची कीर्त गावप्यांकूच प्रवेस दिवंक फावो, ह्या मताचेर आमी थीर रावुंया. हाचे फुडें वचून, म्हाकाव्यांतल्यान वा गितांतल्यान, तुमी म्हौंवाळ स्फुर्तिदेवतेक (कविता) भितर काडली जाल्यार आमच्या राज्यांत सर्वमान्य कायद्याच्या वा मनीसमतीच्या जाग्यार सुख आनी दुख्खाचो शेक चलतलो. पूण तिणें (स्फुर्ति देवतेन ) आमचेर कठोरपणाचो वा उद्धटपणाचो (नमळायेच्या अभावाचो) आरोप करूंनये म्हूण तिका सांगुंया की तत्वगिन्यान आनी काव्य हातूंत पुरातन झगडें आसा' (**रिपब्लिक,** पर्व १०, ६०७)

आपणाल्या आदर्श गणराज्यांत काव्यावरवीं अनितीक वा अराजकाक उत्तेजन मेळत असो आक्षेप घेतना प्लेटो काव्याचे दोन **सभावगुण** अचळय **निर्देश**ता. एक म्हळ्यार, कविता विंगड विंगड **हावेस- भावनांक वेंगायता** आनी तांचेवरवीं वायट बऱ्या **वान्सांची जाणविकाय** करून दिवन, **सुख-दुख्खाची कीट** काळजांत फुलयता. दुसरें, कविता **आभास निर्मणी** करता. हो आभास (illusion) निखटो, वास्तवाचें दर्शन घडोवपी अनुकरणापुरतो (immitation) मर्यादित ना; जाल्यार तो **'अनिश्ट'** वास्तवाचो आभास जाल्ल्यान अदीक हानिकारक थारता. प्लेटोन केल्लो काव्यांतल्या वास्तवाचो निर्देश अप्रत्यक्षरितीन कवींचे अनुकरण करपी प्रवृत्तीफाटलो धोको व्यक्त करता. **होमेर, हेसियोद** आनी समकालीन नाटककारांच्या साहित्यांतल्या देखीवरवीं प्लेटो तांणी कशे परीन कुटकारस्थानी, फटकिरे आनी सूडग्रस्त देव, भावनाविवश तशेंच भिजूड म्हालगडे, सुखाक पाविल्ले दुश्ट मनीस आनी दुर्दैवाच्या फेऱ्यांत घुस्पल्ले न्यायी मनीस रंगयल्यात हें सांगता. प्लेटोआदले काव्याच्या गर्भीत अर्थाची फोडणिशी करणारे निरूपक (exegets) ह्या काव्यांक 'रूपकात्मक' लेखून तांचे भितर आस्पाविल्लो आशय **अमूर्ताच्या** (abstract) पांवड्यार आसा अशें दाखयताले. प्लेटो ह्या काव्यांतल्या आशयाक **मूर्त** स्तरार पारखून, तो अनिश्टाचें अनुकरण करपी आशिल्ल्यान **अनितीक** आसा आनी म्हूण काव्य अप्रिय वा अनिश्ट आसा हें दाखयता.

काव्यांतल्यान घडपी वास्तवाचें अनुकरण गणराज्यांतल्या नागरिकांच्या नितीक आरोग्याक कितलें **'माल'** पडटलें हें सांगतना प्लेटो ताची तुळा अप्रत्यक्ष-पणान विखाकडेन करून स्पश्ट म्हणटा '...तुमकां सांगूंक (म्हाका) कसलीच हरकत ना कीं पुराय काव्यरुपी अनुकरणां आयकुप्यांचे मतीखातीर (समजणेखातीर)

विध्वंसक आसात. आनी तांच्या खऱ्या स्वरूपाची जाणविकाय होच तांचेर खरो तोडगो (antidote विखावेलो उतारो) जावन आसा' (**रिपब्लिक**, पर्व धा, ५९५). पूण प्लेटोचो हो काव्याक आशिल्लो विरोध जरी वयलेवयर पळेल्यार तर्काच्या आदारार उबारिल्लो दिसलो तरी ताचे फाटल्यान प्लेटोचो 'अमूर्त गिन्यानाचो दिश्टावो' आसा. आनी हो दिश्टावो उपलापो करूंक प्लेटोच्या मुळाव्या तत्वांकडेन वळचें पडटलें. हीं तत्वां ताच्या **चिद्रूप** सिद्धांतांतल्यान चंवरल्यात.

**प्लेटोचो चिद्रूप वा कल्पाकृती सिद्धांत :**

आदीं सांगलां ते प्रमाण **'चिद्रूप' सिद्धांत** (Concept of Idea or Form) प्लेटोच्या पुराय तत्वगिन्यानाक वेंगायता. ह्या सिद्धांताक समजून घेवचे खातीर पयलीं प्लेटोची **'कल्पना'** वा रूप/ आकृती ह्या समानार्थान वापरिल्ल्या उतरांची **संकल्पना** समजुची पडटली. खंयचीय संकल्पना ताचे फाटल्या तत्वाचीं उदाहरणां दिवन समाजावंक जायत हाचेर प्लेटोचो विश्वास नाशिल्लो. दरेके संकल्पनेफाटलें तत्व उक्तावपी अशी **परिभाशा** प्लेटोक जाय आशिल्ली, जी त्या-त्या संकल्पनेच्या सगल्या स्थिती-पांवडे-घडणुको हांकां लागू पडटा आनी तांचे मदीं जें समान आसा तें उक्तें करूंक शकता. प्लेटोच्या मतान, सगल्या वस्तूंनी समान आसा तें ते-ते वस्तूचें **'वस्तूपण'**, त्या-त्या जिनसाची **आकृती, रूप** वा **कल्पना.** हें जें कल्पनेंतलें, (वास्तवाभायलें), जिनसांचें **रूप** वा **आकृती** आसा, ताका तो (Idea or form) म्हणटा. आमी ताका **चिद्रूप** अशें म्हणचेपरस **कल्पाकृती** वा **कल्परूप** अशें म्हणिल्लें चड सटीक जातलें. मुजरत याद दवरूंक जाय की प्लेटोक **'कल्पना'** हातूंत संवसारीक तशेंच थळ-काळाच्या संदर्भाभायली **'सता'** ची समजणी अभिप्रेत आसा. संवसार हो सदां-बदलणो आनी अपरिपूर्ण आसा आनी म्हूण **रूप** वा **आकृती** ह्यो खरेपणीं ह्या संवसारांत वसूंक शकनात अशें तो मानता.

प्लेटोच्या कल्पाकृती सिद्धांताप्रमाण दर जिनस (वस्त जावं व्यक्ती) एका आदर्श, वास्तवापलतडच्या श्रेश्ठ संवसारांत **कल्पनेच्या** वा **आकृतेच्या रूपान** वसता.[1] सेंद्रीय-अनुभवांचे कक्षे भितल्ल्या 'ह्या' संवसारांतल्यो वस्तू/जिनस हे 'त्या' **आदर्श (अमूर्त)** कल्पनाविश्वांतल्या आपणाल्या परिपूर्ण, मूळ रूपाची **प्रतिकृती** (Image) जावन आसात. म्हणटकीच 'ह्या' संवसारांतलें पुराय वास्तव हें एक नक्कल (copy/अनुकरण) थारता. पर्यायान, काव्यांत जावपी 'ह्या' संवसारांतल्या वास्तवाचें अनुकरण हें 'अनुकरणाचें अनुकरण' जाता. आनी हाका लागून काव्यांतले

---

*१. हांगा Form (रूप/आकृती) आनी Idea (कल्पना) हीं उतरां प्लेटोन एकामेकांक पूरक अशीं आनी अदलाबदल करूं येयीसारके रितीन वापरल्यात.*

अणभव 'सता' पसून दोन पावटी पैसाविल्ले उरतात. (They are twice removed from reality).

काव्य हें प्रतिभेंतल्यान (genius) - (न्हय गिन्यानांतल्यान) - जल्मता. **वास्तवाचो आभास** हेंच '**सत**' अशें मनशाक भासोवन तें ताची दिकाभूल करता आनी खऱ्या गिन्याना पसून मनशाक वंचित करता. हे खातीर प्लेटो काव्याचेर आक्षेप घेता. ताच्या मतान संवसारातंल्या वास्तवाचें गिन्यान फकत *doxa* पुरतें मर्यादित आसा. खरें थळ-काळातीत 'सत' हें कल्पाकृतींच्या विश्वांत मेळपी गिन्यानांत *(episteme)* आस्पावलां. म्हूण प्लेटोच्या मतान तें मानवी आत्म्याक फकत मर्णा उपरांत मेळूंक पावता. नव्या जिनसाच्या रूपान जेन्ना हो आत्मो पुनर्जल्म घेता तेन्ना 'कल्पाकृतीच्या विश्वांतल्या सताची, हयन्हयशी पुसट याद' त्या आत्म्यालागीं उरूंक शकता. अशा वेळार 'तो' आत्मो 'ह्या' संवसारांतल्या 'सता' चे अपुरे जाणविकयेलागून घुस्मट्टा आनी दुखेस्त जाता. जर पुनर्जल्म घेतिल्ल्या 'त्या' आत्म्याक 'ह्या' संवसारांतल्या नाशिवंत वास्तवाची समजिकाय मेळूंक पावली तर तो परिपूर्ण गिन्यानावरवीं **परमानंदाक** पावता. अशे रितीन परमानंद प्राप्त केल्ले व्यक्तीक प्लेटो '**तत्वचिंतक राय**' (Philosopher King) अशें म्हणटा.

मानवी आत्म्याच्या सिद्धांताचेर प्लेटोचें समाजीक नैतिकतायेचें तत्व आदारलां. आत्म्याचे तीन वांटे प्लेटो वेगळायता : (१) **मत** (बुद्द) (२) **इच्छाशक्त** आनी (३) **हावेस.** हांचेमदीं कलह जावंक शकता. पूण निरोगी आत्मो **इच्छाशक्ती** वरवीं **हावेसांचेर मतीचो** अंकुश दवरता. प्लेटोच्या आदर्श नागरी गणराज्याचेय आत्म्यावरीच तीन पांवडे आसातः (१) तत्वचिंतक राय (Philosopher King), (२) पालक (Gardians) आनी (३) सामान्य नागरीक (Citizens). प्लेटोचें आदर्श गणराज्यय निरोगी आत्म्याभाशेन आसा. थंय पालकांवरवीं सामान्य नागरिकांचेर तत्वचिंतक राय शेक चलयता. जर **गणराज्याचें आदर्शपण** नितिवंत **नागरिकांचेर** आदरिल्लें आसा, जाल्यार नागरिकांची सवस्तकाय आनी सुख निरोगी **आत्म्याचेर** आदारून आसा. निरोगी आत्मो परिपूर्ण गिन्यानावरवीं आनंदाक पावता. आनी हो आनंद ताका कल्पाकृतींतल्या सद्‌गुणांचें पुराय गिन्यान जावन ते गुण आपणायतकीर मेळटा. कित्याक तर, नितीक गुणांवरवीं आत्मो **निरोगी** उरता. अज्ञानाक लागून आत्मो दुर्गुणांवटेन घुंवता, तो अनिती आपणायता, **नितीक रोगी** जाता आनी दुख्खाक पावता. अशे तरेन, प्लेटो आपणाल्या नितिशास्त्राचें मुळावें प्रमेय **गिन्यान** आसा हें सिद्ध करता. हें '**सता**' चें गिन्यान फकत कल्पाकृतींतल्या विश्वांत आसा, वास्तवाच्या संवसारांत ना तें ना, साहित्यांतल्या 'जिणेची दोट्टी नक्कल करपी' संवसार-चित्रांत

तर नाच ना. हाकाच लागून प्लेटो साहित्याचेर (काव्याचेर) खर आक्षेप घेता आनी ताका आपणाल्या आदर्श गणराज्याभायरें करचेली मोख दवरता.

प्लेटोच्यो ज्यो हेर कल्पना आसात त्योवय **कल्पाकृतीच्या** सिद्धांताक पूरक आसात. मागीर ती **सौंदर्याची** जांव वा **मोगाची, बुदवंतपणाची** जावं वा **आनंदाची**! **फेड्रस** ह्या संवादांत प्लेटोन मोगाची तुळा रथचालकाकडेन केल्या. **उदात्त हावेस** आनी **खालत्यो वान्सा** हे ताच्या रथाचे दोन घोडे अशें धरलां. **सिम्पोजियमांतलो** मोगी एका व्यक्ती/जिनसाच्या मोगासावन सगल्या वस्तूंचो मोग, कुडीच्या मोगापासून आकृतीचो मोग, आकृती वेल्यान प्रथा वा तत्वांचो मोग करता आनी शेवटाक 'सुंदरतायेचो विशाळ दर्या' आपल्या मोगाच्या गोपांत हाडूंक पावता. **फेडूसांतय** मोगी शारिरीक सौंदर्यावेल्यान **आदर्श सुंदरताय** आनी **बुदवंतपण, बरेपण** आनी शेवटाक **पूर्ण गिन्यानामेरेन** पावन मोग्याचो **तत्वगिन्यानी** जाता.

प्लेटोच्या **बरपाची** 'खासियत' म्हळ्यार तांतूतली काव्यात्म प्रतिमा- प्रतिकांची गिरेस्तकाय. हांकां लागून, प्लेटोचे विचार जरी तर्काच्या नाड्यार शास्त्रशुद्ध चर्चेचें रूप आपणावंक पावले तरीकूय तातूंतलो कल्पनाविलास दोळ्याआड करूं येना. कल्पकतायेन वापरिल्ल्या उपमांक लागून प्लेटोची भास **व्हांवती** आसूनय गिरेस्त दिसता आनी सोंपी आसूनय तिका **रूपकात्मक आशयघनता** फावो जाता. **सिम्पोजियमांतलें** काळखे घोलीचें उदाहरण ह्या संदर्भात दिवपासारकें आसा. ह्या संवादांत, काळेकिट्ट काळखे घोलीच्यासामकारा दारा भितल्लेवटच्यां तोंड करून बांकार बशिल्ले मनीस आनी तांचे फाटल्यान धगधगपी उजवाडाच्या सुंदर प्रतिमेंतल्यान प्लेटो कालातीत '**सत**' आनी संवसारीक **वास्तव** हातूंतलो फरक पटसारके भाशेंतल्यान उक्तायता. घोलीचे वण्टीर, 'पळयणाऱ्यांचे फाटल्यान घडपी घडामोडींची' **सांवळी** पलतडच्या उजवाडावरवीं धोलता. पळयणाऱ्याक हो सांवळ्यां-खेळच जिवितांतलें '**सत**' कशें दिसता पूण तो निखटो '**सता**'चो **आभास** आसता, हें प्लेटो वयल्या देखीवरवीं सोपेपणान दाखयता.

संवसारांतल्या **वास्तवाक** अंतीम '**सता**'ची **प्रतिकृती** वा **प्रतिरूप** मानपांसंबंदानय प्लेटोच्या बरपांत जायते उल्लेख आसात. **क्रेटायलस** ह्या संवादांतल्यान प्लेटो प्रतिरूपाची मूळरूपापसून जावपी फारकत परिणामकारक रितीन दाखोवन '**सत**', **वास्तव, वास्तवाचो आभास** हातुंतल्यो हयन्हयशो शिमो पारखूंक आदार करता. प्रतिरूप जर '**पूर्ण सत**' उक्तावंक यशस्वी जालें तर तें प्रतिरूप उरचें ना असो दावो करून प्लेटो म्हणटा, '...खीणभर समजुंया देवान तुजी (रंग आनी भायली आकृतीच न्हय जाल्यार तुजे अंतर्गत रचणुकेची ज्युस्ताजुस्त हुनसाण, मोवसाण धरून)

प्रतिकृती केली आनी हातूंत जर ताणें **गती, आत्मो** आनी **मन** तुजेंच घालें जाल्यार तूं ताका 'क्रेटायलस' आनी ताचें 'प्रतिरूप' म्हणटलो काय **दोन** क्रेंटायलस म्हणटलो?' (**क्रेटायलस**, ४३२)

प्लेटो आपणाल्या सिद्धांतांवरवीं तत्कालीन रूपवाद आनी आभासवादाचे नातें विस्कावन पळोवचेलो यत्न करता. तत्कालीन वास्तवदर्शी प्रवृत्तीचेर तो इतलेच खातीर अविश्वास दाखयता कित्याक तर त्यो, सताची न्हय जाल्यार सताच्या आभासाची निर्मणी करपाचेर भर दितात. हें फकत कवितेकच न्हय जाल्यार हेर कलांकय (चित्रकला, मूर्तिकला हांकांय) लागू जाता. प्लेटोच्या तत्वगिन्यानाची **मोख** 'काव्यशास्त्राचें विवेचन' **नाशिल्ली** हें ध्यानांत दवरून जर प्लेटोचें समिक्षेक योगदान कितें हाची उखेवणी करची जाली जाल्यार ताची जाप 'ॲरिस्टॉटलाचें काव्यशास्त्र' अशी दिवची पडटली. हातूंत अतिताय कांयच ना. प्लेटोचे काव्यविशयक चर्चेक उद्देशून अरिस्टॉटलान जी **काव्यशास्त्राची** निर्मणी केली ती कवितेक नवी दिका, नवी नदर आनी सांसणाची गिरेस्तकाय दिवन गेली.

●

# ४

# ॲरीस्टोटली विचाराची फाटभूंय

प्लेटोच्या तत्वगिन्यानावरवीं समिक्षेच्या मुळाव्या प्रस्नांमेरेन वचुंक भायर सरप म्हळ्यार बद्द ॲरीस्टोटलाच्या दारार पावप. हाचें कारण अशें: ॲरीस्टोटलाचे समिक्षात्मक विचार हे प्लेटोच्या साहित्यविशयक भूमिकेक प्रत्युत्तर म्हूण ताणें मांडल्यात. खरेपणीं, ॲरीस्टोटल आनी समिक्षा हांचो परस्पर-संबंद इतलो लागींचो आसा कीं साहित्याच्या इतिहासांत हीं दोनय उतरां एकमेकांपसून वेगळावंक नज अशे तरेन गुंथिल्लीं आसात म्हळ्यार अतिताय जावंनये. खासा करून ॲरीस्टोटलाचो **पोएटीक्स** (**Poetics**)[१] हो ग्रंथ समिक्षेच्या अभ्यासकान सुक्षीमपणान पारायणां करिसारको पश्चिमी काव्यशास्त्राचो आदिग्रंथच जावन आसा. हाकाच लागून समिक्षेक लागींच्यान भेटूंक पळोवपी खंयचेय व्यक्तीखातीर, ॲरीस्टोटलाचे काव्यासंबंदींचे विचार जाणून घेवप म्हत्वाचेंच न्हय जाल्यार **अनिवार्य** थारता.

पूण अजापाची गजाल म्हळ्यार, जरी **पोएटीक्स** हे कृतींतले ॲरीस्टोटलाचे काव्यविशयक निश्कर्श समिक्षेक मोलादीक पोसवण दीत आसले, तरीकुय **पोएटीक्स** हो ॲरीस्टोटलाचो म्हत्वाचो ग्रंथ न्हय. इतलेंच न्हय, तर तो पुरायेन, ताणेंच बरयिल्लो ग्रंथ अशें म्हणूंक लेगीत साहित्यीक इतिहासकार फाटीं-फुडें जातात. कांय विद्वानांच्या मतान **पोएटीक्सांत** हेर अभ्यासकांच्या वावराचीय थोडी-भौ भरसणी जाल्ली आसा. हाका लागून तो सूत्रबद्द आनी विस्तारान बरयिल्ली कृती म्हूण नदरेंत भरना. ताचें स्वरूप चडशें नोंदीच्या रूपान सामकारावता आनी ह्या कारणान कांय वेळा तातूंतलीं भाश्यां एक तर जड वा त्रोटक अशींय नव्या वाचप्याक दिसूंक फावतात. ते भायर **पोएटीक्साक** 'ॲरीस्टोटली विद्वानांनी' **'हेरां कृतींवरवीं समजूं येणारो'** (acromatic) असो मानला. हाचोच अर्थ असो कीं **पोएटीक्स** 'आप-उपलापो' न्हय. तो लागींच्यान समजुंक पळेतल्याक ॲरीस्टलाचे हेर बरपावळीकडेन आडनदर करूंक मेळचिना. म्हण्टरीच 'सोंश्या भोवडेक वतना वागाच्या कासाची तयारी दवरूंक जाय ' ह्या न्यायान, **पोएटीक्सांतली** ॲरीस्टोटलाची समिक्षात्मक

---

१. *ह्या पुस्तकांतले सगले उतारे एस्.एच्.बूचर हांगेल्या* ***अरीस्टोटल्स् थियरी ऑफ पोएट्री एन्ड फायन आर्टस्,*** *(लंडन : मॅकमिलन, १९०७, ४थी.आ.) ह्या पुस्तकांतल्यान घेतल्यात.*

भूमिका समजूंक वचचे आदीं, ताच्या हेर बरपावटेन एक धांवती नदर मारिल्ली बरी. हाचेवेल्यान ॲरीस्टोटलाची विचारसरणीय कळटली आनी ते विचारसरणेफाटली ताची तर्कपूर्ण, शास्त्रशुद्ध आनी सर्वसमावेशक नदरय होलमतली. पूण ते आदीं थोडेशें खासा ॲरीस्टोटलाच्या जिवीत तशें कामाविशीं जाणून घेवप बरें.

## जीण-बरपाचो आलेख

स्टाजीरा हांगा, ख्रि. पू. ३८४ वर्सा ग्रीसांत जल्मल्ल्या ॲरीस्टोटलाचें शिकप १८व्या वर्सासावन प्लेटोचे अकादमींत जालें. हांगा तो प्लेटोच्या मर्णामेरेन उरलो. प्लेटो ताका अकादेमींतलो कुशाग्र बुद्द आशिल्लो विद्यार्थी म्हूण वाखाणटालो. ह्या काळार ॲरीस्टोटलान प्लेटोच्या संवादाचे धर्तेर आपणालेय संवाद बरयिल्ले. पूण विंगड विंगड अपघातांक लागून ते हेर जायत्या बरपावांगडाच सांडले. ह्या संवादांचो सूर लागीं-लागीं प्लेटो सारको आशिल्लो अशें म्हणटात. पूण ते अभ्यासकाखातीर आज उपलब्द नाशिल्ल्यान तांचेर भाश्य करप फुकट! तांच्या तिगून उरिल्ल्या कुडक्यांचेर प्लेटोची सया मारता, हें मात खरें.

ख्रि. पू. ३४३ त तो मेसिदोनियाचो राजा **फिलीप** (शिकंदर वा ॲलेक्सांडर द ग्रेट हाचो बापूय) हाच्या आमंत्रणावेल्यान ताच्या पुताक शिकोवपाक मेसिदोनियाक आयलो आनी हांगाच्यान ताच्या स्वतंत्र बरपाक सुरवात जाली काय दिसता. ख्रि. पू. ३३५ व्या वर्सा ताणें एथेन्साक येवन **लायसियमात** शिकोवपाक सुरवात केली. ताच्या विद्यालयाक तशेंच शिकोवपाचे प्रणालीकय '**पेरीपातोस**' अशें नांव पडलें. ॲरीस्टोटलाचें चडावत बरप शिकपा-शिकोवपाचे गरजेंतल्यान जल्माक आयलां. ताचे बरपावळीचे **तीन मुळावे प्रकार** वळखूं येतात. (१) सर्वसादारण लोकांखातीर बरयिल्ले (exoteric) संवांद तशेंच हेर लेखन, (२) विविध विशयांवेल्यो नोंदी वा टांचणां (memoranda) आनी (३) खाशेल्या विशयांवेले विचारपूर्ण प्रबंद (treatises). हातूंतल्या कांय बरपाचें स्वरूप चड अभ्यासपूर्ण आनी शास्त्रशुद्ध आशिल्ल्यान तें फकत त्या-त्या विशयांच्या अभ्यासकांखातीर वा तज्ञांखातीर (esoteric) आसतालें.

सध्या उपलब्द आशिल्ले ॲरीस्टोटलाचे बरपावळीचे अभ्यासकाचे सोयीखातीर चार वांटे करूं येतात. (१) तर्कशास्त्राविशयक, (२) तत्वगिन्यानासंबंदी (३) ब्रह्मांडाविशीं तशेंच जीवशास्त्रीय आनी (४) मानव-संबंदी विशयांवेलें बरप. हांचे मदलें तर्कशास्त्रावेलें बरप (**Organum**) **साधन** ह्या नांवाखाला आस्पावता. ह्यांतूंतले म्हत्वाचे ग्रंथ, **कातेगोरिया, टोपिक्स, प्रायर ॲन्ड पोस्टीरीयर ॲनालीटिक्स,** आनी **द इन्टरप्रिटेशन** हें आसात. ह्या ग्रंथांवरवीं ॲरीस्टोटलाचो तर्कशास्त्राच्या क्षेत्रांत जो

प्रभाव पडलो, तो आजवेर तिगून उरला. चड करून, एका सर्वमान्य प्रमेयावेल्यान हेर प्रमेयां मांडपाचे ताचे 'सिलोजिज्म' हे प्रत्यक्ष तर्कपद्धतीचो हांगा मुजरत उल्लेख करूंक जाय. हे पद्धतींतल्यान ताचे विचारीक फाटभुंयेची सुसूत्रताय कळटा. ताची ही तर्कपद्धत इतली प्रभावी थारली कीं फुडाराच्या तर्कशास्त्राची बुन्याद जावन सांसणाची उरली.

समिक्षेच्या विद्यार्थ्याचे नदरेन ताच्या विचारांची ही तार्किक वट जमेची बाजू थारता. कित्याक तर तातूंतल्यान 'ॲरीस्टोटलाचो' शास्त्रीय दिश्टीकोण समजता आनी ताच्या विचारांमेरेन पावंक कल्पनाशक्तीपरस विचारशक्तीचो उपेग चड जाल्ल्यान, त्या विचारांचें आकलन करप सोपें जाता. शिवाय ताचे मुद्दे संवसारांतल्या घडणुकांच्या **निरिक्षणा**वरवीं, 'ठोस' पुराव्यांच्या आधारान मांडिल्ले आशिल्ल्यान सादारण व्यक्तीकूय इंद्रियांवरवीं मेळपी समजणेवरवीं ते होलमतात आनी म्हूण बुद्दीक सोपेपणीं पटत.

ॲरीस्टोटलाचे तत्वगिन्यानासंबंदीं ग्रंथ **फिजिक्स** आनी **मेटाफिजिक्स** हे जावन आसात. हातूंतल्या पयल्या ग्रंथांत तो **निसर्गीक-संवसाराचे** (natural World) जडण-घडणेचें गिन्यान मेळोवंक उपेगी पडपासारक्यो जायत्यो **संकल्पना** मांडटा. देखीक, **कारण** (cause), **गती** (motion), **अनंतत्व** (infinity), **थळ** (place), **काळ** (time) आनी हेर जायत्यो. **मेटाफिजिक्स** ह्या ग्रंथांत मात तो. **'अस्तित्व'** (being) होच विशय मुखेलपणान हाताळटा. ॲरीस्टोटलाच्या म्हणण्याप्रमाणें संवसारांतल्या कांय जिनसांक **स्वतंत्र अस्तित्व** आसता, जाल्यार हेरांक **'दुसऱ्यावरवीं अस्तित्व'** प्राप्त जाता. स्वतंत्र अस्तित्व आशिल्ल्या जिनसांक लागू जायसारके साबार निकश तो आपल्या विश्लेशणावरवीं उक्तायता.

ॲरीस्टोटलाचें फुडाराच्या तत्वगिन्यानाक देणें म्हळ्यार ताच्यो विंगड विंगड संकल्पना ज्यो ताणें चिकित्सक नदरेन पारखून, तर्कबद्ध मुद्यांनी मांडल्यात. हातूंतल्यो मुखेल संकल्पना **तत्व** (Substance), **सत्व** (essence), **घटीत/ योगायोग** (accident), **रूप** (form), **पदार्थ** (substance), **तांक** (potentiality), आनी **वास्तविकता** (actuality) ह्यो आसात. ह्या संकल्पनांचेर आधारून ताणें जे सिद्धांत मांडले तेच फुडाराक अनुवादांवरवीं आनी तांचेर जाल्ल्या टिका-टिपणांवरवीं पश्चिमी तत्वगिन्यानाचे परंपरेचें रासवळ दायज जावन उरले. समिक्षेच्या अभ्यासकाक ह्या तत्वगिन्यानाचो आलाशिरो घेतल्यार प्लेटोचें भौतिक **'वास्तव'** आनी आधिभौतिक **'सत'** समजूंक बरें पडटलें. तेचपरी-ॲरीस्टोटलाचें **सर्वव्यापक** सताविशींचें म्हणणें समजून घेतल्यार ताचें प्लेटोच्या **'सता'** कडलें नातेंय कळटलें.

हांगा इल्लेंशें विशयांतर करूंक जाय. प्लेटो आनी ॲरीस्टोटल हांचे मदीं एक समान सूत्र आसा. प्लेटोचो साहित्यसंबंदी विचार, ताच्या **सर्वव्यापी 'सत'** आनी **संवसारीक वास्तव** हांचो परस्पर-संबंद दाखोवपी **कल्पाकृती** सिद्धांत आनी **अनुकरण** सिद्धांत हांचेमदीं आस्पावला. तेच परी ॲरीस्टोटलाच्या समिक्षात्मक विचारांमेरेन पावपाक ताचें **सर्वव्यापी 'सत'** आनी **अनुकरण** हांचेविशींचें प्लेटोपरस **भिन्न मत** जाणा जावचें पडटा. हेखातीर भौतिक-आधिभौतिकावेले ताचें बरप उपेगी पडता.

पूण आयच्या युगांत चडावत प्रमाणांत काळाभायरी थारिल्ली ॲरीस्टोटलाची कृती **कॉस्मोलोजी** ही आसा.[1] पूण काळाभायरो जाल्ल्या ह्या ग्रंथांत ॲरीस्टोटल ज्या **मूळ तत्वांचो** उल्लेख करता तीं भारतीय विचारप्रणालींतल्या **पंचमहाभुतांक** लागीं आशिल्ल्यान हांगा थोडे भितर तांचो उल्लेख करप समा जातलें. प्लेटोवरीच तोवय नाशिवंत संवसारांतलीं **भूंय** (पृथ्वी), **उदक** (आप), **उजो** (अग्नी), **वारो** (वायु) हीं चार मूळ तत्वां मानता. ताच्या म्हणण्याप्रमाणें भूंय आनी उदक हांची सैमीक प्रवृत्ती केंद्रावटेन वचचेली (centripetal) आसता, जाल्यार **उजो** आनी **वारो** हांची प्रवृत्ती मध्यबिंदूसावन पैस वचचेली (centrifugal) आसता. पुराय ब्रह्मांड हें एका वर्तुळाकार अशा कोशांत आस्पावलां अशें तो मानता आनी हो कोश इथर (aether) ह्या अधिभौतिक तत्वापासून घडला अशेंय ॲरीस्टोटल म्हणटा. ह्या कोशाभायर कितेंच आसा अशें मानूंक तो तयार ना.

ॲरीस्टोटलान जीवशास्त्राचो सुक्षीम अभ्यास केला. **पार्टस ऑफ ॲनीमल्स, जेनरेशन ऑफ ॲनीमल्स, हिस्टरी ऑफ ॲनीमल्स, ओन द सोल ऑफ ॲनीमल्स** हीं ताचीं म्हत्त्वाचीं पुस्तकां जावन आसात. ते भायर **ऑन प्लांट्स** हें ताचें झाडांवेलें पुस्तक काळापोटांत गडप जालां. जरी ब्रह्मांडावेलो ताचो ग्रंथ वा ताचें जीवशास्त्रीय बरप हांचो समिक्षेकडेन **सरळ संबंद** नासलो तरी त्या बरपावेल्यान ताच्या **गिन्यानाचो आवांठ** आनी ताच्या अभ्यासाफाटली **प्रयोगशीलता, निरिक्षणशक्ती, रुजवातीकरण** (verification) हांची जी सुलूस मेळटा, ती लक्षांत घेईसारकी आसा. तेवरवीं ताची अणभवाचेर आदारिल्ली (empirical) अभ्यासपद्धत कळटा आनी फुडाराक ताका अभिजातवाद्यांनी आपणाली प्रवक्तो कित्याक मानलो हेंवय समजता.

---

१. *ब्रह्मांडाविशींचो हो ग्रंथ गेलिलीयोच्या काळामेरेन थोडो फेर-पार करून चलत उरलो. उपरांत मात ताचो प्रभाव ना जालो. हाचें कारण म्हळ्यार बातूंत ताणें मांडिल्लो* ***भुंयकेंद्रित ब्रह्मांडाचो सिद्धांत*** *आज विज्ञानान अ-शास्त्रीय आनी चुकीचो म्हूण सिद्ध केला.*

पूण समिक्षेखातीर चडावत म्हत्वाची, अशी जी ॲरीस्टोटलाची बरपावळ आसा ती ताच्या **मानव-संबंदी** (humanities) ग्रंथांची. हातूंत ताचे **नितीशास्त्रावेले** दोन प्रबंद **युडेमियन एथिक्स** आनीं **निकोमेकियन एथिक्स** हे आसात. त्या भायर तागेले **पोलिटीक्स, ऱ्हेटोरीक्स,** आनी **पोएटीक्स** हेवय नामनेचे ग्रंथ आसात. ॲरीस्टोटलाच्या **निकोमेकियन एथिक्साक** जाणकारांनी आधुनिक नितीविशयक प्रणालीचें **उगमस्थाम** अशें धरलां, आधुनिक नितीशास्त्रीय तत्वगिन्यानाच्या अभ्यासपद्धतीकडेन आशिल्लें ह्या ग्रंथांचें साम्य पळेल्यार, हें मत समा आसा अशें हालींचे अभ्यासक मानतात. ॲरीस्टोटलाच्या मताप्रमाणे नितीशास्त्र आनी हेर मानवसंबंदी शास्त्रां मनशाक प्रत्यक्ष गिन्याक दिवन ताची जीण आनंदी करतात. ताणें **अशें** मत उक्तायलां कीं मनशाचें मुळावें ध्येय **आनंद** आनी हें मेळोवपाक **योग्य वागणूक** गरजेची आसा. नितीशास्त्र आनी हेर जोड-शास्त्रां मनशाक **उजू आचरणाचो** रस्तो दाखोवन, ताका '**बरें** वागप आनी **सुखा पावप** कशें' हें समजायतात आनी म्हूण ह्या शास्त्रांक ॲरीस्टोटल म्हत्वाचीं मानता. ताचे विचारसरणेप्रमाण, ज्या मनशाक सदाचारान जियेवपाक येना तो नितीक नदरेन **अपरिपूर्ण** आसता. नितीक सद्‌गुणाचो आपरोस म्हळ्यार वागणुकेंत '**समतोल**' राखून मध्यस्थला रावप. वेगळ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार **सदाचाराचो मध्यबिंदू** हेंच ॲरीस्टोटलालेखीं **सद्‌गुणाचें सार** आनी **आनंदाचें मूळ.** हातूंतल्यान एक कळटा. तो तोंकाची भूमिका घेवप हें चूक मानता. वेगवेगळ्या विरोधी तत्वांमदीं **समतोल** राखप होच मनशाचो हावेस आसचो अशें तो अप्रत्यक्षरितीन सांगता हें लक्षांत घेतल्यार, तागेल्या **पोएटीक्सांतलें** मुखेल सूत्र ध्यानांत येता. तशेंच तागेल्या काव्यविचाराक समजून घेवंक फावोसो दिश्टीकोणय अभ्यासकाक लाभता.

# ५

# ॲरीस्टोटलाचें काव्यशास्त्र

**पोएटीक्स** ह्या नोंदीच्या रुपान तिगून उरिल्ल्या ग्रंथांत ॲरीस्टोटलन काव्याचें विश्लेशण केलां. चड करून **नाटयरूपी काव्याचेर** तागेल्या ग्रंथांचो भार आसा. **निवेदनपर** काव्यांतल्यान फुडाराक **नाटय** जल्मलें हें मान्य करतना, ॲरीस्टोटल नाटयाचे **शोकात्मिका** (tragedy वा **त्रासदी**) आनी **सुखात्मिका** ((comedy) वा **कामदी**) हे प्रकार बारीकसाणेन नियाळटा. पूण ह्या तेळणे फाटल्यान जितलें काव्याविशींचें ताचें **निरीक्षण** आसा तितलेंच काव्यांतल्यान उत्तावपी मनीस-जिणेच्या साबार तासांवेलें ताचें **भाश्यय** आसा. तोवय प्लेटोवरी काव्याचो मनीस-मनाचेर जावपी आकांताचो परिणाम मान्य करता पूण त्या परिणामाक वचकून तो कवीक फाफडून वडयना. वेल्यान तो कवीचेर काव्यावरवीं मनशाची जीण समग्रतायेन उबी करपाची म्हत्वाची जापसालदारकी घालता. मुजरत लक्षांत घेवंक जाय कीं मनीसजीण म्हणटना ॲरीस्टोटलाक आदर्श आनी वंदनीय अशा व्यक्तींचीच जीण अभिप्रेत ना, तर सामान्य आनी खालत्या मनशाचे जिणेविशींय ताका हुस्को आसा. इतलेंच न्हय, ताका काव्यांतल्यान निखटी मनरिजवण जावची वा मनशाक जिणेच्या दुख्खाची विसर पडची अशेंच दिसना. तर काव्यावरवीं प्रेक्षकाक (कित्याक तर ॲरीस्टोटल मुखेलपणान नाटयकलेची उखेवणी करता) **मानवी मनोव्यापांची पुरायेन जाणविकाय** जावची आनी तेवरवीं ताचे भितल्ल्या नश्टया प्रवृत्तींची भायरावणी जावची अशेंय ताका प्रकर्शान दिसता.

ॲरीस्टोटलाच्या काव्यविशयक विचारांचो केंद्रबिंदू **'अनुकरण'** जरी आसलो तरी कलेवरवीं जावपी हें अनुकरण 'निसर्गाचें' आसा अशेंय तो स्पश्टपणान सांगता. **पोएटीक्सांत** काव्यच न्हय जाल्यार संगीत, नृत्य वा चित्रकला ह्या सगल्यांचोच अनुकरण करपी कला म्हूण उल्लेख मेळटा. तशेंच ॲरीस्टोटलाच्या विंगड-विंगड बरपांनी 'अनुकरण' हो कलेचो मुळावो गुण अशें धरून केल्लीं साबार विधानां मेळटात. **पोलिटीक्सांत** तो म्हणटा, 'दरेके कला आनी शिक्षणीक प्रणालीचें ध्येय सैमीक त्रुटी (निसर्गान दवरिल्ली कसर, कमतरता वा उणेपण) भरून काडप हें आसता' (IV. [VII] १७). तशेंच **फिजीक्स** हे ताचे कृतींतलें फुडलें विधान कलेच्या संदर्भात लक्षांत घेईसारकें आसाः 'जेन्ना निसर्ग कार्य पूर्ण करपाक अपेशी थारता,

करता. दोगांयनी दिल्ल्यो देखी पळेल्यार तांगेल्या विचारांतलो **सुक्षीम फरक** सोपेंपणीं कळटा. प्लेटो मेजाचें 'मेजपण' खाटीचें 'खाटपण' वा त्रिकोणाचें 'त्रिकोणपण' ह्या **अमूर्त** अशा संकल्पनांवरवीं त्या-त्या जिनसांचें 'सत्व' दाखोवंक पळेता. पूण ॲरीस्टोटलाच्यो देखी **मुर्तावरवीं अमूर्त** समजूंक आदार करतात. देखीक, खाट लाकडाची आसली तरी झाडापसून घडल्या आनी म्हूण (खिणभर समजुंया) खाटेचो कुडको मातयेंत रोयलो आनी तो किल्लून आयलो, जाल्यार ताका खाट लागची ना, झाडच लागतलें. म्हणचेच, खाटेचें **'तत्व'** जरी लाकूड आसलें तरी तातूंत झाडाचें **'सत्व'** आस्पावलां. तेच वरी ॲरीस्टोटल मनीस आनी घोडो हांची देख दिवन, त्या दोगांय मदलें **'जनावरपणाचें'** समान **'तत्व'** आसलें तरी मनशाचें **'मनीसपण'** हें तागेलें खाशेलें **'सत्व'** आसा हें दाखयता.

वयल्या देखींवरवीं प्लेटो-ॲरीस्टोटल हांचेमदलो फरक सोपेपणीं कळटा. प्लेटोचे शास्त्रशुद्ध, तर्कनिश्ठ उदाहरण तागेल्या थीर आनी अमूर्त अशा कल्पाकृतींच्या विश्वाक लागू पडटा. ताचे फाटली गणिती अचूकता बुद्दीक वा तर्काक पट्टा पूण अणभवावरवीं सिद्ध करूंक जायना. पूण ॲरीस्टोटलाचीं उदाहरणां वास्तवांतले संवसारीक जिणेकय लागू पडिल्ल्यान अणभवांवरवीं तिजून पळोवंकय मेळटात. तेच बरोबर तांचो एक **खाशेलो गुण** कळटा. तो म्हळ्यार तांची जीवसाण (organicity). ह्या नीज गुणापोंदचे दोन हेर जोड-गुण म्हळ्यार तांच्यांत **सतत जावपी वाढ** वा **बदल** (growth or change) आनी तांची **सैमीक पूर्णतायेवटेनची वाटचाल**! (जशें बाळक मनीस जावंक पावता वा रोंप्याचो रूख जाता.) ॲरीस्टोटलाचो सर्वव्यापकाविशींचो सिद्धांत अशे तरेन समजूंक येता. **पोएटीक्सांत** ॲरीस्टोटलाची भर शब्दांतल्यान घडपी मनीस जिणेच्या अनुकरणाचेर आसा हें खरें. पूण ॲरीस्टोटलाक निखटी मनीस सभावाची वास्तविकताच न्हय तर मनशाचें वास्तवापरस **वयलें** आनी वास्तवापरस **वायट** अशेंय चित्रण काव्यांतल्यान व्यक्त जावचें अशें दिसता. तेच भाशेन संवसारांतल्यो हेर वस्तू **'आसात तशोच न्हय'** जाल्यार **'आसूंक फावो तशो'**[1] (*hoia einai dei*) वा 'जशो आसात अशें समजतात तशो' काव्यांतल्यान उक्तावच्यो अशेंय दिसता.

---

*१. हांगा **'आसूंक फावो तशो'** हाचो अर्थ लक्षांत घेवंक जाय. सद्द करून पळेल्यार ताचो अर्थ नैतीक संदर्भात बऱ्यो वा वायट असो लावचो काय दिसता पूण बारीकसाणेन विचार केल्यार, बूचर हांणी म्हळा ते प्रमाणें 'आसूंक फावो तशो' हाचो अर्थ **कलात्मक वा सौंदर्यशास्त्राच्या संदर्भात सैमाकडेन मेळ राखपी'** (निसर्गसदृश्य) असो घेवप योग्य जातलें.*

ॲरीस्टोटलाचे विविध विशयांवेले बरपावळीकडेन पळेल्यार तागेल्या विचाराफाटलें समान सूत्र कळटा. आधिभौतिकाविशींचें ताचें मत **रूप, वाढ, दिका, आदर्श** हांचो आस्पाव करता, जाल्यार जीवशास्त्राच्या संदर्भात तो **सैमीक प्रगतीचो** विचार फुडें काडटा. तागेल्या सारासार विचारांचो आढावो घेतल्यार एक गजाल ध्यानांत येताः **सैम म्हळ्यार प्रगत रूप वा आदर्शादिकेन जावपी जिविताची वा संवसारीक जिनसांची वाढ.** निसर्ग आपलेकडेन आशिल्ल्या **साहित्याचो** (वाङमय न्हय) उत्तमांत उत्तम असो उपेग करतो आनी हो उपेग **निसर्गीक गरजेक** लागून वा **आदर्शाचे ओडीन** जाता अशें ॲरीस्टोटल म्हणटा. ही निसर्गीक वाढ जीणेच्या सगल्या आंगांक लागू जाता. देखीक **त्रासदीच्या** समकालीन प्रगत रुपाक अनुलक्षून ताणें **पोएटीक्सांत** म्हळां की विविध स्थितींतल्यान वचून त्रासदी आपल्या **सैमीक रूपा**मेरेन (तत्कालीन परिपूर्ण अशें स्वरूप) पावली आनी थंय थांबली. हांगा मुजरत सांगूंक जाय की म्हान ग्रीक त्रासदीकारांच्या स्वर्णयुगाउपरांत ॲरीस्टोटलान हें विधान केलां. ताका त्या काळावेली **ग्रीक त्रासदी** (खासा करून **सोफोक्लीसाचीं** नाटकां) आदर्श नाट्यसंहिता म्हूण तोखेवण्याजोगीं दिसतालीं. आनी हें तागेलें मत आजवेरच्या भौतेक पश्चिमी नाट्यशास्त्राच्या अभ्यासकांनी उखलून धरलां.

काव्यांतलें अनुकरण खंयच्या संदर्भात समजून घेवप हें वयले विस्कावणे वेल्यान कळटा. काव्य हें जिविताचें प्रतिरूप खरें पूण तेच बरोबर तें 'निसर्गाक हातभार लावपी' **जिणेच्या आंतरिक प्रक्रियेचें अनुकरणय** आसता. म्हणजेच काव्यांतल्यान उक्तो जावपी (वा चित्रीत जावपी) व्यक्ती **तशेंच** जिनसांच्या रुपांतलो **बदल,** तांच्यांत जावपी **वाढ,** निसर्गीक पूर्णतायेवटेनची तांची **प्रगति** (वायट आसा ताची **अधोगती**) आनी आदर्शा मेरेन पावचेलो तांचो **हावेस** ह्या सगल्या घटकांचो आस्पाव **'अनुकरण'** ह्या काव्याच्या मुळाव्या गुणांत जाता. हांगा एक गजाल मुजरत सांगूंक जाय कीं प्लेटोक **काव्य** म्हणटा तेन्ना अदीक करून 'काव्य-निरूपकावरवीं आयकुप्यांचेर असाधारण प्रभाव घालपी **निवेदनपर काव्य**' (चड करून **महाकाव्य**) दोळ्यांफुडें दिसतालें. पूण ॲरीस्टोटलाक महाकाव्यापरस **नाट्याची** (चड करून **त्रासदीची**) **प्रभावी परिणामशक्त अभिप्रेत आसा** हें महत्वाचें. **पोएटीक्सांत** जरी **नाटकां** बरोबरच **महाकाव्याचोय** निसट्टो उल्लेख निमण्या चार पर्वांनी सांपडलो तरिकूय विस्तारान **नाटकाचेंच** विश्लेशण केलां आनी **कामदी** परस **त्रासदीचेर** ॲरीस्टोटलान चड खर उजवाड घाला. हातूंत अजाप ना. '**महाकाव्यांतल्या नाट्याच्या अंशांचें फुडाराचें प्रगत रूप म्हळ्यार त्रासदी,**' हें लागीं-लागीं सगलेच मान्य करतात. हाका लागून ॲरीस्टोटलाचें **पोएटीक्स** नाट्याचें **स्वरूप, रचणूक**

आनी **प्रभाव** हांची उखेवणी करता. हे करतना ताचेमुखार सोफोक्लीसाच्या तशेंच हेर त्रासदीकारांच्या नाटकांचें 'श्रेय आनी देय' जीवें आशिल्लें आनी म्हूण तागेल्या काव्याशास्त्रांतल्या सिद्धांतांक **प्रत्यक्ष अभ्यास** जावं **निरीक्षण** हांचें फाटबळ आसा हें विसरूंक फावना.

ॲरिस्टोटलाच्या मतान नाटकाक एक **विशिश्ट रचणूक** आनी **प्रमाण** आसूंक जाय, जे वरवीं तातूंतल्या 'नाट्याक' **खोलाय** आनी **सुसूत्रताय** फावो जातली. हांगा ॲरीस्टोटल नाटकाच्या **भायित्कारी रुपाची** न्हय जाल्यार ताचे **अंतर्गत रचणुकेची आनी आशयाची जोडणी** गृहित धरता. परिपूर्ण नाट्यसंहितेचें वर्णन करचेखातीर तो *(holos* or whole) वा **सबंध** आनी (*teleios* or complete) वा **पूर्ण** अशीं लागीं-लागीं समानार्थी उतारां वापरता. हांचेमदलो फरक उक्तावप म्हळ्यार ताळवेवेले केस मेजपासारकेंच. पूण ॲरीस्टोटलाच्या म्हणण्याप्रमाण **'सबंध'** (सगलें) म्हळ्यार **सुरवात, मध्य** आनी **शेवट** आशिल्ली कृती खरी पूण हे घटक **क्रमान** एकठांय येतलेच अशें ना. पूण **'पूर्ण'** म्हळ्यार ह्या तीनय घटकांच्या **क्रमाचो** जे कृतीचे प्रभावी सादरीकरणाचेर परिणाम जाता अशी कृती. हांगा **'मध्य'** आनी **'शेवट'** हीं उतरां स्पश्ट आसात. पूण **'सुरवात'** म्हणचे कथानकाचो एक असो 'बिंदू' ज्याची फाटभंय **अनवळखी न्हय** वा ती **'गृहित धरूंक जाता'** अशी आसता, हें समजूंक जाय.

परिपूर्ण नाट्यकृतींत ॲरीस्टोटल ६ गुणांचो आस्पाव करता : (१) वस्तू (plot वा *muthos*), पात्रां (*ethos* वा character), आशय (*dianoia* वा thought) हे तीन गुण मेळून नाट्याचें तत्व वा substance/matter घडटा. (२) शब्द (*lexis* वा diction), गीत (*melos* वा song) हे दोनय घटक मेळून नाट्यकृतीचे **माध्यम** वा (medium) घडयतात. (३) आनी दृश्य (*opsis* वा spectacle) हो गुण नाटकांतली **नाटकीयता** वा ताची **तरा** (manner) कसली हें दाखयता. जरी हे घटक नाटकांत आसले तरी ते वेगवेगळ्या रुपांत नाट्यकृतींतल्यान **प्रगटनात.** संहितेचे वस्तुंत, कथानकावरवीं हे सगळे एकठांवतात. तशेंच हे घटक जरी **त्रासदी** तशेंच **कामदी** ह्या दोनय नाट्य प्रकारांनी सारक्याच प्रमाणांत आसले तरी तांचो चड प्रभावी वापर **त्रासदींतल्यान** जावंक पावता. कित्याक काय म्हळ्यार, त्रासदी ही **आशय** आनी **विशय** हांचे बाबतींत उदात्त आनी **वास्तवापरस वयल्या** पांवड्यांवेली मनीस-जीण उक्तावपाचो हावेस बाळगिता. हाका लागून **त्रासदीक** एक खाशेली **विशाळताय** आनी **खोलाय** फावो जाता. तशेंच नाट्याचे **प्रभावी अभिव्यक्तीक गरजेचीं** आशिल्लीं जी दोन **तत्वां** ॲरीस्टोटल वेगळायता, तांचोय उपेग **त्रासदींत कामदीपरसय** चड **सुयोग्य रितीन** करूंक जाता. हीं तत्वां म्हळ्यार कथानकांत घडून येवपी अपेक्षित

नाशिल्लो **'आकस्मिक बदल'** (*peripeteia* or reversal) आनी ह्या बदलांतल्यान मेळपी वस्तुस्थितीची **'वळख'** (*anagnorisis* or recognition). हे दोनय घटक **कथानकाचे करणेक सरळ** व **सोपी** दवरचेपरस ती अदीक क्लिश्ट (complicated) करतात आनी अशे तरेन नाट्याचें कलात्मक मोल अदीक वाडयतात. 'बदल' आनी 'वळख' ह्या घटकांक आदार म्हूण ॲरीस्टोटल घुस्पट (*esis* or complication) भाग्याची चडटी-देंवती (*Metabasis or* Change in fortune) आनी सुटावणी (*Lusis* or denouement) हांचो उल्लेख करता.

वयल्या विश्लेशणांत **त्रासदी** ह्या उतराचो उपेग काव्य हाचो समानार्थी शब्द जाल्लेवरी केला.[1] ॲरीस्टोटल **पोएटीक्सांत** हेंच करता. थोड्याशा फरकान हें **त्रासदीचें काव्यशास्त्र कामदीकूय** लागू करूंक जाता. पूण ते आदीं ॲरीस्टोटलाची **त्रासदीची जगप्रसिद्ध परिभाशा** नियाळिल्ली बरी. ती अशी आसा : त्रासदी हें ''एका गंभीर, पुराय आनी थारावीक विशाळताय आशिल्ले कृतीचें अनुकरण; (जें) साबार तरांचे अलंकार नाटकाच्या वेगवेगळ्या वांट्यांनी सांपडचे अशे तरेन दरेके तरेच्या अलंकारान नटिल्लें आसतां; (आनी) काकूट आनी भिरांत हांचेवरवीं जें परिणाम-कारक रितीन ह्या दोनय भावनांक फावो तशे तरेन भायरायता.'' (**पोएटीक्स, VI**).

बारीकसाणेन पळेल्यार **त्रासदीचें** समाजीक योगदान **काकूट** आनी **भिरांत** ह्या नशट्या भावनांचे **भायरावणेंत** आसा हें होलमता. पूण ही भायरावणी (*catharsis*) प्रभावी थारची म्हूण नाट्यकृतीक आदारदिण्या **घटकांमदीं** ॲरीस्टोटलान **वस्तु** वा (*muthos*) हाका सगल्यांत 'वयल्या पावंड्याचें **तत्व'** अशें लेखलां. तो **वस्तुक त्रासदीचो गाबो** मानता. वस्तुफाटलें **कथानक** चडावत फावटी **वळखिचें** आसतालें. (भरताच्या **नाट्यशास्त्राप्रमाणें 'विख्यात'** म्हणुं येता अशें) आनी तातूंतल्यो घडणुकोय **अपेक्षित** आसुंयेताल्यो. पूण तरिकूय तांची **मांडावळ** प्रेक्षकांचें लक्ष वेधून घेण्याजोगी जावची म्हूण ॲरीस्टोटल हांगा **'पात्रांची निर्मणी'** ह्या गुणाचो खासा उल्लेख करता. आधुनिक समिक्षकांनी तर पात्रांचो वस्तुच्या उत्तावपांत आशिल्लो शिंवाचो वांटो मान्य केलाच. पात्रांचीं सभाववैशिश्टयां, तांचे गुण-दोश, कथानकांतल्या घडणुकांची दिका तशेंच तांची तांक थारायतात. त्या घडणुकांक 'शक्य आनी अशक्य', 'मनाक पटण्याजोग्यो आनी मनाक पटना अशो' ह्या विंगड विंगड वांट्यांनी घालपाचे **निकश** नाटकांतल्या पात्रांची जडण-घडण थारायता. **त्रासदींतलीं** मुखेल पात्रां चड करून

---

१. *विमसॅट ज्यु. आनी बुक्स हांचें स्पश्ट मत आसा की, ''ॲरिस्टोटली **काव्यशास्त्र** हें खरेपणीं **नाटकाचें काव्यशास्त्र** (नाट्यशास्त्र) आनी खासा करून **त्रासदीचें काव्यशास्त्र** जावन आसा.'' (**लिटररी क्रिटीसिज्म**, पा. ३६)*

उदात्त आनी आदर्श व्यक्ती आसतात. हाका लागून ॲरीस्टोटल तांगेल्या व्यक्तिमत्वांत एक **त्रुटी** वा **सभावदोश** आसूंक फावो अशें म्हणटा. हे त्रुटीक (*hamrtia*) लागून पात्राच्या व्यक्तिगत त्रासदीक एक उदात्त अशें **नितीक परिमाण** मेळूंक पावता आनी ताका लागून प्रेक्षकांमदीं **काकूट** आनी **भिरांत** हांची प्रतिक्रिया अदीक प्रकर्शान व्यक्त जाता.

पात्रां फकत प्रेक्षकाकडल्यान दाद मेळोवपासारके तांकिचीं जालीं म्हूण करणेचें सादरीकरण प्रभावी जायना हें ॲरीस्टोटल मान्य करता. म्हूण तो **करणे** फाटल्यान **'घडण्याजोग्यो अशक्यतायो'** (probable impossibilities) आसप हें 'न घडण्या-जोग्यो शक्यतायो' (improbable possibilities) आसपापरस चड पसंत करता. एक उदाहरण दिल्यार हो मुद्दो सहज कळूंक पावतलो. **राया अेडीपस** हे नामनेचे **त्रासदींत** मुखेल पात्र आपल्या बापायक जितो मारून आवयकडेन लग्न जातलो अशी भविश्यवाणी आसता. ही एके वटेन पळेल्यार 'अशक्य' गजाल खरी, पूण फुडाराच्यो घडणुको नाटकांत अशे तरने जायत वतात कीं हें **'अशक्य' खरेपणान** घडटा. अशा तरांच्या घडणुकांक ॲरीस्टोटल आपली मान्यताय दिता. पूण **गलीव्हराचे भोंवडेंत** गलीव्हराक किस्कुटायेदे मनीस मेळून जे फुडें ताचे अणभव ते कृतींत (नाटक न्हय) उक्ते जातात तांका (improbable possibilities) म्हणुंयेता. हयो घडणुको आमी ते कृतीच्या संदर्भात (तिच्या अंतर्गत नेम वा गरजांचे फास्केंत) **'शक्य'** म्हूण मान्य केल्यो तरी खरेपणान त्यो घडप **शक्य** नासता. (probable impossibility)चे आनीक एक उदाहरण म्हूण आमी **ज्युल व्हेर्न** हांच्या **चंद्रार स्वारी** हे नवलिकेंत शंभरेवर्सां पयलीं वर्णिल्ल्या 'अशक्य' दिसपी घडणुकांची देख घेवंक शकतात. फुडल्या शेंकड्यांत मनशान हें 'अशक्य' घडण्याजोगें आसा हें दाखयलें. उलट रामायणांत हनुमानान दर्या हुपतना केल्लो **अणिमा** आनी **गरिमा** ह्या शक्तींचो प्रयोग आमी शक्य म्हूण मानलो तरी तो खरेपणान अशक्य (improbable possibility) आसा.

नाटकाचे करणेंत **अंतर्गत सुसंगती** उरची आनी ते कृतीची रचना **एकजिनसी** घडची म्हूण ॲरीस्टोटल नाट्यसंहितेंत जुळून येवंक फावो अशा **तीन तरांच्या एकचाराचो** उल्लेख करता. त्यो म्हळ्यार, **थळ, काळ** आनी **करणेचो एकचार.** ताच्या मतान नाट्याच्यो घडणुको एकाच **थळार, एका दिसा** मजगतीं घडणाऱ्यो आसच्यो. करणेचो एकचार दोळे दिपकावपी रितीन सामकारा येवचो म्हूण ॲरीस्टोटल करणे फाटल्यान एक **अनपेक्षित घडणूक** आसची अशें सांगता. हे घडणुकेवरवीं अपेक्षित घडणुकांचो प्रभाव उलटो जाता आनी अशे तरेन जिवितांतली

**विडंबना** उक्ती जाता. हातूंतल्यान जिविताची खासा समजणी मेळटा आनी तेभायर नाटकांतल्या नाट्याची प्रेक्षकांचेर प्रभावीपणान छाप पडटा. अशे तरेन **त्रासदीचें** कलात्मक मोल उंचेल्या पांवड्यार पावता.

हे सगलें विश्लेशण जशें **त्रासदीक** लागू जाता तशेंच तें **कामदीकय** जुस्ताजुस्त लागता. पूण पयलीं **कामदीची व्याख्या** पळेल्ली बरी. ॲरीस्टोटल कामदीक ''पुरायेन वायट न्हय पूण कुरूपाच्योच एक पोटखण जावन आशिल्ल्या हास्यास्पद अशा खालत्या (सकयल्या पांवड्यावेल्या) व्यक्तींच्या चरित्रांचें अनुकरण'' अशें म्हणटा. ताजे लेखीं, ''हें अनुकरण दुखदिणें वा विध्वंसक न्हय आनी तें कसल्या तरी दोशाक वा कुरूपतायेक लागून घडटा.'' **लैन कुपर**[1] हांणी कामदी हें हास्यकारक आनी अपरिपूर्ण कार्याचें अनुकरण (आसून तें) समादान आनी हांसपावरवीं तेच तरेच्या गुणांचें परिणामकारक रितीन भायरावप करता.'' अशें म्हळां. अशे तरेन **कामदींतय अनुकरण** आनी **विरेचन** हे दोनय **त्रासदीचे** गुण आसुंयेतात, हें कळटा. पूण **त्रासदींत** नामनेच्या व्यक्तींचीं **चरित्रां** आनी **नांवां** हांचो उल्लेख आसता जाल्यार **कामदींत सभाववैशिश्टयां** वा **गुण-दोश** हांचो उपेग पात्रांच्या नांवांखातीर जाता. **त्रासदी** आनी **कामदींतल्या** ह्या फरकाचें कारण म्हळ्यार **त्रासदी** विशिश्ट व्यक्तीवरवीं, संवसारांतले पुराय मनीसजातीचे गुण-अवगुणांचेर उजवाड घालता जाल्यार कामदींत व्यक्ती आनी समूह हांचेमदलो फरक पुसून वता. त्रासदीचो शेवट दुःखांत जावन मर्ण वा विध्वंस वा दैना हो त्रासदीचो निमणो बिंदू थारता जाल्यार कामदींत पात्राचें व्हडांत व्हड दुख्ख वा दैना म्हळ्यार आपलो दोश वा उणेपण उक्तें करीत रावप होच आसता.

पूण एक मानून घेवंक जाय, ॲरीस्टोटलाच्या विश्लेशणाप्रमाणें **त्रासदी** आनी **कामदी** हीं दोनय तराचीं नाटकां जिणेक चड समाधानी करूंक हातभार लायतात. **त्रासदी** मनशाच्या नश्टया प्रवृत्तीक भायरावन ताका **सभावीक समतोल** राखूंक आधार करता, तशेंच **कामदी** ताका अनिश्ट आनी विद्रूप अशा सभावांतल्या उण्यांचेर हांसूंक लावन, तीं उणीं समजून तांचेर **मात** करूंक आधार करता. अशे तरेन नाट्य **समाजीक हिताची** राखण करता अशे म्हणुंयेता.

पूण निमाणेकडेन पळेल्यार ॲरीस्टोटलाचो काव्याविशींचो **अंतिम निर्णय** कितें? तो कविची **प्रतिभा** आनी **प्रेरणा** तशेच ताचें **गिन्यान** हांचेविशीं पारंपारिक मताची 'री' ओडटा? काय कवीचे प्रेरणेक **पिशेंपण** आनी ताचे प्रतिभेक **गिन्यानाचो अभाव** मानपी प्लेटोच्या मताची कदर करता? **पोएटीक्सांत** तरी ॲरीस्टोटलान अशी

---

१. *ॲन ॲरिस्टोटेलियन थियरी ऑफ कॉमेडी, (न्युयॉर्क, १९२२), पा. १०.*

खंयचीच **तोंकाची भुमिका** घेतिल्ली दिसना. ताची म्हत्वाची अशी काव्याबद्दलची सांगणी म्हळ्यार काव्यांतल्यान जावपी **अनिश्टाची भायरावणी.** पूण हेर बाबतींत मात ताणें मोनेळ धारण केला. **आबे हेन्री ब्रेमाँ** ह्या आधुनिक फ्रेंच **समिक्षकाच्या** मतान ॲरीस्टोटलाचो हो मोनेळ म्हळ्यार ताणें हेरांच्या मतांक नुलयतां दिल्ली मान्यताय वा ताचो हयकार जाता. पूण प्रस्न असो उबो जाता. ॲरीस्टोटलाचो हयकार कित्याक आनी कोणाक? पारंपारीक ग्रीक समिक्षेच्या कविवेल्या भावार्ताक काय प्लेटोच्या तर्कनिश्ठ अशा काव्याच्या आक्षेपांक? ह्या प्रस्नांचें उत्तर काळाच्या पोटांत गडप जालां. ''मौनं सर्वार्थ साधनम्' म्हणटात तेंच खरें. काव्यशास्त्र तरी हेंच करता! म्हणटकीच ॲरीस्टोटलाच्या **पोएटीक्साचें** म्हत्व कितें? आनी आज ॲरीस्टोटली **काव्यशास्त्र** वाचपांत वा शिकपांत कितें लाभ जाता? हाचें उत्तर **एफ. एल. लुकास** ह्या विद्वानाच्या उतरांनी चड बरे तरेन दिवंक जाता. लुकास म्हणटा : आमी ॲरीस्टोटलाकडेन योग्य जापो सोदुंक न्हय जाल्यार योग्य प्रस्न सोदूंक वचूंक जाय. अशे प्रस्न विचारप हें सत्यामेरेन पावचेखातीर घाल्लें पयलें पावल... अशे प्रस्न विचारप हें ग्रीसान (संवसाराक) दिल्लें व्हडलें देणे... व्यंगात्मक सोक्रेटीसाचे प्रस्न आसूं वा ॲरीस्टोटलाचे. तांच्यो जापो आमकां परतू- परतून मेळूंक जाय आशिल्ल्यो कशो दिसतल्यो; पूण आजमेरेन गंभीर नाटकाच्या अभ्यासाखातीर **पोएटीक्सा**परस बरो सुर्वेचो बिंदू ना; प्रश्नावली हे नदरेन तरी नाच. ॲरीस्टोटलाच्या काव्यशास्त्रान समिक्षेच्या अभ्यासकाक दिल्लें योगदान तें हेंच! सिद्धांत, देखी, संकल्पना आनी नेम हांची खोगीरभरती न्हय तर **ठोस, स्पश्ट** आनी **सरळ** प्रस्नांची **नेमकी** आनी **सुसंबद्ध वळेरी**! हांच्यो जापो चिंतप हें एक **आव्हान** जाल्यार अशे प्रस्न विचारूंक पळोवप हें **आवाहन** हांतूंत आस्पावलां. भावी समिक्षकान मुजरत उखलचें अशें म्हणून दिसता!

●

# ६

# भास आनी शैली विशीं

# प्लेटो - ॲरीस्टोटल

प्लेटो आनी ॲरीस्टोटल हांणी समिक्षेच्या अभ्यासकाखातीर फाटीं सांडलां तें मोलादीक विचारांचें दायज पारखुचेलो यत्न करतना ह्या दोनय विचारवंतांच्या समान आनी विशम अशा समिक्षेकडेन पळोवपाच्या रितींचीय मोलावणी जाता. तेभायर, तांणी दिल्ल्या देखींवरवीं तांच्या दिश्टीकोणांतलो फरक समजूंक आधार जाता. ह्या दोगांय गुरू-शिश्याच्या काळार **महाकाव्यां** आनी **त्रासदी** ह्या काव्यप्रकारांची चलती आशिल्ल्यान, प्लेटो तशेंच ॲरीस्टोटल हेच तरेच्या काव्याचेर आनी पर्यायान तें बरोवपी कवींचेर आपणालें लक्ष केंद्रित करताले हेंवय स्पश्ट जाता. पूण एक मात लक्षांत घेईसारकें आसा: प्लेटोन जरी **महाकाव्य** आनी **त्रासदी** हांच्या दोगांयच्या परिणामांचो हुस्को केलो तरी तागेलो भर **महाकाव्याच्या** 'चड **परिणामकारक** अशा **शैली, भास** आनी **निवेदन** हांच्या प्रभावाचेर' आसा. जाल्यार, ॲरीस्टोटल **पॉएटीक्सांत** तरी दोनय काव्य प्रकारांची तुळा करतना **त्रासदीक** झुकतें माप दिता.

ताचे लेखीं **महाकाव्य** प्रभावी आसलें तरी **त्रासदी** ताचेपरस चड **परिणामकारक, सुटसुटीत, परिपूर्ण** आनी **एकजिनशी** आसता. दुसरी गजाल म्हळ्यार प्लेटोचे **'अनुकरण करपी'** काव्यगुणावेले आक्षेप **महाकाव्यासारक्या** निवेदनरूपी साहित्यप्रकारापरस, **त्रासदी** (वा **नाटका**) सारक्या **करणीप्रधान** साहित्यप्रकारक चड लागू पडटात. ह्या मुद्दयाची दुसरी बाजू म्हळ्यार, ॲरीस्टोटलाची **'अनुकरण'** ह्या काव्याच्या मुळाव्या गुणावेली 'भिस्त'! ताका अनुकरणावरवीं काव्यांतल्यान घडपी प्रभावालागून मनशाच्या अनिश्ट प्रवृत्तींची भायरावणी जाल्ली जाय. आनी घडये हेचखातीर, ताका **'नाट्य'** हें **महाकाव्यापरस** चड प्रभावी दिसता. हाचीं कारणांय वळखूंक सोपीं आसात **महाकाव्य** हें मेजक्या लोकांमेरेन पावता. तशीच, **त्रासदीय** (वाचतना) थोडया थोकडया वाचप्यांपुरतीच मर्यादीत उरता; मात **नाटक** म्हूण माचयेर सादर जातना ती सुमारा भायर प्रेक्षकांकडेन-विंगड विंगड अभिरूची आशिल्ल्या आनी सगल्या थरांतल्या लोकांमेरेन-पावता. हाका लागून ॲरीस्टोटलाक **त्रासदीक महाकाव्यापरस** वयलो पांवडो मेळचो अशें दिसता.

पूण हांगा आमी एक लक्षांत दवरूंक जाय की **महाकाव्य** आनी **त्रासदी** (तेच परी **कामदी**) हांचें 'वाचप' प्लेटो-ॲरीस्टोटलाच्या काळार भौ उण्या प्रमाणांत जातालें तो काळ भौशीक मनोरंजनाची आशिल्लो आनी म्हूण काव्य-निरूपक, गायक (minstrel) हांचेवरवीं भौसाची मनरिजवण करप ही समाजीक प्रथा आशिल्ली. अशें म्हणपाक खासा होमेराच्या **ओडीसी** ह्या नामनेच्या महाकाव्यांतल्यान आदार मेळटा. देखीक, ओडीसियसच्या अपरोक्ष जेन्ना टॅलीमेकसागेर कितलेशेच इत्सूक न्हवरे तळ ठोकून बशिल्ले आसतात, तेन्ना ते खावन-पिवन धादोशी जातकीर गावपी (minstrel) येवन तांचेमुखार गायता. तो काळजाक पिवळ घालपी अशें गायन करता, कीं पेनेलोपे, रावंक नज जावन, आपणाले कुडींतल्यान सकयल देंवन ताका ताचें गीत बंद करचेली विनवणी करता. हो प्रसंग **काव्याच्या** (आयकुपावरवीं घडपी) **आकांताच्या परिणामाचेर** नेमकें बोट दवरता. तशेंच गावप वा उलोवप हांच्या प्रभावाचेर उजवाड घालता. हेरशींय जाल्यार ग्रीक लोकसत्ताकाच्या काळार, **भौशीक उलोवप** वा **वक्तृत्वाचे कलेक** राजकी हावेसाखातीर भौशीक मळार खासा मान आसतालो. हें वक्तृत्वाचें आगळें म्हत्व प्लेटो-ॲरीस्टोटलाच्या काळारच न्हय जाल्यार उप्रांत रोमन लोकसत्ताकावेळार लेगीत अशेंच वाडटे कळेन फुलारत रावलें.

**भौशीक उलोवप** वा गावप हे कलेंत दोन सुप्त मुद्दे आस्पाविल्ले आसात: सर्वसादारण मनशाची भौशीक मळार 'आयकुपी म्हूण' सहभागी जावपाची उमेद आनी भाशेचें 'उलोवण्याचें माध्यम' म्हूण आशिल्लें म्हत्व. ह्या दोनय घटकांच्या एकठांय प्रभावाचें साधन म्हूण वक्त्यान वा कवीन केल्लो **भाशेचो वापर** ह्याच खातीर समिक्षेच्या अभ्यासकाखातीर म्हत्वाचो थारता. इतिहासाचीं पानां परतिल्यार, ग्रीक विचारवंतांनी आनी उपरांत हॉरेसासारकिल्या रोमन बरोवप्यांनी भाशेच्या आनी पर्वायान वक्तृत्वाच्या विश्लेशणाक भौ म्हत्व दिलां हें कळटा. हाकाच लागून, ग्रीक समिक्षा **भाशेविशीं** (अलंकारीक वा प्रभावी अशें माध्यम म्हूण) कितें म्हणटा हें थोडे भितर पळोवंक नाय. अशे तरेचे चिकित्सेवेल्यान अचळय **शैली, औचित्य** (उचितपण) आनी **प्रयोग** वा **वापर** ह्या प्रस्नांचेरय उजवाड पडटलो.

प्लेटो आपल्या बरपांत (चड करून **फ्रेड्रसांत**) बऱ्या 'उलोवपा'चीं जीं **तंत्रां** मांडटा तीं जुस्त **बऱ्या 'बरपाकय' लागू पडटात.** ताच्या मतान, उलोवप्याचो जावं बऱ्या वक्त्याचो मुळावो गुण म्हळ्यार फावो त्या **विशयाचें पुराय गिन्यान** आसप. पूण निखटें गिन्यान आसलें म्हूण उलोवपांतल्यान वक्तो आयकुप्याचेर (जावं लेखक वाचप्याचेर) फोक घालूंक पावना. हाका लागून **उलोवपाची कला** वा **वक्तृत्वाची जाण** आसप हें उलोवप्याखातीर भौच गरजेचें जावन आसा. म्हणचेच उलोवपाचे कलेंतलें

**बारकावे,** तिजे **नेम** आनी **प्रथा** ह्योवय कळप आयलेंच. हांकांच जोडून एक उपेगी घटक म्हूण **सूत्रबद्ध विचार,** तांची **रैमीक जुळोवणी** आनी **एकजिनशीपण** ह्या गुणांचोय विचार करूंक जाय.

प्लेटो ह्या तीनय घटकांचो 'भाशीक संपर्काचीं प्रभावी साधनां' म्हूण उल्लेख करता. हें मान्य करीत जाल्यार, ते घटक उलोवपाप्रमाणेंच बरोवपांतय कित्याक गरजेचे थारतात हें आपशींच कळटा. पूण इतल्यान वक्त्याचो (जावं बरोवप्याचो/ कविचो) हेतू सादना. ताका आनी एका **'जिव्या घटकाचेर'** लक्ष दवरप म्हत्वाचें आसता. तो म्हळ्यार **आयकुपी** वा **वाचपी.** हाका लागून, समाज-मानसाचें गिन्यान वा मनशाच्या मनाची संवेदनशील समजणी नाशिल्ल्या वक्त्याचें जावं लेखकाचें सगलें 'मुसळ कोयरांत' वचपाची भिरांत चड आसता.

वयल्या मुद्द्यांवेल्यान एक उक्तें जाता: जरी प्लेटो हो काव्याचो कडवो विरोधक आसलो तरिकूय तो प्रत्यक्षांत काव्याचो एक जाणकार, काव्याची बारीकसाणेन चिकित्सा करपी एक समिक्षकय आशिल्लो. तागेले काव्यावेले आक्षेप कितलेय खर आसले तरी तांच्या मुळाक तागेली **काव्य-आस्वादनाची तांक** आनी **संवेदनशील वृत्ती** दिसून येता. कवितेक अनिश्ट म्हूण थारायतना तो मुजरत काव्याच्या वैशिश्टयांचेरय लक्ष ओडटा. कवितेच्या अनिश्ट भावनिक परिणामांचो उल्लेख करतना, आपशींच तो काव्यांतली सुप्त ओडलायणी तांक उक्तायता. देशभक्तीपर वा व्हड पुरसांचे जिणेचें वर्णन करपी गितां जेन्ना प्लेटो आपणाल्या आदर्श लोकसत्ताकाखातीर योग्य म्हूण मानता, तेन्ना तो काव्याची विभागणी अचळय निखटीं गेय-वृंद (lyrical -dithyrambic) आनी अनुकरण करपी (mimetic) तशेंच मिश्र काव्य (mixed) अशी करता. हातूंत नाट्य हें चड mimetic वा अनुकरण करपी, जाल्यार महाकाव्य हें मिश्र (mixed) आसा हें समजता. जेन्ना प्लेटो **कलेच्या तत्वांचेर** उजवाड घालता तेन्ना तातूंतल्यान आपशींच **शैलीचे** कांय **गूण** उजळटात. ते गूण म्हळ्यार **जोखतो आशय, तंत्राचें गिन्यान,** तांच्या **वापराची सवंकळ** आनी **कृतीचो एकचार.** काव्यांतले **भाशेंत** ह्या गुणांचो आस्पाव जालो जाल्यारच काव्य **'ओडलायणें'** आनी **'प्रभावी'** थारूंयेता.

प्लेटोचें हें विश्लेशण जरी आडवाटेन शैलीची विस्कावणी करता आसलें तरी ॲरीस्टोटलाचें **भाशेवेलें मतय** ह्या विश्लेशणांत रूजलां हें विशेश. **पोएटीक्स** तशेंच **ऱ्हेटोरीक्स** ह्या दोनय कृतींनी **काव्याची भास** आनी **शैली** हांचेविशींचे ॲरीस्टोटलाचे विचार आस्पावल्यात. आशय भाशेच्या माध्यमावरवीं वाचपी वा प्रेक्षकामेरेन पावोवप हें लेखनाचें **मूलभूत ध्येय** आशिल्ल्यान ॲरीस्टोटल भाशेच्या उपेगांत **स्पश्टताय**

आनी **औचित्य** ह्या दुक्यांचो आस्पाव, आसचो अशें म्हणटा. हांगा **स्पश्टताय** हाचो अर्थ 'समजूंक सोपी भास' असो घेवचो पडटा. **औचित्य** ह्या गुणांवरवीं ताका 'भाशेंत लिपिल्ली अर्थाची साबार तासां **फावो तशीं** उक्तावप' हो अर्थ अभिप्रेत आसा. वेगवेगळ्या प्रसंगार, भास वेगवेगळो अर्थ व्यक्त करूंक शकता. म्हूण विंगड विंगड प्रसंगाक सोबसारके बरपाचे (वा उलोवपाचे) प्रकारय आसतात. ह्या प्रकारांक योग्य अशी शैली उपेगांत हाडप हें यशस्वी बरोवप्याचें काम असता.

सोपेपणान समजूंक येई सारकी भास बरयतना, ॲरीस्टोटल **चालंत उतरांचो** उपेग करचो अशें सुचयता. पूण बरोवप ही कला आशिल्ल्यान विशिश्ट वेळावेळी गरज निखटी बरपाची **समजणीच** न्हय तर **स्पश्टताय, गोडी** वा **प्रतिश्ठा** आसुंयेता. हांचेखातीर **सवंकळीची उतरां** काय वेळा **मारक** थारूंयेतात. अशा वेळार ॲरीस्टोटल फावोत्या तरेन **काळाभायरीं उतरां** (आर्ष प्रयोग-archaic usage) वा परके भाशेंतलीं उतरां, बोलीभाशेंतली उतरां वा नव-शब्द घडणी (neologisms) हांचो प्रयोग करचो अशा मताचो आसा. चड करून नवल वा नाविन्य बरपांत रीगचें आनी बरपाक प्रसंगाक फावो तशी आकर्शक शैली मेळची ह्या उद्देशान ॲरीस्टोटल हो सल्लो दिता.

तो **गीत, महाकाव्य** आनी **नाटक** ह्या प्रकारांक सोबसारकी उतरांची येवजणय सुचयता: जोड-उतरां **गितांत** सोबतात, कित्याक **गीत** अलंकारीक भाशेचेर तिगता; दुर्मिळ आनी अनवळखी उतरां **महाकाव्यांत** सोबून दिसतात कारण **महाकाव्य** राजसी आनी व्हडविकेच्या आशयाची वा पात्रांची येवजण करता; आनी **नाटकांत** रूपकात्मक भास चड प्रभावी थारता कित्याक ती **वळखीच्या उतरांतल्यान अनवळखी अनुभूतिचो** प्रत्यय दिवंक शकता. ॲरीस्टोटल **गद्य** आनी **काव्य** हांची लेगीत उखेवणी करता. वयर सांगलां ते प्रमाण, (वक्तृत्वाच्या तत्कालीन प्रभावी वापराक लागून घडये) तो गद्याचे शैलीचोय काव्यावांगडाच उल्लेख करता. तो ह्या दोनय साहित्य प्रकारांनी **रूपकात्मक** भास समानपणान उपेगांत हाडूं येता अशें म्हणटा. पूण दोगांयचो हेतू वेगळो आशिल्ल्यान हो उपेग जतनायेन करूंक जाय. **आकर्शण, व्हडवीक** वा **दुवार्थीपण** हे काव्याचे गूण म्हूण सोबले तरी गद्याक ते सोबनात: गद्य **स्पश्ट** आनी **नेमकें** आसचें, अशें म्हणून ॲरीस्टोटल उतरां, वाक्यां हांची रचणूक लेगीत **गद्यांत** कशी आसची हें सांगता. तशेंच **महाकाव्य** आनी **नाट्य** ह्या प्रकारांतले भाशेचे शैलीचो वेगळचारय तो वेवस्थितपणान दाखयता. हांगा दोनय प्रकारांतलो अंतर्गत वेगळचार पयलीं समजप गरजेचें आसा. **महाकाव्य** आयकप/वाचप ह्या दोनय तरांनी पूण **कल्पनेंतल्यान** समजुचें पडटा. जाल्यार **नाटक** वाचपा बरोबरच माचयेचेर

‘**खेळिल्लें**’ पळोवंक मेळटा. **महाकाव्यांत, अजापां** आनी **अप्रुपां** हांचो **व्हडविकाय, प्रतिष्ठा** आनी **क्लिश्ट अशी करणेची रचणूक** ह्या गुणावांगडाच उपेग जाल्लो आसता. नाटकांत माचयेर तरी दोळ्यांनी **पळोवन** आनी कानांनी **आयकून समजूं येइसारक्योच घडणुको, एकजिनसी करणी** आनी **अंतर्गत एकचार** हांचो सुमेळ आसता. ह्या वेगवेगळ्या गुणांची फाटभूंय लक्षांत घेतल्यार तो **शैलीचो फरक** तांचेखातीर कित्याक सुचयता, हें सट्ट करून समजता. **महाकाव्य** उदात्त परिणामाचेर नदर दवरून साबार घडणुको केळयता जाल्यार **त्रासदी** अशें करूंक पावना. पूण **त्रासदी** (जावं **नाटक**) दृश्य आनी गीत हांचो उपेग करून संहितेक परिणामकारक घडोवंक शकता, जें महाकाव्यांत शक्य ना. ॲरिस्टोटलाक काव्याच्या परिणामांची जाण आशिल्ली तशेंच ताच्या ओडलायण्या स्वभावाचीय कल्पना आशिल्ली. आडवाटेन तो काव्याच्या कार्याचेरय उजवाड घालता आनी हें सगळें करतना भाशेचो एक प्रभावी माध्यम म्हूण अभ्यास करप गरजेचें मानता.

●

# ७

# हॉरेसाचो काळ आनी तत्कालीन काव्य

जेन्ना आमी पश्चिमी समिक्षेसंबंदीं अभ्यासाच्या फुडल्या पावंड्यार वचूंक पळेतात, तेन्ना **हॉरेस** ह्या रोमन कवीचें नांव फुडें येता. हाचें कारण सरळ आसा. ताची काव्यविशयक कृती **आर्स पोएटीका** ही मुखेलपणान **काव्य** आनी **भाशेचो प्रयोग** हांचे भोंवतणी घुंवता. खेरीज, हॉरेसान प्लेटो-ॲरीस्टोटलाच्या विचारांचो अभ्यास केल्लो अशेंय मानपाक इतिहासीक आधार आसा. ताचेर तत्कालीन समिक्षात्मक प्रथांचो बऱ्यापैकीं प्रभाव आशिल्लो अशेंय इतिहासीक दस्तावेजांच्या उल्लेखांवेल्यान कळटा. आनी सगल्यांत म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार, तो स्वताच एक नामनेचो कवी म्हूण समकालीनांमदीं नावांरूपाक आयिल्लो. तशेंच, ताणें तरेतरेचे तत्कालीन काव्यप्रकार हाताळून साबार संग्रह उजवाडायिल्ले. अशा कवीचे काव्याविशींचे आनी काव्याच्या भास ह्या माध्यमाविशींचे विचार कशे आशिल्ले, हें जाणून घेवपाची उमळशीक समिक्षेच्या अभ्यासकाक आसल्यार नवल ना.

पूण हॉरेसाच्या विचारांवटेन वळचे आदीं ताचो काळ कसो आशिल्लो, त्या काळावेल्या काव्याचें स्वरूप कशें आशिल्लें आनी हाचीं वळखूं येईसारखी कारणां खंयचीं हें सोदप समा जातलें. थोडे भितर सांगचें जाल्यार, हॉरेस (ख्रि. पू. ६८ ते ८) इतिहासाचे नदरेन भारी संवेदनशील काळार जावन गेलो. पश्चिमी संवसाराच्या राजकी फुडाराचे नदरेन तरी हो काळ घडामोडीचो आनी प्रक्षोभक घडणुकांचो आशिल्लो. ज्युलियस सीझराची हत्त्या, उपरांतचें आकांताळें घर-झूज (गृहयुद्ध), साम्राज्यशायेची थीर जाल्ली बसका आनी रोमन इतिहासांतलें भांगरापर्व ह्या सगल्यांचो उल्लेख ह्या काळाबरोबर जावप सामकें सहज आसा.

## रोमन साम्राज्यांतली काव्याची स्थिती

रोमांत साम्राज्यशाहीमेरेन तरी साहित्यीक वावराक गती नाशिल्ली. आदल्या रिपब्लिकाच्या काळार साहित्यीक न्हय जाल्यार राजकी हावेसान भारून गेल्ल्या ह्या युगाक भौशीक वक्तृत्व आनी गद्याचो भौशीक मळार प्रयोग हांची गरज आशिल्ली. हाचो परिणाम म्हूण **महाकाव्य, नाटक** हांचेसारकिल्ले प्रभावी साहित्य प्रकार हांतरेक लागिल्ले. हाचें एक कारण म्हळ्यार तत्कालीन कविंमदीं प्रतिभेचो दुकळ आशिल्लो, अशेंय म्हणुं येता. पूण मुख्य गजाल म्हळ्यार, तेन्ना साहित्याक राजकी पालव

नाशिल्लो. साम्राज्याच्या उदेवाबरोबर समाजीक-राजकी थिराय तर आयलीच खेरीज साहित्याक राजकी आसरो मेळूंक पावलो. हाचेआदीं साहित्याक (खासा करून काव्याक) उत्तेजन दिवपांत कोणाक आस्था नाशिल्ली.

पूण आतां काव्याक बरे दीस आयले हाचो अर्थ, काव्य पर्थून ग्रीक सुवर्णयुगासारकें भरभराटीक पावलें असो मात न्हय. **विर्जिल** सोडल्यार महाकाव्य बरोवपाचे लायकीचो दुसरो कोण जालोना. ताचें **अेनीड** जें संवसारांत नामना जोडूंक पावलें तें, ह्याच काळार जल्माक आयिल्लें. पूण विर्जिल सोडल्यार हेर कवी चड करून गीत-काव्याचेरच नदर केंद्रीत करून बरयताले. घडये हो ॲलेक्झांड्राच्या '**ग्रीक अनुकरणवाद्यांच्या**' उण्या दर्जाच्या बरपाचो रोमन काव्याचेर पडिल्लो प्रभाव आसुंये. पूण रोमन काव्याचें सुवर्ण युग **सुपुल्ल्या काव्यप्रकारांवरवीं** नामना जोडूंक पावलें. **महाकाव्य** वा **त्रासदीसारक्या** व्हड प्रकारांक मेळपी खालत्या प्रतिसादाक लागूनय जायत, पूण ह्या काळार तरेतरेचे सुपुल्ले काव्य-प्रकार फुलोरा आयले.

जे सुपुल्ले काव्य-प्रकार ह्या तेंपार वयर सरले तांची वळेरी अशे तरेन दिवंक येता.: (१) व्यंग आनी टीका हांचो वापर करपी **सटायर** हें **उपहास-काव्य** (२) **अेपिस्टल** हें चिटीरूपांतले **पत्र-कवन** (३) प्रशंसा आनी गुणवर्णन करपी **ओड** हें **तुस्त-गायन,** (४) सैमीक सोबा आनी शांत जिणेचें ओडलायणें चित्रण करपी **आयडील** हें **लोक-कवन** आनी (५) सैमाच्याच गोपांत, गांवगिऱ्या, धनगरी जिविताक चितारपी **पॅस्टोरल** हें **गोप-गीत.**

हांचेमदीं हॉरेसाचें नांव ज्या काव्य-प्रकारांवांगडा गुंथून अजरंवर जालां, ते आसातः **ओड** आनी ताचोच **इपोड** हो उप-प्रकार, **सटायर्स** आनी **एपिस्टल्स.** ह्या तरेकवार काव्य-प्रकारांचे संग्रह उजवाडा हाडून नांव कमयतरीच ताणें जाण्टे पिरायेर 'पिजो' ह्या बापूय-पुतांच्या त्रिकुटाखातीर '**पिजोंक पत्र**' ह्या मूळ माथाळ्यान आपणालें **आर्स पोएटीका** बरयलें. खरेपणान हें पत्रकवन नव्या, उमेदी बरोवप्यांक लेखनावटेन आकर्शित करूंक आनी तांचो उत्साह वाडोवंक बरयिल्लें. पूण साहित्य-विश्वांतल्या विविध विरोधाभासांचो एक परिपाक म्हळ्यार ह्या पत्र-कवनाक मेळिल्ली समिक्षात्मक नामना आनी इतिहासिक म्हत्व! हें हांसतें-खेळटें पत्र फुडाराच्या साहित्य-अभ्यासकांनी काव्यविशयक विचारांचें देणें कशें लेखलें. ताचें म्हत्व समजूंचे खातीर पर्थून एकवार हॉरेसाच्या काळाचेर नदर मारूंक जाय.

हो काळ रोमन साहित्याखातीर भांगरायुग जावन आशिल्लो आनी म्हूण ग्रीक सुवर्णयुगाची देख घेवन वयल्या पावंड्याची निर्मणी करपाचो सादारण लेखकांचो हावेस आशिल्लो; रोमन सम्राटाकूय (ओक्टेव्हियन ऑगस्टस) साहित्यांत भारी रस

आशिल्लो आनी ताच्या आश्रयाखाला साहित्याक उत्तेजन आनी पोसवण मेळूंक पावली. राजकी स्थिरताय, समाजीक सवस्तकाय, अर्थिक सुबत्ता हांचो सुकाळ आशिल्ल्यान ह्या युगांतली परिस्थिती साहित्यिकाच्या मानसीक उर्बांक आदारदिणी थारली हेंवय तितलेंच खरें. बरोवप्यासामकारा देखी आनी आदर्शय उण्या पांवड्याचे न्हय तर पेरीक्लिसाचे राजवटींत तेमकाक पाविल्ल्या उच्च दर्जाच्या ग्रीक काव्याचे आशिल्ले. हाका लागून **विर्जिल, जुव्हेनाल, हॉरेस, ओव्हीड, लिव्ही, प्रोपर्टीयस** आनी **ट्रायब्युलस** हांचे सारके भौगुणी बरोबपी ह्या युगाक **ऑगस्टन युग** म्हूण अजरंवर अशी कीर्त साहित्यीक इतिहासांत मेळोवन दिवंक पावले.

ह्या काळार काव्याक **चड** म्हत्व मेळूंक पावलें कशें, हाचें कारण थोडेंशें अ-साहित्यीक आसा. रोमन लोकसत्ताक राजवटीच्या अंताबरोबरच व्यक्तिगत राजकी हावेसय सांसणाचे न्हिदले आनी तांचेखातीर जाय आशिल्लें वक्तृत्व आनी वक्तृत्वाचें प्रभावी माध्यम जावन आशिल्ली गद्य शैली सोमतीच निरूपेगी जावन बसली. कवीक राजाश्रय आनी प्रतिश्ठा मेळटा म्हणनाफुडें काव्याक भार आयलो. साम्राज्याच्या एकंदर वातावरणांत उमरावी वृत्ती आनी प्रथा परत्यो उदेल्यो. काव्याक दरबारांत स्थान तर मेळ्ळेंच, व्हड प्रतिश्ठितांगेरय कविची आवभगत जावं लागली. पूण हाका लागून, वेंचीक अशे 'हे' अभिरूचीक ध्यानांत दवरून मात ताका लिखणी चलोवची पडूंक लागली. भौसाची मनरिजवण करपी साहित्य आनी विशिश्ट वाचप्यांखातीर बरयिल्लें लेखन हातूंत जो फरक आसता तोच फरक ग्रीक अभिजात काव्यांत आनी रोमन ऑगस्टन काव्यांत नदरेंत भरता. आत्मगौरव करप वा वंश-देश हांची व्हडवीक गावप, थळाव्या प्रस्नांभोवतीं घुंवपी समस्या-केंद्रीत लेखन करप, विशिश्ट व्यक्तिंक अनुलक्षित करून काव्य (चडकरून **पत्र-कवन, शोक-गीत, उपहास-गीत** हांची) रचना करप हें ह्या काळावेल्या रोमन काव्याचें वैशिश्टय आशिल्लें. त्या काव्याचेर धांवती नदर भोंवडायल्यार लेगीत हें ध्यानांत येता. पूण, काव्य-प्रकार बदल्ले हाचो अर्थ कवी उणाक थारतले अशें थोडेंच आसा! काव्याचे जे प्रकार तत्कालीन कवींनी केळयले तांचें तांणी भांगर केलें. काव्याक अशे तरेन आपणाल्या 'मिडासी' स्पर्शान नवें मोडण दिवप्यांमदीं **होरेसाचो** आस्पाव तर जाताच, पूण अशा काव्यावरवीं समिक्षेक योगदान करपी कवी म्हूण तो वाचप्याक सदांच याद उरतलो. हांगा मुजरत तागेल्या समिक्षात्मक बरपाविशीं थोडोसो विस्तारान विचार करप बरें.

## हॉरेसालें पत्र-कवन

**आर्स पोएटीका** समिक्षात्मक टीका-टिप्पणी म्हूण बरयिल्ली कृती न्हय. तें उमेदी नव-लेखकांक बरोवपाक उत्तेजन दिवचें म्हूण बरयिल्लें पत्र! ह्या पत्र-कवनाचो

सूर इश्टागतीचो, भास हांसती-खेळटी, देखी विनोदी आसात. आनी घडये हेतूयबी, उदात्त आनी गंभीर न्हय, जाल्यार वेव्हारांत उपेगी असो सल्लो दिवप आशिल्लो जावंक जाय. ते भायर हॉरेसाचो उपहास, विनोद, मस्करी हांचो नीज मोग (जो ताच्या **सटायर्सांनी** उपाट भरला) ह्या बरपांतय भरसला. तेवरवीं ह्या व्यक्तिगत पत्राक काव्य आनी भास हांचेवेली एक (अभ्यासपूर्ण पूण गंभीर न्हय अशी) सुपुल्ली कृती म्हूण आगळीच कांत मारता. पत्र रूपान आशिल्यान **आर्स पोएटीकाक** सुस्पश्ट असो आराखडो वा येवजण हांकां पाळो दिवची गरज ना. तेचपरी पत्र-बरपांत जें अनुपचारीक लेखनाचें तंत्र वापरूंयेता तेंवय वापरचेली मेकळीक हॉरेसाक मेळ्ळ्या.

पूण हाचो अर्थ असो घेवची गरज ना कीं **आर्स पोएटीका** कसलेय मांडणेविरयत निखटी हलकी फुलकी शैली प्रगटावपी पत्र जावन आसा. विद्वानांच्या मतान हातूंत ग्रीक-ॲलेक्सांड्रियन काव्याचे परंपरेप्रमाण अशे तरेचे कवितेंत आसूंक जाय ती त्रिगुणी मांडणी आसा. हे मांडणेंत **आशय** (*poesis*), **रूप** (*poema*) आनी **कवी** (*poeta*) हांचो सहभाग अभिप्रेत आसता. **आर्स पोएटीकाचो** आशय **काव्य, शैली** आनी **नाट्य** ह्या मुखेल विशयांभोंवतणें घुंवता. ताचें स्वरूप पत्राचें आसा. काव्यांतल्यान काव्याचेर भासाभास करचेल्या ह्या **पत्र-कवनाच्या** खाशेल्या गुणांतल्यान ताच्या कवीच्या नीज व्यक्तिमत्वाची आनी विचारांची लागींच्यान वळख मेळटा. हें काव्य दोन-धारी शस्त्र कशें काव्यांतल्यान समिक्षा उक्तायता आनी समिक्षात्मक निरिक्षणाचें काव्यमय शैलीन ओडलायणें दर्शन घडयता. हाका लागून **आर्स पोएटीका** चालंत प्रथेभितर रावनय नवे प्रथेचें काव्यांत मुळावण घालता.

## चालंत साहित्यीक परंपरा

पूण ह्यो नव्यो प्रथा नियाळचे आदीं थोडेंशें विशयांतर करप गरजेचें जावन आसा. ह्या विशयांतरांतल्यान हॉरेसाच्या युगाचेर चड-उणो प्रभाव घालूंक पाविल्ल्यो चालंत साहित्यीक परंपरा खंयच्या आशिल्ल्यो हे पळोवंक मेळटलें. तेच बरोबर, ह्या काळावेल्या साहित्यीक परिवर्तनाची बसका खंयच्या-खंयच्या विचार-धारांचेर पोसवल्या हेंवय कळटले. हाचो जोड-लाव म्हळ्यार हॉरेसाचो काळ विशिश्ट तरेचे परंपरेवटेन घुंवपाक वा विशिश्ट परंपरेकडेन फाट करपाक कित्याक पळेतालो हें सोपेपणान होलमतलें. तेच परीन, हे फाटभुंयेचेर हॉरेसाचें समिक्षात्मक जांव साहित्यीक योगदान तिजून पळोवंक बरे जातलें.

हॉरेसाच्या युगाचेर चडावत फोक हेलेनिस्टीक साहित्यपरंपरेन घाला. हे परंपरेच्या मुळामेरेन पावतलो जाल्यार शिकंदराउप्रांत ग्रिसांत घडून आयिल्ल्या साहित्यीक-सांस्कृतीक परिवर्तनाकडेन वचचें पडटलें. हेलेनिस्टीक परंपरेचो प्रसार

ॲलेक्सांड्रीयांतल्या अनुकरणप्रिय ग्रीक साहित्यिकांच्या दुय्यम दर्जाच्या कृतींवरवीं हॉरेसाच्या समकालीनांमदीं जाल्लो. घडये ह्या दुसऱ्या पावंड्याच्या साहित्याचेर प्रतिक्रिया म्हूण रोमन साहित्यिकांमदीं कुड्डेपणान रोमन परंपरेकच दसून रावंक सोदपी उमरावी पुराणमतवादी प्रथांक भार आयिल्लो. हे प्रतिक्रियेक जोडून आनीक एके नवे साहित्य परंपरेन मूळ धरिल्लें. ती म्हळ्यार पुराणमतवाद्यांइतल्याच कडव्या अंधनिश्ठेन रोमन साहित्यांत नव्यो प्रथा 'पाडूंक' पळोवपी आधुनिकवाद्यांची नव-परंपरा.

## खासा हॉरेसावेले प्रभाव

पूण ह्या सगल्या प्रथा-परंपरांपरस खासा हॉरेसाचेर परिणामकारक असो फोक ग्रीक सुवर्णयुगांतल्या अभिजात साहित्याचो पडलो. खेरीज, ताका तशेच तरेचें सर्जनशील बरप रोमन साहित्यांतय जांवचें असो दिश्टावो, आपल्या हेर फाकिवंत समकालीनांबराबरच, घडलो हे आदीं सांगलां. ह्या प्रभावाक सारें घालपी दोन प्रवाह आमकां हॉरेसाचे साहित्यीक जिणेंत घुस्पल्ले दिसतात. हातूंतलो एक अरीस्टोटली विचारांचो जावन आसा. हो प्रभाव हॉरेसा मेरेन **पेरीपेटेटीक्स** ह्या अरीस्टोटलाच्या शिश्यांच्या शिकवणुकीवरवीं पावला अशें मानूंक इतिहासीक आदार आसा.[1] हो पुरावो हॉरेसाचेर पुर्विल्ल्या अभिजात ग्रीक साहित्यावरवीं जाल्ल्या परिणामांक सूचित करता. हाचो अर्थ, आदली ग्रीक साहित्यांतली प्रबळ अशी सोफिस्ट विचारधारा, तातूंत किल्लून आयिल्ली वक्तृत्व कला तशेंच अलंकारीक शैली आनी हांचेवेली सॉक्रेटीस-प्लेटो-ॲरीस्टोटल हांगेली प्रतिक्रिया, ह्या सगल्या गजालींकडेन हॉरेस परिचित आशिल्लो जावंक जाय. पूण फकत ह्याच साहित्यीक परंपरांनी हॉरेसाची विचारसरणी पुरायेन घडयली अशेंय मानप समा जावचें ना. बऱ्याच अभ्यासकांचे अशें मत आसा कीं हेलेनिस्टीक परंपरेतल्या तत्वगिन्यानाच्या तीन प्रमुख प्रवाहांमदली एपिक्युरीयन विचारधारा (फिलोडेमेस ह्या समकालीन तत्वचिंतकावरवीं) हॉरेसाक प्रभावित करूंक पावली. अशें म्हणपाक दस्तऐवजी आदारय आसा. हांगा हेलेनिस्टीक तत्वगिन्यानाच्या मुखेल प्रवाहांविशीं थोडेभितर उल्लेख केल्यार संदर्भाभायरो जावचो ना. ह्या तत्वगिन्यानाचे तीन मुळावे प्रवाह अशे आशिल्ले : (१) जिवितांतलें बरे आनी वायट, स्थितप्रज्ञ वृत्तीन नियाळपी वा मानून घेवपी **स्टोयक** तत्वचिंतन; (२) मर्यादेभितर सुख भोगून, दुख्ख टाळून, मर्णाच्या

---

१. *निओटोलेमस ह्या पेरीपेटेटीकाचो हॉरेसाकडेन संबंद आयिल्लो हें दाखोवपी पुरावो (पेपिरसाचे काळाच्या चपक्यांतल्यान वाटावन उरिल्ले कुडके) मेळ्ळा.*

व्यर्थ भंयाक भायरावन, समाधानी जीण जियेवपाचो संदेश दिवपी **एपिक्यूरियन** तत्वचिंतन; आनी (३) सगल्या सुखांकडेन आनी इत्सांकडेन फाट परतून सद्‌गुणांचो फाटपुरावो करपी **सिनीक** तत्वचिंतन. ह्या तिनांमदल्या **एपिक्यूरियन** विचारांचो थोडो-भौ प्रभाव हॉरेसाचेर जाल्लो आसूंक जाय हें ताचें मर्यादेभितर केळयिल्लें काव्यच न्हय जाल्यार समिक्षात्मक बरपय दाखयता[1]. पूण ह्या मर्यादेक अभिजात ग्रीक साहित्य प्रथांचें अस्तर आसा आनी नदरेआड करूंक जायना अशी ॲरीस्टोटली विचारांची थीर बुन्यादय आसा हें न्हयकारूंक जायना.

●

---

१. *हॉरेसाच्या बरपाच्यो संपादीत कृती,* ***सटायर्स, ॲपिस्टल्स अँड आर्स पोएटीका*** *(संपा.) एच्. रश्टोन फेअरक्लो, (केंब्रिज, मेसच्युसेटस्, १९३६), ह्या ग्रंथात उपलब्ध आसात.*

# ८

# हॉरेसाचो समिक्षात्मक विचार

हॉरेसाच्या समिक्षात्मक विचारांचें विश्लेशण करतना (ताची समिक्षा ताणे काव्याच्या माध्यमांतल्यान उक्तायिल्ल्यान) हॉरेसाचें काव्य आनी समिक्षा खंयचे मर्यादेंत वावुरता हें पळोवंक जाय. तागेल्या काव्यसंबंदी विचारांचो केंद्रबिंदू **'औचित्य'** (उचितपण) हो जावन आसा. हॉरेसाची **'औचित्य'** (decorum) ही संकल्पना ॲरीस्टोटलाच्या औचित्याचे (*to proton* वा propriety) हे कल्पनेक बरीच लागीं आसा. पूण **औचित्या** इतलीच म्हत्वाची आनीक एक कल्पना हॉरेसाक अभिप्रेत आसा. ती म्हळ्यार, 'काव्य-प्रकारांक मान्य नुमुनो वा प्रमाण म्हूण आशिल्लें मोल.' हांगा समिक्षेच्या अभ्यासकान बारीकसाणेन सोदीसारक्यो जापो, फुडल्या प्रस्नांच्यो, जावन आसात: 'औचित्यां' तल्यान हॉरेसाक नेमके कितें सांगपाचें आसा? हॉरेसांचें काव्य ताचे 'औचित्या' संबंदी कल्पनेक खंयमेरेन पाळो दिता? हॉरेसाचे समिक्षात्मक विचार आनी ते प्रत्यक्ष उक्तावपाचें काव्य हें ताचें साधन हांचेमदीं कितपत सुसंगति आसा? काव्याचो मान्य नमुनो म्हूण विचार करतना हॉरेस भास आनी शैली हाकां काव्याचें माध्यम म्हूण खंयची सुवात दिता?

घडये हॉरेसाक ह्या विविध प्रस्नांमदलें नातें अभिप्रेत आशिल्ले जावंक जाय. म्हूण तागेली 'औचित्या'ची कल्पना मुळांतच भाशेची **घडण** आनी **प्रयोग (वापर)** हांकां आस्पावन घेता. वयलेवयर पळेल्यार, बरपांतलें 'औचित्य' म्हळ्यार प्रसंगाक सोबसारकें वा खंयृचेय स्थितीक फावोसारकें बरप असो जरी शब्दशा अर्थ लायलो, तरिकूय ताचेफाटल्यान एक दुवार्थी विचार लिपिल्लो आसा. एका अर्थान, 'औचित्य' म्हळ्यार जिणेंत आस्पाविल्ली सैमिक प्रक्रिया जी गुण, रीत वा वाढ ह्या घटकांकडेन एकनिश्ठ रावपी काव्याचो निर्देश करता. म्हणचेच मानवी अणभवांचें सैमिक स्थिती-कडेन सुसंगत अशें काव्यांत जावपी रुपांतर औचित्याच्या एका अर्थाक अपेक्षित आसा. ह्या अर्थान पळेल्यार, **काव्यावरवीं जिणेच्या सैमिक परावर्तनाचो** (reflection) **प्रत्यय मेळूंक पावलो जाल्यार** आपशींच कवीन औचित्याक पाळो दिल्लेवरी जाता. अदीक फोडणिशी करची जाल्यार, काव्याचें ध्येय मनरिजवण आसूं वा समज दिवप आसूं, **काव्याची अभिव्यक्ती** (घडणुको, वर्णनां, अणभव धरून) **आशय, तंत्र** आनी **दिश्टाव्याचे नदरेन अकृत्रिम भासची.** औचित्याचेर भर दिवपी समिक्षेची वा वाचप्याची काव्याकडल्यान ही अपेक्षा आसता. ही जाली औचित्याची एक वट.

पूण दुसऱ्या अर्थान पळेल्यार, अभ्यासकांनी औचित्याचो संबंद मनीस-निर्मित प्रथा, चालंत रिती, समाजीक रिवाज हांचेलागीं लायिल्लो दिसता आनी तो योग्यय आसा. ह्या अर्थान 'औचित्या'क पळेल्यार ताचेफाटलीं समाजीक, भाशीक आनी नितीक परिमाणां लक्षांत येतात. ह्या परिमाणांच्या संदर्भात, औचित्याचो अर्थ **अभिजात साहित्याचे रिवाज, वाचप्याची अभिरूची, समिक्षेंतल्यो रूढी** आनी **काव्यलेखनाचे संकेत** हाकां पाळो दिवप असो लावचो पडटा. म्हणचेच काव्य फकत सैमिक अनुभूतिपुरतेंच आपणालें कार्यक्षेत्र मर्यादित दवरूंक शकना. हें करतनाच काव्याक मान्य (प्रमाण) काव्य- प्रकारांच्या साहित्यकृतींची, साहित्यीक प्रथांची दखल घेवची पडटली. मागीर ती दखल अनुसरणावरवीं देख घेवचेखातीर आसूं वा आपले वेगळे वाटेन वचून नवी देख फुडाराक घालून दिवचेखातीर आसूं.

पूण एके थारावीक शिमेभितर कवीन चालंत संकेतांचो वा प्रथांचो आदर करूंक फावो आसलो, तरिकूय जें काव्य जावं साहित्य फकत चालंत रिवाज आनी साहित्य-संकेतांच्या चक्रांत घुस्पून उरता तें कृत्रिमपणाचे वा प्रासंगिकपणाचे वा संकुचितपणाचे वंयेभायर सरूंक पावना. उतरांचेंच वाळें करून सांगचें जाल्यार, 'औचित्या'च्या उपेगांतय एक 'औचित्य' आसूंक जाय. ना जाल्यार केदेय तांकीचें साहित्य, समकालीन संदर्भाभायर वचून आपणालो प्रभाव फुडाराच्या पिळग्यांमेरेन पावोवंक अपेशी थारता. साहित्याक अशे तरेन बंदिस्त करून दवरपांत आशयाचें कट्टीखायरेपण, तंत्राचें दळदीर, नदरेचें मोटवेंपण जशें कारणीभूत जाता, तशेंच भाशेचो अनुचित प्रयोग वा वापरय कारणीभूत जाता. म्हूण हॉरेसाचो भर, भास आनी शैली हांच्या सुयोग्य उपेगाचेर तशेंच 'जाय थंय' भाशेचे **घडणे**चेरय आसा.

**एपिस्टल टू फ्लोरस** ह्या पत्र-कवनांत हॉरेसाच्या **औचित्य** आनी **उतर-घडणी** ह्या जुंवळ्या-विचारांचीं बिंयां मेळटात. हांचेवरवीं अचळय हॉरेसाचें भाशेच्या प्रमाणिकरणाविशीं जावं मान्य नमुन्याविशींचेंय मत कळटा. आनी मुजरत सांगीसारकें म्हळ्यार हें मतय औचित्याचे मर्यादेभितरच प्रभावी थारता. हॉरेसाक प्रमाणासंदर्भांत तोंकाची भूमिका मान्य ना हें तागेल्या विचारांतल्यान आपशींच कळटा. तो दोळे धांपून प्रमाणीकरणाची जड फातर भाशेच्या हड्ड्यार दाळूंक सोदिना. तेचपरी नव्या नवलायेच्या पोक्या हावेसान भुरकुटून वचून उतर-घडणेचो बावटो घेवन नव-उतरावळीच्या नांवान शबै घालिना. ताका जशी काळाभायऱ्या उतर-पोवनांची गळसरी भाशेच्या गळ्यांत बांदप मान्य ना तशीच नवे उतरावळीची 'पिशी पीक'य मान्य ना.

ह्या दोनींमदली अशीर पूण सुगूर वाट तो आपणायता. ती वाट म्हळ्यार **उपेग** (use) वा **वापराच्या** (usage) साणीची. उतरांचो प्रयोग करतां-करतां तांचो थळ-

काळ-स्थितीच्या संदर्भात आपशींच कस लागतलो. भाशेचे आनी शैलीचे सुक्षीम जाळयेंतल्यान तीं उतरां वस्त्रगाळ जावन चालंत वापराच्या पटार घोळूंक लागतलीं. खंयचेय भाशेचें प्रमाणिकरण करतनां काळ सदांच हीच 'जादूची कांडी' वापरता.[1] परंपरे खातीर परंपरा, वा परिवर्तनाखातीर परिवर्तन ह्यो दोळेफुटक्यो भूमिका भाशेक माल पडूंक शकतात. पूण एक खरें, जें भाशेक पचना तें उपेग वा वापर अचळय ल्हव हातान कुशीक सारता आनी काळ ताचेर उतर-बदलाचें वखद करता. अशे तरेन नकळटां उतरांचें मोल आनी भाशेचें प्रमाण रूप निश्चित जायत वता आनी अशें घडप हेंच रास्त आसा. हॉरेसाक जें औचित्य अभिप्रेत आसा, तें भाशेच्या प्रमाणिकरणाफाटलें औचित्य हेंच! प्रतिकांतल्यान सांगचे जाल्यार, भाशेसंबंदी खटल्यांत शाब्दीक लटाफटीवेल्या अर्जाचेर **वापर** (उपेग) होच निमणो निकाल दिवपी न्यायाधीश जावन आसा. **आर्स पोएटीकांत** हॉरेस स्पश्ट सांगताः

*"जर **वापर** अशें म्हणटा जाल्यार "जायतीं उतरां जीं नश्ट जाल्यात, तीं पर्थून जल्मतलीं आनी जायतीं जीं आतां मानान जियेतात तीं नाशाक पावतलीं- **उपेग** होच जुवीज, कायदो आनी भाशेचो नेम." (७०-२).*

जेन्ना आमी तत्कालीन भासाभाशेचे संकेत, अलंकारीक शैली, वापराचो आदल्या तेंपारसावन चलून आयिल्लो रिवाज, भास- वापराविशींचे उपचारीक नेम, समाज-मनाचो भाशेच्या वापराचेर आशिल्लो असाधारण कटाक्ष लक्षांत घेतात, तेन्ना हॉरेसाच्या विचारांफाटलें अनुपचारीकपण, मेकळेपण आनी समजीकाय हांची तुस्त करीत तितली थोडी दिसता.

**आर्स पोएटीकांत** हॉरेसाचो रोख पुराय काव्याचेर (पर्यायान साहित्याचेर) आसा, हें उल्लेख करिसारकें. खरेपणान ताच्या काळार सुपुल्ल्या गीत प्रकारांची चलती आशिल्ली आनी महाकाव्य, नाटक हे प्रकार अभावानच कवी हाताळटाले. मुखेल काव्यप्रकार **सटायर** (उपहासगीत), **एपिस्टल** (पत्रकवन), **लिरीक** (गीत काव्य), **एपिग्राम** (स्फुटिका), **ओड** (तुस्तकवन) असले आसूनय हॉरेस **महाकाव्य, नाटक** (**त्रासदी-कामदी**) हांचीय आपणाले हांसकुरे, अननुकरणीय (inimitable) शैलीन उखेवणी करता. मिश्र साहित्यप्रकारांचेर लेगीत तो आडनदर करीना. कृतीच्या एकजीनसीपणाचेर हॉरेसाचो मुखेल भार आसा. ताचें म्हणणें - 'ती (साहित्यकृती) कशीय करात पूण ती एकठांय तिगुंदी.'

---

*१. कोंकणीच्या विद्यार्थ्यांनी ह्या हॉरेसी विचाराचेर खासा ध्यान दिवचेली गरज आसा, कित्याक कोंकणी भाशेचें प्रमाणिकरण ताचे हस्तुकी घडचें ही काळाची इत्सा आसा काय दिसता.*

तागेले समिक्षेचें एक खाशेलेंपण म्हळ्यार सल्ले वा सुचोवण्यो हांचो **आर्स पोएटीकांत** दिसून येवपी शिंवर...! पिजोंक बरयिल्ल्या ह्या पत्र- कवनांत शिंपडून पडिल्ल्यो कितल्योशोच सांगण्यो वा सुचोवण्यो अनुपचारीक दिसल्यो तरी समिक्षेच्या अभ्यासकाक उपेगाच्यो दिसुंयेतात. हातूंतल्यो कांय नाट्याविशीं, कांय निवेदनपर काव्याविशीं, कांय प्रेक्षकांविशीं जाल्यार कांय कवितेचें स्वरूप, कार्य, आशय वा छंद हांचेविशीं आसात. स्पश्टतायेन नाट्याविशीं आशिल्यो हातुंतल्यो कांय सुचोवण्यो अशो आसातः **'पांच आंक, ना उणे ना चड,' 'एका वेळार तीनच उलोवपी'** (पात्रां). तशेंच, नाट्य आनी निवेदनपर काव्य हाकां सारकेच तरेन लागू जावपी सल्ले अशे आसातः **'(करणेचो) मध्यस्थळा आरंभ' 'शिटूक जुळवणेंतल्यान संवकळी उतरांक अनवळखी** (original ह्या अर्थान) **घडयल्यार उतरावळ उत्तम जातली.'** काव्याबद्दलय तागेली मतां अशींच शिंपडल्लीं सांपडटात. 'कल्पिताचो वापर आनी वस्तुस्थिती वांगडा नवल घडून (रचून)' कवी बरयता अशें हॉरेस सांगता. पूण तेच वांगडा हें 'खोसदिणें कल्पीत सताक सामकें तेंकिल्लें आसूंक फावो' अशीय तो शिटकावणी दिता. काव्याच्या विशयाविशीं तागेलें फुडलें म्हणणें लक्षांत घेईसारकें आसाः 'जो बुदवंतकायेन विशय वेंचतलो ताका, ना उतर, ना रोसाळ मांडावळ आडायतली', कारण 'पारखी शाणपण हेंच बऱ्या बरपाचें मूळ (बीज) आनी बुन्याद (आधार).'

वयल्या सगल्या सुचोवण्यांक सुक्षिमपणान पारखिल्यार हॉरेसाच्या विचारांचें आदल्या ग्रीक समिक्षेच्या विचारांकडेन आशिल्लें साम्य नदरेंत भरता. ह्या दोंनय विचारांमदीं बुन्यादी फरक 'ना' म्हणसारको आसा हें चडावत विद्वान मान्य करतात. भौतेक अभ्यासकांनी प्लेटो-ॲरीस्टोलावरी हॉरेसाकूय काव्याचो 'अनुकरण' हो गुण अभिप्रेत आसा हें मानलां. आनी हें मत योग्यय आसा, कित्याक तर **आर्स पोएटीकांत** हॉरेसाचो सूर तसोच आसा. एकेकडेन तो उक्तेपणान म्हणटा, 'हांव बऱ्या शिकिल्ल्या (फावोशें मार्गदर्शन मेळिल्ल्या) अनुकरण करप्याक असो सल्लो दीन की ताणें जीण आनी रीत हांचेकडल्यान आपणाले नमुने वेंचचे'[1] हांगा हॉरेस कवीचो उल्लेख 'अनुकरण करपी' असो करता हें लक्षांत घेतल्यार तागलें प्लेटो आनी ॲरीस्टोटलाच्या विचारांवांगडचें नातें समजूंक बरें जातलें.

भारतीय समिक्षकांमदीं बी. प्रसाद हांणी हॉरेसाच्या 'अनुकरणा'चो चड लागींच्यान संबंद अरीस्टोटलाकडेन लायला आनी अशें करतना वयल्या दाखल्यांतल्या वळींच्या **बॅन जॉन्सन** हांणी केल्ल्या काव्यात्म अणकाराची देख दिल्या.[2] ह्या

१. *आर्ट ऑफ पोएट्री, टी.ए. मॉक्सन हांणी केल्लो अणकार, एव्हरीमन्स् लायब्ररी सिरीज, पा. ७१.*

२. *एन इंट्रोडक्शन टू इंग्लिश क्रिटीसिज्म (मॅकमिलनः इंडिया, १९६५), पा. ३१.*

अणकाराचें स्वैर कोंकणी रूपांतर पद्यांत साधारण अशें जातलें: 'जाणकार बरोवप्याक हांव अजूनय म्हणीन / पळे जिणेक तशेंच रितींक आनी ताचेंच रच कवीत.' ही देख दिवन प्रसाद असो दावो करतात किं, 'कवितेच्या स्वरुपाविशीं अशे तरेन सांगतना हॉरेस ॲरीस्टोटलापासून प्रत्यक्षांत चड पयसना.'

पूण अनुकरणासंबंदीच्या हेर समिक्षकांच्या वयल्या मताकडेन विम्सेट (ज्यु.) ब्रुक्स पुरायेन सहमत नात. तांच्या म्हणण्या प्रमाण हॉरेसाचीं 'औचित्य' आनी साहित्य प्रकार हाचेवेलीं मतां ऑरीस्टोटली सैमिक अनुकरणापरस अभिजात आनी पारंपारिक नमुन्याच्या अनुकरणाचेर चड भर दितात. हाचो दाखलो म्हूण ते हॉरेसाच्या अभिजात काव्यावेल्या अभिप्रायाचो उल्लेख करतात. हॉरेसान कवींक उपदेश करतना म्हळां, 'इश्टांनो, ग्रिसाच्या व्हड नामनेच्या आद्य कृतींक वाचात; रातचीं तांचीं सपनां पळोवन दिसान तांचेर विचार करात.' ह्याच उपदेसाचें **अलॅक्सांडर पोप** हाणें केल्लें काव्यमय स्वैर रूपांतर तागेले सहजसाध्य रोसाळ शैलीक लागून आनिकूय चड स्पश्टपणान हॉरेसाचें अभिजात कवींच्या कृतींविशींचे मत उक्तायता:

'होमेराच्यो कृती दीवं तुमकां (उपाट) खोस आनी शिकप, दिसा तांकां वाचात आनी रातचें करा चिंतप.' (**एसे ऑन क्रिटीसिज्म**, १२४-५)

पूण एक खरें, अशे तरेच्यो मनभुलोवण्यो सुचोवण्यो करप एक गजाल आनी ह्या हांसकुऱ्या उपदेसाक बुद्दीक पटसारकें विचारीक फाटबळ दिवप दुसरी गजाल. **आर्स पोएटीकांत** तरी हॉरेस अशे तरेचे विचारीक फाटबळ दिवंक उणो पडला. पूण ताचेर कशेय आक्षेप घेवन अन्याय करूंकय जायना. **आर्स पोएटीका** हो विचारीक ग्रंथ न्हय. तें वळखीच्या व्यक्तींक बरयिल्लें अनुपचारीक पत्र, ज्यातूंत विस्तृत विचारीक भासाभाशेक जागोच ना. खेरीज पत्र म्हण लेगीत ती चड विस्तारान बरयिल्ली कृती न्हय तर एक सुपुल्लें कवन. म्हूण हॉरेसाच्या विचारांचें (जांव अनुकरणाविशींच्या, जांव औचित्यावेल्या) कुवाडें सुटावें करूंक आधुनिक विद्वानांक कठीण जाता. ताका औचित्यांतल्यान नेमकें किते सांगचें आसा? जिणेंत घोळटी सैमिक, अंतर्गत सुसंगती ताका अपेक्षित आसा वा संस्कृतीवरवीं मनशान थडयिल्ल्या रीतीरिवाजांतली सुसुत्रताय? आर्विल्ल्या अभ्यासकांमदीं हाचेर एकमत ना.

**आर्स पोएटीक्सांतल्यान** तरी हॉरेसाक '**नेमकें**' कितें म्हणचें आसा हें स्पश्ट जायना. तरीकूय जायत्या खेपो तातुंतल्या कांय वळींचो संदर्भाभायरो उल्लेख करून हॉरेसाक सैमिक सुसंगतीपरसय, काळानुरूप बदलपी चालींची चड ओड आशिल्ली अशे दाखोवपाचो यत्न जाता. जशो ह्यो वळी: 'वयले तशेच खालते (सकयले) दोगय

व्हडाव्हडान घालतले खुको घेवशात (जर) म्हजो सल्लो' (११३); 'हांव जाणां जाय कितें तुमच्या भौसाक तें' (१५३); सर्वळेंतल्यांपरसय चड कठीण चौकांतल्यांक समाधानी करप' (२४८-५०).

पूण एका अनुपचारीक व्यक्तिगत पत्रांत खंयच्याच कविचीं समिक्षात्मक मतां जशातशीं उदेतलीं अशें मानप बरोबर न्हय. आनी तागेलें हेर काव्य बालांडून ताचेर कसलींय मतां लादप वा आक्षेप घेवप हें चूकच न्हय तर अन्यायाचे जातलें; कारण कविच्या समिक्षात्मक विश्वासांचो प्रत्यक्ष कस ताच्या सर्जनशील बरपांतल्यान लागता. तागेल्या **ऐपिस्टल टू प्लोरस** ह्या पत्रकवनांत कवी स्वताचेर कितली शिस्त, कितलें कठोर बंदन घालून कवितेक फुलोरा हाडटात हें सांगतना तो कवीचें सुक्षीम निरिक्षण, तागेलें शाणपण आनी उतरान उतर मुदेयर थीक कशें बसोवपाची फिशालकाय हांचेंवर्णन करता. पूण हें करतना हॉरेस आडवाटेन कवी सैमीक सुसंगती आनी चालंत प्रथा हांचेकडेन कसो मेळ सादता हेंवय  सांगता. आनी ताचेवेल्यान तागेली प्रत्यक्ष कार्यपद्धत ही मर्यादेंत वावरून **औचित्यान अनुकरण** करचेली आशिल्लीं हें कळटा-मागीर तें अनुकरण जिणेचें जावं वा रितीचें, उतरांचें जावं वा शैलीचें, शब्दांच्याप्रयोगाचें जावं वा घडणेचें.

तागेल्या फ्लोरसाक बरयिल्ल्या ह्या पत्र-कवनाच्या विचारांचें ॲलेक्सांडर पोपान जें स्वैर रूपांतर केलां तें हॉरेसाच्या मतां आनी कृतीमदीं मेळ सादोवंक उपेगी पडटलें:

"कितले निश्ठुरतायेन आपणावांगडाच वागतात ते लोक/जे आमी वाचण्याजोगीं कवनां घडटात/जावन खासा आपलेच जुवीज कठोर,/एका उतराकलेगीत भक्शीनात ज्याका ना फावोशी तांक वा तेज, /ना भार वा जतनाय कितलेंय आसूं तें नाराज सांडूंक आपली (कवनांतली) सुवात /न्हय, दरबारांतलेगीत (घडये) मेळूं ताका मानाचो पाट/असल्याक ते खाला ओडटीत आनी कांयवेळा ताच्याजाग्यार/ पुराय करूणेन (अपुर्बायेन) मेल्ल्यांक जिवे करतीत,/तेळटीत जर खंयी आप-प्रगटावणीं धीट उतरां पोरणीं/शेंकड्यांनी वर्सांच्या धुल्लांतल्यान (नकेत्रांपरी) लिकलिकपीं/सांसणाची न्हिदिल्लीं तांकां, ते जाग हाडटी वा आफयती नव्यांक इंग्लीश जावंक युगा उपरांत  (कित्याक **शाणपणान** जल्मा घाल्ल्याचो **उपेग** बापूय जायत)" (**एपिस्टल** II, २,१०९-)

हें हॉरेसाचें कवन (पोपाच्या स्वैर रुपांतरालागून ताचो आपरोस समजून घेवचो पडटा) खासा ताच्या काव्याचें तर विश्लेशण करताच खेरीज पुराय काव्याचें अंतर्गत स्वरूप, तातूंतलें औचित्य आनी ताचे फाटलें अनुकरण कशे आसतलें हे नेमकें

दाखयता. अनुकरण म्हळ्यार कित्याचीच (सैमाची जांव रिवाजांची) प्रत (copy) न्हय तर येवजून- समजून केल्ली पुनर्निमणी हें हातूंतल्यान सुचित जाता. अशा मर्यादेंत वावुरल्यार कवी नवें-पोरणें आनी आधुनिक-पुरातन हांचेमदीं मेळ सादूंक पावतले हे हॉरेस सांगता, हेंच हॉरेसाचे समिक्षेचें मोलादीक देणें! कवितेच्या कार्याविशींच न्हय तर कवीचे जापसालकेविशींय हॉरेस अशेच तरेचो समजिकायेची मध्यबिंदू आपणायता. तो म्हणटा :

"कवींक सुदारपाची वा खोशी दिवपाची (मनरिजवणेची) वा सोबीत आनी लावदिणें हांकां एकठांवपाची इत्सा आसता... तुमकां सगल्यांची (मनां जिखूंक येतली) मतां मेळटलीं जर तुमी खोसदिणें आनी समजदिणें एकठांय जोडशात वा एकाच वेळार आनंद आनी समज वाचप्यांहातार घालशात." प्लेटो आनी ॲरीस्टोटल ह्या दोगांयचो काव्याविशींचो हुस्को आनी कवींवेली जापसालकी हांचें हाचेपरसय बरें मेळावण आनी खंयचें आसतलें?

●

# ९

# क्विंटीलियनाचीं भास-शैलीविशीं मतां

हॉरेसाच्या काव्यविशयक विचारांकडेन सवंकळ जातकीर, समिक्षेच्या अभ्यासकाची कोणावांगडा वळख करून दिवंक फावो? असो प्रस्न विचारल्यार खंयच्याय जाणकाराचे जिबेर दुबावाविरयत लोंजीनस (हाका कांय जाण **लोंगीनस** वा **लोंजायनस्** अशेंय म्हणटात) हाचेंच नांव येतलें, ह्या फाकीवंत टीकाकाराच्या **ओन द सब्लायम** ह्या काव्यविशयक ग्रंथाची नामनाच तशी आसा. पूण तरिकूय हॉरेसाचें **आर्स पोएटीका** आनी लोंजीनसाचे **ऑन द सब्लायम** हांचे मदीं लक्षणीय अशें समिक्षात्मक योगदान करपी एक रोमन टीकाकार आसा. तो म्हळ्यार **क्विंटीलियन** (ख्रि. उ. ३४?-९५?). हाच्या विचारांची दखल घेनासतना समिक्षेच्या वाठारांत फुडें पावल घालूंक पळोवप चुकिचें थारतलें.

तशें पळेल्यार क्विंटीलियन हो एक नामनेचो रोमन वक्तृत्वशास्त्री आशिल्लो. एका अर्थान, तागेलें बरप पुरायेन साहित्यावटेन मोखिल्लें समिक्षात्मक बरप न्हय. तागेलें मुळावें लक्ष्य खरेपणान वक्तृत्व वा वक्त्याक जाय आशिल्लें शिकप, हें आशिल्लें. पूण तरिकूय इतिहासापाटयेर ताचें नांव पुसूं येना अशे तरेन कोरांतून दवरपी ताचो ग्रंथ **इंस्टिटयुटीयो ओरेतोरीयो,** हो अभिजात समिक्षा विचाराचें एक फुडलें पावल कसो दिसता. बारा भागांनीं बरयिल्लो हो म्हा-ग्रंथ म्हळ्यार खंचच्याय वक्त्याक (तांतयांत आसतनासावन तें बद्द जाण्टो जायमेरेन) उपेगी पडसारक्या प्रशिक्षणाचो एक नमुनो जावन आसा. पूण तरिकूय कळटां-नकळटां क्विंटीलियन बऱ्या उलोवपाविशीं मतां मांडटां-मांडटां, बऱ्या बरपाची **भास, शैली, परिणामकारकता** आनी **कलात्मकता** हांचेरय उजवाड घालता. विशेश म्हळ्यार, तागेल्या विचारांनी आनी पुर्विल्ल्या ग्रीक तशेच रोमन समिक्षकांच्या विचारांनी एक साम्य आसा. तशेंच अभिजात समिक्षा जावं साहित्य हांचो ताचेवेलो प्रभावय सुस्पश्ट आसा.

हाकाच लागून ह्या रोमन (पूण जल्मान स्पॅनीश आशिल्ल्या) समिक्षात्मक बरोवप्याच्या विचारांची लागींच्यान वळख करून घेवप समिक्षेच्या विद्यार्थ्याक लावदिणें थारूंयेत.हाचें कारण म्हळ्यार, तागेले कांय विचार आयच्या विचारवंतांक न पटपासारके वा काळाभायरे जरी दिसले, तरी ते आपल्या 'ह्या' नश्टचा गुणांक लागून 'समिक्षेंत कितें नासचें' हाची देख दितले. खेरीज, तागेलो भास वा उतरां

हांचेवटेन पळोवचेलो दिश्टीकोण आदल्या काळावेल्या समिक्षात्मक विचार वा साहित्यीक प्रवाहांवरवीं प्रभावित जावनय, आदल्या सगल्या दिश्टीकोणांपरस कसो **वेगळो** आसा हे पळोवण्याजोगें आसा. तागेल्या ह्या वेगळेपणाचें मूळ ताचे जाणविकायेंत आसा की आपणाले निश्कर्श, **बुद्द** आनी **अणभव** हांच्या दोट्टी कसाक लायिल्ले आसले, तरिकूय ते सदांकाळार सारकेच तरेन लागू जावंक शकचे नात. घडये, असो समजिकायेचो 'नदरयो' बाळगुपी क्विंटीलियन हो पयलो पश्चिमी टीकाकार थारूंये.

हाचे आदली समिक्षा तरेतरेचे लक्ष वेधून घेवपी गुण दाखयता हातूंत दुबाव ना. पूण ती आपणाल्या निश्कर्शांची शीम थळ आनी काळाच्या थारावीक मेरेभितर आसा हें वळखूंक उणी पडल्याशी दिसता. मागीर ती प्लेटो-ॲरीस्टोटलाची सखोल, सर्वआस्पावणी, अणभवसिद्ध, बुद्धिप्रमाण मानपी, सिद्धांत-घडोवणी समिक्षा जावं वा होमेर, हॅसियोद, अरीस्टोफानिस वा हॉरेस हांची सर्जनांतल्यान उदेल्ली समिक्षा-समजणी जावं! ह्या सगल्या रथी-म्हारथिंनी आपापले परीन आद्य, स्पश्ट आनी मोलादीक मतां उक्तावन जिणेच्या संदर्भांतल्यान सर्जनशील बरपाक आजमावपाचो यत्न केला. आनी अशें करतना निरीक्षण आनी अणभव हांचे बुन्यादीर आपणाल्या दिश्टाव्याच्या उजवाडांत सर्जनशील बरपाचें आनी ताच्या मोलाचें सुक्षीम विश्लेशणय केलां. पूण कळटां-नकळटां तांगेले निश्कर्श मात काळातीत आनी सर्वसमावेशक आशिल्ल्याची जी नुरा धारण करतात ती काळान बऱ्याच प्रमाणांत पुसून उडयल्या. हे फाटभुंयेर क्विंटीलियनाची थळ-काळाच्या संदर्भाक बाडगुपी विचारसरणी तोखेवण्याजोगी दिसता.

क्विंटीलियनाच्या समिक्षात्मक निरीक्षणाचे आनीक एक खाशेलेंपण म्हळ्यांर तो नेम मानले तरी तांकां कलेचो पावंडो थारावपाचो **निमणो आदारखांबो** मानिना. नेम कलेचो कणो आसले तरी **प्राण** न्हय हें तो समजता. खासा उल्लेख करीसारकी गजाल म्हळ्यार सगल्या नेमांभायर रावन वा नेमांवयर सरूनय दोळे दिपकावपासारकी कृती निर्मुपाची कलेंतली तांक वा वोज क्विंटीलियन सारकें वळखता आनी म्हूण तो शैली विशीं उलयतना मुजरत कलेंत आस्पाविल्ल्यो 'नदरेपेल्यो' सोबितायो आनी सुडसुडीतपण हांचो उल्लेख करता. अरिस्टोटलावरीच **अणभव, मत** आनी **'सैमाचो ताळो'** आयकून चलपी ताची समजिकाय हीच तागेल्या विचारांफाटली मूळ शक्त जावन आसा. आनी म्हूण तागेलीं मतां मान्य आसूं-नासूं, आज लेगीत समजून घेवप समिक्षा-मोग्याक फायद्याचें दिसता.

आदीं सांगलां तशें, क्विंटीलियनाचें समिक्षात्मक भाश्य चड करून उलोवण्याचे शैलीचेर केंद्रीत आसा. हाका एक कारणय आसा. ताच्या काळार उलोवप आनी बरप

हांच्यां शैलीमदीं मुजरत फरक करताले. (कांय प्रमाणांत आजलेगीत हो फरक आमी करतातच.) उलयण्यांतलें उतर (भास) आनी बरपाची भास हांचे वेगवेगळे गुण मुद्दम मानून घेतिल्ले. उलोवपांत तांक-वोज (*vigour*) हांचो प्रभावी उपेग जावचो अशी अपेक्षा आसताली जाल्यार बरपांत डौल आनी चकचक हांचो उपेग अपेक्षित आसतालो. पूण क्विंटीलियनाक हो उलोवणें-बरप हांचेमदलो भेद मुळांतच मान्य नाशिल्लो. ताचे लेखीं उलोवप आनी बरप हांचें मुखेल ध्येय एकूच जावन आसा आयकुपी वा वाचपी हांकां भाशण वा वाचनारवीं मांडिल्ले विचार समजुचे - 'फकत समजुचे अशेंच न्हय जाल्यार, समजनासतना रावप अशक्य जावचें.'

एके नदरेन हें म्हणप समा दिसता. कित्याक उलोवप (हांगा उलोवप हाचेकडेन अनुपचारीक उलोवणें अशें मानून पळोवचें न्हय) आनी बरप हांचें माध्यम वेगवेगळे तरेन जावपी 'उतरांतली अभिव्यक्ती' हेंच आसा. उलोवप तोंडी शब्दाचेर पातयेता जाल्यार बरप लिखीत उतराचेर भार दवरता. पूण दोनय तरांच्या अभिव्यक्तिंतली अंतर्गत शक्त वा तेज एकाच मुळाव्या स्त्रोतांत आसा, तें म्हळ्यार उतर वा भास आनी ती वापरपाची शैली. हाका लागून क्विंटीलियन उलोवप आनी बरप हातूंत मुलभूत फरक मानिना. इतिहासानय तागेल्या मतांक आपले करणेंतल्यान जोडणी दिल्या. आज भौशीक मळार उलोवप ही '**कला**' म्हूण लागींलागीं ना नपत्यार जावन गेल्या. ग्रीक वा रोमन काळार आशिल्ली तशी समाजीक जिणेचें प्रभावी आंग म्हूण तरी ती आज तिगिल्ली ना. आनी भौसाकडेन **उलोवपाचें साधन** म्हूण आमी आज नेमाळीं वा बरपाचीं हेर रूपां आपणायतात. ह्या संदर्भात क्विंटीलियनाच्या वक्तृत्व आनी बरप हांकां समानतायेन पळोवपी, मतांची मोलावणी गरजेची जावन पडल्या.

पूण क्विंटीलियनाचीं उलोवप वा बरप हांचेसंबंदी मतां जाणून घेवचे आदीं एक समजूंक जाय. ताका उलोवप वा बरप हांचे फाटली निखटी सैमीक प्रेरणा अभिप्रेत ना. तोवय हॉरेसावरीच सैमीक प्रक्रिया आनी कलेचें योगदान ह्या दोगांयचें अस्तित्व उलोवप वा बरप हांचे फाटल्यान आसा हें भर दिवन सांगता. बरोवप्याच्या (वक्त्याच्याय) आंगांतली सैमीक सर्जनशिलता पुरायेन ताच्या बरपांत साकार जावंक उणी पडूं शकता (न्हय, चडावत खेपो उणी पडटाच). अशा वेळार परिपूर्ण अशी कृती घडपांत ताका कलेचो (तंत्र, शैली, दिश्टावो हांचे खातीर) कुशळतायेन आदार घेवचो पडटा. व्हांवत्या वझऱ्यावरी भास लेगीत सैमीक रूपान घसघसतना सोबीत दिसता खरी पूण जेन्ना तिचो निसर्गीक प्रवाह आडावता तेन्ना आडमेळीं पैसावन तिका मेकळो पाट दिवंक जाय. ही देख पळेल्यार क्विंटीलियनाची भास आनी शैली हांचेविशींची उमळशीक समजुंयेता.

पूण शैली हातूंत क्विंटीलियनाक खंयच्या घटकाचो आस्पाव अपेक्षित आसा, हें आदी पळोवंक जाय. ॲरीस्टोटल आनी हॉरेस हांचेवरीच तोवय उतर आनी ताची मांडणी वा जडण-घडण हांचेरच आपल्या शैलीविशयक मतांची उबारणी करता. आधुनिक वाचप्यांची 'ह्या मता' कडेन पळेतना तातूंत नवलायेचो भाग उणो आनी तेंचतेंपण अदीक अशी भावना जावप सामकी समा आसा. पूण ह्या वाजेड्ड्या पूनर्प्रत्ययांतल्यान बारीकसाणेन पळेल्यार एक दिसून येता. उतरांचें लेणें जितलें साहित्यिकाक वा कवीक आपल्या सर्जनाचें माध्यम म्हण जायजायशें आसता तितलेंच तें समिक्षकाक 'समजणे'चें आंगलें म्हूण मोलादीक दिसता. आनी भाशेकडेन पळोवपाचो साहित्य आनी समिक्षेचो दिश्टीकोण काळाप्रमाणे कितलोय बदललो तरिकूय तांचो केंद्रबिंदू भास आनी पर्यायान उतर, ताचो उपेग, वापर वा घडण हीं उरतलीं.

आधुनिक समिक्षा ज्या विंगड-विंगड वाटांनी आज चलता ते पळेल्यार हें सत सट्ट करून होलमता. साहित्यावटेन पळोवचेले तीन मुखेल दिश्टीकोण, आज सामकारा आयल्यात-सर्जनशील बरप म्हूण, प्रत्यक्ष समिक्षेची मूळ बसका म्हूण आनी भासरूपी संपर्कसाधन म्हूण. पूण ह्या तिनय दिश्टीकोणांचो मध्यबिंदू भास होच आसा. 'भाशे बगर बरप आनी उतराविणें भास' साहित्यांत तरी शक्य ना. जो मेरेन हो साहित्यांतलो यथार्थ आमी न्हयकारूंक शकनात तो मेरेन भाशेची उखेवणी (वाजदिणी जाल्यार लेगीत) करप समिक्षेक तरी चुकपाची ना.

क्विंटीलियनाचो शैलीविशयक विचार, उतरां-भाशेच्या ह्या बुन्यादी म्हत्वाक लक्षांत घेतल्यारच पटूं शकता. उतरांच्या **उपेग** वा **वापराविशीं** उलोवचे आदीं तो उतरांचें फावो तशें **वेंचप** गृहित धरता. उतरांची मांडणी **शैलीपुराय** जावंक जाय जाल्यार पयलीं दरेक उतर **वेंचीक** आसूंक जाय. वेंचतना उतराचो **उच्चार**, ताचे वरवीं- जावपी **ध्वनी** आनी **अर्थ** हे निकश लावप, क्विंटीलियनाक गरजेचें दिसता. हांगा परत एक फावट सांगूंक जाय की क्विंटीलियन वक्तृत्व आनी बरप अशा दोन वेगळ्या माध्यमांतल्यान जावपी उतराच्या उपेगाचो विचार करतालो, हाका लागून तो उच्चार आनी ध्वनी हांकां म्हत्व दिता. ते भायर बरपांतय (खासा करून काव्यांत वा नाट्यांत) उतराच्या ध्वनीचो कळाशेन उपेग करून घेवंक जाता हेंवय लक्षांत घेई सारके आसा.

उतरा फाटलो आवाज हो क्विंटीलियनाक उल्लेखनीय निकश दिसता हाचें कारण म्हळ्यार आवाजांतल्यान त्या-त्या उतराची **श्रवणीयता** (आयकवणेपण), **सवंकळ, काव्यमयता, संदर्भ-साजरेंपण** हांचो अदमास लावंक मेळटा. आनी फावो त्या जाग्यार फावो तशें उतर बसोवपाक सोपें जाता. काव्य वा नाट्य ह्या माध्यमांत

उतराची **श्रवणीयता** ह्या गुणाक चड मोलाची सुवात आसा. निवेदनपर (चड करून गद्य) आनी अनुपचारीक बरपांत **सवंकळ** आनी **संदर्भ-साजरेंपण** हे गुण चड म्हत्वाचे थारतात. उपहासपूर्ण बरपांत वा व्यंगोक्तिचो उपेग करतना हेरांनी **आदीं वापरिल्ले** शब्द वा त्या विशिश्ट संदर्भाखातीर **घडिल्ल्या उतरांचो** प्रभावी वापर करून फावोसो परिणाम सादूंक मेळटा. विंडबनपर बरप (खासा करून शैली-विंडबनांत) **सवंकळीच्या** उतरांचो हेरांनी **वापरिल्ले शैलींत** केल्लो उपेग चडावत प्रभाव घालता. काव्यांत वा विचारीक बरपांत **नव-उतरावळीचो वापर** हे एक खूबच मोटें आव्हान बरोवप्याक ताळणेत घालता. हातूंत दोट्टी मोख लिपिल्ली आसता-**अप्रूपाय** आनी **अर्थ** हांकां नेमक्या उतरांनी बांदप. ही सरयेवयली कसरत यशस्वीपणान तडीक घालप म्हळ्यार क्विंटीलियनाचे लेखीं वाकस आनी सोबीत भाशेवरवीं सुघड शैली आपणावप.

तशें पळेल्यार, नव-उतरांच्या हावेसान क्विंटीलियन पोरण्या, काळाभायऱ्या उतरांचेर कोपिश्ट जाल्लो दिसना. पोरणीं उतरां लेगीत जतनायेन फावो थंय शिंपडलीं जाल्यार भाशेक आगळोच शिरंगार मेळोवन दितात. पूण तीं समयसूचक आनी संदर्भ-साजरीं मात आसूंक जाय. नाजाल्यार शैलीची सोबा वाडोवपाची सोडून, तीं उतरां निर्जीव कळिंवरांवरी भाशेकूच निस्तेज आनी निश्प्राण करून सोडटलीं. कांयच ना म्हळ्यार भाशेक एक 'तिरसुवादी' (*eccentric*) परिमाण दिवन सोडटलीं. पूण संदर्भांत बसता जाल्यार उतरांचें तिरसुवादपण हो तांचो नश्टो गुण न्हय जाल्यार सुवाद लेगीत थारूं शकता हेंवय लक्षांत घेईसारके आसा. अशें चड करून उपहास वा विडंबनपर बरपांत घडटा.

**वेंचीक उपेग** आनी **शिटूक वापर** हो खंयच्याच बरपाचे शैलीक लागू जायसारको 'लवचीक' कमरपटो आसा. अशें प्रतिकांतल्यान सांगलां म्हूण हाचे फाटले शाणपण दोळ्यांआड करप समा जावचें ना. निखटो कमरपटोच आकर्शक आसलो म्हूण जायना, तो वापरतले व्यक्तीचो आंगलोट, वापरपाचो प्रसंग आनी हेर भेसय पट्याक साजसारकोच आसूं जाय. तेच परी ओडलायण्या आंगलोटाक सगलेच सोबीत कमरपटे सोबतले अशेंय ना. समजिकायेन फावो तोच पटो वेंचूंक जाय. उतर आनी उतरांची मांडणी हांच्या संदर्भात क्विंटीलियनाचो नेमको आग्रो हेच समजिकायेचेर आसा. मांडणी उपरांत जातलीच पूण आदी वेंचीक, नकसूद उतर सुयोग्य संदर्भाखातीर वेगळावप हें शैलीचें मुळावें पावल आसूंक जाय.

मांडणे खातीर क्विंटीलियन ज्या गुणांचेर भर दिता ते वयल्या कमरपट्याच्या उदाहरणांत आडवळवणान येवन गेल्यातच. तरिकूय तांचो धांवतो उल्लेख हांगा

करप बरें. पयले सुवातीर, उतरांची मांडणी स्पश्ट आनी नेमको अर्थ उक्तावणी आसूं जाय. आधुनिक साहित्याच्या संदर्भात स्पश्ट ह्या उतराचो ज्युस्त अर्थ सांगप कठीण जावंक शकता. जायत्या खेपो अस्पश्टता, क्लिश्टता, भौ-अर्थीपण, दुवार्थीपण जावं हय-न्हयशेंपण हीच उतरांची मोख आसता. अशा संदर्भात स्पश्ट म्हणचे बरपाचे 'मोखीक फावो सारकी मांडणी' अशेंच समजुचें पडटलें. एक खरें - मोख कितेंय आसूं, मोखिभायरी मांडणी, उतरांचो **नस्तो घसघस** (*superfluity*) वा ओतो आनी **बेढब शैली** ह्या दोन नश्टया गुणांक आपोवणें धाडटा. आनी हें बरोवप्यान टाळचें अशें क्विंटीलियनाक दिसता.

वेगळ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार स्पश्ट वा नेमकी मांडणी साधप म्हळ्यार भाशेक साज चडोवप. क्विंटीलियन हाका 'दरेके तरेच्या शिरंगारान नटोवप', अशें म्हणटा. पूण क्विंटीलियनाचो भास- शिरंगार आधुनिक बरोवप्याक नाकसुरो वचुंयेता. कारण तो शिरंगारांक जे निकश लायता ते आधुनिक साहित्याक निखालस मान्य जावचे नात. पूण ते शब्दशा घेनाआसतना तांचे फाटली ताची भावना वा हुस्को ध्यानांत घेतलो जाल्यार तांचे मोल आमी वळखूंक पावतले. क्विंटीलियनाची **मोख** शैलीची सोबीतकाय हीच न्हय, जाल्यार **भाशेची नवलाय, भावनीक समाधान, अर्थपूर्णताय,** आनी **सुप्त कलात्मकता** ही आसा, हाका लागून जरी ताणे शैली-वैशिश्टयांचो कितलोय कीस काडलो तरिकूय शेवटाक ताका कलेचें 'प्रदर्शन' जाल्लें नाका तर कलेवरवीं **सैमाची प्रचिती** आयिल्ली जाय. कलेंतल्यान सैमीक सर्जनाक उपलापें करूंक पळोवपी क्विंटीलियन हो **आद्य** (*original*) टीकाकार नाशिल्लो हें खरे आसलें तरी ताच्या विचारांमदीं समिक्षेक दीसारकें कांयच ना अशें कोणच म्हणूंक शकचो ना.

निमाणें एक खरें, अभिजात ग्रीक समिक्षेच्या मुळसांत बसूनच क्विंटीलियनाचीं मतांआकाराक आयलीं. हॉरेसाच्या समिक्षात्मक बरपान तांकां थाकाय दिली. तरी पूण ह्या (सर्जनशील बरोवपी नाशिल्ल्या आनी शिक्षकी पेशा आपणायिल्ल्या) टीकाकारान इतले समजिकायेन, बारीकसाणेन आनी ल्हवपीक नदरेन उतर आनी भास हांचो उपेग नियाळ्ळो. हे कितें उणें? शैलीक क्विंटीलियनान कितें दिलें अशें विचारच्या जाग्यार आमी विचारूंक फावो: अभिजात प्रत्यक्ष समिक्षेन साहित्याक लागू केल्ले निकश आपलेपरीन तेळपी निमणो अभिजात समिक्षक कोण? जाप मेळटली, क्विंटीलियन! हेंच ताका समिक्षेच्या वाठारांत सदांकाळाखातीर जिवो दवरूंक पुरो.

●

# १०

# लोंजीनस आनी काव्यांतलें उदात्ततेचें तत्व

समिक्षेच्या वाठारांत लोंजीनस (लोंगीनस) ह्या अभ्यासकाचो आरतो-परतो उल्लेख वेगवेगळ्या संदर्भात गरजेचो थारता. ह्या उल्लेखाचें ढोबळ (स्थूल) कारण जरी **उदात्तता** ह्या तत्वाचो ताणें काव्याच्या मोखीवांगडा घाल्लो सांगोड हें आसलें तरी ताका हेर जायते सुक्षीम फांटे फुटटात. 'काव्यांतली उदात्तता' हे संकल्पनेची तागेली व्याख्या कवीचे 'स्वच्छंद' वृत्तीची दखल तर घेताच; त्याभायर, काव्यांत कवीचे प्रतिभेचो वा ताच्या सैमिक गुणांचो वांटो कितलो आसा, आनी कला वा तंत्र हांचो हातभार कितपत लागला हेंवय पळेता.

काव्याफाटले प्रेरणेंत वा कविकल्पनेंत लोंजीनस जे उत्सुकतायेन रस घेता, ते उत्सुकतायचें कूस' हॉरेसी विचारांत हय-न्हयशे तरेन लिपिल्ल्या 'स्वच्छंदी' सुरांत आसाशें म्हणन दिसता. लोंजीनसाचें समिक्षेक व्हडलें देणें म्हळ्यार, ताणें ह्या स्वछंदी सुराक आपल्या विश्लेशणांतल्यान शब्दबद्ध केला वा उतरांनी बांदला. हाका लागून तो हॉरेसी युगांतले विचारसरणेचो दायजी आसा हें कळटा. अशें म्हणपाक आनिकूय एक कारण आसाः तागेल्या बरपांत जो विचारीक समतोल दिसता तो हॉरेसी युगाक चड लागींचो आसा, 'तें युग' अलंकारशास्त्राच्या नश्टया नेमांचो अतिरेक आनी 'ॲरीस्टोटली' पेरीपेटेटीक्सांचो काव्यांतल्या उपेगसिद्ध तत्वांचो अडेचो आग्रो हांच्या कुडड्या चेपणाखाला भड्डलें. आनी हेर साबार विचारधारांवांगडाच **एपिक्युरीयन** विचारसरणेच्या आदारान विचारीक बसका मेळोवंक धडपडटालें. हॉरेसान गादाराच्या फिलोडेमस् ह्या **एपिक्युरियन** तत्वचिंतकाच्या आधारान, नियोटोलेमस ह्या अरीस्टोटली पेरीपेटेटीक्साच्या सावळेंत रावनय, कशे तरेन विचारीक समतोल राखला हाचो उल्लेख आदीं आयलाच.

लोंजीनसय आपल्या ग्रंथांत अशेच तरेच्या **एपिक्युरियन** विचारांच्या छत्राचो उल्लेख करता. गादाराचोच थियोडोरस हो **एपिक्युरियन** तत्वचिंतक लोंजीनसाच्या ग्रंथांत भौमानान उल्लेखिल्लो आसा. हाका लागून लोंजीनसाक हॉरसाउपरांतच्या काळार ख्रि. पू. पयल्या शेंकड्यांत जायत्या अभ्यासकांनी सुवात दिल्या. पूण हे बाबतींत साहित्यीक इतिहासकारांमदीं एकमत जायना.

हाका कारण आसा. लोंजीनस खरेपणान कोण आशिल्लो? केन्ना जावन गेलो हाचो कांयच पुरावो ना. तागेल्या ग्रंथांत आयिल्लो तागेल्या नांवाचो उल्लेख

सोडल्यार इतिहासान लोंजीनस हे व्यक्तीचेर विसरायेचो धुल्ल हुबयला. पूण ताच्या ग्रंथाचें एक खाशेलेंपण आसा. सरसकट खंयचोय ग्रंथ बाळगिता ताचेपरसय चड निश्ठेन लोंजीनसाचो ग्रंथ आपल्या बरोवप्याचें नांव कपलार मिरयता. ताची (*Peri Hupsos or On the Sublime*) ही कृती आज (*Longinus on the Sublime*) (**उदात्ततेचेर लोंजीनस**) ह्याच नावान सर्वमान्य जाल्या. पूण त्या ग्रंथांत भितर जे बरोवप्याच्या नांवांचे उल्लेख मेळटात ते घुस्पावणे आसात. **ऑन द सब्लायम** कृतीचें पयलें हातबरप १०व्या शेंकड्यांतली पॅरीस प्रत आसा काय दिसता. हातूंत डायोनिसियस वा लोंजीनस वा डायोनिसियस लोंजीनस अशे तीन तरेचे उल्लेख सांपडटात. हाका लागून लोंजीनसाची सारकी वळख मेळुंक अडचण जाता.

पूण अजाप म्हळ्यार लोंजीनस कोण आनी खंयच्या काळावेलो हाची जाप दिवंक इतिहास अनमनलो तरिकूय, तो एक ग्रीक अलंकारशास्त्री आसलो ह्या मुद्याचेर इतिहासकारांमदीं मतभेद ना. फकत ताचें युग खंयचें हे थारावंक इतिहास फाटी-फुडे सरता. स्कॉट-जेम्स[1] आनी हेर कांय अभ्यासक ताका रोमन साम्राज्याचें सिरीयन मांडलीक राज्य पालमायराच्या झेनोबिया ह्या क्रांतिकारी राणयेचो मंत्री 'कॅसियस' लोंजीनस कशे मानतात, आनी म्हूण ताका ख्रि. पू. तिसऱ्या शेंकड्यात व्हरून 'दवरतात.' पूण हे तितले सयुक्तिक कशे दिसना. कित्याक तागेल्या बरपाचो विचारीक कल हॉरेसी युगाच्या मुखेल विचारीक मुद्यांवटेन आसा हें स्पश्ट दिसता. तागेल्या बरपाचो विशय उक्तेपणान अलंकारशास्त्र होच आसा, मागीर ताचो केंद्रबिंदू 'काव्यांतली उदात्तता' आसूं. खेरीज, लोंजीनस **'ऑन द सब्लायमांत'** आपल्या विचारांची धार मुखेलपणान केसिलियस ह्या कालाक्त हांगाच्या अलंकारशास्त्राच्या मतांवटेन धुंवडायता. हो केसिलियस ऑगस्टन काळार रोमांत नामनेक पाविल्ल्या हॅरीकार्नेसुस हांगाच्या डायोनिसियस ह्या अलंकारशास्त्री-समिक्षकाचो इश्ट आशिल्लो अशें ॲटकिन्स[2] हांचें मत आसा. ह्या मता सांगता लोंजीनसान थियोडरस ह्या तत्वचिंतकाचो **'अनुयायावरी'** आदरान केल्लो उल्लेख मांडलो जाल्यार, हॉरेसा उप्रांतच्या काळांत तो जल्मल्लो जावंक जाय अशें म्हणूंक आधार मेळटा. ह्याच मताक लोंजीनसाच्या बरपाचो निमाणो वाटोय भरीव तेंको दिता. **ऑन द सब्लायमाच्या** निमाण्या पर्वांत लोंजीनस आपल्या काळावेल्या भ्रश्ट आनी निर्शेणीजनक वातावरणाचो उल्लेख करून, काव्याक आयिल्ले सुकतेचो उल्लेख करता. इतलेंच न्हय, तो जे व्हडविकायेन आनी विशादान जावन गेल्ल्या ऑगस्टन सुवर्णयुगाचो

---

१. *द मेकिंग ऑफ लिटरेचर (लंडन : १९३६), पा. ८.*

२. *इंग्लिश लिटररी क्रिटीसिज्म, १ (केंब्रिज : १९४३).*

उगडास काडटा तो लक्षांत घेवपासारको आसा. ह्या संदर्भात विमसेट-ब्रुक्स (ज्यु.) हांणी उक्तायिल्ल्या मताचो हांगा मुजरत निर्देश करूंक जाय. तांच्या म्हणण्याप्रमाण, 'वेस्पियनाच्या काळावेल्या तत्वाचिंतकांमदीं, खेदान फाटी वळून प्रजासत्ताक संस्थांक पळोवप, लोकशायेंतल्या मेकळेपणान प्रतिभा पोसवता अशें प्रतिपादन करप, आनी तत्कालीन वक्तृत्वशास्त्रांतली देंवती राजकी गुलामीच्या माथ्यार मारप हें चालंत आशिल्लें'. (**लिटररी क्रिटीसिज्म,** पा. ९९)

ह्या मताच्या आधारार, लोंजीनसाक क्विंटीलियन ह्या वेस्पियनाच्या राज्यांत राजअलंकारशास्त्री आशिल्ल्या समिक्षकाचो समकालीन वा ताच्या उपरांतच्या काळावेलो बरोवपी अशें मानूंक जाता. ह्या निश्कर्शाक जोडून आमी लोंजीनसाची **ऑन द सब्लायमा** फाटली मोख नियाळूंक जाय. ऑगस्टन समिक्षक केसिलियस हाचे '**हुपसोस**' (व्हडविकाय) हे कल्पनेक अदीक उबारून धरचे खातीर बरयतां अशें स्पश्ट प्रतिपादन तो करता हाका लागून तो ऑगस्टन काळाउप्रांतचो, घडये वेस्पियनाच्या काळावेलो वा उप्रांतचो थारता. म्हूण ताका ख्रि. पू. पयल्या शेंकड्या उपरांतचो आनी क्विंटीलियनाच्या आसपासचो बरोवपी अशें मानचें काय दिसता.

लोंजीनसाची '**हुपसॉस**' ही उदात्ततेची संकल्पना तागेल्या ग्रंथांतली म्हत्वाची कल्पना आसली तरी तिचो लोंजीनसाआदीं केसिलियसान उल्लेख केला अशें खुद्द लोंजीनस सांगता. दोगय अभ्यासक हे कल्पनेक **बरपांतली महानता** वा **महानतेचो गुण** वा **बरपांतलें उत्कटपण** वा बरपाचें **खळल्याविणें व्हांवप** वा ताची **श्रेश्ठताय** अशें म्हणटात. ह्या गुणाक उपरांतच्या मिमांसकांनी **उदात्तता** हें नांव जायत्या तेंपान दिलां. हे '**उदात्तपण**' काव्यांत तशें गद्यांत, वक्तृत्वांत तशें बरपांत, 'प्लेटाच्या संवादांत तशें हॉमेराच्या महाकाव्यासारक्या रूशीप्रणीत बरपांत समानतायेन आसुंयेता अशें लोंजीनस मानता. पूण हे खातीर बरोवप्याच्या वाचनाच्या आवांठाचेर आनी ताच्या बरपांतले उर्बेचेर तो खासा भर दिता.

सुरवेकच काव्यांतले उदात्ततेचेर उलयतना लोंजीनस वक्तृत्व आनी बरप हांचेमदलो फरक समजावन, उतरांचे आंतरीक तांकिची मोख स्पश्ट करता. "उदात्तता (हो) भाशेचो आयकुप्यांवेलो (श्रोत्यांवेलो) परिणाम, ती मनवळवणी न्हय जाल्यार परिवहन.' हांगा परिवहन हाचो अर्थ आककुप्याक अनुभूतिच्या परमोच्च बिंदूमेरेन पावोवप, असो घेवंक जाय. उदातत्तेची अदीक फोडणिशी करतना लोंजीनस म्हणटाः 'उदात्तता ही, एक विशिश्ट **आगळेपण** आनी **अभिव्यक्तीची नकसूद श्रेश्ठताय** हातूंत आसता, आनी उत्तमोत्तम कवी तशेंच गद्द्य बरोवप्यांनी दुसऱ्या खंयच्याय न्हय तर ह्याच्च मुळांतल्यान निशणात म्हूण आपणाक कीर्त आनी

अजरंवर नामना जोडल्या. खंयच्याय उदात्त उतराचो परिणाम वाचप्याचे बुद्धीक पटून जायना तर ताका (वाचप्याक) आपल्यांतल्यानच भायर (वयर) काडपांत जाता. खंयचेंय तोखेवण्याजोगें भाशण (उलोवणें) दुबावाविरयत आमकां भारावन वडयता. आनी जे कितें फकत मनवळवणें वा सुखदिणें (मनरिजवणें) आसा ताका गिरासून वडयता.

हाका लागून लोंजीनस, साहित्याविशीं उलयतना, **शिकवणी** वा **समजणी**, तशेंच **मनरिजवण** वा **मनवळवणी** न्हय जाल्यार **परिवहन** (वाचप्याक उदात्त आनंदामेरेन पावोवचेली तांक) हीच साहित्याची कसलावणी साण अशें मानता. हाका कारणय तशेंच आसा. मनरिजवण, समजणी वा मनवळवणी हांका वाचप्यांची **इत्सा** आनी **सहकार्य** हांची गरज पडटा. पूण 'उदात्ततेचो प्रभाव **आडावंक येना** अशें तांकिन कार्य करता आनी दरेका आयकुप्याचेर वा वाचप्याचेर, ताका जाण आसूं वा नासूं जैत जोडटा'. हो लोंजीनसाचो **उदात्तता** हे संकल्पनेकडेन पळोवपाचो दिश्टीकोण तसो वयलेवयर सुस्पश्ट आनी मेकळो आसासो दिसता. पूण उदात्ततेचें बीं सोदूंक लोंजीनस जी **विचारीक मांडावळ** करता ती मात तितली सरळ आनी **आप-उपलापी** ना.

## उदात्ततेची पंच-सुत्री

लोंजीनस उदात्ततेचें मूळ सोदूंक एक **पंच-सुत्री** आपणायता. आनी ताच्या ग्रंथांतली 'ग्यानबाची मेख' खरेपणान हे पंचसुत्रींत आस्पावल्या म्हळ्यार अतिताय जावंनये. हे पंच-सुत्रीचे घटक अशे आसातः १) **म्हान कल्पना** वा **विचारांची** काव्यांतली (उलोवपांतली) **प्रगवटावणी** २) उत्स्फूर्त आनी उत्कट **वासना** वा **भावनांचो आविश्कार** ३) **अलंकारांची** प्रभावी **घडणी** ४) **घरंदाज भास** ५) प्रतिश्ठित वा **श्रेष्ठ रचना**. ह्या घटकांचो फावो तसो विस्तारान उल्लेख मात लोंजीनसाच्या ग्रंथात सांपडना. हाचीं कारणां थोडींशी अ-साहित्यीक आसात. **ऑन द सब्लायमाचें** 'पॅरीसियन २०३६' हें धाव्या शेंकड्यांतलें (वाटाविल्ल्या हातबरपांतलें पयलें) हातबरप आसा ताची ६ पानां दुर्दैवान सांडल्यांत. खरेपणान ताचीं ८ पानां घाळ जाल्यांत पूण तातूतले पयलें आनी आठवें पान हांची उपरांतच्या प्रतींतल्यान पुरवणी जाता. पुण **विचार** ह्या उदात्ततेच्या पयल्या घटकाची विस्कटावणी पुरोशे रितीन हाताक लागना. म्हूण लोंजीनसालें ह्या मुद्यावेलें मत विस्तारान समजूं येना. काव्यांतल्या वासना वा भावना ह्या घटकासंबंदी म्हायतीयबी **ऑन द सब्लायमांत** अभावानच आयल्या. हे कृतीच्या ४४व्या पर्वात **भावना** वा **वासना** हांचे संबंदीची भासाभास एका खाशेल्या लेखांत जावची आसा असो निखटो उल्लेख तितलो मेळटा.

पूण ह्या पांचय घटकांचें विश्लेशण समाधानकारक आसूं वा नासूं उदात्ततेचें मूळ अशे परीन पांच-पोडी सुत्रांत बांदलां तें तर्काक पटूंक मात इल्लें जड जाता.

सट्ट करून नदर मारल्यार लेगीत लक्षांत येता की पयले दोन घटक चड करून **कवि-कल्पनेकडेन** जोडिल्ले आसात जाल्यार उरिल्ले तीनय घटक **काव्याच्या तंत्राक** जोडून आसात. म्हणचेच एके परीन ही पांचपोडी वांटणी **काव्य** आनी **कवी** हांचेमदलो फरक गृहित धरना. वयले वयर पळेल्यार असो फरक ना करप समा दिसलें तरी तें बरोबर न्हय. काव्यांतलो आशय, ताचें रूप आनी कवीची कला वा तंत्र एकठांय जातात, तेन्नाच काव्य घडटा. काव्य आनी कवी वा साहित्य आनी बरोवपी हे एकमेकांपसून स्वतंत्र आसात.

कविची **प्रतिभा** हें ताका लाभिल्लें सैमीक देणें आनी ताचें **तंत्र** हें ताणे 'कलेवरवीं' मेळयिल्ले सैमसदृश्य अभिव्यक्तीचें दान. काव्य कवीचे प्रतिभेचें पडबींब जाल्ल्यान ताच्या त्या सैमीक अर्जिताकडेन बोट दाखयता खरें, पूण काव्य हें ताची प्रतिभा न्हय. तेच परी तंत्रावरवीं काव्याक सैमसदृश्यता (सैमासारकेंपण), एकजिनसी रूप आनी रचनेक आकार मेळटा खरो, पूण तंत्र हें खरेपणान कविची कला न्हय. कित्याक तंत्र काव्यातल्यान सोदून मेळुंयेत, पूण कला कवीभितर आस्पविल्ली आसता. तंत्र **कवीभितल्ले** हे कलेचो निर्देश करता पूण तें काव्यांत सामाविल्ल्यान, कलेपसून **वेगळें** मानूंक जाय. (निदान कलेंत ते पुरायेन एकरूप जाल्लें आसता, अशें धरूंक जायना). जेन्ना लोंजीनस एकाच धपक्यांत काव्यांतली कल्पना वा विचार, तांतली भावना आनी अलंकारांची घडणी, भाशेची गिरेस्तकाय आनी रचनेची श्रेश्ठताय हांका काव्यांतले उदात्ततेचे बसकेचे पांच खूर करून वडयता तेन्ना तो कवी आनी काव्य हांका एकाच दाल्यांत दाळता. हे समा न्हय.

ह्या संदर्भात, विन्सेंट-ब्रुक्स (ज्यु.) हांचें मत लक्षणीय थारता. ते म्हणटात, 'मुळांत (१) आनी (२), **विचार** आनी **भावना**, हे काव्यांतल्या कसल्याय घटका परस कविच्या अंतर्मनाच्या **अवस्थांचो** भर दिवन निर्देश करतात. ते दोनय आत्म्याचे व्हडविकायेचे भाग जावन आसात, जे लोंजीनसचे वांटणेप्रमाणे **सैमावटेन** आसात, जाल्यार (३), (४), (५), **अलंकार, भास** आनी **रचना** हे घटक **कलेवटेन** आसात'. (**लिटररी क्रिटीसिज्म**, पा. ९९) हाचोच अर्थ पयले दोनय घटक हे काव्यांतले उदात्ततेक उबारो दिवंक कारणीभूत थारले तरी ते कवीचे खाशेले **प्रतिभेंतल्यान** उदेतात. आनी तांचे मूळ हें कवीक मेळिल्लें सैमीक देणें जें तो अभ्यास, निरीक्षण, चालंत रिवाज हांचेवरवीं म्हणचेच कलेवरवीं, अदीक प्रभावीपणान काव्यांतल्यान सामकारांक शकता, तशेच अलंकार, भास आनी रचना हे घटक पुरायेन उपेग वा वापर आनी अभ्यास हांच्यां आदारान काव्यांत प्रगटले तरीकूय

ताचो उत्कट प्रत्यय येतलो जाल्यार तांकां सैमासारकेंपण दिवपांत कवीचे निसर्गीक प्रतिभेचो शिंवाचो वांटो आसता.

आनी म्हूणच घडये सरसकट काव्यांत **उदात्तता** ह्या गुणाचो पावलाकणकणीं प्रत्यय येना. एखाद्या कवीच्यो सगल्योच रचना उदात्तता उत्तावंक अपेशी थारतात. जाल्यार एकेच रचनेंत लेगीत केन्नाकेन्नाय उदात्तता ही काव्याची सुप्त शक्त आडून-दडूनच आपलें अस्तित्व दाखयता. खरेपणान उदात्ततेची कीट कवी भितल्ले निसर्गदत्त प्रतिभेंत आसता. ताचे विचार आनी कल्पना थंयच आंकुरतात. भावना वा वासनांचें आगलें घालून काव्याचो आशय म्हूण प्रतिभाच तांकां नटयता. आनी ह्या शिरंगाराक हातभार लावपांत कवी अलंकार, भास आनी रचना हांचो कळाशेन उपेग करता.

हांगा एक **आक्षेप** सहज घेवंक जाता. विचारांक भावनांचें आंगलें घालप ही पुरायेन **सैमीक प्रक्रिया** न्हय, तातूंत **कलेचोय** आस्पाव जाता. तशेंच, अलंकार भाशेच्या माध्यमांत घडोवन तांचेवरवीं आशयाची पुरायेन प्रगटावणी करप आनी भावनेच्या जोखत्या मापान काव्यांतल्या अणभवाची पुरायेन अनुभूति मेळोवन दिवप-हीं दोनय फकत कलेवरवीं आपणावंक येईसारकीं तंत्रां न्हंय. तांकां कल्पना शक्त आनी दिश्टावो हांचें फाटबळ जाय आनी हे गुण कलेपरस सैमाक चड लागींचे आसात. हें सैम आनी कला हांचेभितल्लें वयर-खालतेपण जें आसा ताका लागून काव्यांत उत्कृश्ट अभिव्यक्ती आनी उत्कट अनुभूति हांची जोडी चुकून-माकूनच जुळटा. जेन्ना काव्याफाटली सैमीक तांक, काव्यांतले कलेक नदरे आड दवरूंक यशस्वी जाता, तेन्नाच 'काव्यांत उदात्तता उजवाडाचा पावलांनी चोंयवशीन फांकारता'.

काव्यांतली **उदात्तता** ही लोंजीनसाची संकल्पना शक्य तितले बारीकसाणेन विस्कावन पळेली. ह्या संकल्पनेफाटलीं सैमीक आनी कलात्मक दायजां जे परीन लोंजीनसान वेगळायल्यांत तीवंय आमी थोड्या-भौ प्रमाणांत तिजून पळेलीं. हे सुक्षीम विस्कावणेवेल्यान एक स्पश्ट जालें कीं उदात्ततेचें पांच-पोडी सुत्र सांगतना लोंजीनस जी पांच घटकांची वळेरी दिता तातूंत मात्शी तार्किक तफावत आसा. कित्याक ताणें जरी आशय, भावना, अलंकार-घडणी, उतरावळ (उतर संपदा) आनी रचना हांकां एका गांथनीचे नग कशे काव्यांतले उदात्ततेचे घटक म्हूण वेगळायले तरी तांचे मूळ दोंयवशीं वता.

हातूंतले पयले दोन गुण हे कवीक फावो जाल्लें निसर्गदत्त देणें, जाल्यार, उरिल्ले तीन घटक कविभितल्ल्या कलाकारान सैम आनी जीण हांचो उचित अभ्यास, निरीक्षण आनी अनुकरण हांचेवरवीं मेळयिल्ले आसतात. तेच परी पयले दोनय घटक **कविप्रतिभा** ह्या माथळ्याखाला मांडुं येतात, जाल्यार उरिल्ले तीन घटक **काव्यांतलें**

तंत्र ह्या नांवाखाला चड सोबून दिसतात. पूण खरेपणान तंत्र ही पुरायेन कलेवरवीं जोडिल्ली 'कृत्रिम जोड' न्हय. तंत्राच्या कुशळ उपेगांत कवीचे अकृत्रिम प्रतिभेचो जांव कल्पनाशक्तीचो शिंवाचो वांटो आसता. तशेंच प्रतिभा ही सैमीक गुण म्हूण कवीभितर आस्पाविल्ली आसली तरी योग्य तंत्रावरवीं ती अळंग काव्यांत केळयलेबगर वाचप्यामेरेन उत्कटतायेन पावना. हें आशय वा भावनेचें काव्यांतल्यान उत्तें जावपी तंत्रबद्ध सैमसारकेंपण वा काव्याच्या ह्या सैमसदृश्य रुपकाराचो दिश्टावो म्हळ्यारय जाता.

हाका लागून समिक्षेच्या अभ्यासकान **उदात्ततेच्या** रुपान वाचप्याच्या मनाक आफुडपी काव्याच्या ह्या पंचघटकांचें दोनपदरी अस्तित्व मान्य करूंक जाय. ह्या पांचय घटकांक प्रतिभेंतल्यान मेळपी जो सैमीक जिणेरोस आसा ताचें **मूळ** कवीभितर आसा आनी तंत्रावरवीं साकार जावपी जो ताचो कलात्मक **रुपकार** आसा तो काव्यांत आसा. म्हूण हे पांच घटक पुरायेन काव्याचेच म्हणप योग्य थारना. ही जाली उदात्ततेक पळोवचेली एक तरा.

**उदात्ततेच्या** घटकांक पळोवपाची दुसरी तरा म्हळ्यार **कवी** आनी **तंत्र**, वा **सैम** आनी **कला**, हांचो एकमेकांवांगडाचो वेगळावंक नजो असो एकचार! हाका लागून, कवीक प्रतिभेचें जें सैमीक देणें आसा ताका कलेन (तंत्रावरवीं) उठाव दिलेबगर ताची आवतिकाय गोबोर माखून बशिल्ल्या कुंडेकुस्करावरी जातली, तशेंच जर कवीचे प्रतिभेन मोटवीं कलात्मक ध्येयां बाळगून, निखटो तंत्राचो पदर धरलो जाल्यार काव्य कलेच्या गोळाक लागून प्रतिभा मर्णपंथाक लागतली. म्हूण उदात्ततेक नियाळटना **सैम** आनी **कला** हांचेमदलो हो **सुक्षीम फरक** आनी **अखंड एकचार** दोळ्यांसामकारा बाळगूं जाय. काव्याफाटल्या ह्या दोनय तांकींची जाणविकाय सतत जिवी दवरूनच समिक्षेच्या विद्यार्थ्यान लोंजीनसाच्या उदात्ततेवेल्या हेरां विचारांवटेन चांट मारप बरें.

लोंजीनसाक उदात्ततेफाटल्या मुळाव्या गुणांइतलोच, काव्यांतले उदात्ततेक **इबाडून** उडोवपी नश्टया गुणांचोय हुस्को आसा, हें ताच्या बरपांतल्या काव्य-दोशांवेल्या भाश्यावेल्यान कळटा. उदात्ततेची काव्यांतल्यान मेळपी अनुभूति फळादीक जावंक न दिवपी दोश म्हूण लोंजीनस पोको बडेजाव, पोरकटपणां, दिखाऊ भावना आनी गोठेल्लेपण हांचेवटेन बोट दाखयता.

लोंजीनसाच्या मतान जेन्ना काव्यांत अडेची व्हडविकाय वा बडवाचार हाडपाचो यत्न जाता तेन्ना भास ओडून ताणून मांडिल्ल्या (फुगयिल्ल्या) विचारांफाटल्यान घश्टत वता. हाका लागून, आशयाचें बळगें नाशिल्ली उतरसंपदा विटकळिल्ले वरी

जाता. हातूंतल्यान काव्यांत व्हडविकायेचो दिश्टावो तर जायचना. खेरीज काव्याचो पावंडो अदीकच खालावता. हो अडेचे व्हडविकायेचो दोश टाळप भौ कठीण अशी इशारत दिवन लोंजीनस चडावत कविंची 'म्हान पुरस्काराकडसून निसरप हो लेगीत एक म्हान दोश' अशें मानपाची प्रवृत्ती आसा अशें स्पश्ट सांगता.

अडेची व्हडविकाय, उदात्तामेरेन पावचेल्या नश्टया हावेसांतल्यान जल्मता, हें सांगून, लोंजीनस काव्यांतल्यान उदेवपी दुसऱ्या तोंकाच्या दोशांचो उल्लेख करता. जेन्ना एका पेजादीक विचाराचेर कवी नाका तितली प्रक्रिया करता तेन्ना तो विचार पुरायेन आपली तांक वगडावन बसता. अशे तरेच्या काव्यांतल्यान उदात्ततेजाग्यार गोठेल्ल्या थंड किरांव कवनाचो प्रत्यय येता. लोंजीनस ह्या नश्टया गुणांवागडाच काव्यांतल्या हीण, अनिश्ट आनी तुच्छ प्रवृत्तींची 'पोरकटपणाची प्रचिती दिवपी काव्य गुण' म्हूण संभावना करता. अडेची भावनिक अभिव्यक्ती होवय काव्यांतले उदात्ततेक मारक थारपी अनिश्ट गुण अशें लोंजीनस म्हणटा. पूण ह्या दोशांचें विस्तारान विश्लेशण ताच्या ग्रंथांत सापडना.

## उदात्ततेफाटले उपघटक

ताच्या बरपांत उदात्ततेच्या पंचघटकांच्या वळेरे फाटोफाट चड विस्तारान दिसून येता तें कांय उपघटकांचें विश्लेशण. देखीक, **आशयाची व्हडविकाय** ह्या घटकाक आदारदिणे म्हूण लोंजीनस ज्या उपघटकांचो निर्देश करता, ते अशे आसात: (१) अद्‌भूत व्यक्ती वा (तांचो) कांच चितारपाची फिशालकाय (२) फावोशे तरेन विशयाची वेंचणूक आनी मांडावळ (३) अभिव्यक्तीचो उबारो (*amplication*) (४) पुर्विल्ल्या बरोवप्यांचें अनुकरण आनी (५) कल्पनेवरवीं 'दाखोवपा'ची तांक.

हातूंतल्या पयल्या उपघटकाचें बऱ्यापैकी उदाहरण आमकां **स्वातंत्र्यवीर सावरकरांच्या** स्वातंत्र्यदेवतेच्या वर्णनांत सुंदर तरेन मेळटा. एक म्हळ्यार, तांणी स्वातंत्र्यदेवता ही एक काल्पनीक तशेंच अद्‌भूत व्यक्ती वा आस्तेपण अशें लेखून तिचें जें वर्णन केलां ताका 'उदात्त' हें उतर पुरायेन लागू जाता. तेच बरोबर 'हे! अधम रक्तरंजिते सुजन पूजिते!' असो जो तिचो उल्लेख केला तो स्वतंत्रतायेविशींची ओडच न्हय तर कांच (*awe*) लेगीत उत्तायता.

दुसऱ्या उपघटकाची देख **साहीर लुधियानवी** हांचे ताजमहालाविशींचे नामनेचे कवितेंत मेळटा. हातूंत कवी कुशळतायेन मोगाचें पारंपारीक प्रतीक म्हूण (सर्वमान्य) आशिल्ल्या ताजमहालाकूच न्हयकारता. मोगिकेक जेन्ना कवी आपल्याक तूं ताजमहालालागीं भेटूं नाका म्हूण सांगता तेन्ना वाचप्याक ताच्या मनांत कितें आसा हाची मात्तय सुलूस मेळना. पूण जेन्ना कवी म्हणटा, 'अगणित लोकांनी हाचे आदींय

मोग केला/कोण म्हणटा की तांगेल्यो भावना विशुद्ध नासल्यो?/पूण तांचेखातीर मात स्मारकांची (कसलीच) तजवीज ना/कित्याक, तेवय लोक आमचेवरीच कंगाल (खांकनवाळ) आसले' तेन्ना ताच्या 'खऱ्या' विशयाचें वाचप्याक 'भान' येता आंनी कवितेंत एक जबरदस्त आशय लिपला हाची ताका अनुभूति जाता. कवीन जे खुबयेन वेंचीक विशय ल्हवूच मांडला तो लक्षणीय आसा. जेन्ना कवी एका शहनशहान हो ताजमहल बांदून 'हम गरीबों की मुहब्बत का उडाया है मजाक' अशें म्हणटा तेन्ना एक आगळोच अणभव वाचप्याच्या पोशांत पडटा.

अभिव्यक्तीचो उबारो आसलेबगर बऱ्यांतल्या बऱ्या विशयाक लेगीत भर येना. दोन सामक्या संवकळीच्या विशयांवेल्या कवितांची (खरेपणान नामनेच्या गितांची) उदाहरणां घेतल्यार अभिव्यक्ती कशे परीन काव्यांतले उदात्ततेक उबारो दिता हें कळटलें. भारताच्या शूर सैन्यान वेळोवेळार देसाखातीर नागरिकांच्या रक्षणाखातीर केल्लें बलिदान हो सगल्यांच्या वळखीचो विशय, कांय ना म्हळ्यार धा- बारा तरी कविता दरेकल्याच्या मनांत ह्या विशयाक जोडून सट करून उदेतल्यो. पूण जायत्या कवींनी जरी होच विशय हाताळलो तरी एकेकल्याची काव्यांतलो आशय उक्तावपाची शक्त अशी जबर आसता की साद्या साद्या उतरांतल्यान लेगीत एक उत्कट असो, केन्ना विटना असो अणभव वाचपी गांठीक बांदूक पावता. **कवी प्रदीप** हांचे 'ऐ! मेरे वतनके लोगों' हे पुराय गीतच अशेतरेचें आसा खरें. पूण गिताचे सुरवेकच कवी ज्या तरेन साध्या उतरांनी आनी सहज भावान वाचप्याक आपणाल्या विशयावटेन जागयता ते तोखेवण्या जोगें आसा. सुरवेक देसाच्या नागरिकांक जयजयकारासयत तिरंगो उबारपाचो उगडास करून दितां दितां कवी अकस्मात तांकां याद करून दिता 'पर मत भूलो सीमापर वीरोंने है प्राण गँवाये। कुछ याद उन्हें भी करलो जो लौटके घर ना आए.' तुमी त्या वीरांक विसरचे न्हय म्हूण आपणें हें कवन गुंथलां हे सांगतना तर कवी वाचप्याच्या काळजाकच हात घालता! सदची भास वापरून लेगीत काव्यांत केदी तांक हाडूं येता हें, तें गीत आयकतना दर वेळा जाणवता.

हाचे उलट, बायलमनशेचेर दादलेप्रधान समाजाकडल्यान जावपी अन्याय-अत्याचारांचेर उजवाड घालपी, बायलेचे भोगनाळ पिडापीड उक्तावपी अशें, **साहीर लुधियानवी** हांचे एक भौ परिणामकारक गीत आसा. पूण अती सवंकळीन झरून गेल्या उतरांचो आशयाच्या खोलायेवांगडा घाल्लो सांगोड कांय कडव्यांनी फावो तसो परिणाम करूंक अपेशी थारला! गिताच्या सुरवेकच ज्यो वळी आसात, त्यो (पायांतले बेडे कशे) स्पर्श करूंक पावनात वा तांचो स्पर्श जाणवना. 'औरतने जनम दिया मर्दोंको, मर्दोंने उसे बाजार दिया। जब जी चाहा मसला कुचला जब जी चाहा धुत्कार

दिया.' पूण एखाद्रड्या कडव्यांत मात कवी खूबच परिणामकारक अशी आशयाची उत्तावणी करूंक यसस्वी थारला. खासा उल्लेखनीय कडवें म्हळ्यार : 'बायल संवसाराची भाग्यविधात्री / तरिकूय आपूण नशीब फुटकी! / अवतार-पैगंबरांक जल्मा घालूनय सैतानाली धूव थारिल्ली! / ही (ती) फुटक्या कपळाची आवय (जी) पुतांचे शेजेरय आसा लंवडल्ली.'

हांगा बायलेचे सटयेक पुजिल्ल्या विपश्टांक आनी मनीसपणा भायऱ्या भोगनाळांक कवीन केल्ल्या **'ईडीसपी** आड-उल्लेखा' वरवीं एक आगळीच आशयघनता लाभता. पुरुशप्रधान समाजाहस्तुकीं जावन पडिल्ल्या बायलेच्या आवतिकाये फाटल्या वेदना, खंत, लज, अमानुशपण, मनीसजिणेची वीट अशा कितलेशाच भावांचे अस्तर ह्या वळींवरवीं आशयाक लागता!

आशय उत्तावपाची काळीजस्पर्शी कळाशी कवीच्या हातांत आसल्यार ताच्या काव्याक ओज मारता. सदच्या विशयांत आनी संवकळीच्या आशयांत लेगीत एक खेरीत तांकीची ओप दिश्टी पडटा. १९६२-६५ ह्या तेंपार, आदीं चिनी आक्रमण आनी उपरांत पाकिस्तानाची आगळीक हांकां लागून देसभक्तीपर गितांचें एक घसघशीत पीकच भारतीय भासांनी आयलें. हेरशीं देशाभिमान वा स्वार्थत्याग, एकता, समजिकाय हे कितले सुकेसडसडीत विशय जावन बसल्यात हें आमी पळेतात. पूण 'उत्तुंग आमुची उत्तर सीमा इंच इंच लढवूं' सारकिल्लीं गीतां आयकुपांत त्या काळार कशें स्फुरण येतालें हें तीं आयज लेगीत आयकल्यार समजता. गोंयच्या मुक्तिसंग्रामाक लेखून बरयिल्लें **बाकीबाबांचे** 'गोंयचें नांव व्हड करूंक/ल्हान जाले म्हान/बंदखणिचीं देवळां जालीं/लामणदिवे प्राण' हें गीतय अभिव्यक्तीच्या उबाऱ्यार आशयाची घुडी मनमळबाक तेंकोवपी गितांमदीं अग्रस्थानार आसा, हातूंत दुबाव ना.

आशयाक आधारभूत म्हूण लोंजीनस 'पुर्विल्ल्या बरोवप्यांचे अनुकरण' ह्या उप-घटकाचोय उल्लेख करता. पूण आदल्या काव्यांतल्यो उदात्ततेच्यो देखी घेवन बरोवप हें दिसता तितलें सोपें न्हय. एक म्हळ्यार आदल्या व्हड कवीची नक्कल न्हय जाल्यार व्हड काव्याचें **अनुसरण** करप गरजेचें हे लोजीनस स्पश्ट सांगिनासतना, आडवाटेन सूचित करता. आदीं होमेराच्या **इलीयड, ओडिसी** ह्या महाकाव्यांची आनी उपरांत प्लेटो आनी डेमॉस्थेनिसाच्या बरपांची तुळा करून, तो अचळय ह्या मुद्द्याफाटल्या मुदलाच्या प्रस्नाचेर उजवाड घालता. तो म्हण्टा, काव्याक गरज आशिल्ल्या 'भावनीक तांकीक जेन्ना सुकती लागता' तेन्ना व्हडांतले व्हड बरोवपी लेगीत निवेदनपर वा रीत-रिवाज चित्रावपी चालंत काव्य बरयतात. हाचो अर्थ, अनुकरणाचो 'नमुनो' फावो ते रितीन उदात्तनेची अभिव्यक्ती करपी

आसूंक जाय; नांवां पुरत्या नमुन्यांचे अनुकरण करप म्हळ्यार जीव नाशिल्ली नक्कल केल्लेवरी जावंयेता.

दुसरी गजाल म्हणचे, म्हान काव्याचें अनुकरण तशेच तांकीचो दुसरो व्हड कवीच फावो तशें निभावंक शकत. कुड्डें अनुकरण करूंक सोदतलो कवी आपणाल्या काव्याक सासणाचें खालतेपण दिवन वता. कित्याक, दोळे धांपून दुसऱ्यांच्या पावलार पावल दवरतना कवीचें नीज सत्व शेणटा. आपूण आदल्या काव्यांतलें नेमकें **कितें** आपणावंक सोदतां ही जाणविकाय ताका उरना. **आशय, शैली, दिश्टावो** हांचे मदलो फरक समजून तांकां हात घाल़पाचो सारासार विवेक तो वगडावन बसता.

अशे तरेन काव्यांतले उदात्ततेचें अनुकरण करतना फावो ती जतनाय घेवप वा ना घेवप हातूंतल्यान जावपी बऱ्या वायट प्रभाव- परिणामांचीं उदाहरणां उर्दु कवितेंत बेस बरीं मेळटात. ह्या 'सगल्यांक अनुलक्षून (लागीं लागीं पयलो उर्दू काव्यशास्त्रविशयक ग्रंथ बरोवपी) **मौलाना अल्ताफ हुसेन 'हाली'** हांणी उक्तायिल्लें अनुकरणाविशींचे मत कोकणीसारके भाशेक ज्युस्त लागू पडटा म्हूण ध्यानात घेइसारकें आसा. तांचे मत **इब्न रशीक** ह्या विद्वानान अरबी कवींक केल्ल्यां उपदेसाच्या संदर्भात तांणी उक्तायलां.

म्हूण आदीं **इब्न रशीक** हांची सुचोवणी पळोवंक जाय. ते म्हणटात: 'आदर्श कवी जावचेली म्हत्वाकांक्षा बाळगुपी कविंनी श्रेश्ठ कवींचे काव्य पाठ (कंठगत) करूंक जाय ... पूर्वसुरींचे आदर्श सामकारा नासतना केल्ली काव्यरचना श्रेश्ठ पदवेक पावंक शकना.' हाचेर **हाली** म्हणटात '...अरबी भाशेक कितलेशाच शेंकड्यांची परंपरा आसा ... एकच आशय जायत्या पद्धतींनी आनी वेगवेगळ्या शैलींवरवीं प्रगटावपाची प्रथा हे भाशेंत चालंत आसली. तेखातीर नवे ढंग आनी नवी शैली हांची खास गरज हे भाशेक नासली ... (पूण) अजूनमेरेन पुरायेन विकसित न जाल्ले उर्दुसारकिले भाशेक हो न्याय लागू करूंक जायना. उर्दू काव्य अजूनमेरेन भुरगेपणांत आसा ... बरो कोश आनी परिपूर्ण व्याकरण हांचो हे भाशेंत उणाव आसा. अशेभाशेन फकत आदल्या 'कविमंडळाच्या' अनुकरणाचेर समादान मानप प्रगतीचे नदरेन अयुक्त थारतलें. आदल्या युगारसून आतांमेरेन चिमणेचो घोंटेर एकाच सांच्याचो उरलो, तेप्रमाणे फकत अनुकरणाचेर संतुश्ट रावल्यार उर्दू काव्याची लेगीत तीच आवतिकाय जातली. इतलेंच न्हय तर ज्या पाळण्यांत बारशें जालां त्याच पाळण्यांत जिणेच्या अंतामेरेन धोलत बसपाचो प्रसंग उर्दू काव्याचेर येत!" (**काव्य आणि कविता** ह्या श्रीधर रंगनाथ कुलकर्णी हांणी केल्ल्या अणकारांतल्यान हो उतारो घेतला. पा. ४२).

व्हडविकाय आनी श्रेष्ठताय हांच्या हावेसान फुडे सरतना साहित्यिकान जी जतनाय घेवंक जाय ती **हालींच्या** उतरांनी आस्पावल्या. हालींच्या उपदेसाचें चड म्हत्व इतलेखातीर आसा की तांणी आपलें मत **होमेर, मिल्टन, मीर, गालिब, फिर्दोसी** हांच्या काव्याचो तशेंच वेगवेगळ्या विद्वानांच्या काव्यविशयक चर्चेचो सांगोपांग अभ्यास करून उक्तायलां. ताच्या म्हत्वाचें दुसरे कारण म्हळ्यार तांचें हें मत काव्याची **व्हडविकाय**, काव्यांतल्यान मेळपी **उदात्ततेची अनुभूति, कला** आनी **प्रतिभा** हांचो **एकवट** ह्याच विशयांच्या संदर्भात मांडलां. आनी म्हूण तें लोंजीनसाच्या उदात्ततेविशींच्या हुस्क्या-हावेसांक हातभार लायता.

लोंजीनसान आशयाच्या म्हानपणाक अदीक प्रभावी रितीन मांडपाखातीर काव्यानुभवाक दृश्य रुपान उक्तावपी उप-घटक म्हूण **कल्पनाशक्तीचो** उल्लेख केला. काव्यांतलो विशय कल्पकतायेन वाचप्याचे नदरेसामकार उबो करपाचें कसब थोड्याच कवींक लाभलां. हांचेमदीं १९व्या शेंकड्यांतलो इंग्लिश कवी **पी. बी. शेले** हांचे नांव सदांच आदरान घेवचें पडटलें. ताचो समकालीन **कीटस्** होवय ह्या कसबांत तरबेज आशिल्लो. पूण अनुभूतिचीं वेगवेगळीं तासां ज्या सहजपणान शेले प्रगटायता ताची तोखणाय करीत तितली थोडी. 'द क्लावड' - ही कुपाचेर बरयिल्ली ताची कविता संवसारांतऱ्ल्या जल्म-मर्णाचे चक्राकार प्रक्रियेचें आनी मर्णांत आस्पाविल्ल्या जीवनाचें इतलें सोबीत चित्रांकन करता, ताका तोड ना. 'टू अ स्कायलार्क' हेंवय ताचें एक अतीशय मनभुलोवणें कवन. हातूंत **काव्य, कविप्रतिभा** आनी **कला** हांचें इतलें सुंदर वर्णन आसा आनी तें उतरांपरसय चित्रांकनावरवीं जाल्लें आसा, हें खरेंच अप्रतीम. आशयाक दृश्याची धिगी लावपाची कला **भा. रा. तांबे** हांच्याय गितांनी बरी दिसता. **बाकीबाब बोरकारांचे** 'निळें निळें सवणें' तर ह्या गुणांक लागून एका ओडलायण्या गितावांगडाच एक उत्कृश्ट आध्यात्मिक अनुभूति वाचप्याक दिवंक पावता. अमुर्ताचो दिश्टावो मूर्त रुपान घडोवचेखातीर कळटां-नकळटां कवीन वाचप्याच्या अंतर्मनाक दृश्यावरवीं अदृश्यावटेन ल्हवूच वळयलां. लोंजीनसान ह्या गुणाचो खासा उल्लेख घडये हेच सुप्त तांकीक लागून केला जावंये.

**भावना** ह्या उदात्ततेच्या तुसऱ्या घटकाचो लोंजीनस अभावानाच आपल्या बरपांत उल्लेख करता. ताचे कृतीच्या शेवटाक तो ह्या घटकावटेन आपूण घुंवपाचो आसा अशें म्हणटा. पूण हे खेरीज ह्या घटकाचेर अदीक भाश्य केल्ले सांपडना. मात अलंकारांचो योग्य उपेग, विविध अलंकारांचें म्हत्व उक्तावपी बारीक विस्कटावणी, थळ- काळ-वचन-लिंग हांच्या बदलावरवीं काव्यांतले उदात्ततेक मेळपी उठाव ह्या विविध गुणांचो मात लोंजीनसान **अलंकार-घडणी** ह्या घटकाखाला बारीकसाणेन

अभ्यास केल्लो दिसता. पूण एक खरें, लोंजीनसाच्या काळार काव्याचें तंत्र आयचे इतलें प्रगत जाल्लें नाशिल्लें तशेंच आयच्या साहित्यांत सांपडपी विंगड विंगड देखी लोंजीनसा- -काळार उपलब्ध नाशिल्ल्यो. हे लक्षांत दवरून. ताचीं अलंकाराविशींचीं भाश्यां आमी समजून घेवंक जाय, ते भायर वक्तृत्व आनी नाट्यकला हांकां लेखून ताणें उदात्ततेच्या ह्या घटकाक पळेला, आज साहित्यिकाची बरपाकडेन पळोवचेली नदर बदललेली आसा, हें आमी विसरूं नजो.

**उतरसंपदा** (*diction*) ह्या घटकाविशीं उलयतना लोजीनस सवंकळीच्या उतरांचो उचित उपेग, प्रतिमांचो वापर, रुपकात्मक भास, फावो तेन्ना विशयांतराचो फिशाल उपेग हांचेर उजवाड घालता. उतरांची मांडणी वा रचना हांचे विशींय लोजीनसाचीं मतां स्पश्ट आसातः ही रचना भाशेचो योग्य परिणाम सादसारकी आसची, अती संक्षिप्त वा अती विस्तारीत अशें काव्याचे स्वरूप आसचें न्हय, उतरांची कृत्रिम खातड केल्यार शैलीची गचमुड्डी जावन उतरावळीची व्हडविकाय उणावता.

शेवटाक लोंजीनस तत्कालीन समाजाच्या भ्रश्ट, हीण, स्वाभिमानशून्य, लाचार आवतिकायेचे उल्लेख करून तत्कालीन काव्यांत दिसून येवपी उदात्ततेच्या अभावाची कारणां सोदचो यत्न करता. भ्रश्ट युगांतले लाचार प्रजेविशीं लोजीनसाचीं मतां आयच्या युगांतल्या मनशाक ज्युस्त लागतात. 'गुलामपणाची मानसिकता ज्यांचे जिणेचें ध्येय जावन बसता असल्या मनशांक उदात्तता कशी भावतली? तांचेसारक्यांक स्वातंत्र्यापरस पारतंत्र्यच बरें! कित्याक तर, मुक्ती मेळ्ळ्यार तांचे भितल्ली निजाची आस वा सुवार्थ संवसाराक रगताची दुकां गळोवंक लायतली,' अशें तो स्पश्ट सांगता. हाचे परस आमच्या युगाचेर आनीक बरें भाश्य खंयचें आसतलें? 'परवशतेचो पास नशिबानसार ज्यांचे गचयेक अंदला'ते दर युगांत जातलेच आनी 'आमीय तातूंतलेच' ही जाणविकाय करून दिवपी लोंजीनसाचें समिक्षेक देणें म्हळ्यार हो दिश्टावो!

●

# ११
# प्लोटीनसी नव-प्लेटोवादः उद्‌भव आनी प्रभाव

**फाटभूंय :**

पश्चिमी समिक्षेचे वाटचालीचीं साबार पेणीं बारीकसाणेन नियाळटना, एक अजापाची गजाल सट्ट करून नदरेंत भरता. ह्या विशयावेल्या अभ्यासकांच्या वा विद्वानांच्या भाश्यांमदीं तशेंच मतांमदीं एक समान प्रवृत्ती आस्पावल्या. ही प्रवृत्ती चड करून समिक्षेच्या इतिहासावेल्या बरपांत वा अभ्यासक्रमांत उक्तावताः ती म्हळ्यार, लोंजीनसाच्या **उदात्ततेच्या** तत्वाक आफुडले उपरांत तडक **स्वच्छंदवादाच्या** मुळसांत व्हरून समिक्षेक उबी करप.

हाका तशें कारणय आसा लोंजीनसाचे '**उदात्तते**'चे संकल्पनेचें एक पोंत **स्वच्छंदवादी** विचारधारेच्या मुळसांत पावलां. आदीं सांगलां ते परी, ताचे **उदात्तते** फाटल्यान काव्यांतल्यान उक्ती जावपी कल्पनेच्या मनमेकळ्या भोंवराचें वलय आसा आनी ह्या भोंवराफाटल्यान **स्वच्छंद** कवी वृत्तीचें फाटबळ आसा. हाका लागून घडये, चडावत अभ्यासकांक लोंजीनसाचे **उदात्ततेचे** फाटीक फाट लावन आयिल्लो जुंवळो विचार-प्रवाह म्हूण **स्वच्छंदवादाचें** वैजिणपण करप समा दिसता जावंये. पूण हाचो जोड-परिणाम म्हळ्यार, **स्वच्छंदवादामेरेन** पावचेखातीर समिक्षेच्या विद्यार्थ्यांक लागीं-लागीं १५-१६ शेंकडे हुपून १९व्या शेंकड्यांत वचून **स्वच्छंदवादी** विचारसरणी जावं चळवळ जावं देखी सोदीत युवरोपांतल्या साहित्यीक घडामोडींची उस्तवारी करची पडटा. एका विशिश्ट थरावेल्यान पळेल्यार हें तर्काक धरून आसाशें दिसता. पूण सर्वांगीण विचार केल्यार देडेक हजार वर्सांच्या साहित्य-विचाराक कडावन अशे परीन लोंजीनसाच्या खांदावेल्यान **स्वच्छंदवादाचे** मांडयेर उडी घेवप योग्य न्हय.

कारण **स्वच्छंदवादाक** सारें-उदक घालपी **नवी-प्लेटोनीक** विचार, तशेंच ताचेर प्रभाव घालपी युवरोपी **पुनरुज्जीवनाची साहित्यीक चळवळ**, ते चळवळींतल्यान उदेल्लो **मानवतावाद** आनी हांकां जोडून आशिल्ले हेर विचार-प्रवाह हांची वळख जाली ना जाल्यार समिक्षेच्या विद्यार्थ्यांक **स्वच्छंदवादाचें** स्वरूप आनी भूमिका समजूंक आडकाठी जातली.

लोंजीनसाच्या उदात्ततेच्या तत्वांत घुस्पल्लो स्वच्छंदतायेचो सूर अस्पश्ट आसा. तांतूत काव्यांतल्यान घडून येवपी स्वच्छंदी अभिव्यक्तीचें अस्तित्व आस्पावलां पूण तें काव्याक **अभिजात** नमुन्यांच्या पांजऱ्यांतल्यान पुरायेन मेकळें करूंक पावत इतलें धिरीश्ट ना. जरी **उदात्ततेचे** संकल्पनेंत लोंजीनसान महान आशय, भावनेचो फिशाल उपेग, आदर्शाचो हावेस, उदात्ताची उत्कट प्रचिती ह्यो कल्पनाय मेटून घेतल्या आसल्यो तरी तो मान्य नमुन्याच्या अनुकरणाचेर भर घालता. घडये नीज प्रतिभावंत कवी आपसोच नमुन्याच्या वयर सरून 'स्व 'ताचे तांकीर, कल्पनाशक्तीच्या नाडयार, उत्कृश्ट काव्य रचूंक पावतलो अशी ताची सुप्त आस्त आशिल्ली जायत. पूण प्रतिभेवांगडाच तंत्राचेंय अवास्तव म्हत्व वाडोवन दवरिल्ल्यान लोंजीनस कवीचे स्वच्छंदी वृत्तीक साजसारकी ताका पुराय मेकळीक दिवपांत अपेशी थारता.

हें मत सट्ट करून पळेल्यार अविवेकी आक्षेप कसो दिसूंक शकता. कित्याक. तंत्र हें स्वच्छंदी अभिव्यक्तीकय जायच. मागीर स्वच्छंदवादी काव्याकच तें कशें बादिखोर जातलें? असो प्रतिप्रस्नय विचारूं येता. पूण सुक्षीमपणान येवजिल्यार ह्या आक्षेपाफाटली मनोभूमिका होलमतली. जेन्ना काव्यांतल्यान तंत्राची फिशालकाय समिक्षेक 'अपेक्षित' आसता तेन्ना ती नुलयतां कवीक प्रयोगशीलता आनी नवनिर्मणेचे घुंवळावपी तेंगशेवेल्यान ल्हवूच मान्य नमुन्याच्या सुगुर घोटेरांत ओडटा. असाधारण कवी प्रतिभा जरी कल्पनाशक्त (imagination) आनी कल्पकता (ingenuity) ह्या दोनधारी साधनांवरवी ह्या अंतर्विरोधाचेर मात करूंक पावली तरी सादारणपणान कवी आपतंत्र आनी व्यक्तिनिश्ठ अभिव्यक्तीक मन सोडून आपणावंक फाटीं फुडें जातलो. म्हणचेच (पयार्यान) उदात्ताच्या वाऱ्यार सुंवार जालो तरी कवी आपल्या काव्याचो लगाम मान्य नमुन्यांच्या तंत्रामिरेन सिमीत दवरतलो ही लोंजीनसाचे उदात्ततेंतली सुप्त अपेक्षा आसा अशें म्हणूनच दिसता. म्हणचेच ताचे संकल्पनेची तुस्त-तोखणाय फावोशे रितीन करूनय, ते संकल्पनेचो **स्वच्छंदतावादाचें** पयलें सोपण म्हूण विचार करप योग्य न्हय. एक म्हणचे अशें केल्यार, **स्वच्छंदवादाची** विचारीक फाठभूंय पुरायेन दोळ्यांआड उरता. दुसरें म्हळ्यार, नेणार विद्यार्थी **उदात्तता** आनी **स्वच्छंदवाद** ह्या दोगांयचे गांठवल बांदून तांचो सांगोड आपले अल्पमतीप्रमाण १९व्या शेंकडयांतल्या येवरोपी **स्वच्छंदतावादी साहित्य चळवळी** वांगडा घालून मेकळो जावंक शकता.

### आदले समिक्षात्मक वाटचिरे :

हे दोनय धोके आडावपाचो एक मार्ग म्हळ्यार, सादारण ३रो (ख्रि. उ.) शेंकडो ते १९व्या शेंकडयामेरेनच्या साहित्यविचारांचो आनी साहित्याचेर आडवाटेन प्रभाव

घालपी हेर विचारांचो धांवतो नियाळ घेवप. पूण देडेक हजार वर्सांची ही विचारभोंवडी करंतना अभ्यासकाक सुविधा जावची देखून ह्या काळमाड्डुणेंत कांय 'वेंचीक विचारवंतांचो' वाट-चिरो (milestone) म्हूण उल्लेख करप अपरिहार्य (inevitable) जाता. हांतूतलो पयलो म्हत्वाचो विचारवंत म्हळ्यार अभिजात समिक्षक-विवेचकांमदलो पयलो आनी निमाणो विशुद्ध सौंदर्याचो उपासक, **प्लोटीनस**! हाचो सौंदर्यविचार[1] पूर्णपणान **सुंदराचीच** उखेवणी करता. अनुकरण, उपेगिता वा ओडलायणेपणाची धिगी लायनासतना तो **'सुंदराचें'** विवेचन करता. ताच्या विचारांफाटल्यान एक गाढ छायावादी सूर आसा जो समिक्षेक भेदून अशीम आनी अनंतावटेन झोंपय घेता.

प्लोटीनसाच्या ह्या अमूर्त विचारांचें मूळ प्लेटोच्या विचारप्रणालींत आसा म्हूण जायत वा ताणें प्लेटोच्या विचारांक एका नव्या परिमाणांतल्यान तेळ्ळ्यात म्हूण जायत, ताका **नव-प्लेटोवादाचो** जल्मदातो म्हूण वळखतात. ताच्या विचारांचो येवरोपी (खासा करून इंग्लीश) स्वच्छंदतावादी चळवळीचेर सुस्पश्ट आनी नेमको प्रभाव दिसून येता. प्लेटोच्या कल्पाकृती सिद्धांतावरवीं निखटी 'ध्वनित' जावपी 'दैवी आस्तेपणाची कल्पना' प्लोटीनसाच्या विचारांतल्यान स्पश्टपणान **दैवी एक** (Divine One) ह्या नांवान आनी 'पुराय अस्तित्वाचो मुळाधार आनी मूळतत्व' ह्या अर्थान साकार जाता.

प्लोटीनसाच्या विचारांचें खाशेलेंपण म्हळ्यार ताणें प्लेटोच्या वेव्हारनिश्ठ मूळ विचारांक आत्मनिश्ठ छायावादाचे (subjective mysticison) दिकेन वळोवन तांचें अर्थ-निरूपण केलां. हीच आत्मनिश्ठ नवप्लेटोनीक विचारसरणी फुडाराक कला-साहित्याच्या तशेंच तत्वगिन्यान आनी धर्मशास्त्राच्या क्षेत्रांत पश्चिमी संवसारांतली भौ-प्रभावी विचार-प्रणाली थारली, हाचो प्रत्यय, युवरोपी स्वच्छंदतावादी चळवळींतल्यान आकारा आयिल्ल्या साबार कला तशेंच साहित्यकृतींनी आनी तत्कालीन समिक्षाविचारांत मेळटा. प्लोटीनसाच्या नवप्लेटोवादाचें सोबीत पडबिंब शेलेच्या काव्यांत, चड करून ताच्या "हिम टू इंटलेक्युअल ब्युटी" ('Hymn to Intellectual Beauty") ह्या स्तुतीपर भक्तिगितांत आनी **ॲडोने** (Adonais) ह्या गोपजीविताचे फाटभुंयेर बरयिल्ल्या शोकगितांत दिसता.

प्लोटीनसाच्या प्लेटोनीक विचारांच्या निरूपणाक आदर्शवादाचो तेंको आसा.

---

*१. ऐन्नीयडस् ह्या ताच्या म्हाकृतींत हो सौंदर्यविचार आस्पावला. अणकारीत रूपांत तो द वर्कस ऑफ प्लोटीनस, (अण.) स्टीफन मॅकेन्ना, ५ खंड (लंडन : फेबर आनी पॅन्थियन, १९१७-३०), ह्या ग्रथांत उपलब्ध आसा.*

तागेलो हो तथाकथीत नव-प्लेटोवाद **द्वैतवादी** (dualistic) सिद्धांत न्हयकारतना विश्वांतले एकात्मतेचो (एका नेमावळीचो) पुरस्कार करता. **अद्वैतरूपी** कारंजांतल्यान, **दैवी मानस** व्हांवता आनी ते जगदात्म्यारूपांत भौतिक संवसाराकडेन एकरूप जाता, अशें प्लेटीनस रूपकात्मक भाशेंतल्यान सांगता. ताच्या मतान, धर्मावरवीं तशेंच साधना व चिंतनांतल्यान मनीस **दैवी** **एका** वांगडा एकचार प्राप्त करूंक पळेता. प्लोटीनसाचे हे मुळावे आदर्श प्रणालीचो अनिश्ट बिंदू ताणें **पातक** हो धरला.

साहित्य-मोग्याक वा समिक्षेच्या अभ्यासकाक हांगा एक प्रस्न पडूं शकता: हे आध्यात्मिक भासपी विचारप्रणालीचो **स्वच्छंदता** हे संकल्पनेवांगडा किते संबंद आसुंयेता? ते भायर, **स्वच्छंदतावाद** हे कला-साहित्यांतले एके म्हत्वाचे धारेवांगडा ह्या विचारांचो कसो ताळो घालप? उत्तर सोपें आसा. ह्या **नव-प्लेटोवादाच्या** आधारार तत्कालीन विचारवंतांक आनी कवींक आपणाले मुळावें प्रमेय[1] मांडप शक्य जालें.

पूण एक मात आसा. प्लोटीनसाच्या विचारांचो प्रभाव जरी देडेक हजार वर्सांउपरांत चंवरिल्ल्या येवरोपी काव्यविचारांत दिसून आयलो तरिकूय ती ताच्या विचारांची कार्बनप्रत आशिल्ली अशें समजप चूक जातलें. इतल्या युगांच्या अंतरामेरेन पावसर **नव-प्लेटोवादी** विचारांचेर थोडे-भौ हेरय संस्कार जाल्ले आनी चड-उणे बदलय घडिल्ले. खेरीज, प्लोटीनसाचे आदर्शवादी विचार फुडाराच्या पिळग्यांमेरेन जशातशे पावले नात. ताज्या विचारांचे दोन प्रभावी वाहक (conduit) म्हळ्यार **संत आगुस्तीन** आनी **संत थॉमस आक्वीनास** हांच्या बरपांतल्यान तशेंच हांच्या विचार वा प्रतिक्रियांचे चाळणींतल्यान घोळून प्लोटीनसाचीं मतां भावी पिळग्यांमेरेन पावलीं. खासा ताच्या मतांचेरय तत्कालीन **पेरीपेटेटीक** मतप्रणालीचोय थोडो भौ परिणाम जाल्लोच.

ते भायर ह्या **नव-प्लेटोवादाक** जोडून 'आनीक एक **प्लेटोवादी** विचारसरणीय' येवरोपी जनमानसांत पातळिल्ली. हो प्लेटोवादी विचाराचो प्रसार मार्सेलियो फिसोनी (१४९३-९९) ह्या प्लोरेंस हांगाच्या प्लेटोनीक अकादेमीच्या मुखेल्यावरवीं जावंक पावलो. हाणें प्लेटोच्या विचारांक ख्रिस्ती धर्मप्रणालीच्या सांगातान, **थिओलोजीका प्लेटोनिका** (१४८२) ह्या आपल्या ग्रंथांतल्यान सामकारायलें. ताणें मानवी आत्मो हो उच्चतम आनी नीचतम हांचो मेळ घालपी **दैवी अंश** अशी फोडणिशी केली. तागेल्या विचारांनी युवरोपी पुनरूज्जीवन वा प्रबोधनाच्या काळार साहित्यीक आनी

---

1. *तें म्हळ्यार, 'कवी हो प्रेरीत द्रश्टो आसून तो भौतीक वास्तवाच्या आभासान फटवल्ल्या संवसाराक, आधिभौतिकावांगडचे आपले गूढ एकरूपतायेंतल्यान, अतिंद्रिय सताचो (transcendental reality) दिश्टावो दिवंक शकता.'*

विचारवंताक खूब प्रभावीत केले. ह्या युगांतल्या आदर्श, आंतरीक, **'प्लेटोनीक मोगाचे'** कल्पनेचें मूळ फिसिनोच्या निरूपणांत सांपडटा. ताच्या 'ह्या नवप्लेटोवादान' १६ व्या शेंकड्यांत **सिडनी-स्पेन्सरासारकिले** कवी, १७ व्या शेंकड्यांत **केंब्रिज प्लेटोनिस्टस्** म्हूण नावांजिल्लो **'तत्वगिन्यानी गूट'** आनी **दैववादाची** विचारीक बसका हांचेर आपलो फोक घालो.

ह्या बरोवप्यांची सया उप्रांतच्या युगांचेर आपशीच पडल्या हातूंत दुबाव ना. चड करून १९व्या शेंकड्यांतल्या इंग्लीश कवींचेर हांचो परिणाम नदरेंत भरसारको जाला. **सिडनीची** काव्यशास्त्रवेली कृती फुडाराक शेलेच्या समविशयावेल्या बरपाचें मुळावण थारली. **स्पेन्सराच्या** काव्याचो, चड करून ताचे **फोर हिम्स** हे कृतीचो, **स्वच्छंदतावादी** कवींवेलो प्रभाव तर कसोच न्हयकारूंक जायना.

पूण फिसिनोच्या **'प्लेटोनीक मोगा'** वांगडाच, **स्वच्छंदतावादी** पंथाच्या कवींक आनीक एका **'प्लेटोनीक'** प्रभावाची लागण जाल्ली दिसता. ही विचारीक लागण जर्मन आदर्शवादी विचारवंत, खासा करून **हेगेल** (१७७०-१८३१) हा जर्मन तत्व-चिंतक आनी **कोलरीज्** हो इंग्लीश कवी हांचेवरवीं जाल्या. **कोलरीजाचेर** जाल्लो प्लोटीनस तशेंच ताच्या हेर अनुयायांचो प्रभाव; **थॉमस टेलर** (१७५८-१८३५) हाचे **द प्लेटोनिस्ट** हें ख्रिश्चनविचारांचो विरोध करपी बरप; आनी **पूर्व-स्वच्छंदतावादी** युगांतलो कवी **विलियम** ब्लैक हाचेर जाल्लो नवप्लेटोनीक विचारांचो परिणाम ह्या सगल्यांचो **जोड-प्रभाव स्वच्छंदतावादी** युगांतल्या काव्याचेर दिसून येता.[1]

वयल्या विश्लेशणावेल्यान एक स्पश्ट जाता. **स्वच्छंदतावादी** युगांतल्या काव्याचेर **नव-प्लेटोवादाची** गाढ सया पडल्या. ही दोन तरेन त्या युगांतल्या कवींमेरेन पावल्या. एक प्लोटीनसाच्या विचारांचो धागो धरून ख्रिश्चन **धर्मशास्त्र्यांनी केल्ल्या चिंतनशील बरपांतल्यान** आनी दुसरी मध्ययुगीन विचारवंतांनी केल्ल्या **धर्मनिरपेक्ष तत्वगिन्यानी फोडणिशेंतल्यान.** पूण एक मानचेंच पडटा किं ह्या दोनय विचारधारांचें मूळ प्लोटीनसाच्या **ऐन्नीॲडस्** ह्या णव-णव लेखांच्या स संचांनी आसा. (**पोरफिरी** ह्या ताच्या चरित्रलेखक शिष्यान हे संपादित केल्यात). हातूंतल्यान उक्तायिल्ल्या **प्लोटीनसाच्या नव-प्लेटोवादावांगडा** वळख करिनासतना **स्वच्छंदता, स्वच्छंदतावादी चळवळ, स्वच्छंदतावादी** काव्य आनी **स्वच्छंदतावादी युग** हांची समजणी अपुरी उरतली. म्हूण **स्वच्छंदतावादी** काव्यावटेन वतना **नव-प्लेटोवादाची** थोडीभौ वळख आसप बरी.

---

१. *वर्डस्वर्थाची 'ओडः इंटिमेशन ऑफ इम्मोर्टेलिटी', कीटसाची 'ओडः ऑन अ ग्रेशियन अर्न', शेलेची 'मॉंत ब्लां' ह्यो कांय कविता देखी म्हूण उत्सूक वाचप्यांनी पळोवं येतात.*

प्लोटीनसाकडल्यान उदेल्ले हे विचारप्रणालीचो प्रसार तागेले अनुयायी **पोरफिरी** आनी **प्लोक्सस** हांचेवरवीं जायत गेलो. **धर्मशास्त्री** आनी **साहित्यशास्त्री** हांच्या माध्यमांतल्यान उपरांत हे विचार युवरोपी पुनरूज्जीवनकाळावेल्या साहित्य आनी साहित्यविचार हांचेर प्रभाव घालूंक पावले. **स्वच्छंदतावादी** चळवळीच्या मुळांत तर आमकां ह्याच विचारांची थीर बसका आसा हें होलमता. पूण **नव-प्लेटोवाद धर्मशास्त्र** आनी **साहित्यविचार** ह्या जिणेवटेन वेगवेगळे नदरेन पळोवपी शास्त्रांक कित्याखातीर प्रभावित करूंक पावलो, हें पळोवचेखातीर नवप्लेटोवादाच्या मुखेल तत्वांचो थोडोसो अभ्यास करूंक फावो.

## प्लोटीनसी नव-प्लेटोवाद

**नव-प्लेटोवाद** ही प्रभावी विचारधारा **प्लोटीनस** (ख्रि. उ. २०५? - २७०?) ह्या ग्रीक विचारवंतान **प्लेटोच्या** विचारांच्या आदारार विकसीत केली. भौतीक जग हो आभास अशें मानपी **प्लोटीनस** राजकारणाक तुच्छ मानता. त्या काळार लोकमानसांत तशेंच दिसपट्टे जिणेंत राजकारणाचें जितलें म्हत्व आशिल्लें तें पळेल्यार (तशेंच प्लेटोन लोकसत्ताकाक दिल्लें म्हत्व पळेल्यार) **प्लोटीनसाच्या** विचाराचें नवेंपण कळटा. तो शरीर वा कूड ही **'आत्म्याची कादय'** मानता आनी जिवीत ही **'आभासाच्या वाठारांतली भोंवडी'** अशे धरता. प्लेटोवरीच तोवय **'सत'** **'पलतडी'** आसा अशें मानता. पूण ताचे लेखी हें सत एकल्या एकसुऱ्या **'पूर्ण आस्तेपणांत'** आसा आनी ह्या **'आस्तेपणाक'** (being) तो **दैवी एक** अशें नांव दिता.

प्लोटीनसाच्या विचारांप्रमाणे **दैवी एक** होच विश्वांतल्या पुराय **सत**, **शिव** आनी **सुंदराचें** मूळ जावन आसा. आनी ह्या मुळाकडेन, सगले विशुद्ध आत्मे, परतून पावपाची आस्त धरतात अशें प्लोटीनस मानता. अशें **'परतप'** हें कांय वेळा **गूढतम दिश्टाव्यांवरवीं** (mystical vision) अणभवूं येता अशेंय तो म्हणटा, इतलेंच न्हय तर खासा आपणें अशे तरेचे अणभव घेतल्यात अशेंय ताणें सांगलां.

तागेले विचार प्लेटोनीक मुळांतल्यान किल्लले आसले तारिकूय तांचेर ते **निराशावादाची** सया मारता. तत्वगिन्यान ही 'संवसारांतल्यान सुटपाची वाट' अशें तो धरता. संवसारीक वास्तव वा दिसपट्टी जीण वा सामान्य मानवी व्यापार हांकां ताचे लेखीं कसलेंच म्हत्व ना. हे निरीच्छ वृत्तीक लागून ताचेर भारतीय दर्शनाचोय छाप बसला काय कितें, हो कुतूहलाचो विशय जावंयेता. कांय अभ्यासकां मतान प्लोटीनसाचो जल्म (जरी चड करून) इजिप्तांत जाल्लो तरी तो उदेंतेवटेनचे सैनिकी मोहिमेंत सामील जाल्लो. कित्याक तर ताका भारतीय तत्वगिन्यानाची खासा वळख करून घेवंक जाय आशिल्ली. ताच्या एकंदर विचारांकडेन पळेल्यार हातूंत तथ्य आसा काय दिसता.

पूण प्लोटीनसाच्या **भारतीय** दर्शनाकडल्या वळखीविशीं जरी थीकपणान कांय सांगूंक नज आसलें तरिकूय **नव-प्लेटोवादाचेर पायथागोरेसी,**[1] **अरीस्टोटली** आनी **स्टोयक** विचारांचो चड-उणो प्रभाव दिसून येता इतलें मात खरें.

तागेले हेर विचार म्हळ्यार पृथ्वी ही वर्तुळाकार आसा आनी सूर्य-चंद्र- पृथ्वी आपणाभोंवतणी घुंवतात हे आसात. तागेल्या ह्या विचारांचो लाव **कुपरनिकसाक** धा एक शेंकड्यां उपरांत मेळ्ळो अशें धरपाक इतिहासीक आदार आसा.

**नव-प्लेटोवादाचेर** पायथागोरेसी विचारांचो प्रभाव प्लेटोवरवीं पडला जावंक जाय. प्लेटोच्या कल्पाकृती सिद्धांताक गणिती बसका आशिल्ली आनी पूर्णाकृती वा पूर्ण रूप ही संकल्पना तो भूमितीक नदरेंतल्यान केळयता हें आमी पळेलांच. भौतेक प्लेटोवरवींच पायथागोरसाचो प्रभाव नवप्लेटोवादाचेर पडला म्हणपाक कारण आसा. कित्याक नवप्लेटोवादय गिन्यानाक आद्य स्थान दिता. आनी गिन्यानाचो उपेग (इंद्रियांवरवीं न्हय तर बुद्दीवरवीं) कल्पाकृतींचें मूळ तत्व समजून सता मेरेन पावपांत जाता अशें प्लेटोवरीच मानता. इंद्रियांवरवीं वस्तु वा जिनसांच्या गुणांचें जें आकलन जाता ताका प्लोटीनसय प्लेटीवरीच म्हत्व दिना.

पूण प्लोटीनसाचो **नव-प्लेटोवाद,** प्लेटोच्या विचारांकडल्यान स्फूर्त घेवन तांचे फुडें वता. तो दैवी एकाची संकल्पना मांडटा. दैवी एक वास्तवापलतडच्या आनी आस्तेपणापेल्या अमूर्त सताची संकल्पना जावन आसा. पूण **दैवी एक** 'काळखाक उजवाडावपी प्रकाशापरी सताच्या सकयल्या पांवड्यांचेर ओतता वा व्हांवता'. सताचो सर्वोच्च पांवडो **प्रज्ञा** हो आसा; ह्या पांवड्यार **थळकाळाच्या संदर्भाविरयत** कल्पना आकृतीच्या रूपांत समजुं येतात. ताचे फुडलो पावंडो हो **आत्मो** आनी ताचे पेलो **एकचार** वा **प्रकृती**. तिनूय गुण **लघुविश्वीक** (microcosmic) आनी **गुरुविश्वीक** (macrocosmic) अशा दोन थरांचेर आसतात. आनी ते संवसारांतल्या व्यक्ती-जिनसांमदी, पुराय संवसाराभितर आनी संवसारा पेल्यान अशा तिनूय पांवड्याचेर दिसून येतात अशें **नवप्लेटोवाद** मानता.

**दैवी एक** हो फकत आस्तेपणाचें मूळ तत्व न्हय तर तोच आद्य आनी तोच शिव! **दैवी एक** इतंलो विशुद्ध, सरळ आनी आदीम रूपी आसा कीं ताची कल्पना फकत अमूर्तावरवीं वा नीज आस्तेपण न्हयकारून करूंयेता. ह्या वयलेवयर विरोधाभाशी

---

१. *पायथॅगोरसाच्या विचारांप्रमाणें अंक हो पुराय जिनसांचें सार जावन आसा. ताणे आंकड्यांचें नातें गूढ रितीन सद्‌गुणांवांगडा तशेंच रंग वा हेर जायत्या जिनसांवांगडा जोडलां. आत्म्याक तो अजरवंर मानता आनी आत्मो कुडीच्या मर्णाउपरांत दुसरे कुडींत प्रवेश करता अशेंय धरता. हे कल्पनेचें मूळ चड करून भारतीय दर्शनांत आसा अशें जाणकारांनी मानलां.*

दिसपी कल्पनेफाटल्यान जो मुद्दो प्लोटीनस मांडटा, तो ॲरीस्टोटली निरीक्षण वा प्रयोगशीलता हांच्या प्रभावांतल्यान येता.

प्लोटीनसाचो विचार असो असा, **भौतीक** वस्तू वा जिनस हांचे अंतर्गत **एके तरेचो एकचार** वर्तता. हाका लागून तांचे **भौतीक** रूप अशा एका एकवटाचे वा एकचाराचें प्रतिनिधित्व करता जो ताचें 'आस्तेपण' जावन आसा. जर ही भौतीक वस्त वा जिनस बारीबारीक कुडके-किस्कुटां करून वडयली जाल्यार तिचें भौतीक रूपच पुसून वतलें अशें न्हय तर तिच्यांतलो एकचारय ना जातलो आनी पर्यायात तिचें आस्तेपणय पुसून वतले. प्लोटीनसाच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, 'एक न्हय अशे कितें आसूंक शकता? एकवट वगडावन, खंयचीय वस्त **ती** वस्त उरना: एकवट आसले बगर सैन्य नासता; जावं वृंद (chorus) जावं हींड (कळप वा भिरें) एकवट जायच.' (**ॲन्नीयड**, VI, ix , I)

हो एकचार जो दरेका जिनसा-वस्तूची **प्रकृती** जावन आसा तो **दैवी एकाचोच** अंश आसा. ताचे वरवींच संवसारांतल्या दरेका जिनसामदीं, आदर्श आत्मो वसता. ह्या आदर्शरूपान संवसारांतले दरेके घुस्पटीक वा अंदाधुंदेक एकजिनसीपण दिवन कशे परीन गोंदळांत सुमेळ सादला हें प्रज्ञेवरवीं आमका कळटा. वेगळ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार कसलेय वस्तूची जी **कल्पना** आमी करतात, ती **'कल्पना'** होच ताचो एकचार. देखीक, झाडाचें झाडपण वा घराचें घरपण. ह्या घरपणाक वा झाडपणाक लागूनच घर **घर** जाता वा झाड **झाड** जाता, ना जाल्यार झाडा जाग्यार मुळां, खांदयो, पानां, फळां अशे वेगवेगळे असंबंधित जिनस आसतले आसले आनी ते निखालस झाड जावंक पावचे नासले. हो जो एकचार, ही 'सैमीक एकी' जी निसर्गांत वा संवसारांत आसा ही प्रज्ञेच्या आदारान आत्मसात करप म्हळ्यारच, दैवी एकाकडेन **तादात्म्य** पावप. अशेतरेन **सताचे समजणेंत** विलीन जावप म्हळ्यारच **आनंददिणें चिंतप** प्राप्त करप आनी सुंदराची जाणविकाय वा सौंदर्याची प्रचिति घेवप.

पूण जर दैवी एक होच **आस्तेपण, शिव** आनी **सुंदर** जाल्यार मागीर भौतीक संवसारांत अनिश्ट वा वायटाचें प्रतिरोधी तत्व कशें चलता? ह्या जगांत इतलें वायट, अपेशी आनी कुरूप तें कित्याक आसा?[१]

१. *विमसॅट (ज्यु.) आनी ब्रुक्स हांच्यामतान तत्वचिंतकांनी ह्या प्रस्नांच्यो जापो तीन तरेच्या तत्वगिन्याना प्रणालींवरवीं दिवचो यत्न केला. त्यो म्हळ्यारः (१) **द्वैतवादी वा दुवात्मीक** 'मॅनीकियन' विचार प्रणाली, जी अनिश्टाक स्वतंत्र, सकारात्मक आनी कृतिशील तत्व मानता जें शिव वा इश्ट आसा ताचो विरोध करता. (२) **स्पीनोझान** फुडें काडिल्ली 'निःपक्षपाती' विचारधारा जी इश्ट-अनिश्ट हें मानवी (संवसारीक) सुख-दुख्खा कडेन सापेक्ष (relative) आसा तशेंच भौतीक आनी आधिभौतिक सत हें बऱ्या वायटापेल्यान आसा अशें मानता, आनी (३) **नवप्लेटोवादी** तशेंच ख्रिश्चन विचारांप्रमाणें अनिश्ट हें आपजिवी न्हय तें फकत **'कित्याचो तरी अभाव'** म्हूणच दिसून येता.*

प्लोटीनस **भौतीक तत्वाक** भौ-पटी (multiple) आनी विखरून वचपाची प्रवृत्ती आशिल्लें तत्व मानता. ताच्या मतान **दैवी एक** ह्या नकारात्मक तत्वाक जिखून (conquer) ताका आकृती आनी 'आस्तेपण' दिता, प्लोटीनस हो मुद्दो पटोवपाक एक सोबीत प्रतिमा वापरता. तागेल्या कारंज्याचे प्रतिमेप्रमाणेंच हीवय भौ-प्रचलीत आनी सहजसमजणी आसा. विश्वाक जर इंद्रधनुशी कड्यांचे मध्य केंद्रीत (concentric) वर्तुळ मानलें तर **दैवी एक** हो ताचो विशुद्ध, प्रकाशमान मध्यबिंदू थारता. हो ह्या गडद जायत वचपी वर्तुळाकार कड्यांचे माळेंतल्यान, ह्या वर्तुळाक वेढावपी काळखारूपान प्रसरत वता. हाचेवेल्या इश्ट-अनिश्ट वा बरें-वायट ह्यो एकाच **अमूर्त तत्वाच्यो** दोन वटी हें समजता.

**प्लोटीनसाचो प्रभाव**

जरी हालींच्या तेंपार प्लोटीनसाच्यो कल्पना फाटीं पडल्यात आसल्यो तरी तत्कालीन आनी उत्तरकालीन ख्रिश्चन तत्वचिंतनाचेर तांचो खूबच परिणाम जालो. **सांत आगुस्तीनान** 'प्लोटीनसी' **नव-प्लेटोलोवादाच्या** आदारार, त्या काळार प्रचलीत आशिल्ल्या **द्वैतवादी** वा **दुवात्मीक** विचारांचो खर विरोध केलो, हें तागेल्या **Contra Manicheos** (कौंत्रा मॅनीकिओस) ह्या ग्रंथावेल्यान कळटा. तोवय एखाद्या जिनसाचें 'आस्तेंपण' म्हळ्यार ताच्यांत एकचार आसप अशें मानता. पूण तो अशेंय मानता की भौतीक जिनस जाय तितले वांटूक जातात म्हूण तांच्यांत **'खरेपणान'** एकवट ना. प्लोटीनसाचो 'वस्तु आनी आत्मो हांचो एकचार', सांत आगुस्तीन सेंद्रिय आनी आत्मीक अशा दोन पावंड्यांचेर आसा अशें मानता. ताच्या मतान इंद्रियांवरवीं मेळपी आनंद हो, तो-तो जिनस आनी इंद्रियां हांचेमदीं घडिल्ल्या संवादाक वा तांचेमंदी आशिल्ले सुसंगतीक लागून मेळपी आनंद असता. पूण चिंतनांच्या रूपान जो आनंद वा कलात्मक संतुश्टी लाभता, ती फकत जिनस आनी इंद्रियांच्या सुमेळाक लागूनच न्हय, जाल्यार त्या -त्या जिनसान मनशाचे पुराय प्रकृती वांगडा वा सैमीक वृत्तीवांगडाच एकवट दिल्लो आसता तेन्नाच मेळटा. सांत आगुस्तीनाच्या संगीताविशींचे **De Musica** हे कृतींत ही एकवटाची कल्पना अदीक पोसवल्ली दिसता. तागेल्या, 'सेंद्रिय तालाकडसून सतांतल्यान अमर तालामेरेन चडप' ह्या उल्लेखांतल्यान सांत आगुस्तीन, प्लेटोनीक आनी पायथॅगोरेसी विचारावटेन ओडटा, हें कळटा.

सांत आगुस्तीनाच्या विचाराफाटल्यान **सत, सुंदर, ताळ-मेळ** आनी **एकचार** हांचो जो उबारो आसा तोच ताच्या सौंदर्याशास्त्रीय विचाराचो फाटकणो जावन आसा. खरेपणान, ताचो पुराय सौदर्यविचार हो दैवी सिद्धांताच्या सोदांतल्यान उदेला. जरी

सांत आगुस्तीन पूर्णाचो विचार मांडूंक पावलो वा परीपूर्णाची संकल्पना समजूं शकलो, तरिकूय आपणाल्या अपरिपूर्ण भौतीक अणभवांतल्या अशे तरेचो परिपूर्ण विचार मनीसबुद्द कशे तरेन मेळोवंक शकता हाची बुद्दीक पटसारकी जाप ताका मेळना. अशे परिपूर्णाचे संकल्पनेफाटल्यान **दैवी देणें** आसा अशें तो मानता. भौतीक संवसारांत जरी बेताल आनी अंदाधुंद अणभव आसले तरी 'पलतडी' पूर्ण तरेचो ताळमेळ आसा. मानवी आत्म्याचो ह्या आधिभौतिक पूर्णाकडेन पुरायेन एकवट जावंक शकता. हे वरवीं ताची **दुवात्मीक** अनुभूती वा जाणविकाय ना जाता. आनी तो आपले तादात्म्य अवस्थेंत सृश्टींतल्या **सुमेळ, सुंदर** आनी **शुभाच्या** मूळ तत्वांत आस्पावता. ह्या मूळ तत्वाच्या **(दैवी एकाच्या)** प्रभावाक न्हयकारप हें **दुवात्मीपण.** ह्या तत्वांत एकरूप जावपाची, अनुभूती घेवप म्हळ्यारच **सत, शिव** आनी **सुंदरांत** वांटेकार जावप. प्लोटीनसावरीच, आगुस्तीनय सुंदराक **एकचार** वा **एकरूपतायेंतच** सोदता. हो एकचार एखाद्या जिनसाच्या विविध **भागांविरयत** वा ते **भागांसयतय** घडून येता अशेंय तो मानता. मुख्य म्हळ्यार ही सुंदराची अनुभूती विविधतायेवरवीं वा विविधतायेंतल्या गुणांक लागून **येना,** अशेंय सांत आगुस्तीनाचें मत आसा.

ताचें हें मत **कलेकूय** लागू जाता. ताच्या म्हणण्याप्रमाण **कला** जरी **आभासाची** एक **तरा** आसली तरी तातूंतय 'खासा आपले अशें' **सत** आसा. कलाकाराक आपणाकडेन प्रामाणिक रावंक जाय जाल्यार ताका 'फटी घडोवच्यो पडटात' पूण सौंदर्य (कलेंतले) एकटोशीं आस्वादूं जायना. कलात्मक आनंद मेळोवचे खातीर विरोधांत सुसंवाद आनी विविधतायेंतल्या एकचारांत सुंदरता सोदूंक जाय. हाका लागून बरपांत (धर्मग्रंथांतबी) रूपक वा प्रतिमांचो उपेग ताका नाकसूरो वचना. उलट ताका दिसता की हांचेभितर लिपिल्लें सत समजूंक कठीण आशिल्ल्यान तें सोंदूक काडपांतलो आनंद वाडटा. हो आनंद म्हळ्यारच कलेच्या आस्वादनांतल्यान मेळपी संतुश्टी, हें आनी वेगळें सांगूंक जाय? सुंदराची अनुभूती ती हीच!'

सांत आगुस्तीनाच्या ख्रिश्चन आधिभौतिक विचाराचो प्रभाव बरोच काळ भावी विचारवंतांचेर पडलो आसतलो हांतूत दुबाव ना. पूण णवशें वर्सां उपरांत **थॉमस ॲक्वीनासान** ताचे विचारप्रणालीक दिल्ली **वेगळी दिका** मात खासा समजून घेईसारकी आसा. **थॉमस ॲक्वीनासान** आगुस्तीनाच्या **प्लेटोनीक** 'पलतड'च्या विश्वाक, **अरीस्टोटली** भौतीक संवसार-अणभवांची, 'आलतड' दाखयली. पूण थॉमस ॲक्वीनासाच्या भौतीक संवसाराचो **परमोच्च बिंदू** 'अमानवी आस्तेपण' वा 'प्राकृतीक दैवी सासाय' नासून **संवसारापेलो** पूण 'भौतीक युक्तीवादान समजण्याजोगा' **व्यक्तीगत देव** आशिल्लो. लागीं-लागीं हजारभर वर्सां ख्रिश्चन धर्म विचाराचेर जो

**प्लोटीनसी** अमूर्त सिद्धांताचो छाप आशिल्लो तो ल्हवूच उणो जालो. प्लोटीनसाची 'रचणारो आनी रचणूक' हांचेमदली **शाश्वत** (आत्मीक थरावेल्या) **सुमेळाची** संकल्पना, ॲक्वीनासात **देव** आनी ताणें रचिल्ली **सृश्ट** हांचेमदीं **फरक** दाखोवन, न्हयकारली. **सुंदराची अनुभूती** 'ॲक्वीनासी' विचाराप्रमाण देवाच्या हातच्या मूर्त कृतींचे समजणेतल्यान वा जाणविकायेतल्यान घडटा. ताच्या मतान, देव जरी सुंदराचे मूळ आसलो तरिकूय सुंदराची अनुभूती सृश्टींतल्यान घडपी त्या सुंदराच्या मूर्त साक्षात्कारांतल्यान मेळटा, अमूर्तावांगडा घडून येवपी आत्मीक थरावेल्या एकचाराक लागून न्हय.

अशें तरेन **नव-प्लेटोवादान** जी सुंदराची संकल्पना, अमूर्त आनी तालबद्द विश्वाचे कल्पनेचेर आधारून मांडिल्ली ती ॲक्वीनासाच्या 'अरीस्टोटली,' अणभवसिद्ध सौंदर्य सिद्धांताप्रमाणे **भौतीक, इतिहासीक** आनी **वास्तविकाचेर** येवन थिरावली. नव-प्लेटोवादान अमूर्ताच्या अनुभूतीकच सुंदराचें आकलन म्हणिल्लें. पूण ॲक्वीनासाच्या सौंदर्य-विचारांत **रूप** आनी **बुद्धीचो** सौंदर्याचे अनुभूतीखातीर आस्पाव गरजेचो थारता. तो **दैवी सौंदर्याची** कल्पना न्हयकारना पूण **संवसारीक जिनस, सृश्ट** आनी **भौतीक जिणेवरवीं** 'त्या पांवड्यावेले' सौंदर्य-अनुभूती मेरेन पावपाची आस्त बाळगिता.

**प्लॉटीनसी** आनी **आगुस्तीनी** विचारांभाशेनच **ॲक्वीनासी** विचारांतय, **सुसंगती** वा **सुमेळ** हें सुंदराचें मुळावें प्रमेय मालां. पूण जिनसा अंतर्गत आशिल्या ह्या प्राकृतीक ताळमेळावांगडाच त्या जिनसाचो भायल्या संवसारावांगडा वा अणभवणाऱ्यांवांगडाय समजणेवरवीं मेळ जमूंक जाय. 'जिनस' 'आनी 'तो जिनस अणभवणारो' हांचेमदीं गिन्यानाचो संबंद आसल्यारूच सुंदराचें आकलन जातलें, ताचें आस्वादन घडटलें आनी तेवरवीं आनंद मळटलो. हांगा गिन्यानाचें सोपण **फकत प्रज्ञा न्हय** तर मुखेलपणान **इंद्रियां** आसात, हें आनी वेगळे सांगू नाका. ताचे सुंदराचे कल्पनेंत परिपूर्णताय, सुसंगती आनी स्पश्टताय हांचो आस्पाव जाता. **ॲक्वीनासी** विचारांत **प्लोटीनसी** आनी **प्लेटोनीक** 'प्रकाशमान' प्रतिमांचो चडावत उपेग जाल्लो आसा.

साहित्याच्या विद्यार्थ्याक ह्या विचारांचो **काव्यशास्त्रावांगडा** कसो संबंद जोडचो असो प्रस्न पडटलो. ताची जाप अशीः कविता रूपकां वा प्रतिमांबगर उलोवंक पावना आनी रूपकात्मक आशयाक लागून काव्य गूढ आनी बुद्धीपेल्या विशयांकय हाताळूंक शकता. हाका लागून तें तत्वगिन्यान वा अध्यात्मासारक्या आधिभौतिक शास्त्रांचें दायजी जाता. पूण तेच बराबर काव्याची **गोडी, गेयता** जावं **ओडलायणी शैली** ताका भौतिकावांगडाय तूटना असो दाट संबंद दवरूंक भाग पाडटा. पर्यायान ताचो सरळ

उक्तो असो **आपउपलापो आशय** आनी तातूंत लिपचोरयां दडिल्लो **आंतरीक गूढ आशय** ह्या दोगांयचो विचार (काव्याच्या **भास, शैली, दिश्टावो** अशा हेर आंगांवांगडाच) करचो पडटा. हातूंतल्या भौतीक पावंड्यावेल्या **उक्त्या आशयाच्या** अनुभूतींत 'ॲक्वीनासी' कल्पनांचो, चडकरून ताच्या इंद्रियांवरवीं मेळपी जाणविकायेचो आदार सौंदर्य आस्वादनाक जाय पडटा. जाल्यार **आशयाच्या गूढ शिमांभितर** सरून रूपकांच्या प्रतिमांच्या मनभुलोवणे जाळयेपोंदच्या आपालिपा खेळपी आशयाक भिडूंक 'आगुस्तीनी' सुमेळाचो वा 'प्लोटीनसी' अमूर्ताचे अनुभूतीचो दिश्टावो जाय. म्हणून ॲक्वीनास काव्य आनी धर्मशास्त्र हांचे मदली समानता वळखून मान्य करता की तांकां दोगांकूय **प्रतीकात्मक रितीचो** समसमान तरेन **उपेग** करचो पडटा आनी तीं दोगांय (काव्य आनी धर्मशास्त्र) तर्कनिश्ठ भासाभाशेक योग्य नात.

अशे तरेन प्लोटीनसाचो **नवप्लेटोवाद आगुस्तीनी** आनी **ॲक्वीनासी** विचारांतले चाळणींतल्यान घोळून, धर्मशास्त्राच्या **देव-केंद्रीत सौंदर्यविचारांतल्यान** वस्त्रगाळ जावन **येवरोपी पुनरुज्जीवनवादी** युगांत कवींच्या हातांत पावलो. पंदराव्या आनी सोळाव्या शेंकड्यांत ह्या विचारांनी आपापले तरेन प्रबोधन काळावेल्या काव्याचेर तशेंच काव्यविचाराचेर (चड करून सौंदर्यविचाराचेर) आपलो प्रभाव घालो. पूण पुनरूज्जीवनकाळावेल्या संस्कृतीक उत्थानाचो एक भाग म्हळ्यार तातूंतल्यान उदेल्ली **सभ्यता** आनी तिका जोडून उबो जाल्लो **शास्त्रीय दिश्टीकोण**. ह्या दिश्टीकोणांतल्यान **बुद्धिप्रामाण्य, तर्क, प्रयोगशील निरीक्षण** आनी **प्रयोगसिद्ध निश्कर्श** हांचो प्रभाव हेरां शात्रांवरीच कला आनी साहित्याचेर पडूंक लागिल्लो. **नास्तिकता** आनी **दुबाव** हांचे दोट्टी बुन्यादीचेर फुडाराचो पुराय विज्ञानीक विचार जावचो आशिल्लो. **विज्ञान** आनी **तर्कनिश्ठ समजणी** हांचेमदीं **अमूर्त** आनी **गूढ** हांचे हय-न्हयशें **आस्तेपण** कशें तिगतलें ? गॅलीलियोन आनी उपरांत कुपरनिकसान पृथ्वी हो विश्वाचो मध्यबिंदू न्हय हे सांगून **देव-केंद्रीत विश्वाचें** व्हडेंच उमथिलें. **मानव-केंद्रीत** विश्वकल्पनेंत **मानवतावाद** आंकुरलो. ल्हवु ल्हवु शास्त्रशुद्ध प्रगत विचारांवरवीं विज्ञानान **देव** हे संकल्पनेकच (जावं अमूर्त जावं व्यक्तिगत आनी मूर्त) खिळखिळी केली. **देकार्ताच्या** बुद्धिवादान उरिल्ले सुरिल्ले श्रद्धेक वा दैवी विश्वासाकय चुडटी लायली. ह्या सगल्यांचेर प्रतिक्रिया म्हूण १८ व्या शेंकड्यांत **आदर्शवादी** विचारान **जर्मन सौंदर्यशास्त्राच्या** मुळसांत जल्म घेतलो. आनी ह्या आदर्शवादी विचाराचे ताळयेचेर स्वच्छंदतावादाचें फूल धरलें.

●

# १२

# मध्ययुगीन साहित्यविचारांतलें नवें पर्व.

नव-प्लेटोवादाचो प्रभाव उपरांतच्या काळार **धर्मशास्त्र** आनी **साहित्यशास्त्र** हांचेवरवीं **स्वच्छंदतावादी** युगामेरेन पावलो. ह्या प्रभावाचे वाटचालींतले तीन दोळ्यांभर सारके वाटचिरे म्हूण **मध्य युगांतलें बरप, पुनरुज्जीवन काळांतलें काव्य** आनी **जर्मन आदर्शवादी तत्वगिन्यान** हांचोय उल्लेख करुंक जाय. मध्ययुगांत जरी म्हणसारकें समिक्षात्मक बरप जालें ना, तारिकुय धर्मीक आनी प्रपंचीक बरपांतल्यान सौंदर्याविचार जावं कलाविचार केळयिल्लो दिसून येता. ह्या बरपाचें म्हत्व म्हळ्यार, तातूंतल्यान उपरांत पुनरुज्जीवन काळार उदेल्ल्या बरपाक चालना मेळ्ळी. ही चालना द्रोन तरेन मेळ्ळी अशें म्हणुंयेताः एक, प्रत्यक्ष त्या काळावेल्या बरोवप्यांचेर आपलो आनी आपल्या **विचारांचो फोक** घालून मध्य युगांतल्या बरोवप्यांनी तांकां **उत्तेजन** दिलें. उदाहरण म्हूण **दांतेच्या** काव्यविचाराक आनी काव्याक घेवं येता; आनी दुसरें, मध्य युगांतल्या **धर्मनिश्ठ, देव-केंद्रीत, पुरायेन उपदेशपर** तशेंच **रुपकात्मक** बरपाचेर **'प्रतिक्रिया'** म्हूण पुनरुज्जीवन काळावेल्या बरोवप्यांनी **अभिजात** ग्रीक-लॅटीन बरपाची आदर्श नमुनो म्हूण पुनर्स्थापना करून सर्जनात्मक बरप जल्माक घालें.

खासा कोंकणी समिक्षेच्या विद्यार्थ्यांक मध्ययुगीन काव्यविचाराची वळख खूबच लावदिणी थारतली. हाचें कारण म्हळ्यार, मध्ययुगांतलो धर्मातीत (secular) प्रपंचीक साहित्यविचार **अभिजात** साहित्याच्या काळारसावन **पुनरुज्जीवन** काळामेरेनच्या साहित्याकडेन पळोवचेले **वेगळे नदरेचो** थाव घेता. ते भायर मध्ययुगांतले निमाणे बरोवपी ग्रीक वा लॅटीन ह्या **'अभिजात'** भासांचो पदर सोडून, **'प्रादेशीक'** बोली, भासांच्या नेटार चांट मारूंक आवंडेतात. हातूंत दांतेचे नांव सगल्यांत आदीं घेंवक जाय कारण ताचे उपरांतच येवरोपांत विगड-विंगड प्रादेशीक भासांचें म्हत्व बरोवप्यांक गवसल्लें दिसता.

**दांते ॲलीगियेरी** (१२६५-१३२१) ह्या एकाच नांवान इतालियन भास आनी साहित्याचेर असो छाप दवरला कीं ताचो फोक आजलेगीत पुराय संवसारांतल्या साहित्य आनी समिक्षेचेर दिसून येता. ताचीं नामनेचीं बरपां अशीं जावन आसात. **नवी जीण** (La Vita Nuova), **दैवी कामदी** (Divine Comedy) आनी वेगवेगळ्या

**तीन** नावांची प्रसिद्ध आशिल्लो ताचो अर्दकुटो समिक्षात्मक ग्रंथ (De Eloquentia Vulgari (Of The Vulgar Tongue). **नवी जीण** ही काव्यकृती, कवितांचो संग्रह जावन आसा आनी तिचेर फ्रेंच 'त्रूबादूर' काव्याचो चडावत प्रभाव दिसून येता. **दैवी कामदी** जरी जगभर नामना मेळयिल्लें **महाकाव्य** आसलें तरिकूय ताका अभ्यासकांनी 'मध्ययुगीन विचारांचें सार' उत्तावपी महाबरप अशें लेखलां. पण **दांतेचें** साहित्यसंवसाराक खाशेलें देणें म्हळ्यार ताचो **साहित्य-विचार** जावन आसा.

## बोलीभाशेचो पुरस्कार

चालंत बोलीभाशेंतल्या बरपाविशींच्या ह्या ग्रंथांत दांते 'काव्याक सोबसारकी भास' हेविशीं उलयतना **बोलीभाशेचे** (खास करून आवयभाशेचे) **तांकिची** उखेवणी करता. लोकांच्या ओठांर घोळपी भासच दोळे दिपकावण्याजोगी 'लकलकीत' करूंक जाय. जाल्यारच ती पुरायेन काव्याक योग्य अशें माध्यम जावंक पावतली हें तो भर दिवन सांगता. कोंकणीवरीच ताच्या इतालियन भाशेकूय साबार बोली आशिल्ल्यो आनी तातूंतली एखाद्री काव्याखातीर वेंचतना जी जतनाय तो घेता, ती आयच्या कोंकणी बरोवप्यानय मुजरत घेवंक फावो. 'सगल्याच बोलींतले उत्तम तें घेवचें आनी जें निखटें थळावें वा प्रादेशीक आसा तें टाळचें' अशें तो म्हणटा. हाचेवरवीं दांते एक 'उदात्त शैली केळोवपी' 'प्रकाशमान थळावी भास' घडोवपाची आस्त बाळगिता. तागेले कवितेंत ताणें ही आस्त कृतींत हाडून साध्य केल्या हेंवय मतींत घेईसारकें.

दांतेच्या 'प्रकाशमान भाशे' ची बुन्याद **उतरावळीच्या उपेगाचेर** उबारल्या. तो **वेंचीक उतरावळ** वापराचेर भर दिता आनी हेखातीर उतरां गाळून-गाळून निवळायता. जरी दांचेचीं उतरां वेंचपाची **रीत** आनी तिचेफाटलो हेतू 'उदात्त' आसलो, तरी ताणें लायिल्ले **निकश** मात दोळे धांपून आपणांवक जायनात. तो उतरां गाळटना **गांवगिरीं** आनी **नागरी** अशे वांटे घालून, **नागरी** उतरां **श्रेश्ट** थारायता. परतून, नागरी उतरांमदीं **पोरकट, बायलकुरीं,** आनी **दादलेकुरीं** अशे वांटे घालून, **दादलेकुरीं** उतरां **श्रेश्ट** म्हूण आपणायता. ह्या उतरांचेय फुडें **विस्कुटिल्लीं** (shaggy) वा **मिरयेल्लीं** (crumpled) आनी **वळयिल्लीं** (combed) आनी **तिकतिकीत** (glossy) अशे फांटे फोडटा. शेवटाक तो फकत **वळयिल्लीं** आनी **तिकतिकीत** उतरावळ तितलीच **योग्य** म्हूण स्वीकार करता. आनी आसुं-भोंगू म्हूण **विस्कुटिल्ल्या** उतरांकय गरजेपुरतो थारो दिता.

दांतेच्या उतरां गाळपाचे 'चाळणीचो जरी आधुनिक बरोवप्यांनी स्वीकार केलो ना तरी **उतरां वेंचून घेवपाच्या** ताच्या **तत्वाचो** ताणीं मुजरत पुरस्कार करूंक जाय. दांतेच्या विचारांचे खासा मोल तांणें केल्ल्या **थळावे भाशेच्या पुरस्कारांत** आनी

**उदरगतींत** आसा. तागेल्या समकालीन प्रादेशीक भाशिकांमदीन **लॅटीनाखेरीज** खंयचे भाशेंत न बरोवपाची जी चाल आशिल्ली, ती दांतेन सुधारली. **आवयभाशेची तांक** ताणें वळखून तिका साहित्य-सर्जनांत मानाच्या पानार बसयली. हें करतना ताणें हॉरेसाच्याच **लॅटीनासंबंदी** विचारांक, प्रादेशीक (इतालीयन) भाशेच्या उपेगा खातीर लागू केले. दांतेचे भाशेविशींचे विचार क्विंटीलियनाच्या 'सुशिक्षित मनशाची मान्य प्रथा' ह्या तत्वाकय लागीं आसात.

दांतेची देख सर्जनात्मक आनी समिक्षात्मक बरपांत येवरोपी बरोवप्यांनी रोखडीच आपणायिल्ली दिसता. **पेट्रार्क** (१३०४-१३७४) हो कवी इतालियन काव्यफुलांच्या (सुनितां) संग्रहाखातीर साहित्य-संवसारांत अजरंवर जालो. ताचो समकालीन **गिव्होव्हानी बोकासियो** (१३१३ ? -१३७५) होवय आपणाल्या जगप्रसिद्ध **देकामेरों** ह्या **गद्य कथा-वळेसराक** लागून नामनेक पावलो. अजाप म्हळ्यार बोकासियोचें अभ्यासपूर्ण लॅटीन बरप मात काळाच्या घोग्यावांगडा विसरायेर पडलें. हातूंत ताणें एकठांयिल्ल्या द **जिनियालोजीया दे ओरम जॉन्तिलियम** ह्या लॅटीन म्हाग्रंथांचो लेगीत आस्पाव जाता. ह्या बरोप्यांच्या प्रभावांतल्यान म्हान इंग्लीश कवी **चॉसर** हाणें लॅटीन वा फ्रेंच भासांनी बरोवपाचें सोडून **इंग्लिशींत** बरोवंक सुरू केलें. तागेल्या फांकीवंत बरपामदीं **कॅन्टरबरी टेल्स** हें चड नांवाजिल्लें आसा.

ह्या बरोवप्यांची 'ख्रासियत' म्हळ्यार तांकां **अभिजात** काळावेल्या साहित्याची आनी साहित्यविशयक विचारांची वळख आशिल्ली. पेट्रार्कान तर **सिसेरो** वा **लिव्ही** सारकिल्या लॅटीन बरोवप्यांचीं शेणिल्लीं बरपां मठांतल्यान सोदून काडून संवसारा-मुखार दवरलीं. हाचें स्त्रय तर ताका वेताच खेरीज **मानवतावाद** हे नवे विचारप्रणालीचें मुळावण, साहित्यांत घालॅखातीरय ताका ताच्या हेरां समकालीनांवांगडाच मानाचो पाट फावो जाता. इंग्लीश बरपांत असो मान **जोफ्री चॉसराक** साहित्यकारांनी आनी अभ्यासकांनी एकासुरान दिला. जरी **मानवतावाद** हो उपरांत पुनरूज्जीवनाच्या काळार त्या युगाचो खासा मंत्र असो मानलो तरिकूय ताचें मूळ **पेट्रार्क** आनी **चॉसरा** सारकिल्ल्या म्हारथींच्या वावरांत आसा. तेच परी **दांते** आनी हेर प्रादेशीक भासांतले बरोवपी हांचे वरवींच, पुनरूज्जीवनाच्या काळावेल्या बरोवप्यांक, 'अभिजात बरपाचें अडेचें अनुकरण' (नक्कल) करचेपरस, आपली **भास** आनी **अस्मिताय** फुलोवपाचें बळगें मेळ्ळें. हाका लागून ह्या युगंधरांक पुनरूज्जीवनाचे **पूर्वसूचक** (precursors) अशें अभ्यासक मानतात, आनी तें लटीक न्हय.

जरी सोयिस्करपणान कॉन्स्टेंटीनोपल तुर्कांच्या हातांत पडलां तें १४५३ हें वर्स **येवरोपी पुररूज्जीवनाची नांदी** अशें मानलें तरी तें इतिहासीक नदरेन बरोबर न्हय. **अभिजात** ग्रीक-लॅटीन साहित्य वाटावपाक त्या काळावेले अभ्यासक जावं विद्वान इटली वा फ्रान्सासारकिल्ल्या देसांनी आलाशिरो घेवंक आयले आनी तांणी हाडिल्ल्या ग्रंथांवरवीं येवरोपी समाजाक पुर्विल्ल्या साहित्य आनी कलाविचाराची वळख जाली अशें म्हळें तरी तें पुरायेन खरें न्हय.

१४५३ चे आदीं लेगीत अभिजात साहित्य आनी तत्वगिन्यान येवरोपी विद्वानांमेरेन पावतालें पूण ताचो फावो तसो प्रसार जाल्लो नाशिल्लो. हातबरपाच्या रूपांत आशिल्ल्यान ह्यो कृती सपसप लोकांमेरेन पावनाशिल्ल्यो (जरी शिकिल्ल्या लोकांचो आंकडो ह्या काळार हाता-बोटांचेर मेजपाइतलोच आशिल्लो.) १५ व्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत येवरोपांत **छापणावळीचें** तंत्र उदरगतीक पावलें. आनी योगायोगान ह्याच तेंपार तुर्कांच्या जांचाक भियेवन आयिल्ल्या अभिजात साहित्याच्या अभ्यासकांनी पुर्विल्ल्यो ग्रीक-लॅटीन ग्रंथ-कृती वाटावन आपणावांगडा हाडल्यो. हाका लागून अभिजात साहित्याची गोडी आनी तेच वांगडा अभिजात तत्वगिन्यान आनी काव्यविचाराचो प्रभाव येवरोपी सुशिक्षितांचेर पडूंक पावलो. पूण हे ग्रंथ ग्रीक-लॅटीन भासांनीच उरिल्ले जाल्यार तांचो प्रसार इतले सोपेपणीं जावचो नाशिल्लो. नशिबानसार **१५ व्या शेंकड्यामेरेन प्रादेशीक भासांनी बरोवप ही लजेची** वा **नाविन्याची** (अभावानच घडपी) **गजाल उरूंक नाशिल्ली.** हाका लागून थळाव्या भासांनी ह्या ग्रंथांच्या हात बरपाचो धडाधड **अणकार** जावंक पावलो आनी हो अणकार **छापखान्यामार्फत सोपेपणीं** वाचप्यांच्या हातांतय पडूंक पावलो. ह्या सुलभ आनी सुटसुटीत प्रसाराचें खरें स्त्रय अभिजात साहित्याक न्हय तर प्रादेशीक साहित्याक चालना दिवपी **द्रश्टया साहित्यीक-विचारवंतांक** वेता. आनी हांगा **दांतेचें** योगदान विसरूंयेना इतलें श्रेश्ठ थारता.

**दांतेच्या** मूळ लॅटीन भाशेंतल्यान ग्रंथाचो **त्रिसिनो** हाणें १५२९ त इतालियन भाशेंत अणकार केलो. हांगा इल्लें विशयांतर करूंक जाय. प्रादेशीक भाशेचो पुरस्कार करपी बरप दांतेन **लॅटीनांत** बरयलें हें काय जाणांक खटकुं येता. पूण दांतेन केल्लें तें योग्य आशिल्लें कारण ती ताच्या 'काळाची गरज' आशिल्ली. वाचपी लॅटीन भाशेंतलेंच बरप वाचतालो. ताच्यांत विचार-प्रवर्तन घडटलें जाल्यार ताणें आदीं नवे विचार **'वाचप'** गरजेचें आसलें. **दातेंच्या** विचारांच्या प्रभावाचो फाटलाव केल्यार आमकां पुनरुज्जीवन युगांत आकांताची साहित्य-सिद्धांतीक बरपावळ मेळटा. ह्या बरपाचेर **होमेर, प्लेटो, अरीस्टोटलासारक्या** विचारवंतांचो ठळक छाप

दिसता. पूण तेच वांगडा **दांतेन** 'थळावे भाशेच्या उपेगाची व्हडविकाय' सांगून घाल्ले **अस्मिता** आनी **स्वाभिमानाचें नम्मन** फुडल्या येवरोपी बरोवप्यांनी उखलून धरलें हेंवय तितलेंच खरें. १६ व्या शेंकड्याचे मदें १५४९ त **द्यु बॅले** ह्या फ्रेंच बरोवप्यान **थळावी भास,** 'अभिजात साहित्यांतल्या उत्तमांतल्या उत्तम उतरावळीचें रुपांतर वा लुटालूट करून', **गिरेस्त करची** असो सूर काडलो. ते आदीं **व्हीदा** ह्या इतालियन लेखकानय **द आर्ति पोएतिका** हांतूंतय असोच उपदेश केल्लो दिसता. इंग्लंडाक **इ. के.** ह्या बरोवप्यान एडमन्ड सेंन्सराचे Shepherd's Calender हे कृतीक बरयिल्ल्या प्रस्तावनेंतय प्रादेशीक भाशेचो 'किल्लो लडयल्लो' दिसता.

पूण इंग्लंडाक काव्यविशयक बरपाक खरी धार आयली ती मात **काव्याचे मोखीसंबंदी भासाभाशेंतल्यान.** साहित्याच्या अनिश्ट परिणामांचेर पयली जहाल टीका **स्टीफन गोस्सोन** हाणें **द स्कूल ऑफ ॲब्युज** ह्या बरपांतल्यान केली. **गोस्सोनाक** सौदर्यशास्त्रांत रस नाशिल्लो. बरें नाटक वा कविता, ताचे लेखीं बरी 'नैतिक देख' दिवपी कृती थारताली, ती मागीर कलात्मक नदरेन परिपूर्ण आसूं वा नासूं. हे टिकेक **थॉमस लॉज** आनी **सर फिलीप सिडनी** ह्या दोन समकालीन साहित्यिकांनी प्रत्युत्तर दिल्लें आसा. **लॉजाच्या** बरपाचो माथाळो शेणला, पूण **सिडनीचो** ग्रंथ मात, दोन प्रकाशकांतर्फे वांगडाच दोन माथाळ्यांनी छापून आयिल्ल्यान, प्रसिद्ध आसा. ताच्या ग्रंथाक **द डिफेन्स ऑफ पोएट्री वा ॲन ॲपोलोजी फॉर पोएट्री** अशीं नावां आसात. **लॉज,** गॉस्सोनाच्या आताकाक जाप दितना, पुर्विल्ल्या कवींची देख दिवन काव्याचें वा साहित्याचें **कलात्मक मोल** वाखाणटा. पूण **सिडनीचो** ग्रंथ मात **तर्कशुद्ध** आनी अभ्यासपुराय अशा विचारांक लागून फकत गोस्सोनाक दिल्ली जाप म्हूणच न्हय तर समकालीन साहित्यविचारांचे मोलादीक लेणें म्हूण नामनेक पावला. ह्या ग्रंथाचो उपरांतच्या काळार प्रभावय बरोब पडला, म्हूण ताचो इल्लेशा विस्तारान उल्लेख जावंक जाय.

पूण ते आदीं त्या काळावेल्यां हेर इंग्लिश टिकात्मक लेखन करपी साहित्यिकांचो उल्लेख चुकीचो थारचो ना. हे बरोवपी, **अभिजात** साहित्यांतल्या नमुन्यांक लागून चड प्रभावित जाल्ले. तांच्या सर्जनशील बपांतल्यान हें स्पशटपणान कळटा. पूण तेच वांगडा ते प्लेटो-ॲरीस्टोटलापासून सुरू जाल्ल्या साहित्यसंबंदी विचारांच्या ल्हारारय सुंवार ज़ाल्ले. हाका लागून आपणाल्या ह्या नव-अभिजात अभ्यासांतल्यान तांणी पर्थून एक फावट **साहित्याविशींचे भाशाभाशेची कीट** फुलयली. हे किटीक एकेपरीन तत्कालीन साहित्यिकांनी आपल्या बरपांत भाशीक सुधारणा आनी अभिजात नगुन्यांच्या अदर्शांकडेन आडनदर करून, वारो घालो.

अशे तरेन घसघसून फुलोरे आयिल्ल्या साहित्याच्या तत्कालीन पोरसांत जी **साहित्यीक वादाची वंय** उबी जाली ती लक्षणीय आसा. एके वटेन, **चीफ, ॲश्चम, विल्सनासारके** सुधारक आनी तांच्या विचारांक प्रत्यक्ष साहित्यांत साकार करपी **मार्लो-शॅक्सपियरासारकिले** कवी-नाटककार! आनी दुसरे वटेन **हार्वे, कॅम्पियन, स्पॅन्सर, सिडनी, बेन जॉन्सन** सारकिल्ले **अभिजात** साहित्यामुल्यांचो आदर करपी बरोवपी. ह्या स्पश्ट-अस्पश्ट अशा साहित्यप्रणालीच्या वेगवेगळ्या वाटांनी चलतां-चलतां फुडाराच्या साहित्यान सुर्वेक **नव- अभिजातवादाचें** कपयाळें पांगुरले जाल्यार ह्या कपयाळ्याक बुजून वा ताच्या भौरंगी नमुन्याच्या आदर्शांत घुस्मटून उपरांतच्या आपछंदी बरोवप्यांनी **स्वच्छंदतावादाचो** बावटो हुबयलो.

येवरोपी पुनरूज्जीवन युगांतल्यो साहित्यीक घडणुको आनी तांका जोडून वयर सरिल्ली साहित्यविशयक भासाभास हांचेविशीं खंयच्याय साहित्यमोग्याक जाणून घेवचेली उमळशीक आसप सामकें सभावीक आसा. येवरोपी पुनरूज्जीवन काळार चार तरेचे **समिक्षा प्रवाह** उदेल्ले दिसून येतात. हे समिक्षेचे फांटे, समिक्षेचे चार तत्कालीन **प्रकार** (genre) दर्शयतात. (१) **काव्यबद्ध** वा कवनाच्या रूपान बांदिल्ली समिक्षा, जशी हॉरसान आदल्या अभिजात युगांत आपणाल्या **आर्स पोएटीका** हे काव्यकृतींतल्यान केळयिल्ली. हे तरेचे समिक्षेची देख **बिशप मार्को गिरोलामो व्हीदा** ह्या बरोवप्याच्या द **आर्ति पोएतीका** (१५२७) ह्या लॅटीन काव्यग्रंथांत मेळटा. फुडें, **बोआय्यो** ह्या फ्रेंच बरोवप्यान **आर्ति** पोएतीक (१६७४) आनी **अेलेक्सांडर पोप** ह्या इंग्लिश कवीन **एसे ऑन क्रिटीसिजम** (१७११) ह्यो समिक्षात्मक कृती त्याच ढंगान बरयिल्ल्याचीं उदाहरणां मेळटात. (२) दुसऱ्या प्रकारचें समिक्षात्मक बरप ॲरीस्टोटली बरपावरी **शास्त्रशुद्ध विवेचनाच्या** स्वरूपांत आशिल्लें. हाची गवाय **बिशप मिन्तुर्नो** हाच्या द **पोएता लिव्ही सेक्सा** (१५५९) आनी **आर्ति पोएतिका** (१५६४) ह्या इतालियन ग्रंथांतल्यान सांपडटा. हेच धर्तीचेर नामनेचो फ्रेंच समिक्षक **जुलियन सीजर स्कॅलीजर** हाणें **पोएतिसीस लिब्री सेप्तेम** (१५६१) हो ग्रंथ बरयिल्लो आसा. (३) **प्रस्तावने रूपान** वा अभिजातवाद्यांच्या **आरोपांक प्रत्युत्तर** दिवचेखातीर आनी **आपछंदी बरपाचो** वा **बोलीभाशेचो पुरस्कार करचेखातीर** बरयिल्ली समिक्षाय ह्या युगांत जायती निर्माण जाली. अशी प्रस्तावनापर समिक्षा जिराल्दी सिंथियो हाणें आपणाल्या **ओरबॅक** (१५४१) ह्या **त्रासदीक** आनी **ॲरीओस्टोच्या महाकाव्याक** बचावात्मक धिगी लावंक बरयिल्ली. **तास्सोनय** आपल्या महाकाव्यावतीन आनी **मॅझोनीन दांतेच्या दैवी कामदीवतीन** अशे तरेची समिक्षा बरयिल्ली आसा. (४) आनी एके तरेची समिक्षा, **बचावात्मक** वा **पुरुस्काररूपी**

निबंदांनीय मेळटा. हांची बऱ्यांतली बरी देख म्हळ्यार फिलीप सिडनीची **ॲपोलॉजी फॉर पोएट्री** (१५९५) ही कृती जावन आसा. पूण हे आदीं सांगलां ते प्रमाणे स्कॅलीजराच्या काव्यावेल्या आक्षेपांक अनुलक्षून बरयिल्ल्या **जोआकिं द्यु बॅले** हाच्या **देफॅंस ए इलुस्त्रासियो दे ला लांग फ्रॅंसोयस** (१५४९) ह्या बरपाचो मुजरत उल्लेख जावंक जाय.

## सिडनीच्या ॲपोलॉजींतलो नव-जागृतायेचो सूर

एक खरें, ह्या सगल्या बरपांतल्यान येवरोपी **पुनरूज्जीवन** युगांतले **नव-जागृतायेचो** सूर सांपडटा. आनी ह्या सुराचो आपरोस सिडनीचे **ॲपोलॉजी** (वा **डिफेन्स ऑफ पोएसी**)[1] हे कृतींत मेळटा. हाकां लागून ह्या बरपाचें खासा म्हत्व आसा. सिडनीचो हो समिक्षात्मक निबंद इतालियन समिक्षा-विचाराकडेन लागशिल्ली वळख तर दाखयताच शिवाय समिक्षेचो गाभो खरेपणीं कसो आसचो हाचीय देख दिता.

आपणाले उर्बेभरीत आनी उदात्त शैलींतल्या बरपावरवीं सिडनी लागीं लागीं एका शेंकड्यांतले समिक्षात्मक विचारसरणेचो नकळटां आढावो घेता. इतलेंच न्हय जाल्यार, अभिजात समिक्षेवेल्या तत्कालीन विवेचनाचोय तो आडवाटेन **ॲपोलॉजींत** उपेग करता. ताचें कवितेवेलें भाश्य प्रभावी आनी विचारप्रर्वतक तर आसाच, खेरीत तें ओडलायणेंय आसा. देखीक, **ॲपोलॉजींतली** कवितेची **दोट्टी व्याख्या** घेवं येता. तो काव्याचे तांकीक **आकर्शक आनी मतीक थाकाय दिणारी शक्त मानता.** म्हूण तो काव्याची **परिभाशा**, भुरग्यांक, 'खेळपापसून थोपोवन धरपी' आनी म्हाल-म्हाताऱ्यांक 'रांदनी पोल्लांतल्यान' ओडून हाडपी 'कवीची काणी' (पा. ३०) अशी करता. हातूंतलो कल्पना विलास कडेक सारून हे परिभाशेक नियाळ्ळी जाल्यार तातूंत काव्याच्यो **दोन मोखी** आस्पाविल्ल्यो दिसतल्यो. काव्य भुरग्यांक लेगीत भाळयता म्हणजेच तांतूतली **मन-रिजवणी शक्त**, हो घटक एक म्हत्वाची मोख थारता. आनी जाण्ण्यांकय काव्य धादोशी करता म्हणचे तातूंत **गिन्यान वा समजणी** दिवचेली तांक आसता. हाचोच अर्थ काव्य हें देख दिणें वा समजदिणेंय आसता. आडवाटेन काव्याची नितीक जापसालदारकी हांगा निर्देशित जाता. पूण नितीक जापसालदारकी म्हणजे उपदेसपर काव्य आसचें अशें सिडनीक अपेक्षित ना. ताका गूण आनी दोश वा बऱ्या आनी वायटाचें फावोशें मूल्यांकन काव्यांतल्यान निस्तुचें अशें दिसता. ताचे लेखीं शिकोवप हें काव्याचें मुळावें काम न्हय तर **खोशी दिवप** हेंच काव्याचे **आद्य ध्येय** आसूंक जाय.

---

1. *डिफेन्स ऑफ पोएसी, (संपा.) अे. एस. कूक (बॉस्टन, १८९०) ह्या पुस्तकांतल्यान सगळे उतारे घेतल्यात.*

सिडनी काव्याक **अनुकरणाची कला** म्हणटा आनी ते खातीर ॲरीस्टोटली 'अनुकरण' (mimesis) संकल्पनेचो आदारय घेता. तो अनुकरणाक प्रतिशब्द म्हूण **प्रतिनिधीत्व, बनावटीकरण**, वा **रूपक-घडणी** अशीं उतरां वापरता, पूण-आपूण रूपकांतल्यान उलयताना अनुकरणाक तो सुटसुटीतपणान **'बोलकें चित्र'** अशें म्हणटा. आनी ताची मोख **शिकोवप** आनी **आनंद दिवप** अशी मानता. पूण लक्षांत घेईसारकी गजाल म्हळ्यार ह्या शिकोवपांत **'आनंद दिवप'** हो घटक चड म्हत्वाचो मानला, तो स्पश्ट म्हणटा, 'यमक आनी कवन घडलें म्हूण कवी जायना ... जाल्यार सुखदिणे शिकवणुकेंतल्यान गुण-अवगुणांचीं लक्षवेधी पडबिंबां सामकारा हाडपांतच कवी (पणा) चो खरो सूर आस्पावला.' (पा.११)

हांगा सिडनीचो, काव्यांतल्या 'अनितीक पोसवण दिवपी' गुणाकडेन पळोवचेलो, दिश्टीकोण समजप गरजेचें आसा. **प्लेटोनीक आक्षेपांक** लक्षांत घेवन जेन्ना सिडनी काव्यावटेन पळेता, तेन्ना ताका काव्यांतलो 'अनितीक घटक' मान्य करचो पडटा. पूण तो **कवितेचो पांखो** घेवन अनितीआड उबो जाता. सिडनीच्या मतान काव्य न्हय तर **कवी-प्रतिभा** (वा खरेपणान प्रतिभेचो दुकळ) अनितीक पोसवण दिता. हाका लागून तो मानता की काव्य मनशाचे मतीक (जावं प्रतिभेक) मारक थारना (वा अवमानीत करिना) जाल्यार मनीस-मत काव्याक अवमानीत करता. आयच्या काळार अशे तरेचे उक्त्या मनान केल्लें मेकळें विधान वाचप्याक अप्रुपाचे दिसचें ना. पूण ज्या काळार आनी जे तरेच्या जहाल टीका-आक्षेपांचे फाटभुंयेर हें सुसंस्कृत आनी परीपक्व विधान केलां ते पळेल्यार सिडनीची देख समकालीन कोंकणी समिक्षेन कित्याक घेवंक जाय हें कळटा.

समकालीन कोंकणी साहित्य जशें आयिल्ल्या दिसा नव्या उन्मेशांनी नट्टा, भारा येता, तशेंच सिडनीच्या काळारय इंग्लिश काव्य फुलोरा येताले. इंग्लिश प्रतिभाय तेन्ना मुखेलपणान काव्य आनी नाठ्य ह्या दोन प्रभावी आनी लोकप्रिय माध्यमांवरवीं नवनव्या रूपांनी परगट्टली.

**सिडनी-स्पेन्सर-शेक्सपियरासारके** महारथी कवितेक आनी **मार्लो- शेक्सपियर-पील-नॅश-जॉन्सना** सारके **नाटककार** नाटकाक नवे आयाम दीत आशिल्ले. **अभिजात** समिक्षेच्या प्रभावान थोड्यांचें बरप नुमन्यांभोंवतणें घुंवतालें जाल्यार हेरांची प्रतिभा उन्मुक्त घसघशाभाशेन मनमेकळी भोंवपाक आंवडेताली. हाचो परिणाम म्हूण निती-अनिती, श्लील-अश्लील, बरें-वायट हांचो प्रस्न समिक्षेक सतायतालो. हे प्रस्न हाताळटना समिक्षकान जें अवधान बाळगूंक जाय ताचें बाळकोडू सिडनीच्या बरपांत सहजतायेन मेळटा.

**अभिजात** साहित्यविचाराच्या **प्रभावाक** लागून जायत वा विचारवंतांमदी जाल्ले **नव-जागृताये** लागून जायत वा ह्या दोनय कारणांक लागून जाल्ल्या **अस्मितायेच्या साक्षात्कारालागूनच** जायत, ह्या काळावेली साहित्यविशयक भासाभास **नवे नदरेन** साहित्याकडेन पळेता. हे नवे नदरेंत जायत्या गजालींचो आस्पाव जाता. आदल्या **देव-केंद्रीत, परंपरावादी** जावं **निखट्या अनुकरणप्रिय दिश्टीकोणापरस,** आतां समिक्षा-विचार **मानव-केंद्रीत, मेकळो** आनी **नव-निर्मणेचो हावेस बाळगुपी दिश्टीकोण** आपणायता. समिक्षेचें ध्येय फकत **समाज-प्रबोधन** वा **साहित्याची मोलावणी** इतलेंच न्हय जाल्यार तत्कालीन साहित्य-संवसाराची **विचारीक गरज भागोवप** आनी साहित्याक **दिका दाखोवप** हेंवय आसा हें समिक्षेक होलमता. ते भायर आदल्या वा चालंत समिक्षा विचारांच्या नश्ट- प्रभावान वा दडपणान साहित्याचेर तरतरेचे आक्षेप घेवपाचे प्रवृत्तीक जाप दिवप होवय भार ह्या युगांतले समिक्षेक आपल्या भुजांचेर घेवचो पडला. वेगळ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, नाका जाल्ल्या आक्षेपांविरुद्ध साहित्याचो बचाव करप आनी साहित्याच्या मौलीक गुणांचो पुरस्कार करप हें, हे समिक्षेचें म्हत्वाचें ध्येय जावन बसलें.

येवरोपी पुनरूज्जीवन युगांतले समिक्षेच्या ह्या गुणांचें स्पश्ट आनी सोबीत पडबिंब सर **फिलीप सिडनीच्या ॲन ॲपोलोजी फॉर पोएट्रीत** मेळटा.

●

# १३

# नव-अभिजातवादः उदेव आनी उदरगत

सिडनीच्या समिक्षात्मक बरपाचो, येवरोपी पुनरूज्जीवन युगांतल्या समिक्षा-विचाराचो आपरोस म्हूण विचार जाला. हाचें कारण म्हळ्यार **अभिजात** ग्रीक-लॅटीन समिक्षात्मक बरपाचें अणकारीत रूपांत सिडनीन फकत **वाचनच** केल्लें नाशिल्लें, जाल्यार त्या बरपाचो **मूळ** सूरय ताणें आपणायिल्लो. वांगडाच, सिडनीन तत्कालीन इतालियन समिक्षा बरोवपी आनी साहित्यीक हांच्याय बरपाचें लागींसावन अध्ययन केल्लें. हाका लागून **अभिजात** युगांतली **समिक्षा,** तिचेर **मध्ययुगांत** घडिल्ली **प्रति-समिक्षा;** मदल्या देडेक हजारावयर वर्सांत घडून आयिल्लीं ह्या संदर्भातलीं विचारीक स्थित्यंतरां वा परिवर्तन आनी तत्कालीन इतालियन विचारवंतांनी 'ह्या सगल्यांक वेंगावन' मांडिल्लो **नवो साहित्यविशयक विचार** हांचो सगल्यांचो सिडनीचेर बुन्यादी छाप पडिल्लो.

खासा करून दांते-बोकासियो-पेट्रार्क हांचे सारक्या 'दिग्गजां'चो लोक-भाशेवटेन पळोवचेलो दिश्टीकोण इतालियन साहित्याक अनी समिक्षा-विचाराक एक नवी दिका दिवन गेल्लो. हे नवे दिकेचो परीपाक म्हळ्यार इतालियन समिक्षेन आनी उपरांत फ्रेंच तशेंच इंग्लीश समिक्षेन आपणायिल्ली **मेकळी नदर.** ह्या सगल्यांची सासाय सिडनीच्या **ॲपोलाजीत** आस्पाविल्ली कोंकणी विद्यार्थ्यांक सोपेपणी मेळटा कित्याक ताचें बरप इंग्लिशींत आसा. म्हूण ह्या बरपाचें खासा म्हत्व आमकां समिक्षेकडेन इश्टागत करूंक पळेतना मानून घेवचें पडटा.

**ॲपोलॉजीत अभिजात विचार** आनी **आपछंदी बरप** हांची **सोयरीक** जाल्ली दिसता. सिडनीचे हे सुटसुटीत आनी सोपे कृतीचें म्हत्व ह्या पांवड्यार कितलें आसा हें विम्सेट (ज्यु). आनी ब्रुक्स हांणी तांचे संबंदी केल्ल्या फुडल्या विधानावेल्यान कळटा. ते म्हणटात, 'सिडनीच्या 'बचावा' (defence) चें **मूळ** अभिजात आशिल्लें पूण त्या बचावाचो आत्मो खरपणान अभिजात नाशिल्लो. तो इतालियन पुनरूज्जीवनाची खोसदिणी आतिषबाजी (fireworks) सामकारायता. ताचे रंग उर्बाभरीत **नवप्लेटोवादी, आदर्श जांभळो** आनी भांगराकोराचो अशे आसात. ताची गत वाडटी आसा. तो मूलभूतपणान उर्बेस्त कल्पनाशक्तीचो सिद्धांत मांडटा'. **(लिटररी क्रिटीसिज्म,** पा. १७४) ह्या चार वाक्यांभितर, सिडनीच्या **अभिजात समिक्षा विचारांतलो 'स्वच्छंदतायेचे थाम'** वाऱ्यार धोलपी मनमेकळ्या कणसावरी

आसा हें होलमता. ताचें मूळ अभिजात विचारांचे पिकाळ मातयेंत पोसवलां. पूण कविचे आपछंदी प्रवृत्तीफाटल्या उदक वाऱ्यान आनी वताभारान ताका एक **आगळी जीवसाण, सैमीक जाणविकाय** आनी **मेकळो ताळो दिला**. हाका लागून फुडाराच्या स्वच्छंदी बरोवप्यांक स्फूर्त दिवपाची तांक सिडनीच्या **ॲपोलॉजींत** आसा. म्हूण स्वच्छंदता युगाची **बुन्याद** उस्तितना आमकां थोडीभौ मूळां **ॲपोलॉजीतय** मेळटात.

पूण हाचो प्रत्यय घेवचे आदीं सिडनी उप्रांतच्या (पूण त्याच युगांतल्या) **नव-अभिजातवादाच्या** उदयाची सुलूस घेवंक जाय. ही सुलूस **बॅन जॉन्सन** ह्या नाटककार - टिकाकाराच्या अभ्यासपूर्ण बरपांत स्पश्टतायेन मेळटा. बॅन जॉन्सनाच्या बरपातलें वा विचारांतले अभिजातवादी सत्व निस्तायल्यार ताचे फाटलें **विनोदी** तशेंच **व्यंगत्मक** निवळण हातांक लागता. ह्या व्यंगात्मक विनोदाक एक खाशेलें **नितिवादी अस्तर** आसा. ताच्या बरपाचो सूर कांटेरी, खर आनी लागसारलो आसा. जॉन्सनाच्या बरपांतले विशय समकालीन लंडनाच्या समस्यांभोंवतणी विणिल्ले आशिल्ल्यान आज काळाभायरे जाल्यात. हाका लागून ताच्या बरपाचो (पोरण्या सांबारावरीं) 'दळ' गेला. पूण तातूंतल्यान एक कळटा. जॉन्सनाचें अभिजात नमुन्याचें अनुकरण, (ऑगस्टन युगांतल्या कांय लॅटीन बरपांत दिसून येवपी ग्रीक साहित्याच्या वा समिक्षा विचाराच्या अनुकरणावरी) '**वयलेवयर केल्ली प्रत**' कशें आशिल्लें. फकत ताका तत्कालीन थळा काळाचो संदर्भ दिवंक जॉन्सन उणो पडलो ना. (काय तसो संदर्भ दिवनच तो उणी पडलो?) हाका लागून ताच्या **नव-अभिजात** बरपाक वा ताचे फाटले विचारसरणेक कुड्डें अनुकरण म्हळें ना तरी 'गांवठी' अनुकरण अशें म्हणुंयेता.

तागेल्या समिक्षात्मक बरपांत हॉरेसाच्या **आर्स पोएटीका** चो अणकारय आस्पावता अशें जाणकार मानतात. पूण दुर्दैवान तागेलें व्यक्तिगत ग्रंथालय लासून गोबोर जालें तेन्ना ना जावन गेल्ल्या बऱ्याचशा बरपावांगडा हो अणकारय काळाआड दडला. पूण तरीकूय अभिजात समिक्षा विचारांक वा नेमांक '**शब्दशा**' पाळो दिवपी ताचे वृत्तीचो वा ताचे '**मोटवे**' अभिजात नदरेचो थाव घेवप शक्य आसा.[१] ह्या अवाढव्य बरपांत तागेलो साहित्याविशयक विचारय घुस्पला. पूण हो विचारय चडांत

---

*१. हे खातीर मर्णाउपरांत उजवाडायिल्ले तागेले टिंबर ऑर डिस्कव्हरीज् हे कृतीचो उपेग जाता. (हे कृतीचो माथाळो हातभर लांब आसा पुण ते वरवीं तिचो आवांठ आनी तिचे फाटले बरोवप्याचे सायास, वाचन आनी मनन हांचीय जाणविकाय जाता) ही कृती, डिस्कव्हरीज़: अ क्रिटीकल एडीशन, (संपा.) मॉरीस कास्तेलैन् (पॅरीस् १९०६) ह्या ग्रंथांत उपलब्ध आसा. ह्या बरपांतल्यान तागेली बरोवपाची शैलीय होलमता.*

चड प्रमाणांत अभिजात समीक्षकांकडल्यान कशाकसोय 'उश्णो' घेतला काय दिसता. हातूंत साहित्याविशीं उलयतना **काव्य, त्रासदी** आनी **कामदी** हांचो मुखेलपणान विचार जाला आनी तो करतना **कश्ट, अनुकरण, सातत्य, अभ्यास, कला** हांचो खासा उल्लेखय जाला. पूण कलेंत आस्पावपी **निर्मणी-क्षमताय** तिचे फाटली **कल्पनाशक्त** हांचो उल्लेख मात हात आंवळूनच जाला. जाका आमी प्रतिभेचो वझरो वा कविची नीज कल्पनाशक्त वा **आंतरीक तांक** मानतात त्या गुणाचो अभावानच बॅन जॉन्सन निर्देश करता. पूण एक खरें, फुडल्या शेंकड्यांत (१७ व्या) **नव-अभिजातवादाचो** जो पंथ वयर सरलो ताचे आदीं **बॅन जॉन्सनान** इंग्लीश साहित्य- विचाराचो ते दिकेन फुडो करून दवरिल्लो. जरी इंग्लीश साहित्यांत, **नव-अभिजातवादाचे** म्हत्वाचे खांबे म्हूण १७ व्या शेंकड्यांत **ड्रायडनाचो** आनी उपरांत **पोप** वा **डॉ. सॅम्युअल जॉन्सन** हांचो मानान उल्लेख जाता आसलो, तरी ताचो बुनियादी फातर मात **बॅन जॉन्सनाच्या** कुच्छित्री, विनोदी पूण अभ्यासपूर्ण अशा सुरबूस, सुपुल्ल्या **भाश्यांनी** घाला.

## इंग्लिश समिक्षेवेलो फ्रेंच प्रभाव

हांगा एक **म्हत्वाचो फांटो** इंग्लीश समिक्षेक (आनी पर्यायात एवरोपी समिक्षेक) फुट्टा. **बॅन जॉन्सनाकडल्यान ड्रायडन** ह्या नामनेच्या **नव- अभिजातवादी साहित्यीक-समिक्षकामेरेन** वतना इंग्लीश समिक्षा, फ्रेंच समिक्षा-विचाराक लागींच्यान घश्टून फुडें सरता. हाचीं कारणां साहित्यीक स्वरूपाचीं उणीं आनी राजकी स्वरूपाचीं अदीक आसात. तीं म्हळ्यार, इंग्लीश राजा **चार्लस १ लो** हाचें फ्रेंच राजकन्येकडेन लग्न आनी तेवरवीं फ्रेंच भास आनी साहित्याचो इंग्लीश जिविताचेर प्रभाव; राजकी कारणालागून राजाची प्युरीटन विचारसरणेच्या राजकी गुटाकडल्यान हत्त्या; ताचो पूत आनी उपरांत इंग्लंडाचो राजा **चार्लस २ रो** हाणें आपल्या समर्थकांसयत फ्रेंच दरबारांत मेळयिल्लो आलाशिरो; 'कॉमनवेल्थ' ह्या राजकी पंगडाचे अल्पकाळ सत्तेउपरांत राजशायेची इंग्लंडाक पुनर्स्थापणूक; आनी **चार्लस २ रो** हाणें फ्रेंच विचार, मूल्यां, आचार हांचे सयत इंग्लंडाच्या राजगादयेवांगडाच इंग्लीश साहित्य आनी समाजीक जिणेचेर घाल्लो गाढ प्रभाव.

## नव-अभिजातवाद

१७व्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत फ्रांस, **चौदावो लुई** हाचे साम्राज्यशायेवरवीं पुराय एवरोपाचेर राजकी तशेंच समाजीक आनी विचारीक शेक गाजोवंक पाविल्लें. रीत-रिवाज, निती-मूल्यां, खाण- जेवण, न्हेसप-पांगरप आनी साहित्य-समिक्षेंत

लेगीत फ्रेंच चालिरिती आनी विचार हांचो छाप पुसूं येना अशे तरेन बशिल्लो. आनी आतां फ्रेंच साहित्यीक, आदल्या काळार **ऑगस्टन** रोमांत जसो बरोवप्यांनी अभिजातवादाचो पुरस्कार केल्लो तसोच फ्रांसातय **नव-अभिजातवादाचो** बावटो वयर काडूंक फुडें सरले. तांचे भितर खासा उल्लेख करिसारके समिक्षात्मक बरोवपी म्हळ्यार बोआय्यो, राप आनी बोस्सु. हांचेर तशें पळेल्यार १६ व्या शेंकड्यांतल्या **इतालियन** 'ॲरीस्टोटली' निरूपकांची सया पडिल्ली, पूण ह्या साहित्य विचारांतल्या अनुकरणापरसय चड खर प्रभाव **इंग्लीश** (जावं एवरोपी) समिक्षेचेर १७ व्या शेकड्यांतल्या **फ्रेंच** साहितियकांनी अभिजात नेमांक पाळो दिवन केल्ल्या आपल्या ललित बरपावरवीं घालो. हांगा **कोर्नेय** आनी **रासीन** हांच्या **नाटकांचो** मुजरत उल्लेख करूंक फावो. ॲरीस्टोटलाचे नाट्यविशयक विचार अभिजात फ्रेंच बरोवप्यांनी आपणायले खरे पूण तांचे भितल्ली नेमांची फास्की आंवळून आंवळून साहित्यकृतीक तातूंत सामकी बंदिस्त करून वडयली. हाचो परिणाम म्हूण साहित्यांत खेळपी **मेकळीक, वेगळेपण, नाविन्य** आनी **प्रतिभेचो-मुक्त संचार** ह्या सगल्यांचो स्वासय ल्हवु ल्हवु अंदत गेलो. इंग्लीश साहित्य नेमांचे बांदावळीन, इतलें बंदिस्त सुरवेक तरी जालें नाशिल्लें. हाचें स्त्रय साहित्य विचारांतल्या क्रांतिकारी जाणविकायेपरस चड इंग्लीश भाशेच्या फ्रेंच भाशेपरस वेगळ्या 'बाजा'क वेता. तशेंच इंग्लीश काव्यांत भाशेच्या स्वरूपाक लागून घोळपी वेगळ्या छंद-मात्रांक आनी कवनांच्या गतीकय वता. नाटकाचे बाबतींत हे स्त्रय **शेक्सपियर-मार्लोसारक्या** महारथींच्या स्फूर्तदिण्या उदात्त (आदर्श ह्या अर्थान) नमुन्यांक वेता

इंग्लीश नाटकाचें हें वेगळेपण **सॅम्युअल सोरबियॅर** ह्या फ्रेंच बरोवप्यान (Voyage) **वोयाज** ह्या (लांबलचक माथाळ्याचे) कृतींत केल्ले टिकेंतल्यात नदरेंत भरता. तो म्हणटा, 'तांच्यो (इंग्लिशांच्यो) ह्यो **कामदी** फ्रांसाक इतलो बरो प्रतिसाद मेळोवंक पावच्यो नात. थळाची एकता जावं चोवीस वरांचो नेम ह्या गजालींकडेन तांचे कवी खेळ मांडटात.'[1] हाका फुडें **स्प्रॅट** ह्या इंग्लीश रॉयल सोसायटीच्या इतिहासकारान प्रत्युत्तर दिलां. ह्या आनी अशे तरेच्या टीका आनी प्रतिटीका हांचे अदलाबदलीचो एक भाग म्हळ्यार जॉन ड्रायडन हाची **ॲन एसे ऑफ ड्रेमॅटीक पोएट्री** ही कृती जावन आसा.

---

*१. ''द ओकेजन ऑफ एन एसे ऑन ड्रेमॅटीक पोएजी'' ह्या लेखांत जॉर्ज विलियमसन हाणी मूळ फ्रेंच उतारो अणकारला. हो लेख मॉडर्न फिलोलोजी, ऑगस्ट, १९४६ (ह्या अंकांत) उजवाडा आयला.*

ड्रायडनाचे **एसेचें**[1] यश म्हळ्यार तातूंत 'सोक्रेटीसी' ढंगाचो (पूण ते तांकीचो न्हय) संवाद वापरून वेगवेगळ्या समिक्षात्मक विचारधारांतली सापेक्ष समता आनी विशमता उक्ती करचेलो यत्न केला. चार उलोवप्यांमदीं जावपी हो संवाद अभिजातवादाचो पुरस्कार करपी तीन टिश्टीकोण मुखार हाडटा आनी उपरांत बरोवप्याच्या मताचें विवेचन **'नियेन्डर'** ह्या चवथ्या वक्त्यावरवीं करता. ड्रायडनाच्या मताचो पुराय भार हाचेर आसा. मनीस सभावाची **योग्य** (न्याय) आनी जिवी प्रतिमा, वासना तशेंच सभाव (प्रवृत्ती) हांचें **'प्रतिनिधीक चित्रण'** जावन, मनीस जातीक **खोस** आनी **समज** मेळचो अशें ड्रायडनाक अभिप्रेत आसा. फ्रेंच साहित्यांतल्या नेमांनी अंदून पडिल्ले नाट्यकलेचीं भगलां करतना, ड्रायडन इंग्लीश साहित्यांतल्या अभिजातवादी सुराचेरय मत प्रगटायता. **बॅन जॉन्सनाक** अभिजातवादी परंपरेचो मानादीक उद्‌गातो मानून तो ताचे शिकप आनी योग्यताय तोखेता. पूण तेच वांगडा **शेक्सपियर** हो श्रेश्ठ प्रतिभावंत म्हूण ताकाय वाखाणटा. जेन्ना ड्रायडन म्हणटा कीं. जॉन्सनाक हांव **तोखेतां** पूण शॅक्सपिरायचेर हांव **मोग** करतां, तेन्ना ताच्या अभिजात विचारांतलो 'स्वछंदी' आत्मो होलमता.

ड्रायडनाचे समिक्षेक देणे कितें? ह्या प्रस्नाची जाप, ताचे **एस्सेच्या** मुद्द्यांपरस चड तांतूतले शैलीचेर आनी ताच्या स्वरूपाचेर आदारून दिवची पडटली. इंग्लीश समिक्षेक ड्रायडनाचे पयलें आनी म्हत्वाचें देणें म्हळ्यार एक **हलकी फुलकी** आनी **संवादरूपी शैली, सदच्या उलोवण्यांतली भास** आनी **घरंदाज सूर** हें जावन आसा. तागेल्या समिक्षात्मक बरपाचो खाशेलो गुण म्हळ्यार तो विरोधी मताक मेकळी आनी मध्यवर्ती सुवात (आपल्या बरपांतले भासाभाशेंत) दिता. अशे तरेन विरोधी मताच्या संदर्भात आपले मत मांडून तो मुद्द्यांक घटाय तर दिवंक पावताच खेरीज ते पुराय भासाभाशेक एक विश्वासार्हता दिता. विरोधी मताक दपटून मांडिल्ले विचार कितलेय सुत्रबद्ध आसले तरी एकांगी जावन पडटात आनी वाचप्याचें मत परिवर्तन करूंक वा ताका पुरायेन वश करूंक अपेसी थारतात.

ड्रायडनान घाल्ल्या ह्या **सदळ, विनोदी, व्यंगात्मक** पूण **उक्ते** भासाभाशेचें मुळावण इंग्लीश समिक्षेंत बरोच काळ तिगलें, ताचो बऱ्यांतलो बरो नमुनो म्हूण आमी **ॲलेक्सांडर** पोप हाचे **एस्से ऑन क्रिटीसिज्म** ही कृती घेवंक शकतात. ड्रायडनाचें आनीक एक योगदान म्हळ्यार, ताणें 'काव्या अंतर्गत न्याय' हे कल्पनेंचेय समिक्षेंत

---

1. *ड्रायडन्स एसेज्, (संपा.) डब्ल्यू. पी. कर, (ऑक्सफर्ड; १९२६) ह्या संकलीत ग्रंथांत, ताचो **एसे ऑन ड्रेमेटीक पोएजीय** उपलब्ध आसा.*

मुळावण घाल्लें. हाचें पडबिंब तागेल्या **ॲपोलॉजी फॉर हिरोयक् पोएट्री**' ह्या १६७७ त बरयल्ल्या काव्य-ग्रंथांत आनी उप्रांतच्या हेर बरपांतय मेळटा. हे कल्पनेक नियाळटना 'ॲरीस्टोटली' विचारांचो थोडोभोव संदर्भ जाय पडटाः १) ॲरीस्टोटलान उल्लेखिल्लें पात्राच्या आंगांत आसपी **उणेंपण** वा **दोश**; आनी २) 'बऱ्याक बरें आनी वायटाक वायट' अशे तरेन 'न्यायाचें वांटप' करप हाका ॲरीस्टोटलान घेतिल्लो **आक्षेप.** ह्या मुद्यांच्या सामकारा ड्रायडनाच्या 'काव्या-अंतर्गत न्याय' ह्या विचाराक तिजून पळोवंक जाय. तशें केल्यार एक दिसून येताः ॲरीस्टोटलाचें बरोवप्याच्या सोयीखातीर केल्लें मार्गदर्शक तत्व, ड्रायडनान मात्शें तंवकिलें आनी निकतेच उदेवपी 'नवनितीमत्तेक' एक इश्ट आनी उपेगी साधन म्हूण दिलें. पूण अशें करतना ताणें **कलेक** कितलो **न्याय** दिलो? आनी कलेंत दिसून येवपी **जिणेच्या सैमीक पडबिंबाक** कितपत थारो दिलो? हें विचार करपा सारकें आसा.

पूण ड्रायडनाक न्याय दिवन, एक मानचें पडटाः ताचें युग हें सर्वसाधारणपणान नितीक टिका करून विनोद वा व्यंगात्मक बरपा वरवीं **समाज-प्रबोधन** करूंक पळेतालें. हाका लागून **हास्य-कविता, व्यंगप्रधान कामदी, विनोदी पत्र-कवनां, उपहासीक विवेचनां** आनी **काव्यमय समिक्षा** हे त्या युगाचे मुखेल साहित्यीक प्रकार म्हूण घोळटाले. अशा बरपाक 'काव्या अंतर्गत न्याय' गरजेचो आशिल्लो कित्याक विनोदाचो मूळ गुण म्हळ्यार सुखात्म शेवट. आनी हाका 'काव्या अंतर्गत न्याय' ही **ड्रायडनी** कल्पना फिट्ट बसता ... !

१७व्या आनी १८व्या शेंकड्यात येवरोपी साहित्य तशेंच साहित्य विचाराचेर आकांताचो प्रभाव घालपी **नव-अभिजातवादी** विचारसरणेकडेन आयज विसाव्या शेंकड्यांतलो वाचक/अभ्यासक मदल्या तिनेक शेकड्यांचो काळ बलांडून पळेता तेन्ना कांय निरीक्षणांः चड करून, येवरोपी **नव-अभिजातवादाचे** नवे विचार प्रवाह, त्या विचार प्रवाहांक वाट करून दिवंक कारणीभूत थारिल्ली तत्कालीन स्थिती, त्या विचारांनी उपरांतच्या साहित्याचेर वा समीक्षेचेर केल्लो परिणाम, आनी ते वरवीं साहित्यांत घडून आयिल्लो बदल वा क्रांती, हांचेसंबंदी आसतलीं हें सांगूक आनी जोयशाची गरज ना.

पूण हीं निरिक्षणां विस्तारान मांडचे आदीं एक प्रस्न उप्रासता. **पुनरुज्जीवन** युगांत घसघसून चारीआंगांनी फुलपी-फळपी साहित्याक अकस्मात हो नव्या विचारांचो वारो बादलो कसो? आनी ह्याच प्रस्नाक जोडून एक उप-प्रस्न उबो जाताः काव्य जावं नाट्याच्या मळार मनमेकळो वावुरपी साहित्यीक नवे उर्बेन फुडें सरत रावचे बदला अकस्मात फाटीं वळून आदल्या नेम-नमुन्यांचे फास्केंत कित्याक

रिगलो? ह्या प्रस्नांच्यो जापो सोप्यो वा एकटुक्यो नात. अशी वस्तुनिश्ठ, नेमबद्ध साहित्याची **खर प्रथा** तत्कालीन फ्रांसांत अदीक प्रकर्शान दिसून येता. आनी हाचीं कारणां साहित्यीक उणीं आनी राजनितीक चड आसात, अशें काय जाणकारांचे मत आसा. आदीं सांगलां ते प्रमाण **१४ वो लुई** हो शक्तीशाली राया फ्रांसाचे राजगादयेर येतसावन ताणे आपले वज्रमुठीन **एकाधिकारशाय** तर घटमूट केलीच पूण फ्रेंच प्रजेमदें **देस. भास** आनी **अस्मिताय** हांचे विशीं अचळय एक **खासा जाणविकाय** जागृत केली. हाचो परिणाम म्हूण, आदल्या रोमन ऑगस्टन अभिजात युगावरी आदर्श आनी अनुकरणायोग्य साहित्य निर्मुपाची तत्कालीन फ्रेंच बरोवप्यामदीं उमळशीक जागी जाली अशें म्हणूंक आदार आसा.

आदल्या अभिजात बरोवप्यांचे निखटें अनुकरण करपीच न्हय. तर तांगेल्या 'नमुन्यांक' तोडीक तोड अशें साहित्य पोसवणेक लागलें. ह्या कार्यात, मोठ्या प्रमाणार इतालियन, फ्रेंच तशेंच इंग्लीश भाशेंत अणकार वा रूपांतरांच्या अवतारांत आयल्ल्या **आद्य ग्रीक-लॅटीन समिक्षेचो** भौ हातभार लागलो. ल्हवु-ल्हवू फ्रेंच साहित्याक अभिजात समिक्षेच्या मार्गदर्शक तत्वांच्या आदरानच न्हय जाल्यार त्या तत्वांक अदिकादीक अंदोवन, आटोवन साहित्य बरोवंक लागले. नेमावळ आनी नमुने हांच्या कुड्डड्या हावेसान फ्रेंच समिक्षाय आटीव आनी बंदिस्त साहित्यविचाराची फास्की उबारूंक पावली. ह्या विधानांचो असो मात अर्थ न्हय कीं ह्या काळावेलें फ्रेंच साहित्य पुरायेन नेमांनी घुस्मटावन उडयिल्लें वा तें साप्प जीवसाण वगडावन बशिल्लें. पूण फ्रेंच साहित्यीक आदल्या साहित्यप्रकारांक केळयतना **भावना** वा **कल्पना-विलासापरसय विचार, समजिकाय, समकालीन संदर्भ** आनी **नितीक समजणी** हांकां म्हत्व दिवंक लागले. **नाटक** हें माध्यम ह्या सगल्या घटकांक आस्पावंक चड उपेगी थारतालें म्हूण जावं येत, वा नाटकाक लोक-प्रतिसाद बरो मेळटालो म्हूण जावं येत, फ्रेंच नाटक फुलोराक आयलें. इतलेच न्हय तर 'ॲरीस्टोटली' तत्वांचें **चड आखंडिल्लें** फ्रेंच रूप नाट्य-संहितेच्या रूपान फुडाराखातीर सासणाचें तिगलें.

ह्या गजालींचो विस्तारान उल्लेख करपाफाटलें कारण म्हळ्यार तत्कालीन फ्रेंच साहित्यविचाराचो आनी प्रणालींचो समकालीन इंग्लीश साहित्याचेर जाल्लो परिणाम!

फ्रेंच विचारांचो, प्रथांचो आनी साहित्याचो इतलो गाढ छाप इंग्लीश **नव-अभिजातवादाचेर** उदेवपांत निखटीं राजनितीक आनी समाजीक कारणांच आसलीं? काय ताका साहित्यीक मळावेली चेडटी-देंवतीय कारणीभूत जाल्ली? वस्तुनिश्ठ

नदरेन पारखितल्याक एक होलमतलें: साहित्याचेर अ-साहित्यीक गजालींचो प्रभाव पडप समा आसलो, तरी तो दुय्यम आसता. साहित्यीक परिवर्तनां चड करून चालंत **साहित्याचेर प्रतिक्रिया** वा **जोड-क्रिया** म्हूणच जातात. जंय दर्जेदार साहित्याक सुकती लागता थंय ती आडावंक साहित्यीक परिवर्तनां जातात आनी जंय आदलें साहित्य हातसोडून बरयिल्लें ना ते भाशेंत तें निर्मुचें ह्या किंवाटयान जाता.[1]

पुनरुज्जीवन युगांत इंग्लीश साहित्य आपणाल्या सुवर्णयुगांत वाकुळटालें. जें जें ना, तें निर्मितालें; जें आसा तें, **आपल्या** सुरांत, **आपले भाशेंत, आपल्या** लोकांखातीर उमेदीन (अदीक सोबितायेन, जिवसाणेन, नवलायेन नटोवन) मांडूंक पळेतालें. इंग्लीशींतय काव्य आनी नाटय ह्याच माध्यमांनी सुर्वेक सर्जनाचें आनी तोखणायेचें तेमूक गांठिल्लें. पूण १७ व्या शेंकडयाच्या मध्यार राजकी कारणांखातीर नाटकाचेर बंदी आयली. प्रोटेस्टंट आसूनय **धर्मनिरपेक्ष** सत्ता चलोवपी एलिझाबेथ १ ली १७ व्या शेंकडयाचे सुर्वेकच १६०३ त संवसाराक अंतरिल्ली. उप्रांतचो जेम्स १ लो हाचे कारकिर्दीत कॅथोलीकांक झुकतें माप मेळूं लागलें. परिणाम म्हूण संवळी विचारसरणी (Puritanism) जी आदल्या तेंपार चड कृतीशील नाशिल्ली तिणें उग्र अवतार धारण केलो. हाचो परिणाम म्हूण १७ व्या शेंकडयाचे मदें **यादवी, गृहझूज** आनी **कॉमनवेल्थाची राजवट** इंग्लडाच्या नशिबांत आयलीं.

**चार्लस २ रो** मदल्या काळार फ्रांसाक राजकी आस्रयाक रावन १६६० त इंग्लंडाच्या राजगादयेर बसलो. राजावांगडा ताचे अनुयायीय इंग्लंडाक परतले. हाका जोडून फ्रेंच प्रभावय नेटान भितर सरलो. शेंकडयाच्या उत्तरार्धांत नाटकघरांवेली बंदी उठली आनी संवळे राजवटीची खिन्नटावपी सांवळी इंग्लीश जिणेन आनी साहित्यान एकाच धपक्यान कुशीक सारली. आनी साहित्यीक, उमेदीन बंधनमुक्त जावन साहित्य-सर्जनाक सामकारा गेलो. राजकी आनी धार्मिक दबाव कुशींक सरतरीच इंग्लीश प्रज्ञेक आनी प्रतिभेक आगळोच भार आयलो. पूण हे नवे उर्बेन जरी साहित्य पोसवणेक ओतो आयलो तरी 'बेबंद' मेकळेपणाक लागून समाज-जीण आनी साहित्य मर्यादेभायर पावलीं. तरी पूण ह्या सदळ सुटिल्ले साहित्य निर्मणेचेर फ्रेंच **नव-अभिजातवादाचो** छाप बशिल्लो.

पासमेकळी जाल्ले इंग्लीश प्रतिभेक, कलेचीं स्वच्छंद शिखरां माडोवच्या जाग्यार कलेच्यो नेमबद्द, नकसूद रांगोळ्यो काडप चड मानवलें काय दिसता. खेरीज यादवी मातिल्ल्या खंयच्याय समाजांत जाता तशेंच, इंग्लीश समाज-जिणेंतय

---

१. *कोंकणी साहित्याची सद्याची वाटचाल पळेली जाल्यार ह्या दोनय विधानांची गवाय मेळटली.*

**विचारांचीं झुजां** आनी **व्यक्तिगत हेवेदावे** हांकां दर आयली. परिणाम म्हूण सुपुल्ले काव्य प्रकार - **सटायर, पत्र-कवनां, व्यक्तीबिडंबनां** (lampoon), **शैली-विडंबना** (parody) हांची चलती जाली. नाटकय त्रासदीच्या चेपणा पोंदच्यान सुटून **कामदीचे** हलके फुलके तेंगशेर धोलूं लागलें. 'फ्रेंच जीवनमूल्यांचे वेगळे देखीन' इंग्लीश समाज-जीण भुरकुटिल्ली आनी भरकटिल्लीय. परिणाम म्हूण मूल्य-विसंगती इंग्लीश समाजजिणेंत मातूंक पावली. हे मूल्य-विसंगतीचो पडसाद **नाटक** आनी **कवितेचेर** पडूंक लागलो. **समाज-प्रबोधन** ही समकालीन समाजाची 'गरज' जावन बसली. आनी हाका लागून इंग्लीश साहित्यांत **व्यंग** आनी **विनोद** हांचो दोळे दिपकावपी संचार जावंक पावलो. महाकाव्या सारकिलो भारदस्त काव्य प्रकार लेगीत उप्रांतच्या शेंकड्यांत व्यंग, विडंबन आनी विनोदाच्या चपक्यांत सांपडून **लटीक-महाकाव्या** (mock-epic) चे दशेक पावलो. पूण अजाप म्हळ्यार ललित साहित्यच न्हय जाल्यार विचारप्रवर्तक बरप लेगीत कवन आनी विनोद हांच्या वशापासून सुटावें उरलें ना.

इंग्लीश साहित्य-इतिहासांत सतरावो आनी आठरावो शेंकडो, वाद- विवाद, हेवे-दोवे, आरोप-प्रत्यारोप आनी विचारांचें खंडन-मंडन हांका लागून सदांच याद उरतलो. असल्या वातावरणांत कवितेसारको निर्भेळ प्रकारलेगीत आपल्या नीज निगुत आनी व्यक्तिगत संदर्भापेल्या रूपांत तिगूंक पावलो ना. बरप आतां **मन-रिजवणेवांगडा समाज-प्रबोधन** सादूंक पळेतालें. हे खातीर **विचार-परिवर्तन** गरजेचें आसलें. म्हण्टरीच, विचारांचें आदान प्रदान आपशींच म्हत्वाचें जावन बसलें. साहित्यिकांक लेगीत आपल्या सर्जनाचें **मूळ** आनी **फूल** तोखेवच्या जाग्यार, ताचे कूळ आनी फळ समजप चड उपेगाचें दिसूंक लागलें. साहित्य प्रकारांचो अभ्यास आनी निरीक्षण हांचेर **ड्रायडन, पोप, डॉ. जॉन्सना** सारकिल्ले इंग्लीश बरोवपी आनी **पिटर रामुसारके** फ्रेंच समिक्षक भर दिवंक लागले.

इंग्लीश बरोवप्यांनी **नव-अभिजातवादी** विचारसरणी मार्गदर्शक तत्वांच्या स्वरूपांत आपणायली. पूण तांणी **बरोवप्याची प्रतिभा,** सारासार **विवेक** आनी हातांतले कृतीचे, काळाचे आनी समाजाचे **संदर्भ** (तशेंच **अपेक्षा** वा **गरजो**) ध्यानांत घेवन तीं तत्वां हाताळपाचेर भर दिलो. सादारणापणान बऱ्यापैकीं बरोवप्यान जरी नेम-नमुन्यांक बारकायेन पाळो दिवप समा आसलें तरी म्हान बरोवप्याचे उत्तुंग प्रतिभेक मनमेकळी घोळटना **पुरायेन आद्य नेमनुमन्यांक पाळो दिवप शक्य ना** हें भौतेक इंग्लीश **नव-अभिजातवादी** बरोप्यांनी, विचारांत जाव साहित्यांत मानून घेतिल्लें दिसता. अशे म्हणचें पडटा कीं इंग्लीश नव-अभिजात युगांतल्या **ड्रायडन-**

**पोपासारकिल्ल्या** बरोवप्यांचे ध्येय जरी आद्य समिक्षा तत्वांचें अनुकरण करप हें आसलें तरी तांकां अभिजात साहित्याच्या नमुन्याचें कुड्डें अनुकरण मातूय मान्य नाशिल्लें. खंय तरी ते साहित्यिकाचें नीज स्वातंत्र्य आनी नवनिर्मणी करपाची तांक हांकां खाशेली सुवात दिताले. म्हूण तांच्या साहित्यविचारांची बुन्याद अभिजात समिक्षा-प्रणालींत आस्पाविल्ली आसली तरी तांगेल्या विचारांचो आत्मो आपछंदी आसा.

पूण ह्या काळाच्या **समाज-प्रबोधनाचे** गरजेन जायत वा बरोवप्याचे नितीक, **देखदिण्या** साहित्य-निर्मणेच्या हावेसान जायत, **नव-अभिजातवादी** बरपांत कांय अशीं तत्वां आयलीं की सैमीक अनुकरण (natural imitation) घडण्याजोगेंपण (probability) ह्या प्रमाण अभिजात तत्वांक तांणी कडायलीं. ह्या नव्या तत्वांमदीं **काव्या-अंतर्गत न्याय** ही ड्रायडनाची संकल्पना, पिटर रामुची **वक्तृत्व** आनी **अलंकारशास्त्र** हांकां **शास्त्रशुद्ध भासाभासेपासून** पुरायेन 'वेगळावपी' (rhetoric) अशी विभागणी (जिचो काव्याचेर भौ परिणाम जालो), **विनोद-हजरजबाबीपण** आनी **प्रतिभा** हांची तत्कालीन साहित्यिकांनी केल्ली **फारकत**, आनंदापरस **समज दिवपाची मोख श्रेश्ठ** मानपाचो साहित्यीक कल, आशय आनी विशयाचे विविधताये परस माध्यम आनी शैलीचें परिपूर्णतायेक दिल्लें म्हत्व, हांचो आस्पाव जाता. हीं सगलीं तत्वां लक्षांत घेवनच सतराव्या-अठराव्या शेंकड्यांतल्या साहित्याचें देणें आनी स्त्रय समजून घेवंक येतलें.

आतामेरेन आमी येवरोपी **नव-अभिजातवादाची फाटभूंय** आनी '**कर्मभूंय**' कशी आसली तें पळेलें. **नव-अभिजातवादी** विचारसरणेची लागण येवरोपी साहित्य-क्षेत्रांत कशे तरेन जाली, ताचेर इतालियन, फ्रेंच आनी इंग्लीश साहित्यीक वा समिक्षकांवरवीं कशे परिपरीन 'संस्कार' जाले आनी हे वरवीं साहित्यावटेन पळोवचेली तत्कालीन बरोवप्यांची नदर कशी दिकाबद्ध जाली, हेंवय समजून घेवचेलो थोडो-भौ यत्न आमी केलो. ह्या सगल्या घटकांचो तत्कालीन साहित्याचेरच न्हय तर फुडाराचे साहित्य-निर्मणेचेर कसो परिणाम जावंक पावलो. हें लेगीत समजून घेवप गरजेचें आसा. पूण ते आदीं एक मुद्दो मुजरत लक्षांत घेईसारको आसाः नवीं नवीं आव्हानां स्वीकारीत. नव्या उन्मेषान साहित्य-सर्जन करपी पुनरुज्जीवन युगांतल्या साहित्याक, अकस्मात अभिजात साहित्य-निकशांच्या नेटार **विचारप्रधान, वस्तुनिश्ठ, दिसपट्टया जिणेकडेन प्रामाणिक रावपी** साहित्य-निर्मणी करूंक कित्यांतल्यान **उत्तेजन** मेळ्ळें?

हांगा मात्शी आडवाट करून इल्लीशी पूर्वपीठिका मांडप गरजेचें आसा अशें दिसता. खंयचेय भाशेंतल्या साहित्याची वाढ ही एखाद्या वाडट्या रूखावरीच आंग

धरीत वेता. कांय वेळा ही वाढ आंतरीक तशेंच भायल्या कारणांक लागून एकांगी जाता. एकेका वेळा एकाच साहित्य-प्रकाराक चड जोमान पोसवण मेळटा. एकेकदां एका साहित्य-प्रकारची प्रगती तत्कालीन बरोवप्यांहस्तुकीं इतली हिसपाभायर जाता की ताचो परिणाम म्हूण ल्हवु-ल्हवू त्या प्रकारांत आशयाचें तेंचतेंचपण, विशयाचें उथळपण, विचारांचें बेळूसपण, कल्पनाशक्तीक लागपी सुकतड, शैलीची कृत्रिमताय, अलंकारांचो साप्प अभाव वा अतिरेक आनी जिवसाणीचो घुस्मटमार हांचो साहित्यकृतींत बुजबुजाट जाता. मुखेल गजाल म्हळ्यार, साहित्यासामकारची मोख अस्पश्ट जाता. आनी **मनरिजवण** वा **समजदिणेंपण** ह्या साहित्यमोखींच्या ल्हवपीक दाल्यांमदलो तोल वगडावता. अडेची नवलाय सोदपाच्या हावेसांत काव्य यांत्रीक कवन-घडणी जावन बसता.

सतराव्या शेंकड्याच्या पूर्वार्धांत इंग्लीश पुनरुज्जीवन युगाच्या शेवटाक काव्याक अशीच कृत्रीमतायेची निमणी घरघर लागली. जो मेकळो सूर, आपछंदी वृत्ती आनी नवी दिका आदल्या बरोवप्यांनी नदरेमखार बाळगिल्ली ती ह्या तथाकथीत आधिभौतीक युगांतल्या कवींनी कवितेक शब्दाबंबाळ करून, अलंकारांनी घुस्मटावन, मर्णपंथाक पावयली.

परिणामस्वरूप कवितेन कूस परतिली. ह्या युगांतली कविता केन्ना अतिरेकी कल्पनेच्या तेमकार हुमकळटना दिसता, केन्ना अडेच्या पुरोगामी विचारांच्या गोळा लागिल्ली दिसता. एक मात खरें, कल्पनाविलासाचो अतिरेक आनी अतिशयोक्ती हांच्या चपक्यांत सांपडूनय कांयअंशी ही कविता क्रांतिकारी आनी वेगळी थारली. पूण हाचें स्त्रय, ह्याच काळार उदेल्या एका नव्या काव्यधारेक वेता. प्रयोगशीलता आनी शास्त्रीय दृष्टिकोण हांकां म्हत्व दिवपी ह्या कवितेन तंत्राचेंय, आशय आनी विशया वांगडाच नव्या रूपांत अनुरोपण केलें. संवसारीक प्रस्नावटेन खेरीत नदरेन पळोवपी ह्या कवितेक आकळपाची समकालिनांमदीं तांक नाशिल्ल्यान वा ती कविता फावो ताचे परस चड आदीं जल्माक घाल्ल्यान, तिचो त्या काळावेल्या आनी उपरांतच्या बरोवप्यांनी दुस्वास केलो. आनी ती कविता उपेक्षितच उरली. ह्या कवितेच्या वेगळपणालागून आधिभौतिक अशें खोचक नांव उपरांतच्या समिक्षकांनी दिलें. आनी तेंच फुडाराक रूढ जालें.

सतराव्या शेंकड्यांचो उत्तरार्धांत फ्रेंच दरबाराचो प्रभाव इंग्लंडाच्या राजकी वातावरणांत आपणालो रंग दाखयतालो. खासा इंग्लंडांत राजकी असहिष्णुता आनी धार्मीक दोळेफुटकेपण तकली वयर काडूंक लागिल्लें. संवळे विचारसरणेन मूळ धरिल्लें. परिवर्तन जिणेच्या सगल्या आंगांक खुणायतालें. साहित्यिकांक तें दिसप

अपरिहार्य अशिल्लें. **विचारमंथन, प्रबोधन, देखदिणेंपण** ह्यो राजकी-समाजीक गरजो साहित्यांत उदेल्यो. वृत्तपत्रांचें युग साहित्य संवसाराचें दार धाडायतालें. गद्य बरपान काळाची गरज वळखून वाचप्याचेर फोक घाल्लो. (आज कोंकणींत जाता तशें) सगल्या तरेचें बरप वृत्तपत्रांतल्यान वाचप्यामेरेन पावतालें. अशा वेळार जीव नाशिल्ल्या काव्याक साहितिकांनी आनी समिक्षकांनी कोनशाक सारलें आनी नव्या देखींखातीर अभिजात युगांतल्या साहित्याचेर लक्ष केंद्रीत केलें. हातूंत तांकां ह्या काळार नेटान फुलोरा आयिल्ल्या **फ्रेंच नव-अभिजातवादी** बरपाचोय भौ आदार जालो. पूण हो आदार केन्ना- केन्ना प्रभावरूपान जाल्यार केन्ना-केन्ना विचारीक संघर्शारूपान आसलो. एक मात दुबावाविरयत मान्य करूंक जाय. इंग्लीश बरपाचो मूळ पिंड मनमेकळया सर्जनाचो आशिल्ल्यान तांणी मेजून-मापून **नव-अभिजातवादाचीं** तत्वां आपणायलीं.

**अभिजात** समिक्षा विचाराचेर तांणी पुरायेन आदन दवरलें ना, पूण ताचेर सामकें तिळांउदकय सोडलें ना. तांणी अभिजात समिक्षा-तत्वां थळ आनी काळाच्या सदंर्भात इंग्लीश साहित्य-प्रकृतीक मानवत अशे रितीन आनी तत्कालीन युगाच्या गरजेप्रमाण मार्गदर्शक तत्वां म्हूण स्वीकारली. अशे रितीन तोल सांबाळून **नव-अभिजातवादी** साहित्यविचार केळोवन बरोवपी म्हूण ह्या आनी उप्रांतच्या शेंकड्यांत ड्रायडन, पोप, अँडरसिन, डॉ. जॉन्सन आनी फिल्डींग हांचो खासा उल्लेख करूंक फावो. अशे तरेन समजिकायेन **नव-अभिजातवादी विचार** आत्मसात करपाक इंग्लीश बरोवप्यांक **कॉर्नेल** आनी **सांतेव्हमोंद** (Saint Evremond) ह्या फ्रेंच बरोवप्यांकडल्यान व्हड उमेद आनी उत्तेजन मेळ्ळें. तशेंच आदल्या युगांतसून चलून आयिल्ली स्वच्छंदी वृत्ती राखूंकय आधार मेळ्ळो.

●

# १४

# स्वच्छंदतावादः संकल्पना आनी भासाभास

फाटल्या साबार लेखांनी **स्वच्छंदता** ह्या उतराचो भौन भौन उल्लेख जाला. कांय वेळा एक संकल्पना-सूचक उत्तर म्हूण तर कांय वेळा निखटें वर्णनात्मक उत्तर म्हूण आमी स्वच्छंदता ह्या उतराचो हात सोडून उपेग केला. वांगडाच **स्वच्छंदतावाद** ह्या उतराचोय मनसोक्त वापर ह्या लेखांनीं जाला. पूण खरेपणान **स्वच्छंदतावाद** म्हळ्यार कितें आनी ताचो अर्थ खंयच्या संदर्भांत कशे तरेन लावंक जाता हें समजून घेवप आतां गरजेचें जालां.[१]

## स्वच्छंदतावादाचे संदर्भसूचक

संवसारीक साहित्याच्या मळार, **स्वच्छंदतावाद** हें उत्तर साबार विशयांक वांगडाच स्पर्श करता आसलें तरी ताचे मुखेलपणान दोन मुळावे **संदर्भसूचक** (*referents*) सरसकटपणान वेगळावंक जातात.[२] **पयलो** म्हळ्यार **मन, कला** जावं **मानवी व्यक्तिमत्त्व** हातूंतल्यान उठून दिसपी, सर्वसादारणपणान कायम अशी **वृत्ती** वा **गुणविशेश** जो संवसारांतल्या सगल्या 'काळांत' वा युगांनी आनी पुराय सांस्कृतीक प्रवाहांनी समानतायेन आस्पाविल्लो आसा. **दुसरो सदंर्भसूचक** म्हळ्यार १८व्या आनी १९व्या शेंकड्यांत येवरोप तशेंच अमेरिकेंत नेटान मूळ धरिल्ली एक **विशिश्ट इतिहासीक चळवळ** -जी प्रकर्शान **कला** आनी **विचारांच्या मळार** परजळ्ळी. वेगळ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, **इतिहासीक नदरेन** पळेल्यार साहित्य वा समिक्षेच्या विद्यार्थ्यांखातीर **स्वच्छंदतावाद ही कला आनी विचारांच्या क्षेत्रांतली एक क्रांति**. हे क्रांतीक जायत्या जाणकारांनी साहित्यीक चळवळीपरस अदीक पश्चिमी जिवितांत घडून आयिल्ल्या पुनर्मोखणेचें (*re-direction*) पडबिंब कशी मानल्या. हांगा मुजरत सांगूक जाय, की हे पुनर्मोखणे अंतर्गत राजकी, समाजीक तशेच उद्येगीक मळांचेरय क्रांतीकारी बदल वा घडणुको घडत आशिल्ल्यो आनी साहित्य-कला-

---

१. *जे परीन कोंकणीचे पुनरूत्थान ही एक इतिहासीक घडणूक म्हूण ताचें मोलांकन अपरिहार्य थारतलें, तशेंच भावी समिक्षेक कोंकणी कवितेंतलो स्वच्छंदतावादी सूर 'आजमावप' चुकचें ना.*

२. *हे दोनय संदर्भसूचक लक्षांत घेवन केल्ली ह्या उतराची भौ उपेगी फोडणिशी लिटररी टर्म्स (पा.१९३-४) ह्या पुस्तकांत मेळटा.*

तत्वगिन्यानासारक्या विचारीक क्रांती घडोवपी बदलांवरीच हेवय बदल पश्चिमी समाज-जिणेक भायरभितर खुबळायताले.

हें सगलें लक्षांत घेतल्यार, **स्वच्छंदतावादाक** सरसकटपणान एक सर्वसादारण **एकशिवडी संकल्पना म्हूण सामकारावप** कित्याक **शक्य** ना, हें होलमता.[1]

## भौ-ताशी संकल्पना

इतिहासीक नदरेन स्वच्छंदतावादाक पळेतना, साबार विद्वानांचीं हे संकल्पनेविशींचीं मतां लागीं धरचीं पडटात. ज्याक बारसूं हांणी **रोमेंटीसिज्म अँड द मॉडर्न इगो** (१९४३) ह्या पुस्तकांत अशा विंगड विंगड मतांची एकठावणी केल्या. तांचेमदीं सर्वसादारणप णान उठून दिसपी **परिभाशीक** मुद्दे अशे आसात : (१) मध्ययुगीन विचार वा प्रभावांवटेन परतवप, (२) अतिरम्याचो मोग, (३) बुद्धिवाद वा बुद्धिनिश्ठतायेवेली प्रतिक्रिया, (४) व्यक्तीविशेशाची पुनर्प्रतिश्ठा वा जागोवणी, (५) अचेतनाची मुक्तताय, (६) शास्त्रशुद्ध पद्धती आपणावपाचो वा विज्ञानीक नदरेपेल्यान वचचेलो हावेस, (७) सैमभक्ती वा सैम-देववादाची पुनर्जागृताय, (८) आदर्शवादाचें पुनरूत्थान, (९) कॅथोलिकवादाचें पुनरागमन, (१०) मान्य कला-संकेत वा रिवाजांचो त्याग, (११) भावविवशतायेवटेन फुडो करप, (१२) सैम वा प्रकृतीवटेन पर्थून घुंवप, (१३) विश्वीक परिमाणांतल्यान 'स्व'क तिजप वा (१४) समकालीन सुधारणेचो कृत्रीम सांस्कृतीक घैरांव झाडून नीज दायजावटेन परतुवप.

हे मुद्दे फकत देखीदाखल दिल्यात. **हातूंतलो खंयचोय एक वा कांय मुद्दे मेळून स्वच्छंदतावादाची संकल्पना समजतली अशें म्हणप चूक. तशेंच, हे सगले मुद्दे एक केल्यार स्वच्छंदतावाद कितें हें कळटलें म्हणपय समा न्हय.** तरिकूय ते मुद्दे मांडपाफाटलो हेतू इतलोच आसाः हे संकल्पनेविशीं जाणकारांमदींय कितलें

---

१. *कोंकणी समिक्षेच्या विद्यार्थ्यांक मुद्दाम सांगन दिसता की ताणें **स्वच्छंदातावादाक** वयर सांगिल्ल्या **दोनय संदर्भसूचकांच्या आधारार** समजून घेवंक जाय. हाचीं कारणां दोन आसात. साहित्य-इतिहासाचो अभ्यासक म्हूण ताणें येवरोपांत उदेल्ले विचारीक कलात्मक आनी साहित्यीक चळवळीचो मूळ गाभो म्हूण **स्वच्छंदतावाद** ही संकल्पना समजून घेवंकच जाय; ते खेरीज, पश्चिमी साहित्यविचारांतल्यो अभिजातवादी आनी **स्वच्छंदतावादी** प्रवृत्ती जावं परंपरा ताका सोपेपणीं वश जावच्यो नात. पूण कोंकणी साहित्याचो अभ्यासक म्हूण (घडये, भावी समिक्षक म्हूण) ताका मनीस-मन, कला, आनी मनशाच्या व्यक्तिमत्त्वांत विरिल्ले **स्वच्छंदतावादी** गुणविशेश राजहंसावरी वेगळावंक येवंक जाय. ह्या 'नीर-क्षीर' विवेकावरचींच ताका समकालीन कोंकणी कवितेक फावो तो मान आनी न्याय दिवपाची तांक येतली.*

वेगळेंपण, हुस्को आनी मतभेद आसात हें वाचप्यांच्या निदर्शनाक हाडचें. एक नामनेचो समकालीन समिक्षक **मोर्स पॅखॅम** हांच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, सध्या **स्वच्छंदतावादा** भोंवतणी 'परिस्थिती' इतली निरूत्साही आसा की सर्वसाधारणपणान **अशेंच** धरून चलतात की **स्वच्छंदतावाद** हें साहित्यीक इतिहासांतलें एक क्रेंद्रीय प्रमेय जावन आसा आनी आमी तें सुटावें करूंक अपेशी थारले जाल्यार साहित्यीक इतिहासांतलो हेर खंयचोय प्रस्न सोडोवपाची आमी आस्त बाळगूंक पावचे नात. हाका लागून चडावत विद्वान स्वच्छंदतावादाचे संकल्पनेक परिघावेल्यानच प्रदक्षिणा घालतात वा पयशिल्ल्यानच "ताचो वयलेवयर थातोमातो करतात."

हें लक्षांत घेवन जेन्ना आमी स्वच्छंदतावादाचो एक **'साबार मळांचेर साकार जाल्ली साहित्यीक चळवळ'** म्हूण विचार करतात तेन्ना आमकां कितें अभिप्रेत आसता? हाचेय फुडें वचून जेन्ना आमी हे साहित्यीक चळवळीक **समांतर अशी परिवर्तनां** कला, विज्ञान, धर्मशास्त्र, तत्वचिंतन ह्या सगल्या क्षेत्रांनी तत्कालीन येवरीपांत जाल्लीं' हें मान्य करतात, तेन्ना स्वच्छंदतावादाचे संकल्पनेफाटल्यान अदीक- उणें कितें आसता? हांगा **बारझूं हांची परिभाशा थोडीभौ उपेगाची थारता**. ते म्हणटात की **स्वच्छंदतावाद** ही एक **'जीवशास्त्रीय क्रांती'** आशिल्ली आनी ही म्हान क्रांती येवरोपी बुदवंतकायेक स्थिरतायेच्या अपेक्षा आनी हावेसांकडसून ओडून परिवर्तनाच्या अपेक्षा-हावेसांमेरेन पावोवंक शकली. म्हणचेच, **परिवर्तन** आनी **थीक वा बंदिस्त फास्केंतल्यान मेकळीक** हो **स्वच्छंदतावादाचो मुखेल गुण** आसा हें सष्ट करून समजता.

## स्वच्छंदतावादाचे निकश

**रेने वॅलेक** हांणी काव्याच्या संदर्भात, 'स्वच्छंदतावादाची संकल्पना' ह्या लेखांत **स्वच्छंदतावादाचे तीन निकश** (*criteria*) मांडल्यात. ते अशे आसात: (१) कल्पनाशक्त आशिल्ली काव्यदिश्टी, (२) सैमाची जीवसाणयुक्त संकल्पना आस्पावपी जीवनदिश्टी, आनी (३) प्रतीक वा मिथ्यांचो काव्यशैलींत आस्पाव. पूण **हेरां विद्वानांनी स्वच्छंदतावादाचे** जे **खाशेले** गुण निर्देशीत केल्यात ते अशे आसात: जीवसाणपण, गतीशीलता, **वाढ, प्रगती, उत्क्रांती**. ह्या गुणांच्या उल्लेखांचें स्रय चड करून सी. **फ्रेडरीक हॅरोल्ड** आनी **टॅम्पलमन** हांकां वेता. तेच परी नामनेचे अमेरिकन अभ्यासक **आर्थर ओ. लव्हजॉय** हांणी **स्वच्छंदतावादाचे संकल्पनेचे तीन बुन्यादी घटक** जे वेगळायल्यात, ते म्हळ्यार **जीवसाणपण, गतिशीलता** आनी **विविधांगीपण**. ह्या घटकांची 'खासियत' अशी आसा की ते हे **संकल्पने अंतर्गत आशिल्ली विसंगती, तर्कापेलें स्वतंत्रपण** आनी **परस्परविरोध** हांचेर बोट दवरतात. पूण **लव्हजॉय** हांचे

स्वच्छंदतावादाचे संकल्पनेक मोलादीक देणें म्हळ्यार तांणी **जुस्ताजुस्त मांडिल्लो** विचार जावन आसा. तांणी स्पश्टतायेन म्हळां की प्लेटोच्या काळारसावन येवरोपी विचारसरणी (वास्तवाच्या स्वरूपाविशींच्या) दोन सखोल पूण परस्परविरोधी कल्पनमदीं समेट घडोवपांत घुस्पल्ली. १८ व्या शेंकड्याच्या निमण्या दसकांनी पश्चिमी विचारसरणी पुरायेन एके वेगळे दिकेन घुंवली आनी ह्या घुंवपांतल्यान येवरोपी कला-साहित्याच्या मळार व्हड बदल घडून आयले.

हो जो येवरोपी विचारसरणेचो **बदलतो कल** आशिल्लो ताचे विशेश मुद्दे खंयचे हें थोडेभितर नियाळूंक जाय. पयले सुवांतेर येवरोपी मानसांत (*psyche*) विश्वाची **'एक स्थीर मशीन वा यंत्र'** अशी प्रतिमा मूळ धरून बशिल्ली, तिणें एक **जीवसाणयुक्त गती** वा (गतीशील जीवसाण) अशें रूप घेतलें. ज्या स्थीर आधिभौतिकाचे बसकेचेर लागीं-लागी दोन सहस्रकांचीं **बौद्धीक, समाजीक, कलात्मक, धर्मीक** वा नितीकमूल्यां आदारिल्लीं ती बसका १८ व्या-१९ व्या शेंकड्यांत निखळ्ळी. आनी तिच्या जाग्यार नव-विचारांकडेन, परिवर्तनाकडेन सुसंगत अशी नवी बसका साकार जाली. हे बसकेंत **जीवसाण** हो गुण **यांत्रिकतायेपरस चड प्रभावी** थारलो. **स्थीरपणा जाग्यार गतीक** मान्यताय लाबली. **वाढ आनी वेगळेपण हे गुण एकजिनसीपण वा सुसंगतीपरस चड पटपासारके** थारले.

अदीक सोपें करून सांगपाचें जाल्यार, जेन्ना आमी विश्वाकच स्थीर यंत्रवत चलपी अमूर्त अशी शक्त म्हणचे जाग्यार विश्व ही एक **सतत घडपी सर्जनशील प्रक्रिया** मानतात, तेन्ना तांतूंत दोन गजाली आपशींच आस्पावतात. त्या विश्वांतलें मानवी-मन हेंवय एक **सर्जनक्षम कल्पनाशक्त** आसा; आनी दुसरें, **'हे' सर्जमक्षमतेंत** नव-विचार वा नव-संकल्पनांक **'वास्तवीक रूप दिवपाची तांक'** लिपल्या. एखाद्रो कवी, विचारवंत वा कलाकार हें नवे रूप प्रतिकांवरवीं दिता. संवसार होच एक गतिशील जिवो यथार्थ आसलो जाल्यार कलेंत येवपी ताचें चित्रणय हे जिवसाणेक, वाढीक उत्तावपी आसूंक जाय. हाचोच अर्थ जिवितांतली क्लिश्ट, जिवी वास्तवताय कला-साहित्यांत देंवोवपाक कलेक निखटें सपट उतरांचें आंगलें पावचें ना. मागीर तें कितलेंय भरजरी आसूं. तांतूंत नटयल्ली कल्पनाशक्त कळींवरावरी निश्प्राण जातलीं. **म्हूण कलेक अडेचे नमुने वा कल्पनाशक्तीचे शेळे प्रयोग उपकारचे नात**. ताका नित्यनूतन अशें **जीवें पूण प्रतिकात्मक प्रगटन** जाय. हें करपाक दरेका कवी मनाक खासा आपले तरेचें **उतर, प्रतीक, शैली** आनी **दिश्टावो** आपणावप फकत गरजेचेंच न्हय जाल्यार अपरिहार्य जावन बसता. **स्वच्छंदतावाद** हांगाच रुजता.

मनशाच्या व्यक्तीमत्वांतलो एक वेगळावंक नज असो घटक म्हूण, जावं व्यक्ती-व्यक्तीमदीं आशिल्लो गुणविशेश वा प्रवृत्ती म्हूण **स्वच्छंदतावादाचो** उल्लेख तर आमी

केलोच ते खेरीज एक इतिहासीक चळवळ म्हूणय आमी स्वच्छंदतावादाचो विचार केलो. इतिहासीक चळवळ म्हूण हे संकल्पनेचो नियाळ घेतना येवरोपी जिवितांत आमूलाग्र (मुळासावन तेंगशेमेरेन) क्रांती घडोवन हाडपी विचारीक परिवर्तन म्हूणय विस्कावणी करची पडली. तातूंतल्यान, पश्चिमी पुनर्मोखणे फाटली बुन्यादी चळवळ म्हूण **स्वच्छंदतावादाचें** विश्लेशण करचें पडलें आनी तेवरवीं ताचे तीन मुळावे गुण उक्ते जावंक पावले. ते मळ्यार **कल्पनाशक्त, जीवसाणयुक्त गतीशीलता** आनी **विविधांगीपण**.

आतां एक प्रस्न उप्रासता : हे जरी १९व्या शेंकड्यांतले येवरोपी पुनर्मोखणेअंतर्गत घडून आयिल्ल्या भोवांगी परिवर्तनाचे गुण म्हूण मान्य केले, तरी साहित्यांत जावं साहित्य-विचारांत ते केन्नासावन वेगळावंक येतात? ह्या प्रस्नाची जाप दिवचे आदीं, एके गजालीचें भान दवरूंक जाय. ती म्हळ्यार, साहित्यांत स्वच्छंदवादी विचारसरणेन आदीं मूळ धरलें आनी उप्रात साहित्यांत स्वच्छंदतावाद उदेलो, अशें समजूंक जायना. आदीं साहित्यांत चालंत प्रथांपासून मेकळीक सोदपाचो हावेस साहित्यीकान बाळगिलो. ह्या हावेसाक चड करून नव-अभिजातवादाच्या दडपणाखाला च्चेपिल्या सर्जनशील कवीमनाचे सैमिक प्रतिकियेन बळगें दिलें. वेगळे तरेन सांगचें जाल्यार साहित्यांत **स्वच्छंदतावादी** परिवर्तनाचें मोड हाडचें म्हूण कोणेंच आपोवणें दिवन बदल हाडलो ना. तर **नव-अभिजातवादी तीन-सूत्री** परंपरेक 'नकळटां' **प्रतिकार** करतल्या साहित्यीक **नवनिर्मणे** वरवीं तो आयलो.

कसो आयलो हो बदल? हें समजुचे खातीर, पर्थून एक फावट नव-अभिजातवादाच्या तीन सूत्री प्रथेचे पोड नावांनिशीं वेगळायिल्ले बरे. ते अशे आसात : (१) काव्यांतलें सैमिक अनुकरण आनंददिणें आनी समजदिणें आसचें; (२) दरेक नवें बरप स्पश्ट अशे तरेन वेगळायिल्ल्या चालंत साहित्यप्रकारांक बाडगून आसचें; (३) 'ह्या दोनय' बाबतींनी (तशेंच हेर सगल्या बाबतींनीय) काव्यान सदांच आद्य बरपाचें (नमुन्याचें, आदर्शांचे वा नेमांचे) अनुकरण करचें. अर्थात, वेगवेगळ्या बरोवप्यांनी, तशेंच **अभिजातवादाचो** पुरस्कार करप्यांनी, ह्या तीन-सूत्री परंपरेची कोंयडी सैल सोडपाचो कांय अंशी यत्न केला. देखीक मुखेलपणान इंग्लंडाच्या ड्रायडन, डॉ. जॉन्सना सारकिल्या खडेगांठ **नव-अभिजातवादी** बरोवप्यांचीं नांवां घेवंक येतात. ड्रायडनान तर मेकळेपणान मान्य केलां की (काव्य/साहित्यांतले) 'एखाद्रें' म्हान सौंदर्य वगडावचेपरस एकादो यांत्रीक नेम ताणिल्लो वा मोडिल्लो बरो.' फ्रांसाकय साहित्यांतल्या सगल्या तरेच्या घुस्पटावपी नेमावळींक **कॉर्नेल** आनी **सांत-ॲव्हमाँद** हांणी कसो विरोध केल्लो हेंवय आमी पळेलांच.

म्हणचेच **स्वच्छंदतावादी** चळवळ साहित्यांत रातयांत किल्लून वयर सरली ना. सतत चालूच आशिल्ल्या परिवर्तनान १९व्या शेंकड्यांत **वळखूं येईसारक्या चळवळी**

रूपान साहित्यांत आनी जिणेच्या हेर साबार वाठारांनी अचळय आपलो पांय रोमलो.[1] **स्वच्छंदतावाद** हो नेमको असल्याच परिवर्तनाचो रूपकार आशिल्लो. **ज्या आद्य नमुन्यांनी वा नेमांनी 'मेकळेंपण आनी सैम' हांचेखातीर कांयच हातचें राखून दवरलें ना तांच्या विरुद्ध घडून आयिल्ले सैमिक प्रतिक्रियेचो साहित्यीक पडसाद** म्हळ्यारच साहित्यांत सांपडपी **स्वच्छंदतावाद** जावन आसा. साहित्यकृतीचे आदर्श खंयच्चे, ती मान्य प्रकारांक पाळो दिता वो ना, तिची मोख खंयची हे प्रस्न फाटीं सारून, **स्वच्छंदतावादी** साहित्यान **मुखेलपणान** साहित्यकृतीचो एक **स्वतंत्र, सोबीत** आनी सदांच **समेस्तांक ओडलायणी कृती** म्हूण विचार केलो. पूण हें ओडलायणेंपण यंत्रावरी नेमांक बांदून रावन घडयिल्ले आसूंक फावना; जाल्यार कवी-कल्पनेचे आकांताळे झोंपयेंतल्यान तशेंच कविची अंतर्प्रेरणा आनी ताची भावनीक घडणी हांचेवरवीं तें साहित्यांत उदेवंक जाय. म्हणचेच, १९व्या शेंकड्यांतली येवरोपी स्वच्छंदतावादी साहित्यीक पुनर्मोखणी ही एका लांबलचक प्रतिक्रियेच्या प्रवाहावरीच आशिल्ली. 'कविता म्हणचे अशी अशी आसूंक जाय, तिचे अशे अशे प्रकार आसूं फावो, आनी तिचीं ध्येयां वा मोखी अमक्योच असप गरजेचे' - अशें मौंनपी विचारसरणेक झुगारून दिवपी नव्या साहित्य-विचाराची गोमुखी म्हळ्यार स्वच्छंदतावादी बरप, अशें म्हणूंक जागो आसा.

## विचारीक फाटभूंय

अशा ह्या जबर तांकीच्या परिवर्तना फाटली सुप्त गंगाजळी जरी सर्जनशील साहित्यिकाची नीज प्रतिक्रिया आसली, तरी तिका आदार दिवपी हेर खंयचे उत्ते घटक आशिल्ले हें पळोवंक जाय. एक मुळावो घटक म्हळ्यार तत्कालीन फ्रेंच आनी जर्मन नव-विचार. हांगा रूसोच्या समाजीक आनी राजकी बरपाचो खास उल्लेख आवश्यक आसा. ताच्या जहाल विचारांनी मान्य व्यवस्थेक आव्हान करून क्रांतिची वाट मेकळी केली. राजकी मळार हे किटीन फेंच क्रांतीचें विराट रूप धारण केलें. पूण तेच बरोबर मुक्ती, समता आनी भावपणाच्या तीन-पोडी घोशणेन साहित्यांतय व्यक्तीचेर आनी स्वतंत्रतायेचेर भर दिवपाची स्फूर्त दिली.

ह्याच काळार अमेरिकेंतल्या इंग्लीश वसाहतींनी स्वातंत्र्या उपरांत, **मनीस-हक्क, व्यक्तीगत जीण, समश्टी परस व्यक्तीचें उजवें स्थान** हांकां म्हत्व आयलें. ह्यो नव-कल्पना, समकालीन साहित्यान अचळय आपणावन, नवे तरेन आनी नव्या

१. *'नामनेचे समीक्षक इ.इ. केलॅट हांच्या उतरांनी ह्या नव्या बदलाचें वस्तुनिश्ठ मोलांकन मेळटा. ते म्हणटात, परिवर्तन सदांच प्रगतीशील आसता. पूण ते केन्नाच पुरायेन (आदल्या काळासावन) तुटिल्लें नासता.' (द वर्लीजिग ऑफ टेस्ट), पा. ११०.*

प्रकारांनी केळयल्यार नवल तें कसलें? जर्मनींत श्लेगेल भाव आनी श्लेलींग हांणी स्वच्छंदी विचारांचें मुळावण घाल्लें. ऑगस्ट विल्हेल्म श्लेगेलान तर 'अभिजातवाद ही एका सुंदर, मांडिल्ल्या संवसाराभोंवतणची कलात्मक सोद-भोंवडी' आनी 'निर्मणे फाटले अंदाधुंदेची (अनामिक) सुप्त ओढ, जी नवनिर्मणेचो हावेस बाळगीता, ती म्हळ्यार **स्वच्छंदतावाद**', अशी विस्कावणीय केली. हाचोच अर्थ असो घेवंक जाता की **स्वच्छंदतावादाक** गूढाचो (mystery) ध्यास आसता, अस्वाव्यस्त पुण जीव्या संवसाराची तान आसता आनी म्हूणच तांचें चित्रण करतना, स्वच्छंद बरोवपी कवीक जावं साहित्यिकाक कल्पनाशक्तीच्या अनवळखी वाठाराची स्वैर भोंवडी करची पडटा. तेवरवींच ताका जीणेंतली वाढ, गती आनी जीवसाण मानवी अणभवांत मांडप शक्य जाता. श्लेलींगान' ह्या' कल्पनाशक्तीच्या उड्डाणाक, कलेंतलो दिश्टावो म्हळा. आनी हो दिश्टावो कलाकाराच्या (बरोवप्याच्या) नीज अणभवांतच किल्लता, नेम आनी नमुन्यांच्या बंदिस्त वाठारांत तो आकुंरचो ना अशेंय सांगलां.

ह्या 'परदेशी' विचारांचे विरजण, इंग्लंडाच्या साहित्यविचारांक दोनेक शेंकड्याआदींसून लागिल्लें. पूण ताचो प्रभाव व्यक्ती पुरतो वा (विशिश्ट साहित्यिकापुरतो), विशिश्ट कृतींपुरतो मर्यादीत आशिल्लो. पूण ह्या विचार-म्होवणाक अदीक नेट दीसारकी एक घडणूक खासा इंग्लंडाकच घडली. ती म्हळ्यार **बिशप पर्सी** हांणी उजवाडायिल्ली **रेलीक्स ऑफ ॲन्शियंट इंग्लिश पोएट्री** ही मध्ययुगीन साहित्याची संकलीत कृती. हे कृतीन इंग्लेज वाचप्याक देखीनिशीं दाखयलें की साहित्याक, वाचप्याच्या काळजाक हात घालचेखातीर, कसल्याच नेम-रितीचे सुयेरसुतक लागना. ह्या पुस्तकांतलें काव्य बरोवप्यांनी तर 'आद्य बरोवप्यांचें' नांव लेगीत आयकल्लें नासुंयेत. पूण त्या काव्यांत वाचप्याक ओडून घेवपाची जी असाधारण तांक आशिल्ली तिचेवेल्यान त्या कवीं भितरले असामान्य सर्जनशिलतायेची प्रचिती मेळटाली.

ह्या पुस्तकान एक गजाल सदांकाळाखातीर इंग्लेज वाचप्याक सिद्ध करून दाखयली. साहित्य नेमानिशीं वा नमुन्याबरहुकूम बरोवप ही व्हड कळाशी आसत. पूण ते नेम रांदनींत सारूनय अजरंवर अशें काव्य घडुंयेता. तेखातीर नेमावळींच्या गिन्यानापरस प्रतिभेचें दायज जाय; सुस्पश्ट मोखींजाग्यार अंतर्मनाचो दिश्टावो जाय. ह्या उदाहरणांक लागून तत्कालीन समिक्षा विचारांतय नवें मोड आयलें. पर्थून एक फावट बरोवप्यान पळेलें कीं साहित्याचो सगल्यांत व्हडलो निकश हो उन्मुक्त अभिव्यक्ती आनी आकांताची मनरिजवणशक्त होच आसा. मुखेल गजाल म्हळ्यार, हें करूंक पाविल्लें आदलें साहित्य मायभाशेंतलें आनी थळाच्या साहित्य परंपरेतलें आशिल्लें. अभिजातवादी परंपरेची तोंडवळखय नाशिल्ल्या मध्ययुगीन कविंनी केल्लें

रूपान साहित्यांत आनी जिणेच्या हेर साबार वाठारांनी अचळय आपलो पांय रोमलो.[1] **स्वच्छंदतावाद** हो नेमको असल्याच परिवर्तनाचो रूपकार आशिल्लो. **ज्या आद्य नमुन्यांनी वा नेमांनी 'मेकळेंपण आनी सैम' हांचेखातीर कांयच हातचें राखून दवरलें ना तांच्या विरुद्ध घडून आयिल्ले सैमिक प्रतिक्रियेचो साहित्यीक पडसाद** म्हळ्यारच साहित्यांत सांपडपी **स्वच्छंदतावाद** जावन आसा. साहित्यकृतीचे आदर्श खंयच्ने, ती मान्य प्रकारांक पाळो दिता वो ना, तिची मोख खंयची हे प्रस्न फाटीं सारून, **स्वच्छंदतावादी** साहित्यान **मुखेलपणान** साहित्यकृतीचो एक **स्वतंत्र, सोबीत** आनी सदांच **समेस्तांक ओडलायणी कृती** म्हूण विचार केलो. पूण हें ओडलायणेंपण यंत्रावरी नेमांक बांदून रावन घडयिल्ले आसूंक फावना; जाल्यार कवी-कल्पनेचे आकांताळे झोंपयेंतल्यान तशेंच कविची अंतर्प्रेरणा आनी ताची भावनीक घडणी हांचेवरवीं तें साहित्यांत उदेवंक जाय. म्हणचेच, १९व्या शेंकड्यांतली येवरोपी स्वच्छंदतावादी साहित्यीक पुनर्मोखणी ही एका लांबलचक प्रतिक्रियेच्या प्रवाहावरीच आशिल्ली. 'कविता म्हणचे अशी अशी आसूंक जाय, तिचे अशे अशे प्रकार आसूं फावो, आनी तिचीं ध्येयां वा मोखी अमक्योच असप गरजेचे' - अशें मोनपी विचारसरणेक झुगारून दिवपी नव्या साहित्य-विचाराची गोमुखी म्हळ्यार स्वच्छंदतावादी बरप, अशें म्हणूंक जागो आसा.

## विचारीक फाटभूंय

अशा ह्या जबर तांकीच्या परिवर्तना फाटली सुप्त गंगाजळी जरी सर्जनशील साहित्यिकाची नीज प्रतिक्रिया आसली, तरी तिका आदार दिवपी हेर खंयचे उक्ते घटक आशिल्ले हें पळोवंक जाय. एक मुळावो घटक म्हळ्यार तत्कालीन फ्रेंच आनी जर्मन नव-विचार. हांगा रूसोच्या समाजीक आनी राजकी बरपाचो खास उल्लेख आवश्यक आसा. ताच्या जहाल विचारांनी मान्य व्यवस्थेक आव्हान करून क्रांतिची वाट मेकळी केली. राजकी मळार हे किटीन फेंच क्रांतीचें विराट रूप धारण केलें. पूण तेच बरोबर मुक्ती, समता आनी भावपणाच्या तीन-पोडी घोशणेन साहित्यांतय व्यक्तीचेर आनी स्वतंत्रतायेचेर भर दिवपाची स्फूर्त दिली.

ह्याच काळार अमेरिकेंतल्या इंग्लीश वसाहतींनी स्वातंत्र्या उपरांत, **मनीस-हक्क, व्यक्तीगत जीण, समश्टी परस व्यक्तीचें उजवें स्थान** हांकां म्हत्व आयलें. ह्यो नव-कल्पना, समकालीन साहित्यान अचळय आपणावन, नवे तरेन आनी नव्या

1. *'नामनेचे समीक्षक इ.इ. **केलॅट** हांच्या उतरांनी ह्या नव्या बदलाचें वस्तुनिश्ठ मोलांकन मेळटा. ते म्हणटात, **परिवर्तन सदांच प्रगतीशील** आसता. पूण ते केन्नाच पुरायेन (आदल्या काळासावन) तुटिल्लें नासता.' (**द वर्लीजिग ऑफ टेस्ट**), पा. ११०.*

प्रकारांनी केळयल्यार नवल तें कसलें? जर्मनींत श्लेगेल भाव आनी श्लेलींग हांणी स्वच्छंदी विचारांचें मुळावण घाल्लें. ऑगस्ट विल्हेल्म श्लेगेलान तर 'अभिजातवाद ही एका सुंदर, मांडिल्ल्या संवसाराभोंवतणची कलात्मक सोद-भोंवडी' आनी 'निर्मणे फाटले अंदाधुंदेची (अनामिक) सुप्त ओढ, जी नवनिर्मणेचो हावेस बाळगीता, ती म्हळ्यार **स्वच्छंदतावाद**', अशी विस्कावणीय केली. हाचोच अर्थ असो घेवंक जाता की **स्वच्छंदतावादाक** गूढाचो (mystery) ध्यास आसता, अस्वाव्यस्त पुण जीव्या संवसाराची तान आसता आनी म्हूणच तांचें चित्रण करतना, स्वच्छंद बरोवपी कवीक जावं साहित्यिकाक कल्पनाशक्तीच्या अनवळखी वाठाराची स्वैर भोंवडी करची पडटा. तेवरवींच ताका जीणेंतली वाढ, गती आनी जीवसाण मानवी अणभवांत मांडप शक्य जाता. श्लेलींगान' ह्या' कल्पनाशक्तीच्या उड्डाणाक, कलेंतलो दिश्टावो म्हळा. आनी हो दिश्टावो कलाकाराच्या (बरोवप्याच्या) नीज अणभवांतच किल्लता, नेम आनी नमुन्यांच्या बंदिस्त वाठारांत तो आकुंरचो ना अशेंय सांगलां.

ह्या 'परदेशी' विचारांचे विरजण, इंग्लंडाच्या साहित्यविचारांक दोनेक शेंकड्याआदींसून लागिल्लें. पूण ताचो प्रभाव व्यक्ती पुरतो वा (विशिश्ट साहित्यिकापुरतो), विशिश्ट कृतींपुरतो मर्यादीत आशिल्लो. पूण ह्या विचार-म्होवणाक अदीक नेट दीसारकी एक घडणूक खासा इंग्लंडाकच घडली. ती म्हळ्यार **बिशप पर्सी** हांणी उजवाडायिल्ली **रेलीक्स ऑफ एन्शियंट इंग्लिश पोएट्री** ही मध्ययुगीन साहित्याची संकलीत कृती. हे कृतीन इंग्लेज वाचप्याक देखीनिशीं दाखयलें की साहित्याक, वाचप्याच्या काळजाक हात घालचेखातीर, कसल्याच नेम-रितीचे सुयेरसुतक लागना. ह्या पुस्तकांतलें काव्य बरोवप्यांनी तर 'आद्य बरोवप्यांचें' नांव लेगीत आयकल्लें नासुंयेत. पूण त्या काव्यांत वाचप्याक ओडून घेवपाची जी असाधारण तांक आशिल्ली तिचेवेल्यान त्या कवीं भितरले असामान्य सर्जनशिलतायेची प्रचिती मेळटाली.

ह्या पुस्तकान एक गजाल सदांकाळाखातीर इंग्लेज वाचप्याक सिद्ध करून दाखयली. साहित्य नेमानिशीं वा नमुन्याबरहुकूम बरोवप ही व्हड कळाशी आसत. पूण ते नेम रांदनींत सारूनय अजरंवर अशें काव्य घडुंयेता. तेखातीर नेमावळींच्या गिन्यानापरस प्रतिभेचें दायज जाय; सुस्पश्ट मोखींजाग्यार अंतर्मनाचो दिश्टावो जाय. ह्या उदाहरणांक लागून तत्कालीन समिक्षा विचारांतय नवें मोड आयलें. पर्थून एक फावट बरोवप्यान पळेलें कीं साहित्याचो सगल्यांत व्हडलो निकश हो उन्मुक्त अभिव्यक्ती आनी आकांताची मनरिजवणशक्त होच आसा. मुखेल गजाल म्हळ्यार, हें करूंक पाविल्लें आदलें साहित्य मायभाशेंतलें आनी थळाच्या साहित्य परंपरेतलें आशिल्लें. अभिजातवादी परंपरेची तोंडवळखय नाशिल्ल्या मध्ययुगीन कविंनी केल्लें

हें एक विज्मितच आशिल्लें म्हळ्यार जाता. ह्या विज्मितांतल्यान इंग्लेज काव्यपरंपरेन **वर्डसंवर्थ-कॉलरीजासारक्या** महारथंवरवीं एकाच वांगडा साहित्यांत आनी समीक्षेंत क्रांतीकारी पावल घालें.

## लिरीकल बॅलडस् आनी इंग्लिश स्वच्छंदतावाद

१७९८ हें वर्स इंग्लेज **स्वच्छंदतावादी** साहित्य परंपरेखातीर भौ म्हत्वाचो वाटचिरो जावन आसा. ह्या वर्सा ह्या दोनय कविनी मेळून **लिरीकल बॅलडस्** ही म्हाकृती उजवाडा हाडली. हाका लागून बरेचशे समिक्षक १७९८ हें वर्स स्वच्छंदतावादाचें मूळ कशें मानतात. पूण तें फकत इतिहासीक नदरेन सोंपे पडचें म्हूण. ते आदीं कितलेंशेच बुन्यादी काम (groundwork) जावन गेल्लें हें आमीं आदी पळेलांच. म्हूण ह्या वर्साकडेन पळेतना आमी 'मिठाकणी घेवनच' पळोवंक जाय.

हो एकुणिसाव्या शेंकड्याचो सुर्वेचो काळ आसलो. गद्य बरपाक गती आयिल्ली, वृत्तपत्रीय बरपय नेटार आशिल्लें. गोंयांतल्या कोंकणी समिक्षेवरीच, इंग्लीश समिक्षाय दिसाळ्यां-नेमाळ्यांचेरच आदन दवरून दीस सारताली. एक दोन (समिक्षेखातीर) म्हत्वाचीं नेमाळींय उजवाडा येतालीं. (देखीक **एडींबरो रीव्ह्यू** आनी **क्वॉर्टरली रीव्ह्यू**) पूण हांची समिक्षात्मक नदर पुरायेन नव-अभिजातवादी, प्रस्थापीत व्यवस्थेधार्जिणी आनी परंपरावादी आशिल्ली. ह्या नेमळ्यांतल्यान **लिरीकल बॅलडसाचेर** इतली कोडू-झार टीका जाली की दोगांय कवींक शेवटाक खुद्द आपापणें समिक्षेचें 'शस्त्र उखलप' चुकना जालें. सुर्वेक वर्डसंवर्थान हे कृतिचे १८०० तले प्रतीक बरयिल्ले प्रस्तावनेंत आपले समिक्षा-विचार उक्तायले. उपरांत १८०२आनी १८१५ तय उजवाडायिल्ल्या प्रतींक ताणें आनीक समिक्षात्मक बरपाची जोड दिली.

वर्डस्वर्थाच्या समिक्षा विचारांत मुखेलपणान कवितेची उतरावळ आनी खासा ताचे काव्यविशयक विचार हांकां अग्रस्थान मेळ्ळां. उतरावळीविशीं उलयतना तो चड करून 'मदल्या आनी खालत्या समाज-थरांतल्या लोकांची सदच्या उलोवण्याची भास कवितेंत के्थवोर आनंददिणी थारूं येता' हें पळेता. काव्यांत आपलो मुळावो हेतू 'दिसपट्टे जिणेंतले प्रसंग वा घडणुको वेंचून, तांकां सदच्या भाशेंत पूण वेंचीक उतरांनी निस्तावन, कल्पनाशक्तीच्या रंगात काडून, सादारण आसा ताका असादारण ढंगान, मनासामकारा मांडप' हो आसा अशें सांगता, हे सांगणेंत तत्कालीन इंग्लेज **स्वच्छंदतावादाची चावी** आसा हें बारीकसाणेन पळेल्यार होलमता.

कित्याक काय म्हळ्यार, **मानवी अणभव, दिसपट्टी जीण, कल्पनाशक्त** हांकां हांगा म्हत्व दिल्लें आसा. हें सगलें दिसपट्टे भाशेच्या वेंचीक उपेगावरवीं साध्य करून, सादारणाक असादारण भासोवप म्हणजेच जिणेंतले निर्मणेचें साहित्यांत पडबिंबच

न्हय तर जिवी प्रतिमा दाखोवप. हे प्रतिमेफाटल्यान गती, जीवसाण, परिवर्तन आपशींच उबीं जातात. आनी ह्या काव्य-अणभवांतल्यान नकळटां एक खेरीत दिश्टावो वाचप्यांमेरेन पावता. अजाप म्हळ्यार अशेतरेचो खेरीत अणभव थळ आनी काळापेल्यान वचून खंयच्याय खिणाक, खंयच्याय वाचप्याक वेंगावन वता.अशा थळ-काळातीत काव्याची बुन्याद घाल्लेखातीर **वर्डस्वर्थ-कॉलरीजाक** परबीं फावतात.

येवरोपी **स्वच्छंदतावादी** चळवळीविशीं कितेंय अदीक - उणें सांगचे पयलीं, वाचप्याक कांय फाटल्या मुद्यांचो उगडास करून दिवप चडावत गरजेचें आसा. **स्वच्छंदतावादाचे** मान्य परिभाशेंत आमी ज्या गुणांचो आस्पाव केला, ते अशे आसातः **कल्पनाशक्त, गतिशील जीवसाणयुक्त सैमाची** संकल्पना आनी **विविधांगीपण**. ह्या गुणांक जोडून **प्रतीक** वा **मिथकांचो उपेग, प्रगती** वा **आदर्शवादाचो दिश्टावो** आनी **वाढ** वा **उत्क्रांती** हांचो आस्पावय **स्वच्छंदतावादी** काव्यांत (जावं साहित्यांत) आसुंयेता हेंवय आमी मानून घेतलां. आनी १९ व्या शेंकड्यांतल्या इंग्लेज काव्याची देख घेवन, थंयच्या स्वच्छंदतावादी कविंनी काव्य आनी समिक्षा ह्या दोनय मळांचेर आपले 'वेगळे' विचार सरणेची 'मुद्रा' कशेतरेन उदेवन दवरल्या हें नियाळपाचो यत्न केला.

**वर्डस्वर्थाचे** कवितेंत 'सादारणा'क असादारणाचो प्रत्यय दिवपी 'अणभव' म्हूण खासा ढंगान केळयिल्लो दिसून येता. **ब्लेक** ह्या **स्वच्छंदतावादाच्या** पूर्वसूरीन सदच्या अणभव-भास-उतरांवरवीं आधिभौतिकाचो दिश्टावो आपणाले कवितेंतल्यान प्रभावीपणान अभिव्यक्त केला. **कोलरीज, कीटस्** वा **शेले** सारक्या हेर **स्वच्छंदतावादी** कविनींय सादारणाचें दावें सोडिनासतना, असाधारणाचे जाणविकायेक आपापल्या काव्यांत अग्रस्थान दिलां. हें ह्या कवींक कशेतरेन साध्य जावंक पावलें हें बारीकसाणेन पळेल्यार वयर सांगिल्ल्या भौतेक गुणांचो (तशेंच परिभाशीक मुद्यांचो) **स्वच्छंदतावादाच्या** भोंवऱ्यांत रीगूनय थाव घेवंक मेळटलो. ह्या सगल्या गुणांक लागूनच **स्वच्छंदतावादी** कविता (दिसपट्ट्या जिणे-अणभवांकडेन प्रामाणीक रावन लेगीत) सादारणाक असाधारणाचो दिश्टावोदिणी अनुभूती म्हूण सामकारा येता हें समजूं येता.

हांगा थोडीशी फोडणिशी केल्ली बरी. जरी काव्यान भौ सोबितायेन आनी सुयोग्य शैलीन सदच्या अणभवांक वाचप्यामुखार मांडले जाल्यार तें काव्य वास्तवदर्शी थारत घडये, पूण जोमेरेन कविची जिणेकडेन पळोवपाची खाशेली 'नदर' तातूंतल्यान वाचप्याक जाणवना तोमेरेन तें काव्य 'सादारणाच्या परीघाभायर' पावल घालूंक पावना. तातूंत खिणयाळें समादान आसतय, पूण तें सांसणाचें ओडलायणेंपण आपणावंक अपेशी थारता. ह्या उलट, काव्यांतल्यान उदात्ताची, आदर्शाचीं आनी कविच्या अंतर्दिश्टीची गवाय वाचप्याक उत्कटतायेन मेळूनय काव्य

दिसपट्टया जिणेपासून पैसाविल्लें आसुं शकता. अशा तरेचें काव्य सर्वसादारण वाचप्याक आपणाल्या आकर्शणाच्या गांठवलांत गांठांवंक उणें पडटा. अशा काव्यावांगडाय वाचप्याचें नातें खिणयाळेंच उरता.

असाधारणाचो दिश्टावो सादारणाच्या फास्केंत बसोवन, तो अचळय वाचप्याच्या पोशांत घालतलो जाल्यार काव्याक **असामान्य प्रतिभा** तर जायच पूण तेखेरीज **सोपें उतर, सुडसुडीत शैली** आनी **अभिव्यक्तीचो नवो ढंग** हांचो सांगोड घालपी **कलात्मकता** जाय. वेगळ्या उतरांनी सांगतना म्हणचें पडटलें: **कवी-प्रतिभेक,** सर्जनशीलता आनी कल्पनाशक्त हांची जोड जाय. सर्जनशीलता आनी कल्पनाशक्त हांच्या जोतारच प्रतिभेचो नांगर काव्यनिर्मणेचें शेत कसून दिश्टाव्याचें बीं घालता. हे काव्यगुण नाशिल्ली प्रतिभा दोन वटेन नागवता: एक म्हळ्यार तिचो नांगरा-फाळ कृत्रिम वा नकलीं कवन-घडणेच्या फातराक लागता, वा वयल्यावयर कशिल्ल्या शेतांत घाल्लें बीं जेपरीन 'वाऱ्या वता' तशेंच अशा तरेच्या काव्यांतलो दिश्टावो (आसल्यारय) हुबून वता.

काव्यांतली **सर्जनशीलता** म्हळ्यार दुसरें तिसरें कांयएक न्हय, जाल्यार सैमीक निर्मणेचो कवीन कवितेंतल्यान केल्लो अणकार वा अनुकरण. ह्या सैमिक सर्जनाची पावलां काव्यांत उदेतलीं जाल्यार ताका **जीवसाण** आनी **गती** ह्या सैमीक गुणांची **प्रचिती** वाचप्याक दिवचीच पडटली. ना जाल्यार काव्यांतलें 'सर्जन' हें फकत एक **मोनें आनी थीर चित्र** जावन उरतलें. जीवसाण आनी गती ह्या नित्याच्या जिणेंतल्या सैमीक गुणांक पाळो दिवचेखातीर कवी कल्पनाशक्तीचो उपेग करता. कल्पनाशक्तीच्या तांकीर तो सदचें जीवित नव्या रंगांत आनी सादारण अणभव असादारण ढंगान मांडटा. हें करतना जर ताका सुलभ उतरावळ आनी 'सुडौल' शैली हांचोय मान राखूंक जाय जाल्यार प्रतीकांचो उपेग **अपरिहार्य** थारता. कित्याक काय म्हळ्यार प्रतीक **संकेतांवरवी** 'वळखीच्या संदर्भातल्यान, अनवळखी जाणवीकायेची अनुभूती' मेळोवन दिता. अशेतरेन प्रतीकात्मक काव्यांत आपशींच रुपक, मिथक, प्रतिमा हांचो आस्पाव जाता- काव्याचे निखटे उपरे अलंकार म्हूण न्हय जाल्यार काव्याचो 'पोत' (साडयेचो आसता तसो) म्हूण, काव्या अंतर्गत आशिल्लें खासा तंत्र म्हूण.

वयल्या विश्लेशणांतल्यान एक गजाल उत्ती जाता: **स्वच्छंदतावादी** काव्यांत सैमीक सर्जनाचें काव्यात्म अनुसरण घडटा. हें अनुसरण घडटलें जाल्यार **दिसपट्टे जिणेचो संदर्भ** आनी **सैमसारकेंपण** हांचेवांगडा, जीवितांतली **गतीशील जीवसाणय** काव्यांतल्यान प्रतीत जावंक जाय. ह्याखातीर संवकळीची भास आनी प्रतिकात्मक

अभिव्यक्ती हांचोय हातभार जाय. पूण ह्या अभिव्यक्तीक तेंचतेपण वा कृत्रिमपणाचो वास येवंक जायना जाल्यार मात एका गजालीचो भौ कुशळतायेन कवीन उपेग करूंक जाय-ती म्हळ्यार ताची **कल्पनाशक्त** जावन आसा. ही कल्पनाशक्त जर वळखिच्या उतरां- संदर्भावरवीं नव्या कल्पनांचो, अनवळखी जीणे-तासांचो आविश्कार करूंक पावली जाल्यार कळटां-नकळटां ती वाचप्याक **ज्ञात अणभवांतल्यान अज्ञाताच्या अनुभूतीमेरेन** पावोवंक शकता. अशेतरेन वाचप्याक त्या काव्यांतल्यान एक खेरीत दिश्टावो तर मेळटाच, त्या भायर विविधांगी 'सता'चें दर्शन लेगीत घडटा.

## कल्पनाशक्तीवेलो भर

हाका लागून येवरोपी स्वच्छंदतावादी काव्याच्या समृद्ध परंपरेंत **कल्पनाशक्त** ह्या एकोडी गुणाक हिसपाभायर म्हत्व दिल्लें दिसून येता. सी.एम्. **बावरा** ह्या फाकीवंत अभ्यासकाच्या मतान **स्वच्छंदतावादी** काव्यान कल्पनाशक्तीक दिल्लें हें म्हत्व हो 'त्या काव्याचो' खाशेलो गुण अशें मानूं जाता.[1]

हो जो (कल्पनाशक्तीचेर) स्वच्छंदतावादी भर आशिल्लो ताका धार्मिक आनी आध्यात्मिक जावं आधिभौतिक अशीं दोन परिमाणां आशिल्लीं. हाचें कारण आमकां आदल्या शेंकड्यांतल्या इंग्लेज तत्वगिन्यानी परंपरेंत मेळटा. **लोक** (Lock) वा **हॉबस** हांचेसारके तत्वचिंतक जे रितीन कल्पनाशक्तीक तेळटाले, ती रीत तत्कालीन विज्ञानीक तशेंक यांत्रीक विचारधारेकडेन मेळटी जुळटी आसली. तांच्या विचारांअतर्गत देवाचें अधिश्ठान लेगीत यंत्र-केंद्रीत दिश्टीकोणांतल्यान सिद्ध जातालें. ह्या यंत्रस्थित भासाभाशेचेर प्रतिक्रिया म्हूण **स्वच्छंदतावादी** विचारसरणेन **कल्पनाशक्तीची** 'एक आद्य चेतना' म्हूण **प्रतिस्थापना** केली.

**लोक** हाचो विश्वविशयक सिद्धांत भायरावन इंग्लेज **स्वच्छंदतावाद्यांनी मन-केंद्रीत** अशा एका 'आदर्श' विश्वाची संकल्पना मांडली. आनी मनाची **'अति-जीवी आनी प्रगल्भ अशी आंतरीक तांक म्हळ्यार कल्पनाशक्त'** हें गृहीतक स्वीकारून ताणीं ह्या कल्पनाशक्तीक **आधिभौतिकाचो** दर्जो दिलो तशेंच तिची **आध्यात्मिक** तांकय मान्य केली. **ब्लेक** तर स्पश्ट म्हण्टाः 'कल्पनाशक्तीचो हो संवसार म्हळ्यार सांसणाचो संवसार; हेंच तें दैवी काळीज (हृदय) ज्यांतूत आमी पालेल्या

---

*१. ते म्हण्टात 'हो कल्पनाशक्तीवेलो विश्वास म्हळ्यार व्यक्तीमदल्या 'स्व' वेलो विश्वास जावन आसा. (त्या) कवींक एका अप्रूप काल्पनीक संवसार- निर्मण्या तांकीची जाणवीकाय जाल्ली आनी ते तिका फट वा निरर्थक मानूंक शकनाशिल्ले. हाच्या परतें, ती तांक आडावप म्हळ्यार आपणाल्या पुराय अस्तित्वाक (आस्तेंपणाक) आवश्यक आशिल्लें कितें तरी न्हयकारप अशें तांकां दिसतालें'.*

(vegetated) कुडीच्या मर्णाउपरांत आस्पावतले' म्हणचे ब्लेकालेखीं **कल्पनाशक्त ही मानवी आत्म्यांत वर्तुपी देवापरस मातय वेगळी न्हय. कोलरीज** जरी इतल्या 'साक्षात्कारी' श्रद्धेन उलयलो ना तरी तोवय मान्य करता कीं 'सगल्या मानवी बोधांची जिवी तांक आनी मुळावो प्रतिनिधी ही कल्पनाशक्तच जावन आसा. आनी (इतलेंच न्हय तर) अथांग हांवांत (स्व) घडपी शाश्वत निर्मणेची (ती) नाशिवंत मनांत जाल्ली पुनरावृत्ती आसा, हें हांव मानतां.[1] हेच तरेची **कल्पनाशक्तीची** संकल्पना **वर्डस्वर्थ, कीटस्, शेले** हांकांय अभिप्रेत आसा. **बायरांच्या** म्हणण्याप्रमाणे हांचेपैकीं 'दरेकल्याक खात्री आसली की **कल्पनाशक्त** हीच आपली अती मोलादीक संपत जावन आसा. इतलेंच न्हय तर ती कशीतरी एका अद्‌भूत मांडणेकडेन (आधिसैमीक व्यवस्थेलागीं) संबंधीत आसा.' (**द रोमेंटीक इमेजिनेशन,** पा. ९०)

पूण हाचो अर्थ असो मात घेवंक जायना कीं स्वच्छंदतावादी कवींच्या मतान कल्पनाशक्त फकत अ-वर्तुपी (non-existent) गजालींकडेन संबंधीत आसा. ते अशें मानतात कीं कल्पनाशक्त, अंतर्दिश्टीवांगडा वावुरता. आनी म्हूण जें सर्वसादारण बुंदवंतकाय समजूंक अपेशी थारता तें, ती खाशेल्या नदरेन जावं अंतर्प्रेरणेन उजवाडायता. म्हणचेच, 'अंतर्दिश्टी' कल्पनाशक्तीक कार्यक्षम करता आनी त्याच वांगडा कल्पनाशक्तीच्या आदारार अंतर्दिश्टी अदीक सुक्षीम आनी सक्षम जावंक पावता. इंग्लेज **स्वच्छंदतावादी** कवी 'ह्या' थीर विश्वासाचेर पातयेवनच काव्यरचणुक करूंक पावले. आनी तांगेलें काव्य तशेंच काव्य-विचार ह्या विश्वासाची धडधडीत गवाय जावन आसात.

इंग्लेज **स्वच्छंदतावादी** कवींनी 'ह्या' गृहीतकांवरवीं **लॉक** हाचो भौतीक संवसाराचेर आदारीत बोधाचो सिद्धांत न्हयकारलो तो न्हयकारलोच. पूण इंद्रिय-बोधाचेर उबारिल्ली 'भोंवतणच्या संवसाराची' संकल्पनाय उदारी वडयली. **ब्लेक** आनी **कॉलरीजान** आत्म्याची सर्वोच्च बसका थीर केली. ह्याच तरेचो आत्म्याची व्हडवीकाय मानपी विचार ह्या वेळार समकालीन जर्मन तत्वचिंतक मांडटाले. कोलरीजाक **कान्ट** आनी **श्लेलींग** हांच्या विचारांची वळख आशिल्ली पूण तरीकूय तागेले विचार **खासा ताचेच** आशिल्ले हेंवय तितलेंच खरें. ह्या इंग्लेज कवींक **चिरंतन सताचो** दिश्टावो आत्म्याच्या आस्तेंपणांत घडिल्लो आनी तांका त्या सताचो फाटपुरावो करचेलीं आस लागिल्ली; तशेंच 'त्या' सताचें गूढ उमजून तें उक्तावपाचो हावेसय तांणी आपणायिल्लो. हाका लागून इंग्लेज **स्वस्छंदतावादी** कवितेंत आदर्शवाद, **अतीभौतिकाचो दिश्टावो, गूढवाद, संवसारापेलें रहस्य सुटावें करचेली**

---

१. *बायोग्राफिया लितेरारीया (संपा.) जॉन शॉक्रॉस (ऑक्सफर्ड, १९०७), I, पा. २०२.*

आस्त, तशेंच **सैमावरवीं शाश्वताचो अर्थ जाणपाची** आनी **नाशिवंतावरवीं अविनाशी अगिणताचो सोद घेवचेली इत्सा** भौ उत्कटतायेन अभिव्यक्त जाल्ली दिसता.

**अद्रश्टाचो सोद** घेवचेल्या ह्या मळब-वेंगावपी आशेन ह्या कवींक प्रेरीत केले आनी तांकां खऱ्या अर्थान 'कवी' (poet as `maker') केले. जें 'रवी'क लेगीत दिसना तें काव्यांतल्यान उत्तावपाची उर्बा बाळगून जी कविता ह्या युगांतल्या कविंनी बरयिल्ली, तातूंतल्यान तांच्या प्रतिभेची धारच न्हय जाल्यार तांच्या व्यक्तीगत अणभवांफाटली आकांताळी कल्पनाशक्त आनी ती नवलायपूर्ण तरेन वापरचेली तांगेली कळाशी होलमता. **वर्डस्वर्थ** जावं **शेले** सारक्या कविंच्या कवितांनी अणभवांच्यो अशो देखी मेळटात ज्यो साद्या उतरांनी उत्तावप अशक्य आसात. पूण 'हें' ह्या कविंनी **रुपकां, प्रतिमा** जावं **प्रतीकांचो** खुबयेन शिंवर करून साध्य केलां. **वर्डस्वर्थाचो** 'सैम' आनी **शेलेचो** 'मोग' **खरेपणीं** कितें आशिल्लो हें **प्रतीकाचें फटीक** घेवन पळेल्या खेरीज समजूंक कठीण. ब्लेक म्हण्टा, 'रेंवेकणांत संवसार तेळून/ आनी रान फुलांत सर्ग देखून अनंताक पोशांत धर/आनी शास्वताचेंच कर एक वर.' ह्या वळींनी दोळ्यांदेखत्या संवसारावेली कविंची सुक्षीम नदर जाणवल्या बगर रावना. पूण तेचबराबर ताची **खासा दिश्टी अद्रश्टाचेर थिरावल्या** हेंवय लक्षांत येता.

एक सामकें खरें: **स्वच्छंदतावादी** कवींक आपणालें ध्येय स्पश्टपणान कळिल्लें. कल्पनाशक्तीवरवीं त्या स्रेश्ठ (अणभवातीत) व्यवस्थेचो साद घेवप आनी ह्या आभासरूपी संवसारांतल्या घडणुकांचीं जावं अणभवांची तातूंतल्यान समजणी मेळोवप. ह्यो घडणुको वा अणभव मागीर फकत इंद्रियांचेर आदारीत आसूं वा इंद्रियांपेले, अनपेक्षित अनुभूतीचे अगम्य पुंजूले आसूं. ज्या-ज्या अनुभूतिवरवीं व्यक्ती-मानसाक **सुंदराचो साक्षात्कार** जाता वा **अप्रूप मोगाची आगळी जाणविकाय** घडटा वा भोंवतणच्या **सैमा** वांगडा **एकरूप करीसारकी तनरी** लागता वा **आपणांमदीं आपणाभायल्याचो** साक्षात्कार जाता, त्यो अनुभूती 'आभास' मानूंक ते तयार नासले. तांकां ते आध्यात्मिक अणभव वा आत्मीक सत मानतले. म्हूण तांणी कल्पनाशक्तीच्या नाडयार व्यक्तीक जागोवपाचो हावेस बाळगिल्लो; निखटया रीत रिवाजांच्या बेडयेंत घुस्पून नेमांच्या बंदखणींत पडिल्ल्या मनशाक मेकळो करून अथांग अणभवांच्या देगेर उबो केलो.

आतां मेरेन आमी **स्वच्छंदतावादाची** संकल्पना, फाटभूंय तशेंच कल्पनाशक्तीचें **स्वच्छंदतावादी** काव्यातलें स्थान ह्या मुदयांचो विस्तारान विचार केलो. हांकां लागून अचळय हे संकल्पनेफाटले हेर पारिभाशीक मुद्दे, तातूंत आस्पावपी घटक आनी संबंदीत काव्याचे खाशेले गुण हांचोय धांवता उल्लेख करचो पडलो. तेच भाशेन ह्या काव्याच्या स्वरूपाविशीं उलयतना भास, उतरावळ, शैली आनी दिश्टावो हांचीय

थोडीभौ चर्चा घडली. वाचप्याक मुद्दम उगडास करून दिवपासारकी गजाल म्हळ्यार, ह्या संदर्भात उप्राशिल्ली इंग्लीश समीक्षा-विचाराची चर्चा आनी तातूंतल्यान जाल्ली कल्पनाशक्त तशेंच काव्यमय भास ह्या कोलरीज आनी वर्डस्वर्थाचे आस्थेच्या विशयांची फोडणिशी.

आदल्या दोनेक शेंकड्यांतल्या विचारांकडसून १९ व्या शेंकड्यांतलो साहित्यविचार कशे परीन कूस परतूंक पावलो हें पळोवंक **काव्यमय भाशेचो** मुद्दो (**कल्पनाशक्तीच्या** मुद्द्या फाटोफाट) एक म्हत्वाचो निर्देशक म्हूण उपेगी पडटा. शिवाय, ही इंग्लंडाकच उप्राशिल्ली भासाभस न्हय, जाल्यार पुराय येवरोपी साहित्य-विचाराक मेट्टून घेवपी असो हो प्रस्न आशिल्लो, हेंवय मतींत धरीसारकें आसा. हाका लागून स्वच्छंदतावादी युगांतल्या येवरोपी काव्याचेंच न्हय तर काव्यविचाराचेंय विश्लेशण करतना ह्या साबार गजालींचो आमकां आदार जाय पडटा. कित्याक काय म्हळ्यार **स्वच्छंदतावादी** कवितेंतले जे विशेश गुण आमी वेगळायल्यात तांकां वयलेवयर नियाळ्यार ते विरोधाभासी आसात कसे दिसतात. **असादारण** कविकल्पना आनी **सादारण** संदर्भ; **असामान्य** कल्पनाशक्त आनी **संवकळीची** भास; **शैलीचें नवेपण** आनी **वळखीचे** उतर; **दिसपट्टी** जीण आनी **अज्ञाताचो** दिश्टावो प्रतिकाचो **उपेग** आनी **पुनरावृत्तीचो अभाव**. ह्या सगल्यांचो सांगोड घालून काव्यनिर्मणी करप हें कवीखातीर एक व्हड आव्हान आसा; पण ताचेपरस चड खर **यक्षप्रस्न** समिक्षकाक भेकडायता. तो प्रस्न म्हळ्यार 'हांची' वस्तुनिश्ठ नदरेन मोलावणी कशी करप? कल्पनाशक्त आनी काव्यमय भास हांचें समीकरण समजून घेवप हें ह्या प्रस्नाची जाप सोदचेखातीर अपरिहार्य जावन आसा.

१९ व्या शेकड्यांतल्या येवरोपी समिक्षा-विचाराक बारकायेन पळेल्यार तरी अशेंच दिसता आनी हातूंत अजाप ना. अभिजात काव्याचे मान्य रिवाज वा प्रथा तशेंच प्रमाण मानदंड हांकां मीठ घालिनासतना, नवीं जैतां हातासूंक फुडें सरपी स्वच्छंदी काव्याक खासा आपणाले मानदंड (किमान मार्गदर्शक प्रमाण तत्वां) उबारप चुकूं आयिल्लें ना. हाकाच लागून **कल्पनाशक्त** ह्या (तत्कालीन समिक्षा-विचाराप्रमाणें) सर्वसमावेशक काव्य-तत्वाक जोडूनच **काव्यमय भाशेचो प्रस्नय** येवरोपी समिक्षेन मध्यस्थळा हाडलो. पूण इंग्लीश समिक्षात्मक भासाभाशेंत काव्यमय **भाशेचो** जो मुद्दो **केंद्रबिंदू** जाल्लो तो जर्मन साहित्यविचारांच्या संदर्भात '**काव्यात्म कल्पनाशक्त**' ह्या नव्या आनी विस्तारीत रुपान अवतरलो.

## जर्मन स्वच्छंदतावाद

दोन शतमानांमेरेन **जर्मन समिक्षा फ्रेंच** नव-अभिजातवादाच्या प्रभावाखाला

धपटल्ली आनी नश्टया चेपणांतल्यान सुटचेखातीर आणकार वा अनुकरणाच्या अशीर मार्गान वेताली. पूण आतां, जर्मन साहित्यिकांच्या तशेंच विचारवंतांच्या दोन पिळग्यांनी **तत्वगिन्यान** आनी **सौदर्यशास्त्र** ह्या जुंवळ्या क्षेत्रांनी क्रांतिकारी विचारांचो रोव घालो. आनी म्हणटासर, फाटले दोनतीन शेंकडे येवरोपी समिक्षेचें जें दावें **इतालियन, फ्रेंच** वा **इंग्लीश** साहित्य-विचाराच्या खुंटाक बांदिल्लें, तें जर्मन विचारवंतांनी हातासलें.

ह्या संदर्भात, सुर्वेची पायाभरणी करपी (वा बुन्याद घालपी) अभ्यासक म्हूण 'ॲरीस्टोटली' वळणाचो **लेसिंग** हाचो मुजरत उल्लेख करूंक जाय. स्वता आपूण अभिजात विचारप्रणालीवटेन तंवकिल्लो आसूनय ताणें **कडव्या फ्रेंच नव-अभिजातवादाचो** विरोध करून **'कॉर्नेली'** समतोलाचें समर्थन केलें. उपरांत, हर्डर ह्या म्हत्वाच्या जर्मन अभ्यासकान नव्यो **काव्यविशयक कल्पना** मांडून जर्मन समिक्षेअंतर्गत स्पश्ट असो **स्वच्छंदतावादी विचारप्रवाह** केळयलो. **हर्डराच्यो** ह्यो कल्पना चड करून **काव्य आनी (मानव) वंश, भूगोलीक आनी इतिहासीक परंपरा तशेंच शाब्दीक अभिव्यक्तीची सर्जनशील आनी प्रतीकात्मक तांक** ह्या विशयांकडेन संबंदीत आशिल्ल्यो. (१३व्या शेंकड्यांत इतालियन पुनरूज्जीवन काळार जे तरेन आद्य बरपाचो अणकार, अनुकरण वा अनुसरण हांचेवरवीं साहित्यिक आनी विचारीक नव-निर्मणी घडून आयिल्ली, तेच तरेन आतां) जर्मन साहित्य आनी साहित्यविचारय **स्वच्छंदतावादी नव-निर्मणेक** येवकार दिवंक सज्ज जाले.

**शेक्सपियराच्या बरपाचो अणकार** हो ह्या प्रबोधनाचो मूळ स्त्रोत आशिल्लो, म्हळ्यार लटीक जावचेंना. ह्या प्रबोधनावांगडा जर्मनींत एक सर्वांगीण विचारीक मंथनय सुरू जाल्ले. ह्या विचारप्रवर्तनांत गटे (Goethe) हें नाव चड म्हत्वाचें थारता. तशें पळेल्यार जर्मन साहित्यविचारानदरेन हो काळच (भाषणां, पत्रकां, व्याख्यानां, पत्रां, लेख हांच्या रूपान) विंगड विंगड सर्जनशील बरोवपी, तशेंच अभ्यासक आनी विचारवंत हांगेल्या योगदानाचो भागंराकाळ आशिल्लो. हेर देसांतल्या 'प्रमाण' बरपाचें, तातूंतल्या 'मान्य नमुन्यांचें' तशेंच 'अभिजात विचारांचें' दायज आपणावनय जर्मन साहित्यविचार कुड्डया अभिजातवादाचे सावळेंत उरून झिनलो ना. परतो ह्या विविध साहित्यप्रवाहांतल्या नव्यो आनी वेगळ्यो 'जाणविकायो' आपणावन तो विचार पोसवलो आनी स्वतंत्रपणान वाडीक लागलो. मुजरत उल्लेख करी सारको **जर्मन स्वच्छंदतावादी विचाराचो** 'गुण' म्हळ्यार ताचो **पूर्व-पुरातनवादी कल, लोक - साहित्य वा गॉथीक साहित्यवटेनचो ओडो** आनी **तुळात्मक अभ्यासावरवीं 'विदेशी' साहित्यांतलें सत्व ओडून** घेवन **कुंडो कडावपाची** ताची तुस्तीलायक वृत्ती.

जर्मन स्वच्छंदतावादी विचाराचें बारीकसाणेन विश्लेशण केल्यार, तातूंतल्यो विशिश्ट कल्पना, इंग्लीश स्वच्छंदतावादी विचारसरणेचे फाटभुंयेर, प्रकर्शान उठून दिसतात. तांगेल्या मतान **आधुनिक कला,** बुद्ध आनी भावना हांचेमदीं एका **आदर्श एकचाराची** आस्त बाळगिता; **सैम आनी मनीस** हांचेमदीं ती सुमेळ सादूंक (जावं आसा तो सुमेळ बाळगूंक) वावुरता; तशेंच **देव आनी मनीस** हांचेमदीं, तर्कनिश्ट धर्मशास्त्राक वा येवरोपांतल्या प्रचलीत धर्मविचाराक लागून जो 'दुरावो' आयला ताचेर उजवाड घालचो यत्न करता. जर्मन **स्वच्छंतावादाचें** एक खाशेलपण म्हळ्यार **स्वच्छंदतायेवटेन 'ओडो'** आसूनय, ताचो **'कल'** अभिजातवादावटेनय आसा. हाका लागून ताणीं **'अभिजात कलेक सुंदराचें अधिश्ठान'** मानल्या जाल्यार **'स्वच्छंदतावादी कलेक उर्जेची उपासक'** मानल्या. काव्यांतय, अभिजात आनी स्वच्छंद काव्य अशी जी फारकत जाल्या तिचें मूळ ह्या जर्मन कलात्मक विचारांतच आसा. **गटे म्हण्टा**

'सध्या अभिजात आनी स्वच्छंद कवितेमदीं फरक करचेली जी कल्पना संवसारभर पातळ्ळ्या, आनी जिचेवरवीं कितलेशेच वादविवाद आनी वांटे जायत आसात, ती मुळांत शीलर आनी हावें उक्तायली. हावें काव्यांत वस्तुनिश्ठतेच्या नेमाचो आग्रो धरलो आनी हेर खंयचेय प्रथेक मानून घेतलीना. पूण व्यक्तिनिश्ठतेन (आत्मनिश्ठतेन) वावुरपी शीलराक आपणाली पद्धत बरोबर दिसली आनी म्हजे (मता) विरुद्ध आपलो बचाव करचेखातीर ताणें 'नायव्ह अँड सेंटीमेंटल पोएट्री' हो प्रबंध बरयलो. ताणें म्हजे म्हाकाच सिद्ध करून दाखयलें की, हांव म्हज्या मनाविरुद्ध (इत्शे विरुद्ध) स्वच्छंदी आशिल्लों....[१]

**श्लेगेलांनी** (भावांनी) ही कल्पना उखलून धरली आनी फुडें व्हेली ज्याका लागून ती आज पुराय संवसारभर पातळळया; आनी आज दरेकलो **अभिजातवाद** आनी **स्वच्छंदतावादाविशीं** उलयता-पन्नास वर्सांफाटीं हाचेविशीं कोण्णेक उलयनासलो.' १८३०त मांडिल्या ह्या विचारांवरवीं जर्मन स्वच्छंदतावादाचें मूळ सांपडावंक बरें पडटा. पूण समिक्षेच्या अभ्यासकान एक चत्राय बाळगूंक जाय. लागीं-लागीं ह्याच काळार (१८ व्या शेंकड्याच्या सोंपत्या दसकांनी) इंग्लीश स्वच्छंदतावादी विचारप्रणालीय कोमरेल्ली. आनी जरी ह्या दोनय उतरांचो (**स्वच्छंदतावाद** आनी **अभिजातवाद**) परस्पर संबंद प्रस्थापित करपाचो सुसंगत यत्न जर्मन स्वच्छंदतावाद्यांनी केला, तरी ह्यो संकल्पना इंग्लंडाक नव्यो नाशिल्यो. जर्मन स्वच्छंदतावादी विचारान इंग्लीश समिक्षेक नवें कितें दिलें जाल्यार **हेगेल** वा **कान्ट** हांच्या शास्त्रशुद्ध तत्वगिन्यानाची आधिभौतिक बसका दिली. मूळ विचार तांचेलागीं आशिल्लो.

---

१. *कॉन्व्हर्सेशन्स, मार्च २१, १८३० (अण.) जॉन ऑक्सनफर्ड, (संकलन) बैट, क्रिटीसिज्मः द मेजर टेक्स्टस्.*

**अभिजातवादा** विरुद्ध **स्वच्छंदतावादाच्या** ह्या विचारीक झुजांत **हेगेल** ह्या विचारवंताचें लक्षांत दवरीसारकें योगदान आसा. ताणें पुराय **कलेचे तीन फांटे** फोडले आनी **प्रतिकात्मक, अभिजात** आनी **स्वच्छंद** अशी त्या फांट्यांक नांवांय दिली. ताच्या मतान **प्रतिकात्मक** कलेंत कलाकल्पना भौतीक तत्वांत घुस्पून अर्दकुटी अभिव्यक्त जाता, हांगा तो इजिप्शियन देवळां आनी पिरॅमिड्सांची देख दिता; **अभिजात** कलेच्यो देखी ताका ग्रीक स्थापत्य**शास्त्रांत** मेळटात जंय कल्पना आनी भौतीक तत्व हांचो समसमान एकचार जाल्लो आसता, आनी स्वच्छंदी कला ताच्या म्हणण्या प्रमाण, चड करून संगीत, चित्र आनी काव्य ह्या माध्यमानी आस्पावता, जंय कल्पना वा आत्मो भौतिकाक पुरायेन वेंगावन वडयता.[२]

ह्या मतांवेल्यान एक कळटा **जर्मन स्वच्छंदतावादी** विचार **संवसारीक आनी आधिभौतिक** हांच्याभितरल्या हय-न्हयशा सोयरीकेचेर आदारिल्लो. साहित्य जावं काव्यावटेन पळेतनाय तो, 'साहित्य ह्या अस्पश्ट नात्याक कशे तरेन तोलता' हेंच उमळशीकेन पळेतालो. वेगळ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, तांचेलेखीं समिक्षेफुडें एक आकांताळें आव्हान उबें आशिल्लें: संवसारांतलें **भौतिक तत्व,** ताची बाह्य वस्तुनिश्ठ वास्तवता **आनी** ताचेपेलें सैमीक, आंतरिक, आध्यात्मिक आनी आत्मनिश्ठ (व्यक्तीनिश्ठ) **सत**-हांचेमदीं **साहित्यान कशे तरेन समतोल सादला** हें तिजून पळोवप, आनी हें करतना शास्त्रशुद्ध **विज्ञानिक निरीक्षण** आनी **इत्साशक्त** वा **नितिमत्ता** हांचो ज्युस्तजुस्त उपेग कसो करप.

हे 'जटील समस्येक' जाप म्हूण घडये इमान्युएल कांट हाचो **तत्वगिन्यानी विचार** परिस्थितीन जल्माक घालो जातलो. तागेले सुर्वेचे ग्रंथ **क्रिटीक ऑफ प्युअर रीझन** आनी **क्रिटीक ऑफ प्रॅक्टीकल रीझन** हे अनुक्रमान **विज्ञानीक** आनी **नितीवादी** दिश्टीकोणांतल्यान 'व्यक्तिगत जाणविकाय ह्या गुणाक '**एक कृतिशील, एकठांवणी निर्मणीक्षमता'** म्हूण तेळटाले. पूण ताचो **क्रिटीक ऑफ जज्जमेंट** (१७९०) हो ग्रंथ सौंदर्यशास्त्राच्या अभ्यासकाकच न्हय तर खंयच्याय समिक्षा-मोग्याक **दिकादाखयणो** थारलो. **सौंदर्य, नितिमत्ता** आनी **अभिरूची** ह्या सगल्या समिक्षेक आवश्यक अशा गुणांवटेन पळोवंक आमकां **कान्टाच्या** ह्या आत्मनिश्ठ जावं व्यक्तिकेंद्रित विचारप्रणालीचो भौ आदार जाता.

तो म्हणटा[३] 'अणभवांचेर आदरिल्लो निर्णय जसो अणभवसिद्ध कायद्यांनी आडवून उरता, तसो तो अभिरूचीच्या वाठारांत आडवना; नितिमत्तेचे बाबतींत जशी

---

२. *द फिलोसॉफी ऑफ फायन आर्ट (अण.) एफ.पी.बी. ओस्मास्टन (लंडन, १९२०), I, पा. १-५.*

३. *क्रिटीक ऑफ जज्जमेंट, (अनु.) बर्नाडे, (लंडन, १९३१, २ री.सु.आ.), पा.२५१.*

बुद्ध, इत्साशक्तीचेर (हावेस ह्या अर्थान) पातयेवन निर्णय दिता (वा नेम घडयता), तेच तरेन ती (अभिरूची) विशुद्ध समादान-दिण्या वस्तुवटेन निर्णय दिता आनी आमचे भितल्ले हे तांकीक लागून तशेंच बाह्य सैमाचे, तिचेकडेन मेळ सादपाचे, तांकीक लागून, ह्या निर्णयाचो संबंद आमचे भितल्या तशेंच भायल्या **कित्याकडेन** तरी आसता, **जें** भौतिक गरजय न्हय आनी नितीक स्वातंत्र्यय न्हय पूण **जें** स्वातंत्र्याच्या इंद्रियांपेल्या स्थितीवांगडा जोडिल्लें (सांधिल्लें) आसा. हे इंद्रियातीत वास्तवतायेंत, सिद्धांतीक आनी प्रत्यक्ष (वास्तवीक) तांकी गूढ रीतीन एकामेकांवांगडा गुंथिल्ल्यो आसात.'

वयल्या विधानांतल्यान एक गजाल स्पश्ट जाता; अभिरूची ही व्यक्तीची आंतरीक तांक जावन आसा आनी ती आपलो निर्णय 'निखळ' आनंद दिवपी कृती (**वस्त, कला, विचार बी**) वटेन दिता. अभिरूचिचो 'हो निर्णय' संवसारांतल्या नितीमत्तेचेर वा समाजीक (जावं हेर भौतीक) गरजांचेर आदारिल्लो **नासता** जाल्यार तो आंतरीक समजणेचेर आदारिल्लो आसता. हे आत्मनिश्ठ शक्तिचो खुबयेन, सुक्षिमतायेन आनी दोळे उक्ते दवरून व्यक्ती उपेग करता, तेन्नाच खंयचेच कलाकृतिची वा साहित्यकृतिची अभिरूचीपूर्ण तरेन ती मोलावणी करूंक पावता. तशे तरेची मोलावणी नेम वा रिवाजांचेर सुंवार जायना, ती समिक्षेच्या तत्वांक अळंग आपणायता. आनी अंतर्मनाचे साणीर 'आनंदाच्या कसाक' लायता. म्हणचेच काव्यावरीच **काव्य-समिक्षाय** 'स्वच्छंद' वावुरचेलो हावेस धरता.

हे समजून घेवप आनी कृतींत हाडचेलो यत्न करप हेंच समिक्षेच्या अभ्यासकानदरेन **स्वच्छंदतावादाचें** व्हडांत व्हड **देणें** जावन आसा. हें करूंक येस मेळयिल्ल्या समिक्षकांकच **स्वच्छंदतावादी** काव्याची मोलादीक गिरेस्तकाय होलमल्या. जे **अभिजातवादाचें** कवच-कुंडल घालून स्वच्छंद काव्याची चावी सोदूंक भोंवल्यात ते विचारीक गोंदळाच्या भोंवऱ्यांत सांपडून सासणाचे सांडल्यात.[1] हातूंतल्यान समिक्षेन 'धडो' घेवंक जाय आनी अशें कशें जाता हाचो 'छडो' लावंक जाय. त्याखातीर आधुनिकतेकडेन सोयरीक काडची पडटली.

●

---

१. *हाची हालींची देख दिवची जाल्यार शेलेच्या काव्याची टी.एस. एलियट आनी हेर आधुनिक दिग्गजांनी केल्ली विदर्णा पळोवची. अजाप म्हळ्यार खासा एलियटाच्या काव्यांत ताचो समिक्षकी* ***अभिजातवाद स्वच्छंदताये आड*** *दडून-दडूनच दिसता.*

# १५

# आधुनिकतेच्या वाटेवेले विविध साहित्यिक प्रवाह आनी समिक्षाविचार.

आधुनिकता आज आमचे साहित्यीक उतरावळींतलें **'बिल्वपत्र'** जावन बसलां. चांटे पावलाक साहित्य-संवसारांत **आधुनिक, आधुनिकता** आनी **आधुनिकवाद**[१] (खरें म्हळ्यार **आधुनिकीवाद** अशें म्हणूंक जाय) ह्या त्रि-दलाचो शिंवर जाता. समिक्षकापुरतें उलोवचें जाल्यार आधुनिकतेच्या 'मिडाशी' स्पर्शाबगर ताचे समिक्षेंत जीव येना. घडये आयच्या समिक्षा-विचाराक जाल्ल्या आधुनिकतेच्या अजिर्णाक लागून फाटलीं कांय दसकां साहित्य-प्रवाहांत 'कितेंय आधुनिकापरस **वेगळें कशें**' हें दाखोवपाची मॉद आयल्या. पूण लक्षांत घेईसारकी गजाल म्हळ्यार हो वेगळचार दाखोवचेखातीर बांदिल्लें **'उत्तर आधुनिक'** हें उतर लेगीत आधुनिकाचें पुच्छ सोडूंक पावलें ना. हाचेवेल्यान **आधुनिकता** ह्या उतराचें समिक्षेच्या विद्यार्थ्यांखातीर कितलें म्हत्व आसां हें सष्ट करून होलमता.

पूण **आधुनिक** जावं **आधुनिकता** म्हळ्यार कितें? कित्याकूय 'आधुनिक' थारावचेले **निकश** खंयचे? आनी **आधुनिकीवाद** ही संकल्पना आमी सोंपेपणी कशे तरेन सुटावी करूंक पावतले? हे प्रस्न समिक्षेच्या अभ्यासकाचे नदरेन व्हड म्हत्व आशिल्ले आसात हातूंत आनीक दुबाव ना. ह्या प्रस्नांच्यो जापो सोदप म्हळ्यार **आधुनिक साहित्य-विचाराच्या** रायरस्त्यार भोंवडी करप. पूण हो रायरस्तो रेंवटांतल्यान वचपी पांयवाट न्हय. तो ह्या शेंकडयांतल्या विशाळ साहित्य-वाठाराचें हड्डें चिरून वता. आनी तो रातयांत बांदून काडिल्लो न्हय जाल्यार लागीं-लागीं अर्द शेंकडयावयर वर्सां **येवरोपी** तशेंच **अमेरिकी** (देसच न्हय जाल्यार खंड) साहित्यांत फुटिल्ल्यो साबार पांयवाटो मेळून-मेळून तो आयचे प्रतिशठेक जावं आवतिकायेक वा दर्ज्याक पावला.[२]

---

*१. ह्या तिनय उतरांची सोंपी आनी भौ-आयामी फोडणिशी **ट्वेटीयथ सेंच्युरी पोएट्री, क्रिटीकल एजेज् अँड डॉक्युमेंटस्,** (संपा.) ग्रॅहम मार्टीन आनी पी.एन. फरबँक (ओ.यु.पीः १९७५), हातूंत मेळटा.*

*२. आधुनिक ह्या उतराचो, **प्रयोगक्षम साहित्य** वा **समकालीन बरप** वा नव्या साहित्य-**प्रणालींकडेन सुसंगत** साहित्य, ह्या अर्थान **पयलो उल्लेख स्वच्छंदतावादाच्या** संदर्भांत गटेन केल्ल्या विधानांत मेळटा.*

तशें पळेल्यार. साहित्य संवसारांत **आधुनिक** हे उतर चडावत खेपो समिक्षेन (अदीक विचक्षणा करिनासतना). **समकालीन** वा **नवें** ह्या रूढ अर्थान वापरलां. हाका चालू शेंकड्याच्या पूर्वार्धांतली सुर्वेची समिक्षा लेगीत आडवाद नाशिल्ली. पूण फाटल्या साबार दसकांनी समिक्षा-विचारांत एक 'केन्नाच न्हय अशें' परिवर्तन घडून आयलां. खरेपणान हें **परिवर्तन** घडत आसा अशें म्हणप अदीक समर्पक जावं सयुक्तिक जातलें. म्हूण, एका अर्थान **स्वच्छंदतावादाचे तेंगशेवेल्यान आधुनिकवादाच्या** मुळसांत देंवप, तर्काक धरून आसलें तरी समिक्षेच्या मुळाव्या तत्वाक धरून ना. अशें केल्यार मदल्या पांच-स दसकांच्या समिक्षा-विचाराच्या चड-उतारावटेन फाट केल्लेवरी जातलें. आनी हीं पांच-स दसकां **आधुनिक पश्चिमी** समिक्षेखातीर भौ-पोसवणीं वर्सां थारल्यांत. हाका लागून स्वच्छंदतावादाच्या **मळब** चुमपी रुखावेल्यान देंवचे आदीं, समकालीन साहित्य-विचाराचो वाठार सुकण्यानदरेन नियाळळयार आधुनिकतेचो विशाळ, विविधांगी आवांठ दोळयां भरतलो.

**आधुनिक** हें विशेशण चड करून विसाव्या शेंकड्यांतल्या 'प्रयोगक्षम साहित्य-पद्दतींक वा प्रथांक' लायतात. पूण प्रायोगिक साहित्याच्या ह्या नव्या हुंवारांत हेरय साबार बारीक-मोटीं ल्हारां आस्पावतात आनी हीं ल्हारां फकत साहित्याच्या दर्यावेलीं मोडां म्हूणच म्हत्वाचीं नात, जाल्यार नव्या समिक्षा-विचारांक किल्लत घालपी बियां म्हूण अभ्यासकान बारकायेन समजून घेईसारकीं आसात. समीक्षेचे हे नवे विचारप्रणाली अंतर्गत **प्रतीकवाद, फ्युचरिझम, आविश्कारवाद** वा **अभिव्यक्तीवाद, व्हॉर्टीसिझम, अतिवास्तववाद** (surrealism), **दादावाद** (dadaism) तशेंच **प्रतिमावाद** (imagism) ह्या वेगवेगळ्या विचारसरण्यांचो आस्पाव जाता.[1] हे लांबलचक वळेरेक पळेनाफुडें, **स्वच्छंदतावादाकडल्यान** जाय जाल्यार लेगीत 'एकाच धेंपान' **आधुनिकवादामेरेन,** कित्याक पावंक जायना हें कळटा.

**आधुनिक** साहित्याचें **खाशेलेंपण** म्हळयार १९व्या शेंकड्यांतल्या **प्रथांचो पुरायेन त्याग करूंन फुडें सरचेलो** तत्कालीन साहित्यकाराचो **निश्चेव** जावन आसा. ह्या प्रथांमदीं भौ प्रमाणांत **स्वच्छंदतावादी** तत्वांचो जसो आस्पाव जाता तसोच **वास्तववाद** हे म्हत्वाचे साहित्य-प्रणालीचोय आस्पाव जाता. हाका लागून **आधुनकवादाकडेन** सोयरीक करतलो जाल्यार कोणाकय **वास्तववादाकडेन** वळख

---

*१. हांचेविशीं थोड्याभीतर पुण नेमकी म्हायती जाय जाल्यार जिज्ञासू वाचप्याक ती, एम्. एच्. एब्राम्स्, **अ ग्लोसरी ऑफ लिटररी टर्म्स** (प्रिज्म बूक्स्: १९९३), ह्या शब्दावलींत मेळूंक शकता.*

काडप चुकना. नाजाल्यार 'आधुनिक साहित्यान वास्तववादी प्रथांक भायरायल्यो' अशें म्हणप म्हळ्यार अर्थशुन्य विधान केल्लेवरी जातले. तेखातीर वेता-वेतां **वास्तववादावांगडाय** हातमेळोवणी करप योग्य जातलें.

दुसरी गजाल म्हळ्यार, **स्वच्छंदतावादाचो** मुळावो घटक म्हूण (जावं ते तरेच्या काव्यांतलें मुळावें तंत्र म्हूणय) आमी **प्रतिकात्मकताय** ह्या तत्वाचो उल्लेख केल्लो. तशेंच 'ह्या' काव्यांत प्रतिमांचो उपेग कसो प्रभावी आसता हेंवय थोडेभितर नियाळिल्लें. आधुनिकतेचे वाटेर पावल दवरतनाच **प्रतीकवाद** आनी **प्रतिमावाद** ह्या आवळ्या-जुंवळ्या साहित्य-प्रथांची चांटे कुरू मेळटा. म्हणटरीच, ह्या दोनय तरांच्या साहित्य-प्रणालींची वळखय करून घेवंक फावो.

हाका लागून आजकाल समिक्षेचे तत्विक वा सिद्धांतीक बसकेक प्रत्यक्ष समिक्षा-वेव्हारापरसय चड दर आयल्या. इतलेंच न्हय, **आधुनिक** समीक्षा-विचारांत वर्ततले हे समकालीन क्रांतींतल्यान वांगडाच साबार समिक्षा-प्रणालींचे विंगड-विंगड वझरे फुटल्यात वा फुटत आसात. पूण ह्यो समिक्षाप्रणाली वेगवेगळ्यो आसूनय एकमेकांक सामक्यो परक्यो न्हय. ह्या 'स्वतंत्र पूण एकमेकांच्यो दायजी' आशिल्ल्या प्रणालींवरवीं समकालीन समिक्षेचे वाटचालींत स्पश्ट आनी ठळक अशीं विचारीक पेणीं वळखूं येतात हे विविधांगी वाढिचो आनी स्वतंत्र भासपी विचारीक स्त्रोताचो परिणाम म्हळ्यार आधुनिक समिक्षेन पुर्विल्ले समिक्षेकडली आपली नाळ कातरून वडोवचेलो यत्न केला (वा ती तो करीत आसा!) हाच्यो देखी **उत्तर-आधुनिक** समीक्षाविचारांनी व्हडा प्रमाणांत मेळटात.

अशे तरेन आपणालो खासा 'सवतोसुभो' वरजावपी साहित्यविचाराक आपलें वेगळेपण (कांय बाबतींत स्वयंभूपण) सिद्ध करचेखातीर वा आपलो वेगळेचार मिरोवचेखातीर **नेमके परिभाशेचो** आनी **जोखते उतरावळीचो थीर आदार** जाय पडटा. हाचोच परिणाम म्हळ्यार आयच्या समिक्षा-विचाराच्या संदर्भात **आधुनिक** हें उतर वापरतना **चौकसपण** आनी **जतनाय** हांची जोड जाय. निखटी **आधुनिक** ह्या उतराची पेरणी समिक्षेंत आयली जाल्यार दुवार्थीपणाच्या दोशावरवीं त्या समिक्षात्मक बरपाचें मोल उणावतलें. जेन्ना-जेन्ना आधुनिक हें उतर उपेगांत येता तेन्ना ह्या उतरा भोंवतणची **सुस्पश्ट** आनी **नेमकी परिभाशीक प्रभावळ**, बरोवपी आनी वाचपी हांच्या, **दोळ्यांसामकारा आसप** सामकें **आवश्यक आसा**.

हे परिभाशीक आवश्यकतायेचें कारण वळखूंक कठीण न्हय. आज **आधुनिक** हें उतर आमी समकालीन 'नवें' ह्या रूढ अर्थान वापरूंक शकनात. कित्याक गेल्ल्या चाळिसेक वर्सामदीं पश्चिमी साहित्यांत आनी समिक्षेंत जीं जीं नवीं-नवीं वळणां वा

मोडां आयल्यांत तांकां आमी सोयिस्करपणान **'उत्तर'-आधुनिक** ह्या सर्वआस्पावणे पोटलेंत आंवुळ्ळ्यांत आनी पश्चिमी साहित्यापुरतें तरी **आधुनिकतायेचें** मोड निवळ्ळां वा ताचेर पान परतलां. हांगा अशें सुचोवपाचो मातय हेतू ना की आज खंयचोच पश्चिमी बरोवपी **आधुनिक** साहित्य-प्रणालीचें **अनुसरण करिना**. पूण एक मुजरत नोंद करिसारकी गजाल म्हळ्यार जो आज **आधुनिक साहित्य** बरयता तो एके 'विशिश्ट तरेन' बरयता म्हूण 'आधुनिक' थारता. 'हालींचो' बरोवपी म्हूण तो आधुनिक **न्हय**. ह्या उलट, कांय भारतीय भाशांनी आधुनिक विचारप्रणालीचो उद्‌भव १९६० च्या दरम्यान जाला आनी आज लेगीत त्या भाशांतल्या साहित्याक समकालीन ह्या 'चालंत' अर्थानय आधुनिक म्हणपांत कांयच गैर ना.[1]

वयर केल्ल्या विस्तारपूर्ण विश्लेशणाक कोणय जाणकार सेर्त अतिसादेपणाचो अतिरेक' म्हणुंये. पण समिक्षेच्या बुन्यादी तत्वांक 'सर-आँखोपर' बसोवपी अभ्यासक हे विस्कावणेफाटली भूमिका मान्य करतलो. समिक्षेंत कसलेच तरेचें दुवार्थीपणा व अर्थाचो अनर्थ करपी विचारीक घुस्पागोंदळ उरचो न्हय, हो समिक्षेच्या अभ्यासकाचो' पयलो नेम आसूंक जाय. ह्या नेमांक पाळो दिवचे खातीर ही गैर-साहित्यीक फाटभूंय सांगप गरजेचें आसलें.

**आधुनिकता** हे संकल्पनेची फोडणिशी करूंक वचचे आदीं ह्या उतराफाटल्यो इतिहासीक घडामोडी आनी समिक्षात्मक फाटभूंय समजून घेवप समा जातलें. पश्चिमी साहित्यसंवसारांत **आधुनिकता** एक 'मान्य प्रथा' म्हूण नांवारूपाक दुसऱ्या म्हा-झुजाच्या आसपास आयली. पूण हे तरेच्या बरपाचें नमन साबार दसकां आदीं पडिल्लें. आनी ह्या नव्या नमनाचें स्त्रय चालू शेंकड्याच्या दुसऱ्या दसकांत बरयतल्या आनी **प्रतीकवादाच्या** तशेंच **प्रतिमावादाच्या** प्रभावान प्रेरीत जाल्ल्या साहित्यिकांक वेता. पूण **प्रतीकवादाचें** एक तोंक **स्वच्छंदतावादाच्या** पायांपोंदा पडलां जाल्यार दुसरें तोंक अमेरिकी **अतिंद्रियवादाच्या** (transcendentalism) च्या हातांत सांपडलां.

आधुनिक साहित्य-विचाराविशीं कसलीय भासाभास करतल्याक तीन बुन्यादी मुद्यांवटेन आडनदर करूंक मेळना: १) **आधुनिकता** ह्या उतराफाटलें दुवार्थीपण कडावन मागीरच ताची नेमकी संकल्पना शब्दबद्ध करूंक जाता; २) तथाकथित **'आधुनिक'** साहित्यान १९ व्या शेंकड्यांतल्या चालंत साहित्यीक प्रथांवटेन फाट परतूनच, नव्या प्रयोगक्षम तत्वांक आपणायल्यांत; ३) हे खातीर, सुर्वेक **आधुनिकता** ह्या उतराफाटली

---

1. *कोंकणी पुरतें उलोवचें जाल्यार पंचाणव प्रतिशत बरप-सर्जनशील आनी समिक्षात्मक -हें आयचे घटकेक लेगीत आधुनिकच आसा. दोनय अर्थानी ताका आधुनिक म्हणूं येता- समकालीन/नवें म्हूणं आनी आधुनिकतायेच्यो मान्य रूढी वा प्रथा उक्तायता म्हूणय!*

समिक्षात्मक फाटभूंयच न्हय जाल्यार इतिहासीक (साहित्यीक) संदर्भय गरजेचे थारतात. आनी म्हूण ह्या लेखांत थोडेभितर हे इतिहासीक संदर्भ -आनी तांकां जोडून वयर सरिल्ले साहित्यीक प्रवाह-हांचो धांवतो नियाळ घेवंक जाय.

## इतिहासीक फाटभूंय

चालू शेंकड्याच्या हुमरारच रावन **आधुनिकतावादान** साहित्यसंवसाराचो दरवंटो खडखडायलो. म्हणटरीच १९ व्या शेंकड्यांतल्यो म्हत्वाच्यो इतिहासीक घडणुको हाका कारणीभूत थारल्यात आसतल्यो, हें आनी वेगळें सांगची गरज ना. खेरीज, पश्चिमी संवसारानदरेन पळेल्यार, साहित्य जावं शास्त्र, राजनिती जावं समाजशास्त्र, लोकजीण जावं धर्मशास्त्र, कला जावं विज्ञान, ह्या सगल्या मळांचेर १९ वो शेंकडो प्रचंड उलथा-पालथ घडोवन हाडपी काळ आशिल्लो हातूंत दुबाव ना. आदल्या शेंकड्याच्या सोंपत्या दसकांनी **फ्रेंच क्रांती, अमेरिकन स्वातंत्र्य-झूज, उद्येगीकरणा- वटेन पश्चिमेन मारिल्ली चांट** ह्या मळब वेंगावपी घडणुकांनी साहित्याक **उर्बा, आदर्श** आनी **दिका** दाखयिल्ली. तत्कालीन **स्वच्छंदतावादी** काव्यांतल्यान हे नवे आदर्श आनी नव्यो दिका हांचें सम्यक दर्शन घडटा.

पूण १९ व्या शेंकड्याचे सुर्वेकच ह्या आदर्शांफाटलो 'पोको गडगड' उत्ताडा आयलो. फ्रेंच क्रांतीन लोकशायेचीं मूल्यां फुलोवच्या जाग्यार **बेबंदशाय** मातयली. थंयचें प्रजासत्ताकाचें सपन मोडटा थंय आसा, भिरांकूळ एकाधिकारशाय जल्मा घालून झुजाची चूड पेटोवपी नेपोलियन बोनापार्टान येवरोपभर रणखेव आनी रक्तपात मातयलो. **स्वच्छंदतावादी** काव्याच्या 'सरत्या भारार' ह्या सगल्या 'समाजमन-खिन्नटावपी घडणुकांचें' सांवट पडिल्लें स्पश्ट दिसता. हाचो परिणाम म्हूण, हें काव्य **निर्शेणी, मर्णाध्यास, संवसाराचो वित्राग, मनीसजिणेची क्षुद्रताय** असल्या विशयांक हाताळटालें अशें म्हणूंक जागो आसा. फकत ह्या कवींक (**स्वच्छंदतावादी**) संवसारापेल्या सताचो दिश्टावो जाल्ल्यान वा मनशाच्या अस्तित्वाचो जिणेभायलोय संदर्भ आकळिल्ल्यान, ते ह्या निर्शेणी जावं भ्रमनिरासा (disillusionment) खाला पुरते दपटून गेलेनात. पूण एक खरें, काव्याची दिका पुरायेन बदलिल्ली!

येवरोपी **साहित्यिकाची** मनीस-जिणेवटेन, भोंवतणचे परिस्थितीकडेन पळोवचेली **नदर बदलली. फ्रेंच क्रांती** हो येवरोपी समाजमनाचो **हावेस** आशिल्लो. तिचेवरवीं अपेक्षित आशिल्ल्या **लोकशाय - मूल्यांचो** विचारवंताक आनी साहित्यिकांक एक आदर कसो आशिल्लो. फ्रेंच क्रांती ही **व्यक्ति, समाज, राष्ट्र** आनी **विश्व** ह्या सगल्या थरांचेर एका **नव्या युगाची, नव्या मूल्यांची** आनी **आदर्शांची** नांदी जातली म्हूण

येवरोपी प्रतिभा आंवडेताली. पूण प्रत्यक्षांत जें घडलें तातूंत ह्या सगल्या अपेक्षांची, आदर्शांची आनी आंवडयांची सोमतीच आहुती पडली. आनी वास्तवाच्या खर हुलपान सर्जनशीलता जागी जाली. आधिभौतिकाचेर नदर थिरावन 'वास्तवांतय वास्तवापेलें' सोदपी कवी सावशीत जालो. आनी भोंवतणचे प्रत्यक्ष **परिस्थितीवटेन** ताणें आपल्या निरीक्षणाचो आनी निर्मणीक्षमतेचो आकांठ केंद्रित केलो.

हांका येवरोपांतल्या **हेरय जायत्या घडणुकांनी** हातभार लायलो. हातूंत निकतेंच **उद्देगीकरणावटेन येवरोपान घाल्लें पावल भौ निर्णायक** थारलें. हाचें कारण सामकें आप-उपलापें आसा. उद्देगीकरणाक येवकार दितनाच, येवरोपान साबार **राजकी-समाजीक प्रस्नांकय** सोमतेच हुमराभितर काडले. उद्देगावांगडाच **कामगार वर्ग** आनी **मध्यम वर्ग हे समाजव्यवस्थेचे नवे पावंडे** उद्‌भवले. तांचे फाटीक फाट लावन झोंपडपट्ट्यो, शिक्षणाचो उणाव, मशिनावरवीं जल्मल्ली बेकारी, आकांताचें दळिद्र, मनीसपणभायली कामगारांची जीण, समाजाच्या मान्य मूल्यांचो अभाव हेवय प्रस्न आयले. ह्या प्रस्नांचे शेंपडेक किट्टी कशो दसून **समाजीक असंतोष**, ताचेर उपाय म्हूण जाल्ली **राजकी दडपशाय** आनी तिचेवेली **प्रतिक्रिया** म्हूण व्यक्तीगत तसोच भौशीक **विद्रोह** हांणीय पावल भितर घालें. हाचे आदीं येवरोपांत **विद्रोह-दडपशाय-विद्रोह** नाशिल्लो अशें न्हय. पूण तेन्ना **देव-केंद्रित विश्वकल्पना** आशिल्ल्यान समाज जायतें भावार्थान 'नशिबाचे भोग' म्हणू सोंसतालो. आतां **विज्ञानाची प्रगती** जाल्ली, **धर्माच्या शेकाक देंवती** लागिल्ली. **देवावेल्या विश्वासाकय वेर** गेल्ली. **इगर्ज** आनी **राजेशाय** हांची **सामान्य मनशावेली पकड सैल** जाल्ली. **लोकशायेच्या आनी कल्याणकारी राज्याच्या कल्पनांनी भ्रमनिरास** केल्लो. अशे तरेन, सगले वटेन तत्कालीन समाज नागवल्लो, गळसणिल्लो. समाज-पुरसा आंगार विंगड विंगड प्रस्नांच्या फोडांची दाटी जाल्ली. साहित्याक ह्या **खोरजिवाळ्या समाजावटेन** आडनदर करप कशें पुटवतलें? शेवटाक **साहित्य** हें समाजाचें **पडबिंब** आनी साहित्यीक हो समाजाचो 'वेगळावं-नजो-असो' घटकच न्हय? म्हणटरीच ह्या फोडां पुळेराचीं खतां साहित्यांत उदेवप हें सामकें समा आशिल्लें.

पूण ह्या सगल्या कृष्ण-खतांवांगडाच उजवाडाचें एक हय-न्हयशें किर्णय समकालीन समाजान देखलें. तें आशिल्लें नव-जागृतायेचें, **नव्या विचारांचे** आनी **परिवर्तनाच्या हावेसाचें**. तशें पळेल्यार विचारीक **परिवर्तनाचें मुळावण दसकांचीं दसकां फाटीं** येवरोपांत पडिल्लें. पूण ताचो प्रसार चड करून 'अल्प-संख्य' अशा **भौ-शिक्षीत उच्च-वर्गियांमदींच** जाल्लो. हाचो उल्लेख आदीं वेगळ्या संदर्भात आयलाच. पूण **आतां आयिल्लें परिवर्तन प्रत्यक्षांतलें आशिल्लें**. आनी ह्या

परिवर्तनाचो चडावत लाव साहितिकाक जालो. ताका आतां **नव-शिक्षित मध्यमवर्गा रूपान भौ-संख्य वाचपी मेळ्ळो**. पूण हो वाचपी अल्प शिकप मेळिल्लें आशिल्लो. ताका **रूपकात्मक, ध्येयवादी, कल्पनाशक्तीच्या मंत्रमुग्ध करपी** तांकीन भारावल्लें काव्य रूचचेंय नाशिल्लें आनी पचचेंय नाशिल्लें. तागेली गरज साप्प वेगळी आशिल्ली, ह्या वाचप्याक सुलभ, सुखद, कल्पनारम्य, वास्तवदर्शी साहित्य जाय आशिल्लें, काव्यापरस गद्यावटेन ताचो कल आसप सामकें सभावीक आशिल्लें आनी ह्या सगल्या गजालींचो परिणाम म्हळ्यार साहित्यांत एक **नवें मोड** येवपय तितलेंच सभावीक आशिल्लें. हें नवें मोड **वास्तववादी** साहित्याच्या रूपान येवरोपांत प्रगटले. ह्या साहित्याची भास तशेंच 'भेस' संवकळीचोच आशिल्लो. ताका गद्यावटेन वचप चुकनाशिल्ल्यान कथा-कादंबऱ्यांचें युग अवतरलें आनी 'अशा' बरपाक ललित साहित्याचे पंगतीक मानाची सुवात मेळ्ळी. हें सगलें 'रातयांत' घडून आयलें ना खरें पूण एके व्हड प्रक्रियेचो भाग म्हूण **वास्तववादान** साहित्यांत घट्ट बसकण मारली.

## वास्तववाद

तशें पळेल्यार, **वास्तववाद** हें आप-उपलापें उतर आसा आनी वाचप्यांची ताचेवांगडा लागींच्यान वळखय आसपाची शक्यताय चड आसा. तरी पूण नव्या जावं नेण्टया वाचप्याखातीर मेजक्या उतरांनी **वास्तववादाची संकल्पना** देखींसयत उक्तावप शाणपणाचें जातलें. **क्रिस बॉल्डिक** हांणी वास्तववादाची परिभाशा करतना ताका, "प्रत्यक्ष जिणेचें पडबिंब वा जिविताची प्रामाणिक नोंद जावन आशिल्ल्याचें प्रमाण दिवपी (वा तशें मत करून दिवपी) बरप वा बरोवपाची तरा" (**डिक्शनरी ऑफ लिटररी टर्म्स**, पा. १८४) अशें म्हळां. म्हणचेच, हें उतर जशें 'यथार्था-समान, सविस्तर आनी अचूक चित्रण जावं वर्णन करपी" **साहित्यीक पद्धतीक** लागू जाता पूण, तशेंच तें 'अतिरम्यावटेनचो अवास्तव (अवाजवी) ओडो, आदर्शवादी धारणा आनी पलायनवादी प्रवृत्ती' हांकां न्हयकारून जिवितांतल्या प्रत्यक्ष प्रस्नांक सामकारा वचपाचे (मनशाच्या/साहितिकाचे) वृत्तीकय लागू पडटा.[१]

अशे तरेन **वास्तववाद** दोन रूपांनी विविध साहित्य प्रकारांनी आस्पावूं शकता-साहित्याची एक तरा म्हूण आनी साहितिकामदली वृत्ती म्हूण. हाच्यो चुकार देखी

---

१. *स्वच्छंदतावादाविशीं भासाभास करतना आमी पळेल्लें की स्वच्छंदतावाद जसो साहित्यांत रीत वा प्रथा म्हूण दिसून येता तसोंच तो व्यक्ती- व्यक्तीमदींय सदांच एक गुणविशेश वा वृत्ती म्हूण आसता. फक्त ताचें प्रगटन मात काळ, विशय, समाजीक संदर्भ, व्यक्तिगत हावेस आनी कलात्मक गरज हांकां अनुरूप अशे परिस्थितींतच जाता. हें विधान वास्तववादाचे बाबतींय खरें थारता.*

येवरोपी साहित्यांतच न्हय जाल्यार संवसारीक साहित्यांत सदांकाळ घे म्हूण मेळत आयल्यात. मागीर **वास्तववादाचो** सांगोड १९ व्या शेंकड्यावांगडाच कित्याक? कित्याक तर, एक **परिणामकारक साहित्यीक प्रथा** म्हूण, **मनीस-जीण चितारपाचें एक प्रभावी साधन** म्हूण **वास्तववादाचो प्रयोग पुराय जाणविकायेन आनी सातत्यान** १९ व्या शेंकड्यांतल्या बरोवप्यांनीच केलो. तांणी निर्माण केल्लें हें बरप सर्वार्थान आनी सर्वांगांन **वास्तववादी** म्हणसारकें आशिल्लें. हाकाच लागून साहित्यीक इतिहासान **वास्तववादाचो** ह्या शेंकड्या वांगडा 'पाट लायला.'

खासा करून **फ्रेंच** बरोवप्यांनी तर भौ **जाणविकायेन** आनी **आपखोशेन** अशे तरेच्या बरपाचो **स्पश्ट पुरस्कार** केल्ल्यान, अभ्यासकांनी वास्तववादी संप्रदायाचें मूळपीठ म्हूण फ्रेंच बरपाकच वाखाणलां. हाका एक कारणय आसा. **शाँफ्लरीचें द रियालिज्म** (१८५७) उजवाडा येतसावन फ्रांसान **वास्तववादी** पंथाची गुढी उबारली अशें म्हणपाक साहित्यीक आदार मेळ्ळो. नामनेच्या वास्तववादी बरपाच्या कृतींमदीं मुजरत उल्लेख करिसारकीं बरपां म्हूण **बाल्जाक** हांचें **इल्युजिंयों** पेरद्यु (१८३७-४३), **गुस्ताव्ह फ्लोबॅर** हांचे **मादाम बोव्हारी** (१८५७) आनी **जॉर्ज इलियट** हांचें इंग्लिशींतलें **मिडलमार्च** (१८७१-२) हांचो आस्पाव करूंक जाता. ह्या फांकिवंत बरोवप्यांनी दिल्ल्यो देखी सामकारा दवरून उपरांतच्या बरोवप्यांनीच न्हय जाल्यार तांच्या समकालिनांनीय वास्तववादी चित्रण अदीक जिवें, अदीक यथार्थसदृश्य करचेलो यत्न केलो. आनी ताका 'व्यक्तिगत संदर्भच' दिनासतना 'समाजीक संदर्भय' दिलो. हें करतना कांय वेळा **वास्तववादाचो** 'अतिरेक' जाल्लोय दिसता.

## सैमवाद

ह्या सगल्या प्रयोगांतल्यान एक **खेरीत साहित्य प्रथेची** बुन्याद साहित्यांत घडत गेली. हे तरेचे **वास्तववादी** प्रथेक **सैमवाद** हें नांव फावो जालें. सैमवादी बरपांत 'समाजशास्त्रीय दिश्टीकोण' **प्रभावी** थारता आनी बरोवपी जिणेचें चित्रण करतना **सैमीक कारण- मिमांसेचेर** खासा भर दिता. तशें पळेल्यार, **सैमवाद** हो 'मुद्दम एके आगळे तरेन' साहित्याच्या कुळागरांत खेळयिल्लो **वास्तववादाचोच एक पाट** आसा, अशें म्हणप लटीक न्हय. हातूंत एक तर, मनशाक 'सैमीक घडणुकांचो वा सैम-शक्तीचो निश्क्रिय बळी' हे नदरेन वा 'समाजीक परिसराचे भकीक पडिल्लो एक हतबल प्राणी' म्हूण पळयिल्लो आसता. **सैमवादाचें** एक साहित्यीक चळवळ म्हूण **झ्युल** आनी **अेदमॉ गाँकूर** हांणी मुळावण घालें खरें पूण **अेमिल झोला** हांणी **सैमवादाक** 'एक चौकस, वस्तुनिश्ठ' अशी **थीर समाजशास्त्रीय बाजू** मेळोवन दिली. आपले सुक्षीम नदरेन आनी संशोधकी वृत्तीन तांणी समकालीन समाज-जिणेचे

आजवेर न धुंडाळिल्ले खांची-कोनशे मातय अनमननासतना, तांच्या विदारक वास्तवासयत, वाचप्यांमुखार सादर केले. **झोलावांगडा सैमवादी** परंपरेचो पुरस्कार करपी नामनेच्या बरोवप्यांमदीं ताचेच देस-भाव **गी द मोपासाँ** आनी **आफोंस दॉदे**, अमेरिकन बरोवपी **थियोदोर ड्रेयझर** आनी **फ्रेंक नॉरीस**, तशेंच **जॉर्ज मूर** आनी **जॉर्ज गिसिंग** ह्या इंग्लीश बरोवप्यांचोय आस्पाव जाता.

ह्या काळार **कथा-कादंबरी** वांगडा **गद्य नाटक** होवय एक मान्य आनी लोकप्रिय **साहित्यप्रकार** तर आशिल्लोच, खेरीज वाचप्यामेरेन (अदीक करून प्रेक्षकामेरेन पावपाचें एक **जबरदस्त माध्यमय** जाल्लो.हाका लागून **सैमवादी** (तशेंच **वास्तववादी**) परंपरा नाटकाच्या प्रभावी माध्यमांतल्यान वाचप्या-प्रेक्षकामेरेन परिणामकारक रितीन पावली. **वास्तववादी** परंपरेचे मुखेल आधारखांबे म्हूण नाटकाच्या क्षेत्रांत **शॉ, इब्सेन** हांचीं नांवां घेवंक येतात. तेच परी **ऑगस्ट स्ट्रीन्डबर्ग, मॅक्सीम गोर्की, आंतोन चेखोव्ह** हांचीय नांवां ह्या संदर्भात घेवचींच पडटलीं. अशे तरेन **वास्तववादान** तत्कालीन साहित्यविश्वांत ल्हवु-ल्हवू करून घट्ट पांय रोमले. पूण **वास्तववादाची** प्रथा काळ वेतां-वेतां दुर्दशेक पावली. अती परिचयान अवज्ञा जाता म्हणटात तशेंच हे बाबतींत जालें. **वास्तववादी** बरप इतलें 'मातलें'की समकालीन साहित्यांत आतां ते उर्बेचें वा खोशेचें साधन उरलें ना. उबगण हाडपाइतले आवतिकायेक पावलें.

बदलते समकालीन परिस्थितींतल्या नव्या राजकी-समाजीक **संदर्भात** वावुरपी सर्जनशील 'साहितियकाचे प्रतिभेक वा कल्पनाशक्तीक फावो तशी चालना दिवपाक वा उत्तेजित करपांत ही प्रथा उणी पडली. अशा वेळार साहित्यांत परिवर्तन येवप अपरिहार्य आशिल्लें. **बदलिल्ले राजकी-समाजीक संदर्भ** परंपरागत स्थितीपरस इतले वेगळे आशिल्ले की आजवेर मोलादीक म्हूण **बाळगिल्ली सगलीं मूल्यां, जपिल्ले सगले आदर्श** आळवापानावेल्या उदका थेंब्यावरी **नाच्च जावन गेले.** हे नवे परिस्थितीन मुखार दवरिल्ल्या आव्हानांक फुडो करप, साहित्यिकाक कशेंच चुकनाशिल्लें. म्हणटरीच ताणें **नव्या संदर्भांचो, नव्या मूल्यांचो** आनी तांची बांदावळ साहित्यात करचेखातीर **नव्या साहित्य-साधनांचो** सोद घेवपय सभावीक आशिल्लें. हाचो परिणाम म्हण (आदीं केन्नाच न्हय अशा किंवाटट्यान) बरोवप्यान **नव्या प्रयोगक्षम बरपाक** हात घालो. ही प्रयोगक्षमता सर्वार्थान साहित्यांत नवो जोम, नवी नदर आनी नवीं आव्हानां मेटपाक फुडें सरली हातूंतल्यान आशय-विशय, शैली-उतरावळ, संरचना-दिश्टावो ह्या संगल्यांची **पारंपारीक परिभाशाच बदल्ली.** तांचो बरपा वांगडचो संबंद 'एका आगळ्या रूपान' ललित साहित्यांत प्रगटलो. ह्या नव्या अवताराक अभ्यासकांनी **आधुनिकता** ह्या नांवान पाचारलो.

आमी आधुनिकतेच्यावाठारांत भोंवता भोंवतां संकल्पनेची साहित्यीक- इतिहासीक फाटभूंय समजून घेवचेलो यत्न केलो. ह्या संदर्भात आमी मुखेलपणान **वास्तववाद** हे प्रबळ अशे १९ व्या शेंकड्यांतले साहित्य-प्रथेची उखेवणी केली. **वास्तववादाचें, सैमवाद** हें जोड- रूपय आमी नियाळ्ळें. इतलेंच न्हय तर वास्तवादाचो अतिरेकी उपेग तत्कालीन जिणेचे बदलते संदर्भ पेलपाक कशे तरेन असमर्थ थारलो हेंवय पळेलें. आनी ह्या सामर्थहीण वास्तवादाचेर एक सक्रीय, सक्षम प्रतिक्रिया म्हूण **आधुनिकता** साहित्यांत अवतरली हें लेगीत आमी मानून घेतलें. पूण हे नवे प्रथेक आमी अजूनय विस्कटावन पळेल्ली ना. तिची उणीं दुणीं खंयची? गुण-विशेशतायो खंयच्यो? कसल्या तत्कालीन घडणुकांनी **आधुनिकतेच्या** ह्या नव्या मोडाक तेंको दिलो? चालू शतमानांत कसल्या राजकी-समाजीक परिस्थितीक लागून **आधुनिकता** साहित्यांत तोंड बयर काडूंक पावली? हे मुळावे प्रस्न अजून कुशीकच आसात. तांचे वटेन वचचे आदीं आमकां **वास्तववादी** प्रथेवरीच १९व्या शेंकड्यांतले हेर खंयचे-खंयचे **साहित्य-प्रथेन आधुनिकतेच्या** वाडट्या कवाथ्याक आळें-सावळ केल्ली आसा काय हें समजून घेवप गरजेचें आसा. म्हूण एक नदर समकालीन **अमेरिकन साहित्यावटेनय** मारूंक जाय. कित्याक, ह्या साहित्यानय **आधुनिक** बरपाक 'चालना' दिल्ली आसा.

## अमेरिकन अतिंद्रियवादाचो प्रभाव

१९ व्या शेंकडयांतली अमेरिका (U.S.A.) ही वसाहतवादाचे कोंयडेतल्यान सुटिल्ली. खासा आपणालें अमेरिकनपण वरजावंक आशेताली आनी येवरोपाकडेन मार्गदर्शनाखातीर पळेताली. इंग्लंडाकडेन अमेरिकेची एक आगळीच मोग-दुस्वासाची सोयरीक आशिल्ली. इंग्लडापरस आपुण **वेगळी** आसा हें सिद्ध करपाची जिद्द एकेवटेन आनी संस्कृतीक धाग्यांची रश्मी ओड दुसरेवटेन अशी कात्रेंत सुपारी जाल्ली अमेरिका १९ व्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धात **घर-झुजाचे** भकीक पडली. **हांगाय** राजकी-समाजीक-वंशीक कारणांची लांबचे लांब वळेरी हाचेफाटल्यान आशिल्ली पूण कांय अमेरिकन राज्यांची इंग्लंडावटेनची संस्कृतीक गुलामी हो एक मुखेल घटक आशिल्लो. तशेंच उद्देगीकरण काय कृषी उत्पादन होवय म्हत्वाचो मुद्दो आशिल्लो. पूण एक विसरूं जायना. समकालीन (१९ व्या शेंकड्याच्या पूर्वार्धांतले) अमेरिकन साहित्य नांव घेवपासारकें नाशिल्लें आनी इंग्लीश प्रस्थापितां नदरेन तें हांसपाचो विशय आशिल्लें. ह्याच काळार येवरोपांत **स्वच्छंदतावादाची** चळवळ नेटार आशिल्ली. तिचो प्रभाव अमेरिकन विचारवंताचेर, अभ्यासकांचेर पडप हें समा आशिल्लें. तसो तो प्रभाव **इमरसन** ह्या द्रश्टया अमेरिकन कवी-अभ्यासक-

विचारवंताचेर पडलो. इमरसन अमेरिकेंतल्या सोंवळ्या (Puritan) धर्मसत्तेच्या अतिरेकांक आनी तातुंतल्यान येवपी बंदनांक तशेंच अशीर मनोवृत्तीक वाजेल्लो. ताका **नव्या युगाचो उद्‌गातो** आसतल्या 'अमेरिकन कवी' चो साक्षात्कार जाल्लो. ताचें बरप, काव्य आनी भाशणां ह्या सगल्यांनी **वॉल्ट व्हिटमन** ह्या भावी म्हाकवीचेर आकांताचो प्रभाव घालो. खासा **व्हिटमनाच्या** उतरांनी सांगचें जाल्यार 'हांव तळसतालों, तळसतालों, तळसतालों... इमरसनान म्हाका खतखतो हाडलो.' इमसरसनाच्या राष्ट्रवादान, स्वाभिमानान **व्हिटमनाच्याय** हड्‌ड्यांतले अमेरिकन अस्मितायेचे इंगळे फुलयले. वांगडाच तागेल्या **अतिंद्रियवादानय** व्हिटमनाचेर गाढ परिणाम केलो.

हो अतिंद्रियवाद १९ व्या शेकड्याच्या मदें अमेरिकेंत फुललो. ख्रिस्ती एकेश्वरवादी प्रणालीवरवीं प्रभावित जाल्ली ही विचारसरणी इमरसनान सामकारायली, आनी आपणाले खाशेले शैलीन ब्रिटीश आनी जर्मन **स्वच्छंदतावादाच्या** रंगांत काडली. **अतिंद्रियतावादाचो** विचारनामो (manifesto) ताच्या लेखांनी मेळटा. हातूंतले मुखेल तत्व म्हळ्यार सैमीक घडणुकांनी अगाध, अनादी सताचें **प्रतीक आसा** अशें मानप, तशेंच 'मान्य व्यवस्थेक न्हयकारून **व्यक्तिवादाचो** पुरस्कार' करप. हे विचारसरणेच्या खर प्रभावांतल्यान गृह-झुजाउपरांत भाराक आयिल्ल्या अमेरिकन साहित्याच्या प्रबोधन काळांत **स्वच्छंदतावादी** साहित्याचें घसघसून पीक आयलें. हे साहित्य प्रणालीकडेन वचपाचें ह्या लेखाचें प्रयोजन म्हळ्यार फुडाराक **प्रतीकवादी** साहित्याचेर हाचो भौ परिणाम जालो. आनी **प्रतीकवादाचो** परिणाम फुडें **आधुनिक** साहित्यचेर जालो. पूण **प्रतीकवादाविशीं** फुडें उलोवचे आदीं आनीक एका समकालीन अमेरिकन कविचो मुजरत उल्लेख करूक जाय. कथाकार म्हूण नामना मळोवपी हो कवी-समिक्षक म्हळ्यार **एडगर अेलन पो.** हो 'विशुद्ध' कवितेचा उपासक आशिल्लो आनी ताका लागून इमरसनाच्या **अतिंद्रियवादी** विचारांचो **विरोधक** वा आलोचकय आशिल्लो. हो व्हिटमनावरी **स्वच्छंदतावादी** नाशिल्लो पूण गूढाचो, अज्ञाताचो पुजारी जाल्ल्यान ताचोय ओडो **वास्तवाभायल्या** आनी **अंतर्मनाक** आफुडपी विशयांवटेन आशिल्लो. हागेल्या काव्याचो एक खासा गुण म्हळ्यार अप्रतिम वातावरण निर्मणी, प्रतिकांचो मन धादोस करपी उपेग, भाशेचो काव्यमय प्रयोग आनी वाचप्यांकडेन एक आगळोच अनुबंध जोडचेली कळाशी. '**एडगापो**'ह्या अपुर्बाये नांवान तों फ्रेंच प्रतीकवादी कवींक परिचीत आशिल्लो. तागेले कवितेचो स्पश्ट वसो आनी गाढ छाप ह्या **फ्रेंच प्रतीकवादी** कवींच्या काव्याचेर दिसून येता.

### प्रतीकवाद

१९ व्या शेकड्याच्या निमाण्या दोन-तीन दसकांनी फ्रांसाक **प्रतीकवादी**

काव्यप्रणाली उदेली आनी हे काव्यप्रणालीन फुडाराक आधुनिक काव्याची परंपरा जल्माक घाली म्हळ्यार वावगें जावचें ना. सुर्वेक **पॉल व्हर्ले, आर्थुर रिम्बॉद** आनी **स्तेफान मालार्मे** ह्या **फ्रेंच प्रतीकवाद्यांनी** तत्कालीन **वास्तववादी** आनी **सैमवादी** बरपाचेर प्रतिक्रिया म्हूण हे 'वेगळे प्रथेक' आपणायली. तांगेलो रोख चड करून वास्तववादाच्या 'पारंपारीक तंत्राविरूद्ध' आनी अती 'वस्तुनिश्ठ चित्रणाविरुद्ध' आशिल्लो. तांका स्पश्ट आनी उगडच्या-नागड्या चित्रणा-विधानांपरस प्रतीकाफाटल्यान रावन वाचप्यावांगडा आपालिपा खेळपी बरपाची लत्तुबाय दिसली. काव्यांतल्या आशयाक दोळ्यांत खोमसारक्या उतंरांनी मांडचेपरस, उतरांतलें संगीत, तांतूतलो सूर ल्हवपीक हातान वाचप्यामेरेन पावोवप तांका चड व्हडविकायेचें दिसतालें. तांणी काव्या-अंतर्गत कविच्या **मतप्रदर्शनाक जावं समाज-जागरणाक** दुय्यम लेखून, इंद्रियजन्य (sense-generated) अणभवांक मानाचो दर्जा दिलो. ह्या **प्रतीकवादी** कवींचेर **शार्लस् बॉदेलेअर** हाच्या काव्याचोय प्रभाव खूबच मोलादीक मानूंक जाय. **प्रतीकवादी** काव्यान दोन स्पश्ट विचार आपणायले. एक, बॉदलेअरान मांडिल्लो 'भौतीक आनी आध्यात्मीक संवसारांमदली सुसूत्रताय' हो विचार आनी दुसरो एडगर ॲलन पो चो 'विशुद्ध काव्याचो विचार'. विसाव्या शेकड्यांचे सुरवेक **प्रतीकवादी** काव्याची सया येवरोपी आनी अमेरिकन साहित्याचेर वांगडाच पडली. **कवितेवरीच नाटकाचेरय प्रतीकवादान** फोक घालो. आनी मुजरत सांगपाची गजाल म्हळ्यार, चालू शतमानांतलो एकूय नांव घेईसारको **आधुनिक साहित्यीक प्रतीकवादाच्या** प्रभावापलतडी उरलो ना.

हांगा काडपासारको स्पश्ट निश्कर्श म्हळ्यार **प्रतीकवादाचो** सकारात्मक प्रभाव जे तरेन आधुनिक साहित्याचेर पडला तितल्याच नेटान वास्तववादाचो न्हयकारात्मक परिणाम आधुनिक साहित्याचेर पडला. प्रतीकवादाच्या प्रथांक आपणावन **आधुनिकतावादी** साहित्यान 'एका अर्थान' **स्वच्छंदतावादाचीच** कांय लक्षणां स्वीकारलीं म्हळ्यार जाता. एक म्हणचे, **आधुनिक** साहित्य प्रस्थापीत साहित्य-प्रथा जावं मान्य साहित्यप्रणाली (जशो **वस्तववादी** वा **सैमवादी**) हाकां न्हयकारून वा तांचेर **प्रतिक्रिया** म्हूण घडलें. ही **स्वच्छंदतावादी** प्रवृत्तीच जावन आसा. दुसरें, **स्वच्छंदतावादी** बरपांत प्रतिकांचो उपेग **मौलिक** स्वरुपाचो आसता. आनी **प्रतीकवादाच्या** पुरस्कर्त्यांकडल्यान **स्पश्ट प्रेरणा** मेळयतनाच **आधुनिक** कवितेन तांगेल्या प्रतीकांवरवीं उलोवचेले खुबयेचो भौ कळाशेन स्वीकार केलो. हाका लागून **टी. एस. ॲलियटासारक्या आधुनिक** कवीक, तागेल्या आपघोशीत **अभिजातवादासकट 'स्वच्छंदतावादी'** म्हणपाचो कांय हालींच्या समिक्षकांनी जो दावो केला तो सामको

लटीक न्हय. तागेली समिक्षा **अभिजातवादाचो** पुरस्कार करता जायत पूण तागेलें काव्य, वयले दोनय निकश लायल्यार, स्वच्छंदी प्रवृत्तीचेंच दर्शन घडयता.

**आधुनिक** कवितेवेलो जावं साहित्यावेलो **प्रतीकवादी** बरपाचो प्रभाव फकत इतल्यारच थांबना. **प्रतीकवादी** काव्यांत उक्त्या **विधानापरस सूचकतायेचे** चड भर दिल्लो आसता, हें आमी मानून घेतलां. तशेंच अनवळखी संदर्भ, खाजगी वा गुपीत कुरवांतल्यान **व्यक्तिगत मनस्थितीच्यो** विविध छटा जागोवप हें लेगीत हे तरेच्या काव्याचें ध्येय आसता. उतरांतलें काव्य उपलापें करपाच्या मूळ ध्येयाक पाळो दिवचेखातीर **प्रतीकवादी** काव्यान छंद-मात्राचें बंदन मानून घेतलें ना. आनी अचळय तत्कालीन कवितेक **मुक्तछंदाच्या** मळार व्हरून सोडली. आधुनिक कवितेन **प्रतीकवादी** बरपांतल्यान हे सगले गुणविशेष बारीकसाणेन टिपून घेतले आनी **आपले तरेन** वापरले. 'हें,' हे कवितेच्या नवशिक्या वाचप्यांक लेगीत होलमतलें. **प्रतीकवादी** बरपाची आनीक एक खासा विशेशताय म्हळ्यार समकालीन जिवितांत आयिल्ल्या **अवकळेचो** तांणी केल्लो स्वीकार. सुरवेक अशे तरेन खालविल्लो साहित्यीक दर्जा आनी नितिमतेक लागिल्ली देंवती १८३० च्या दरम्यान **एडगर ॲलन पो** आनी **थिओफिल गॉटीॲर** हांका जाणवल्ली. पूण १८५७ त बॉदलेअ्राचो कवितासंग्रह **ले फ्लर द्यु माल** उजवाडा आयलो आनी ही अवकळा (decadence) **एक सुस्पश्ट जाणविकाय जावन** समकालीन बरोवप्यांच्या साहित्यांतल्यान अभिव्यक्त जांवक लागली. इतलेंच न्हय जाल्यार ह्या अवकळेची परिणती १८८०-९० च्या दरम्यान **'कलेखातीर कला'** ह्या ब्रीद वाक्यांत जाली आनी साहित्यीक तशेंच कलाकारांनी एकामुखान तत्कालीन 'कळाहीण' मूल्यांचो त्याग करून कलेची वा साहित्याची परंपरेन चलून आयिल्ली **समाजीक-नितीक जापसालदारकी खोंटायली**. समकालीन समाजांतलें **दिशाहीणपण, जिणेची उबगण, सैमीक अपरिपूर्णताय**, ह्या सगल्यापरस वेगळें सरून कला-साहित्यान 'विशुद्ध सुंदरा' ची साधना करचेलो निर्धार केलो. **ऑस्कर वायल्ड, ऑब्रे बियर्डस्ले** आनी **फ्रेंच प्रतीकवादी** हांचो खासा उल्लेख हे संदर्भात आवश्यक आसा.

**आधुनिक** साहित्यानय समकालीन जिणेची अवकळाजन्य स्थिती मानून घेतली. तशें पळेल्यार चालू शेंकड्यांतली जीण आदल्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धापरस कितलेशाच पटींनी अदीक क्लिश्ट, अदीक दिशाहीण आनी म्हूण चड कळाहीण आसा. हें आनी कोणेंच वेगळें सांगची गरज ना. पूण सांगपासारकी गजाल म्हळ्यार आधुनिक साहित्यान ह्या अवकळा आशिल्ल्या समाजांतल्या विंगड विंगड प्रस्नांक आपणायतना, जरी थोडे भौ प्रमाणांत **प्रतीकवाद्यांचो** दिश्टीकोण आपणायलो तरी

ताचेफाटली 'नदर' मात खासा तांची आसा. हाका लागून आधुनिक कवितेंत जरी **प्रतीकवादी** काव्याची खिणां दिसली तरिकूय तांका 'अनुकरण' म्हणपाइतलीं तीं जशा-तशी उखलिल्लीं नात. तांणी आदल्या शेंकडयांतल्या साहित्यिकांवरीच **निर्शेणी, राग, कींव, वित्राग, वीट** ह्या विविध भावांनी जिविताचे धारेक नियाळ्ळ्या पूण ह्या सगल्यांवेली तांगेली **प्रतिक्रिया** वा तांगेलो 'नदरियो' आदल्या कवींचे प्रतिक्रियेपरस **खूब वेगळी** आसा. ह्या वेगळेपणांतच आधुनिकतेचे पडबिंब आमकां दिसता. पूण हे **वेगळे** प्रतिक्रियेफाटलीं **कारणां** खंयचीं आसूंक शकतात? हाची जाप सोदूंक आमकां १९ व्या शेकडयातलीं निमणीं एक-दोन दसकां आनी विसाव्या शेकडयांतलो सुर्वेचो काळ हांचो सोद घेवचो पडटलो. आनी हो सोद घेतना **साहित्यीक** तशेंच साहित्याभायल्यो घडणुको बारीकसाणेन आमने-सामने मांडच्यो पडटल्यो.[1]

## विसाव्या शेंकडयाच्या सुर्वेक

आतांमेरेन आमी, पश्चिमी संवासारान (फाटल्या शतमानांतल्यो राजकी-समाजीक घडामोडी आनी तांचेकडेन संबंदीत साहित्यीक घडणुको चळवळी, प्रवाह बी हांचेवरवीं) **आधुनिक साहित्याक** कशी **चालना** दिली हाचो धांवतो नियाळ घेतलो. सध्यातरी ह्या लेखांतल्यान अशें दाखोवपाचो यत्न जाला, अशें म्हणूंक जाता की ह्या 'सगल्यांक' लागून-हांचेर प्रतिक्रिया म्हूण वा हांका पूरक क्रिया म्हूण आधुनिकतेन साहित्य-विश्वांत पदार्पण केलें. हें गृहितक कितलें खरें, कितलें उपलापें हें सूज्ञ वाचप्यान आपले समजिकायेन वा जोड-वाचनान/अभ्यासान आपले पुरतें थारावचें. पूण तेखातीर ताणें पयलीं चालू शेंकडयातले तत्सम परिस्थितीकडेन वळख करून घेवंक जाय. आनी ही परिस्थिती प्रत्यक्ष रितीन वा आडवाटेन आधुनिकतेच्या उदयाक जावं उद्‌रगतीक कितपत जापसालदार आसा तेंवय समजून घेंवक जाय.

हांगा दरेका अभ्यासकान एक चत्राय बाळगूंक जायः पश्चिमी संवसाराचो चालू शेंकडयातलो काळ आमकां व्यक्तिशा लागता. आमी ह्या काळाचे वांटेकार थारतात.

---

१. *हें करप दिसता तितलें सोंपें न्हय, कित्याक काय म्हळ्यार हो चालू शेकडों एक पयशिल्लो काळ न्हय. हो आमचो काळ जावन आशिल्ल्यान, ताका वस्तुनिश्ठतायेन नियाळप वा समजप भौ कठीण आसा. हांगा समिक्षकाचे समजणेचोच कस लागता, कित्याक तर, समकालीन प्रश्नांक अदीक खर समजप वा तांका हिसपाभायर चडोवन-वाडोवन पळोवपाची शक्यताय आसता. हाचे उलट वस्तुनिश्ठतायेचो कुड्डो ध्यास ताका ह्या प्रस्नांक डळमळीत करून वडोवंकय लावंक शकतात. ह्यो दोनय तोंकाच्यो भूमिका कितल्यो हानिकारक जावंक शकतात हें लक्षांत दवरुनच* ***समकालीन संदर्भात आधुनिक*** *साहित्याचें* ***खेरीतपणं*** *सोदचे पडटलें.*

म्हणटरीच सगले तरेचे पूर्वग्रह (दूराग्रहच न्हय) जाणून -बुजून कडावन आमी हो काळ समजून घेवचेलें आव्हान पेलचें पडटलें. नशिबानसार, वंशीक तशेच भूगोलीक नदरेन आमी पश्चिमी (येवरोपी, अमेरिकी आनी हेर) संवसाराच्या 'ह्या' काल-खंडापासून वेगळे आसात खरे; पूण इतिहासीक (**वसाहतवादावरवीं**) आनी संस्कृतीक (गुलामी वृत्ती वा अतिसोंवळेपण) नदरेन पळेल्यार आमी आनी 'ते' फाटीन सांदिल्ली जुंवळीं कशीं आसात. बुद्धिवादाचे शस्त्रक्रियेन वेगळायल्लीं आनी तर्काच्या टांक्यान शिवलीं तरी भावनीक मोग-दुस्वासाच्या अदृश्य धाग्यांनी एकामेकांत घुस्पल्लीं जुंवळीं...! ते भायर, ह्या शेंकड्यांतल्यो कांय 'महाकाय' घडणुको अशो आसात, ज्यो पश्चिमेत घडूनय तांचो धपको पुराय मानवी संवसाराक बसला. हातूंत संवसारीक म्हा-झुजांचो आस्पाव मुजरत करूंक जाय. ही सगली फाटभूंय ध्यानांत घेवन आनी समिक्षेचे निपक्षपाती विश्लेशणाचें मुळावें पथ्य काळजांत बाळगून फुडे सरूंया.

सुर्वेकच काय 'आक्षेपांक आमंत्रण दिवपी' विधाना कांचवेनासतना करूंक जायः १) २० व्या शेंकड्यात खरेपणान साहित्याचें (पश्चिमी साहित्याचे तरी) 'राष्ट्रीय वेगळेंपण' सोंपलां; ताचें संवसारीकरण जालां. उरल्यात त्यो भाशेच्यो, राष्ट्रीयतेच्या आनी मतप्रणालिच्यो (ideology) अडेच्यो वण्टी, ज्यो सपासप मातयेभरवण जायत आसात, २) हाचें कारण म्हळ्यार, पुराय मानवी-अणभवांचेच आज **विश्वीकरण** (universalization) जालां. ३) ह्या विश्वीकरणाक विश्वव्यापी घडणुकांची गचमुड्डी जापसालदार आसा. ४) सगल्यांचो गर्भीत उर्थ एकच जाताः 'मनीस मनशाच्या जिवार उठला.' आनी हाचेफाटली कारणां[1] धुंडाळूंक वचत जाल्यार मानवी-इतिहासाचें पुराय अर्जित शुन्य थारलां, हें पयलीं स्वीकारचें पडटा. **जॉन प्रॅस** हांचे हेविशींचे मत आज पाव शतकाउप्रांतय संवसाराक ज्युस्ताजुस्त लागू पडटा. हातूंनच **मानवी इतिहास** आनी **संस्कृतायेचे पोल** उक्तें जाता.

खरेंच, मनीसजिणेक अशी अवदिसा कशी येवजली? पश्चिमी संवसाराकडेन तरी हाचीं कांय तर्कशुद्ध अशीं उतरां आसात. घडये ती उतरां पुरायेन समादान

---

१. *जरी ह्या सगल्यांची जंत्री लावंक जायना जाली तरी कांय म्हत्वाच्या घडणुकांचो जॉन प्रॅस हांच्या शब्दांत निर्देश करूंक जाता. 'दोन संवसारीक म्हा-झुजां, सुसंस्कृत (सुधारील्या) म्हूण गणना जावपी सरकारांनी केल्ली पिडापिडीची (torture) पुन प्रस्थापना; शास्त्रशुद्ध आनी योजनाबद्ध वंशहत्येची आंखणी; सर्वसत्ताधीश राजसत्तांवरवीं जावपी व्यक्तिची दडपशाय आनी शोशण; लाखांनी लोकांक घरदार सोडून जबरदस्तीत धांवडावप; संवसारांतल्या व्हडल्या व्हडल्या शारांनी घडपी तर्काभायरी हिंसा आनी वंशीक दुस्वास ...' अ मॅप ऑफ मॉडर्न इंग्लीश व्हर्स (लंडन आनी न्यूयोर्कः ऑक्सफर्ड युनिव्हर्सिटी प्रेस, १९७०), पा. ४.*

करिसारकीं नासुंयेत पूण पटपासारकीं आसातः १) **संवसारीक वसाहतवादाक लागिल्ले गिराण**, ताका लागून जमीनदोस्त जाल्ली **राजसत्ता-केंद्रीत** समाज वेवस्था आनी ते वेंवस्थेक 'लागून आशिल्ली' **प्रस्थापीत मूल्यां** : २) **भांडवलशाये विरुद्ध विद्रोह, कामगारवर्गाक जाल्लो अस्मितायेचो साक्षात्कार** आनी **मध्यमवर्गीय प्रतिश्ठेच्या पोक्या कल्पनेक** लागिल्लो सुरींग ३) संवसारीक **म्हा-झुजांनी मानवी सु-संस्कृतायेचो**, मनीसपणाचो आनी सहिश्णुतेचो **जाल्लो पुराय होम**, ४) हातूंतल्यान मनीसमनाक जाल्लो खेद, मानवी **संवेदनशिलतेक बशिल्लो आकांताळो धपको** आनी म्हूण जल्मल्ली **विफलतायेची भावना** !

हीं जाली **मुळावीं कारणां.** पूण हांका अदीक बळ दिवपी आनिकूय गजाली ह्या शेंकडयाच्या पूर्वार्धांत प्रकर्शान वयर सरल्यो. सामान्य मनशाचो धर्मावेलो (येवरोपाच्या बाबतीत ख्रिश्चन धर्मवेलो) विश्वास तर केन्ना हुबून गेल्लो, पूण आतां **विश्वास दवरीसारकें कांयच** उरलें नाशिल्लें. **विज्ञानान** म्हा-झुजांतल्या विनाशाक लागून **आपलेवेली श्रद्धा** केन्ना **वगडायिल्ली. आदर्श** वा **मूल्यांचेर** मनशान **दरविल्लो विश्वास** परिस्थितीन **फट** म्हूण सिद्ध केल्लो. भरीक भर म्हूण, विज्ञानीक दिश्टीकोणान आतां दरेके व्यक्तीक खंयचीय गजाल 'प्रमाणीत जाल्या उपरांतच' मान्य करूक शिकयल्ल्यान **दुबाव हो मनशाचें स्थायीभाव जाल्लो**. ताणे मनशाचें 'कित्याचेरय दोळे धापूंन पातयेवचेलें' **अडेचें सुखय** काडून घेतिल्लें. परिणामस्वरूप, मनीस आपले जिणेचें पुराय गणित परतून मांडूक पळेतालो. ताका कसोच आपले जिणेचो 'ताळो पडनासलो'. हेखातीर नवे नदरेची आनी नवे आंखणेची गरज ताका जाय पडली. आनी म्हूण ताच्यांतली **प्रायोगिकता** आनी **प्रस्थापीत व्यवस्थेविरुद्ध बंड करपाची प्रवृत्ती** वांगडाच जागी जाली. हाचो पडसाद हेर सगल्या कलेच्या आंगांवागडा साहित्यांतय उदेलो. होच आधुनिकतेचो **मुळावो** सूर! हातूंतल्यान **आधुनिकवादाचो** जल्म जालो. आनी तोवय लॅटीन अमेरिकेत !

## आधुनिकतेचो साहित्यांत जल्म

आयच्या युगांत खरेपणान साहित्यांत भास-देस हांच्यो वण्टी उरल्यो नात' ह्या विधानाची सत्यता आता खरेपणान पारखून पळोवंक मेळटा. जरी **आधुनिकवादाचो** उद्‌भव येवरोपांत ह्या **शेंकडयांच्या** दुसऱ्या-तिसऱ्या शेकडयांत **उत्तर-प्रतीकवादाचो** वांटो म्हूण जालो अशें 'सर्वसाधारण मत' आसलें तरीकूय जायत्या विद्वानांच्या मतान हे **साहित्य-प्रणालीचो** जल्म १८८८ ते १९१० च्या दरम्यान **लॅटीन अमेरिकन** साहितियकां हस्तुकीं जालो. हांचेमदल्या नामनेच्या कवींमदीं खास उल्लेख करिसारकेंनांव निकारागुवन कवी **रुबेन दारियो** हाचें आसा. हाणेंच आधुनिकवादाक

ताचें खासा रूप मिळोवन दिलें अशें तज्ञ मानतात. **दारियोच्या** काव्याचो सगलो रोख **कवी-संदेश वा सांगणी टाळपाचेर** आशिल्लो; ताणें **विशुद्ध रूपांतल्या काव्याचो सोद घेवपाच्या हावेसांतल्यान काव्याक छंदाच्या अंदणेतसून पासमेकळें केलें**. हेर कविंनीं ताच्या पावलार पावल दवरलें. जिवितांतल्या सादरण घडणुकेचें आकर्शण आनी **वेगळेपणाचो मोग** ताका अप्रुपाच्या सोदांत **ग्रीक, नॉर्डीक** तशेंच **पोर्वात्य** (उदेंतेच्या) **पुराणावटेन** घेवन आयलो. मान्य काव्याच्यो रूढी तोडपाचे इत्सेने ताणें **संभाशणाची शैली** (conversational style) आनी सदची, संवकळीची सुसंस्कृत भासच न्हय जाल्यार **अर्बट, रूक्ष** भासय आपणायली. हे सगलें 'सांबाळून' काव्यांतले **खासा सार** तिगोवच्याखातीर **प्रतीकवादाचोय** आलशिरो घेतलो.

**दारियोचो** काव्यसंग्रह **आझुल** (१८८८) हाका आधुनिकवादाचो बुन्यादी चिरो असो मानला. तशेंच **उरूग्वेचो जूजे एनरीक रोदो** हाचो **अेरीयल** (१९००) हो **लेख** तर आधुनिवादाच्या पुरस्कर्त्यांनीं ताच्या वेगळेपणाक लागून माथ्यार घेतला. **क्युबाचो जूजे मार्ती** ह्या व्हड पत्रकार आनी स्वातंत्र्यवीराचेंय नांव ह्या संदर्भात मानान घेवंक जाय. हांच्या उदाहरणांक लागूनघडये लॅटीन अमेरिकन साहित्यांत उपरांत **प्रादेशीक विशयांची, देशिवादी बरपाची** एक व्हडली दडक आयली. १९२० च्या दरम्यान तर हांगाच्या साबार देशांतले कवी आनी हेर बरोवपी, रूप आनी तंत्राच्या क्षेत्रांत दिसान दीस नवे-नवे प्रयोग करूंक लागले. तांणी कवितेचें पारंपारीक स्वरूप साप्प बदलून उडयलें. आनी आगळ्या वेगळ्या प्रतिमासृष्टिची कवितेंत घोळटीक करून काव्यांत जीव हाडलो. **चिलीचो पाब्लो नेरूदा, ब्राझिलाचो मारियु द आंद्राद** आनी **आर्जेंटिनाचो जोर्ज लुई बॉर्जेस** हांचो उल्लेख हांगा करूंक फावो.

**लॅटीन अमेरिकन** देसांतली ही **आधुनिकवादाची** कीट, समकालीन **स्पॅनीश** साहित्यांतय नवीं केणां फुलोवंक कारणीभूत थारली. **दारियोचो प्रभाव एकेवटेन** आनी **बॉदलेअराचो** तशेंच हेर **फ्रेंच प्रतीकवाद्यांचो प्रभाव दुसरेवटेन** हाका लागून स्पॅनीश साहित्यांत १९ व्या शेंकड्याच्या निमण्या दसकांत एक **अप्रुपाची क्रांती** घडून आयली. हे क्रांतिकारी साहित्यीक चळवळीक '१८९८ ची पिळगी'म्हूण नामना मेळळया. ह्या सगल्यांचो प्रभाव आपल्या साहित्याचेर खेळयत **स्पॅनीश** साहित्यांत ह्या शतमानाचे सुरवेकच **आधुनिकवादाचें** आगमन जालें. **मान्युअेल माशादो, ग्रेगेरियु मार्तिनेझ सिचेर्रा** आनी **ज्युवांव रामो जिमेनेज** हांचो ह्या 'अल्पजिवी' स्पॅनीश **आधुनिकवादाकडेन** म्हत्वाचो संबंद आसा.

वयली बरीचशी म्हायती वाचतना खंयच्याय वाचप्याच्या मनांत थोडोसो दुबाव आनी थोडे भौ अजाप जागें जातलें. ते तशें जावप समा आसा. फाटल्या २०-२५

शेकड्यांच्या पश्चिमी समिक्षेच्या जावं साहित्य-विचाराच्या नियाळांत आमी सगल्या साहित्य-प्रथा-प्रणालीचे केंद्र **येवरोपी देसांत** सोदला. **हांचेमदीं ग्रीस, रोम, इंग्लंड, इटली, फ्रांन्स, जर्मनी** हांचो उल्लेख अदीक नेटान आनी गौरवान जाला. फाटल्या शेंकड्याच्या हुमऱ्यार पावतकीर आमी **अमेरिकन** साहित्याचोय आदरान उल्लेख केला. पूण आतां अकस्मात 'केन्नाच न उल्लेखिल्ल्या' **लॅटीन अमेरिकन** साहित्याचोसो उदो-उदो कित्याक जावचो? हो प्राथमीक स्वरूपाचो प्रस्न आसलो तरी ताचे फाटल्यान एक बुन्यादी मुद्दो दडला.

१९ व्या शेकड्यांत संवसारभर पातळिल्ल्या येवरोपी **वसाहतवादाक** सुरींग लागिल्लो, हें आमी आदीं म्हळां. हे प्रक्रियेक आदल्या **शेकड्यांतले फ्रेंच क्रांतीन** (१७८९) आनी **अमेरिकन स्वातंत्र्य-झुजान** (१७८३) **विचारीक योगदान** आनी **नितीक फाटबळ** दिल्लें. विज्ञानाचे तशेंच येरादारीचेय प्रगतीक लागून देसां-देसांमदलेंच न्हय तर खंडा-खंडामदलें विचारीक तशेंच साहित्यीक देणें-घेणें अदीक वेगान जालें. हाचो परिणाम म्हळ्यार १९ व्या शेंकड्याचे सुरवेकच **लॅटीन अमेरिकेंत** स्वातंत्र्य चळवळ सुरू जाली. आनी फाटोफाट, तो शेकडो सोंपतासर, थंयचे भौतेक देस, **स्पॅनीश, फ्रेंच** आनी **पुर्तुगेजांच्या** वसाहतवादी जाचांतल्यान मेकळे जाले.

हाचो दोट्टी परिणाम जालो. **लॅटीन अमेरिकन साहित्याक** नवी **उर्बा** आनी **प्रयोगक्षमता** मेळ्ळी आनी येवरोपी **राजसत्तांक नितीक धपको** आनी **राजकी मार** (political set-back) बसलो. हातूंतल्यान स्पेनासारके **वसाहतवादी** म्हाशक्तीक **आपनियाळ घेवप अपरिहार्य** जालें. **स्पॅनीश** संस्कृताय, तांचो **मळबायेदो अहंगड, थंयची भ्रश्ट राजसत्ता. समाजीक अधोगती** ह्या सगल्यांक बारीकसाणेन समजून तांची **पुनर्मोलावणी** करचेल्या वावराक **स्पॅनीश साहित्यान माथें मारलें**. हेखातीर विचारीक तशेंच कलात्मक **आंदोलन** घडप गरजेचें जावन बसलें. ह्या आंदोलनाचें पडबिंब साहित्यांत प्रभावी रितीन पडटलें जाल्यार साहित्यान **नवचेतना** आनी **प्रयोगिकता** हांका वेगावंक जाय आसलें. ह्या सगल्या आव्हानांचे आनी तांका भिडूंक जाय आशिल्ल्या साधनांचे साहित्यीक रूप म्हळ्यार **आधुनिकवादी बरपाचो उदय**. ही जाली **स्पेनाची** गजाल.

खेरीज, संवसार आता पयलींवरी प्रचंड पसरिल्लो भूगोलीक, राजकी पट उरलो नाशिल्लो. तो आतां **विचारीक, व्यापारी** आनी **मानवी** आदान-प्रदानावरवीं आक्रशिल्लो. एका तोंकावेल्या बऱ्या-वायट घडणुकांचे साद-पडसाद रोखड्या-रोखडेच हेरकडेन उदेताले. जशी **येवरोपी वसाहतवादाची** 'बिटकी कवळपांत' **फ्रेंच क्रांती, अमेरिकन स्वातंत्र्य-झूज** हांचो प्रभाव निर्णायक थारलो, तशेंच नव्या

साहित्याचे निर्मणेचेरय **फ्रेंच प्रतीकवाद्यांच्या** काव्याचो, अमेरिकन कवी वॉल्ट व्हिटमनाच्या छंदमुक्त, पुरोगामी, वेगळे शैलीच्या प्रादेशीक-विश्वीक अनुबंध (linkages) आस्पावणे कवितेचो प्रभाव पडलो, हातूंत नवल कसलें? पूण हांगा मुजरत स्पश्ट करिसारको एक बारीकसाणेचो विरोधाभास आसा. हो कवितेचो कवितेवेलो प्रभाव निखटो तंत्र वा भास हांच्या उपेगा पुरतो मर्यादित मानूंक जायना, हो **एकेकडच्या कविंच्या नव-संवेदनशिलतेची जावं जाणविकायेचो दुसऱ्याकडच्या कवीमनाचेर** आनी **ताचे प्रतिभेचेर पडिल्लो प्रभाव**. हातूंत ताचो प्रादेशिक विशयांवटेनचो ओडो, कविचो आत्माभिमान, अस्मिताय, देशप्रेम, आपलें संस्कृतीक दायज हांचेवेलो मोग दर्शयता. जाल्यार ह्या विशयांक **विश्वीक परिमाण** दिवचेलो ताचो यत्न कवीक घडिल्ल्या **'मनीसपणाच्या' साक्षात्काराचो** आसा. ह्या साक्षात्कारान, **मानवी एकात्मता, विश्वीक भावपण** (universal brotherhood), **मानवी अणभव -संवेदनशिलता** हाचें **'संवसारीक समसमानपण'** कवी समजूंक पावलो. हाका लागून **सुरवेक ही नवी कविता** विश्वीक **मानवतावादाक** केंद्रस्थान दिवंक आंवडेताली. पूण उपरांतच्या **भिरांकूळ विश्वीक घडणुकांनी**-जांचो उल्लेख ह्या लेखाच्या सुरवेकच जाला -तांचो भ्रमनिरास केलो आनी 'आधुनिक काव्यान कसल्याच **आदर्शांचो** (हातूंत **मानवतावादय** आयलो) स्पश्ट पुरस्कार करपाचें हेतू-पुरस्सर (intentionally) टाळ्ळे. हें आधुनिक इंग्लीश-अमेरिकन कवितेंत बरे तरेन उत्तें जाता, म्हूण आता ते कवितेवटेन वळुंया.

●

# १६

# येवरोपी-अमेरिकी साहित्यांतले आधुनिकतेचो प्रसार आनी प्रवास

येवरोप - अमेरिकेंतल्या चालू शेंकड्यांतल्या साहित्याचो भौरंगी वाठार बारीकसाणेन भोंवन पळेल्याबगर **आधुनिकवादाची** पुरायेन वळख जावप सोपें न्हय.[1] फाटल्या लेखांत आमी लॅटिन अमेरिकन साहित्यांतल्यान उदेल्लो आधुनिकवादी **सूर रूबेन दारियोच्या** काव्यांत सोदचो यत्न केलो. ह्या पयल्या उल्याचो उद्‌भव आनी ताची वाढ हांचो विचार करतानाच स्पॅनिश साहित्यांतलें आधुनिकवादाचें पडबिंबय आमी नियाळ्ळें. आधुनिकतेच्या ह्या लॅटिन अमेरिकन सादाची आनी ताच्या स्पॅनिश पडसादाची कारणमिमांसा करतना एक 'गजाल' दोंयवशीन समसमानतरेन वावुरतल्याचें समजलें ती म्हळ्यार **वसाहतवाद**! लॅटिन अमेरिकेंत वसाहतवादाचें जूं मानेवेलें हालिल्यान नव्या प्रयोगनिश्ठ बरपाक चालना मेळ्ळी; जाल्यार स्पेनांत, वसाहतवादाचो पाट निसरतरीच नाकयां आपटले म्हासत्तेक आपल्या **धारणा** आनी **धोरणांची** पुसर्मोलावणी करचेखातीर नव्या प्रयोगांक साहित्यांतल्यान येवकार दिवप भाग जालें. पूण ह्या क्रिया-प्रतिक्रियेच्या चक्रांत घुस्पून **आधुनिकवादाचें** स्वरूप आनी गुण पुरायेन आकळनात. तेखातीर स्पॅनिशाभायल्या हेर येवरोपी तशेंच अमेरिकी साहित्यांवटेन धुंवचे पडटलें.

पूण 'ह्या' आधुनिक साहित्यांविशीं उलयतना एकदोन मुद्यांचें भान दवरूंक जाय. येवरोपी-अमेरिकी संवेदनशिलताय बऱ्याच प्रमाणांत समान आसा, तशेंच ह्या देसांनी चालू शेंकड्यांत तरी घेतिल्ले चडशे अणभव समांतर आसात. हाका लागून, समकालीन परिस्थितीची झळ - दगदग दोनय कडच्या लोकांक सारकेच तरेन बसली. तशेंच दोनय वटेन साहित्यीक देणें-घेणे, यो-वच वाडट्या प्रमाणांत चलतालें. दुसरी गजाल, राजनितीक स्वातंत्र्य आनी आर्थीक स्वावलंबन मेळोवनय अमेरिकेन आपल्या संस्कृतीक मूळ स्रोताकडली नाळ कापली नाशिल्ली. खरेपणान, तांचे इत्शेविरुद्धय ती नाळ तिगिल्ली. म्हण्टरीच समान अणभव आनी ते अणभव घेवपी

---

१. *ह्या विशाळ साहित्यीक वाठाराची सोद भोंवडी करूंक इत्सूक आशिल्यान जे. बी. प्रिस्टली हांचे **लिटरेचर अँड वेस्टर्न मॅन** (लंडन : हेथनामेन, १९६०), ह्या म्हा-कृतीचो मुजरत लाव घेवचो.*

समान संवेदनशिलता त्या-त्या साहित्यांत उफेवप हें निसर्गीकच न्हय? ह्या दोनय कारणांक आदारदिणी आनीक एक गजाल आसा. ती म्हळ्यार आधुनिक अमेरिकी बरपांतलें प्रस्थापीत बरोवपी (२०व्या शेंकड्याच्या पूर्वार्धांत तरी) येवरोपी (चड करून ब्रिटीश) वंशावळीचेच आशिल्ले.[1] अमेरिकी समाजाचे कडसरायिल्ले (marginalized) घटक ह्या काळार साहित्यांत आपलो आवाज काडूंक पावचे आशिल्ले. मूळ 'अमेरिकन' वंशावळीचे स्थानीक जमातिंचे साहित्यीक जावं वा कृष्णवर्णीय बरोवपी जावं, हांकां दुसऱ्या म्हा-झुजाउपरांतच 'म्हणपासारको' कंठ फुटलो. अदीक स्पश्ट सांगतलो जाल्यार, जेन्ना आमी येवरोपी-अमेरिकी साहित्याच्या संदर्भांत **आधुनिकवादाचो** विचार करतात तेन्ना पर्यायान 'येवरोपी संवेदनशिलताये'न जल्माक घाल्ल्या साहित्याचोच विचार जाता, हें आमी न्हयकारूंक शकनात. हें 'सुप्त' समीकरण स्पश्ट करपाफाटलो हेत म्हळ्यार ही तथाकथित 'येवरोपी संवेदनशिलता' 'खेरीत' आसा हें वाचप्याक कळचें. सर्वसादारणपणान **सोंशिकताय** वा **सहिष्णुताय** ह्या गुणांचो तिच्यांत फावोसो अंश ना. अशें म्हळ्यार, वाचप्याक घडये नाकसुरें वचत पूण तें सत्य आसा.

हाचें कारणय सुर्याइतलें स्पश्ट आसा: शेंकड्यांचें शेंकडे 'येवरोपी संवेदनशिलता' हेरांचेर (देसांचेर, धर्मांचेर, वंशांचेर, संस्कृतायेचेर) शेक गाजोवनच आयिल्ली. हें बरें काय वायट, हाचो हांगा मातय संबंद ना. पूण हें खरें काय न्हय हें मात् आमकां हांगा लागता. आनी तें कशें घडलां हें पळोवप अत्यावशक आसा. साबार येवरोपी देसांनी हें 'शेक गाजोवपाचें काम' **वसाहतवादाच्या** उगड्या-नागड्या आनी धारेच्या शस्त्रान केलां -भडकपणान केलां. केन्ना उक्तेपणान, केन्ना हातचें लिपोवन (subtly). **वसाहतवादाच्या** ह्या काळ्याकिट्ट अणभवाची खुद्द अमेरिका लेगीत अडेच शेंकडे मेरेन बळीच थारल्या. पूण अशें म्हणून आमी अमेरिकेक, 'येवरोपी संवेदनशिलतेंतल्या शेक गाजवणेपणाच्या मूळगुणांतल्यान' भायरावंक शकनात. खुद्द अमेरिकनय हें शेक गाजोवपाचें 'कार्य' आकर्शक आनी ओडलायण्या **नव-वसाहतवादी** साधनांनी केलांच आनी ती करीत आसा. ही साधनां म्हळ्यार **भांडवलशाय, अर्थकारण, मुत्सद्देगिरी** (diplomacy) आनी **संस्कृतीक** संपर्क हीं आसात

हें लक्षांत घेतल्यार, आधुनिकवादाचो 'येवरोपी संवेदनशिलते'च्या संदर्भात विचार करतांतना येवरोपी-अमेरिकी साहित्याच्या आंवाळ्या-कुंवाळ्याची एकठांय

---

*१. अमेरिकन साहित्याचें मोस्त्र पारखूंक जाय आशिल्यांनी मुजरत ग्रॅनव्हील हीक्स हांचें द ग्रेट ट्रेडीशन (शिकागो: क्वॉड्रेंगल बूकस् १९३३ सु.आ. १९६९) हें पुस्तक अभ्यासचें.*

मोवळी वळप चूक थारना. हे भूमिकेक अदीक घटाय दिवचेखातीर आनीक एके गजालिचो उगडास करूंक फावो. पुराय पश्चिमी आधुनिक साहित्याचेर पुसूं येना अशी 'मुद्रा' उठोवपी म्हा-झुजाच्या खर अणभवांतय इंग्लंड-फ्रांसावांगडा अमेरिकेन 'कबलातीची इश्टागत' निभायल्या म्हणचेच वेगळ्या उतरांनी सांगताना हे देस ह्या संवसार-हालोवपी अणभवांत लेगीत 'एका तिशार' रावल्यात अशें म्हणूंक जाय. आनी **आधुनिक पश्चिमी साहित्यांतलो** 'प्रभावी ताळो' इंग्लीश-फ्रेंच आनी अमेरिकन बरोवप्यांचोच आसा. हांगा वाचप्यान एक ग्रह करून घेवपाचें टाळूंक जाय. तो म्हळ्यार येवरोपी 'शेक गाजोवपी' वृत्तीचो निर्देश करतना, ती वृत्ती तशातशी आधुनिक साहित्यांत निस्तल्या अशें म्हणपाचें हांगा **इल्लेंय प्रयोजन ना.** परतें, ह्या देसांचो हेरांवेलो शेक देंवत गेलो तसोतसो वसाहतवादान 'दांती धरिल्लो' दुराभिमानय अस्ताक गेलो. शेंकड्याचे शेंकडे हेरांचेर वर्चस्व गाजोवन मातिल्लो कुड्डे स्रेश्ठतायेचो मद जिरलो. आनी ही संस्कृतायेची बेगडी ढाल, मूल्यांचो अडे-लकलकाट कितलो तकलुपी हें आपसांतल्या म्हा-झुजान **पश्चिमी मनशाक** दाखोवन दिलें. सर्जनशील साहितियकाच्या अंतर्दिश्टीक हें सुक्षीम आनी विटकें सत पयलीं पडलें आनी ह्या **ज्वलंत सताचो खर हुलोप** साहित्यांत **आमूलाग्र परिवर्तन** हाडूंक कारणीभूत जालो.

मुजरात सांगपासारकी गजाल म्हळ्यार, येवरोपी-अमेरिकन आधुनिक साहित्यांत चडावत योगदान फ्रेंच, ब्रिटीश आनी अमेरिकन प्रतिभेचें आनी प्रज्ञेचें आसा. इटली-जर्मनी सारके देस हुकूमशाय, कुड्डो राष्ट्रवाद, वंशीक दुराग्रह आनी ह्या सगल्यांचीं नश्टमूल्यां (nuissance value) वाशील करपांतच गुल्ल जाल्ले. विचाराक पोसवण दिवपी वातावरणाचो अभाव आनी अभिव्यक्ती-स्वातंत्र्यावेली बंदी हाका लागून कसलोय क्रांतिकारी, प्रगतीशील जावं प्रायोगीक साहित्यप्रकार वा प्रथा हांकां ह्या देसांनी जल्मतनाच गोमटेक नाखूट लागतालें. रशियांत (१९१७ चे क्रांती उपरांत यु. एस.एस.आर. वा सोव्हिएत युनियन) परिस्थिती हाचे परसय पास्ट आशिल्ली. म्हण्टरीच ह्या सगल्या देसांतले प्रतिभावंत आनी प्रज्ञावंत बरोवपी एक तर बंदखणींत आपलें अ-प्रकाशित बरप उबयताले वा लिंपचोरयां लोकशायी देसांनी (चडकरून अमेरिका) राजकी आलाशिरो घेवन आपलें साहित्य आनी साहित्य-विचार उजवाडायताले. पर्यायान हें सगलें बरप आस्त्रय दिवपी देसाच्याच **खात्यांत जमा** जातालें हेंच खरें! ह्या बराबरच आनीक एक गजाल आसा. इंग्लीश बरप ह्या काळांत सामकें रसातळाक गेल्लें आनी इंग्लीश भाशेंतल्या बरपाचें 'मर्मस्थान' अॅटलांटिक म्हासागराचे पलतडी पाविल्लें.

हें सगलें विस्तारान बरोवपाक कारण आसा. हाचे फुडें **पश्चिमी साहित्य** वा **समिक्षा** म्हळ्यार सरसकट ही **भौदेशी 'खिचडी'** अशें समिकरण वाचप्यान मनांत बाळगुचें. आनी हे खिचडेंतले मुखेल भागीदार (साहित्या पुरते) फ्रांस आनी अमेरिका आसात हेंवय नदरेआड करूं नये. इंग्लीश बरोवप्यांचों शेक साहित्याचेर १९१० च्या आसपास मेरेन उरलो. **थॉमस हार्डीची** कविता-कादंबरी, **हॉपकिन्साची** कविता, **डब्ल्यू.बी. येट्स** ह्या 'आयरीश' कविची सुर्वेची कविता-नाटक हांचो हातूंत आस्पाव जाता. पूण खरेपणान साहित्यांतल्यान शेणिल्ले वा (दिशाहीन पिळगेचें the lost generation) चें प्रतिनिधित्व **अर्नेस्ट हेमिंग्वे (द सन ओल्सो रायजिस, अ फेअरवेल टू आर्म्स** आनी हेर कृतीवांगडाच **द ओल्ड मॅन अण्ड द सी), विल्यम फोकनर** (**द साऊंड ॲण्ड फ्युरी**) तचेंच **एफ्.स्कॉट फ्रिट्झेराल्ड** (**धिस सायड ऑफ पॅराडायज, द ग्रेट गॅटसबाय**) हे फाकिवंत अमेरिकन कादंबरीकार आनी **युजीन ओनील** हो प्रथितयश अमेरिकन नाटककार (**बियोंड द होरायझन, द हॅरी ऐप, मोर्निंग बिकमस् इलेक्ट्रा**) करतात.

कवितेविशीं उलयताना मात 'सरयेवेली कसरत' करची पडटा. तत्कालीन इंग्लीश कविता जाणीं फुलयली, वाडयली ते कवी खरेपणान 'आंतरराष्ट्रीय आशिल्ले' अशें म्हणचें पडटा.[1] ह्या इंग्लीश कवींमदीं कनिश्ठ मध्यमवर्गी **डी.एच. लॉरेन्स, विल्फ्रेड ऑव्हेन, आयझॅक रोजेनबर्ग** हांचो आस्पाव जाता. ह्या तेंपावेलो २०व्या शेंकडयांतलो **एकलो एकसुरो** नामनेचो **उच्चवर्गीय इंग्लीश** कवी म्हळ्यार **डब्लू.एच. ऑडेन** हो आसा. पूण हो कायं वर्सांनी **अमेरिकेक स्थलांतर** करून थंयच स्थायिक जालो. हें सगले मुद्दे नदरेसामकार दवरून आमी **आधुनिक काव्याचो विशेशतायो** वेगळावच्यो केल्यो जाल्यार ह्या आंग्ल-अमेरिकी (Anglo-American) कवितेचोच आदार घेवचो पडटलो.[2]

## आधुनिक काव्याच्यो विशेशतायो

जरी ह्यो **विशेशतायो** हाताबोटांर मेजप सोपें नासलें तरिकूय सरसकट सगल्यांचेच कवितेंत दिसून येवपी विशेश गुण हांकां म्हणूंक जाता : (१) सोपी

---

१. *जॉन प्रेस हांच्या मतान : 'इंग्लीश काव्याक सर्वादीक मौलीक योगदान इंग्लंडाक रावपी अमेरिकन (पाऊंड आनी एलियट), अँग्लो आयरीश (येटस आनी रॉबर्ट ग्रेव्हस), एक वेल्श (डीलन थॉमस), ऑर्कनेसचो एक मनीस (एडविन म्युअिर) आनी प्रोलेटॅरीयट वा कनिश्ट-मध्यमवर्गीय इंग्लीश कवी हाणीं केलां' 'अ मॅप ऑफ मॉडर्न इंग्लीश व्हर्स, पा. २*

२. *आधुनिक काव्याच्यो विशेशतायो वेगळायतना आपशींच आधुनिकतेचे पुराय साहित्यांत दिसपी गुण वाचप्याक होलमतले, अशी हांगा अपेक्षा आसा.*

'उलोवण्याची' भास (२) उत्कट 'स्पश्ट म्हणणी' (अभिव्यक्ती) (३) संदेश वा निश्कर्शांचो 'अभाव' (४) भावनेचें सादेपण, बुद्धीक क्लिश्टता (किचकनडीपण) आनी तंत्रीक अडे-सुधारणा (Sophistication) हांचें एक आगळें **रोसायण**, (५) सरभोंवतणच्या व्यक्ती-घडणुकांचेर केंद्रीत विशय (६) **मुजरत अस्पश्ट केल्ल्या** संदर्भावरवीं आशयाचो परीघ वाडोवचेलो हावेस. हाचेवरीवीं चडशा खेपो आधुनिक कवितेंत प्रादेशीक वा स्थानीक अतिसादारण विशयांकय आकांताळी आशयघनता आनी विश्वीक परिमाण लाभता. (७) कविची व्यक्तिनिरपेक्ष भूमिका (८) समवेदना वा भावपणाची वृत्ती 'दडोवपाचो' कल (९) जिणेंतल्या नश्टया प्रवृत्तींक, भ्रश्ट मूल्यांक आनी अशिश्ट व्यक्तींक सभावीक सैमीक मानून **सामान्य तरेन** उक्ताडा हाडपाचो यत्न (१०) जिणेंतलें हीण-दीन आसा ताका वस्तुस्थिती म्हूण स्विकारिल्ल्यान विफलता, अपेस, शून्यता, भिरांत, घुस्मटमार, हुस्को आनी गोंदळ (गणमणप) ह्या सगल्यांच्या कट्ट्यांत लिपिल्लो कविचो दिश्टावो.[1] (११) कवितेचें काव्य म्हूण आशिल्लें स्वरूप अंधूक करून छंदाच्या बंधनातल्यान सुटपाची कळाशी (१२) रूपकां (allegory) चो सुप्त उपेग आनी गुपित संदर्भांचो निर्देश (allusion) हांचे वरवीं काव्यांत अर्थगहनता (semantic depth) वा भौवार्थीपण (multiple meaning) हांकां रिगोवप आनी (१३) अपारंपारीक आनी मान्यताविरयत प्रयोगावरवींय वाचप्याक 'अळंग अंतर्मुख' करपाचें कर्तूब सादप. ह्यातूंत, मनोविज्ञानीक विश्लेशण करप, असादारण मनोव्यापांक उक्तावप, हावेस-भ्रांति आनी वागप हांचेमदीं संबंद सोदूंक पळोवप असल्या यत्नांचो निर्देश करूंक फावो. हांकां लागून कवितेक गद्यसदृश रूपकार मेळ्ळो आनी कविची विज्ञाननिश्ठ नदर तशेंच शास्त्रीय धारणा हांचेवरवीं काव्याचे शैलींतय पुरायेन परिवर्तन आयलें. आनी अशे तरेन आधुनिक काव्याक **नवी कविता** म्हूण खेरीत नुरा, उठाव आनी नामना लाभली हें सगलें ह्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत घडलें. पूण **समिक्षेचें** कितें?

विसाव्या शेंकड्याच्या पूर्वार्धांत आधुनिक पश्चिमी साहित्याचेर अमेरिकी प्रतिभावंतांचो जसो शेक आशिल्लो तसोच पश्चिमी समिक्षेचर अमेरिकी प्रज्ञावंतांचो धेंक चलतालो. **हॅरियट मॉन्रो** हिणें १९१२ त **पोएट्री : ए मॅगाझिन ऑफ व्हर्स** हें कवितेक ओंपिल्लें नेमाळें सुरू करूनच आधुनिक कवितेंत वाचप्याक रस घेवंक

---

*१. हो चडसो न्हयकारात्मक दिसलो तरी सदांच तसो नासता. काळखाच्या कुपांत दडिल्ल्या चंद्रिमावरी कांय वेळा निराशेंत आस आनी पराजयांत जैताचो हयन्हयसो हुस्कार आसता. थोड्या खेपो तर कविचो दिश्टावो सकारात्मक, प्रबल आनी सक्षम आसता पूण तो व्यंग, उपरोध, विरोधोक्ति (controdiction), विरोधाभास, बकच्छायो (ridicule) हांच्या धुक्यांत नदरेआड उरता.*

शिकयलो. **रॉबर्ट फ्रोस्ट** आनी **इ. आर. रोबिन्सन** हांची संवसाराक वळख करून दिली. १९०९ त **एझरा पाऊंड** ह्या नामनेच्या कवी-समिक्षकान, **एफ.एस. फ्लिंट, ॲमी लॉवेल** हांच्या सांगातान **इमेजिज्म** (प्रतिमावादी कविता) ची चळवळ सुरू केली. **टी.इ. ह्युम, पाऊंड, एलियट** हांणी काव्याकच न्हय तर आधुनिक **काव्यविचाराक** आनी **समिक्षा पद्धतीकय** भौमोलादीक योगदान दिवपी बरप विचारपूर्वक केलें. हाचे आदीं हे पिळगेंतल्या कवींचेर भौ प्रभाव घालपी साहित्यविचार-विशयक-बरप म्हळ्यार **आर्थर सिमोन** हांचे **द सिम्बोलिस्ट मुव्हमेंट इन लिटरेचर** (१८९९) हेंच आसलें. (सादारण १९०८ त **एलियटान** हें पुस्तक वाचून तागेल्या काव्याचेर भायरभितर परिवर्तन घडून आयलें हें सर्वज्ञात आसा.) पूण ह्या **प्रतीकवादी** आनी **प्रतिमावादी** सूर आशिल्ल्या आधुनिक विचारसरणेक कट्टो विरोध करपी समिक्षाविचारय ह्या काळार उदेलो. **इव्होर विन्टर्स** हांचे **इन डिफेन्स ऑफ रीजन, ग्रॅहम हौ हांचें इमेज ॲंड एक्सपीरियंस** आनी **सी.पी.स्नो** हांचें **द टू कल्चर्स** ह्या पुस्तकांचो हांगा उल्लेख जाय दिसता. पूण ही सगळीं पुस्तकां चड करून शेंकड्याच्या उत्तरार्धांतली आनी दुसऱ्या म्हाझुजांतल्या (१९३९-४५) विचारमंथनाक लागून आयिल्ल्या ग्रह-दुराग्रहांची पडबिंबां आशिल्ल्लीं आसलीं.

ह्या पुस्तकांतल्यान साहित्यीक भासाभाशेपरस विचारप्रणालींचो संघर्श (ideological clash) चड प्रकर्शान दिसून येता. देख म्हूण आमी **डोनाल्ड डेव्ही** ह्या फांकिवंत समकालीन समिक्षकाचें हें विधान पळोवंक जाता; तो म्हण्टा, 'कलेंतलो आधुनिकतावाद आनी राजकारणांतलो फॅसिज्म (एकाधिकारशाय वा हुकुमशाय) हांचेमदीं एक तर्कबद्ध आनी कालबद्ध संबंद (जोडणी) आसा'. पूण आमी जेन्ना हें मत हुकुमशायी राजवटींच्या आधुनिकवादी धोरणासामकारा दवरतात तेन्ना तातुंतलें **पोलपण** उक्ताडा येता. कित्याक तर, हुकुमशायेन **आधुनिकवादाक** संदाच ज्यूसमर्थक (pro-semitic), **साम्यवादी** (Bolshevik) आनी **धनिकशायी** (Pluto-cratic) विचारांचो पुरस्कार करपी साहित्यप्रणाली म्हूण हिणसायल्या आनी धपटिल्या. मागीर हो आक्षेप साप्प बिनबुडाचो आशिल्लो व्हय? हाची जाप 'हय' अशीच दिवंक जाय. पूण **'तरिकूय'** एक गजाल उक्त्या मनान मानूंक जाय. **इलियट** जावं **पाऊंड** जावं **ह्युम** हे सगले **ज्यू-विरोधी** (anti-semitic) आशिल्ले. **पाऊंड** तर निमाणें **फॅसिज्मचो** पुरस्कार करूंक लागिल्लो. **एलियटान** आपूण रायासमर्थक (royalist) हें स्पश्ट सांगिल्लें.

ह्या सगल्यांक पळेल्यार म्हा-झुजा उपरांत आधुनिक साहित्यांक परिवर्तन कित्याक जालें हें समजता. कवींचे व्यक्तीगत पूर्वग्रह, मतां आनी विश्वास

हांच्याखातीरच पुराय आधुनिक साहित्याचेर **उदारमतवादी** विरोधकांनी घुरी घाली हें लक्षांत येता. तरेकवार आक्षेप आव्हानांक फुडो करताना साहितियकाक आपली युद्धनिती (strategy) बदलची अशें दिसप योग्यच आसा. खेरीज म्हा-झुजाच्यो **खग्रास नरकयातना, मानव-संहार** आनी **मर्णाभंयान** तागेलो जिवितविशींचो दिश्टीकोणय हुमटावन वडयिल्लो. हाकाच लागून १९५० उप्रांतचो बरोवपी **शुन्यवाद, निरीश्वरवाद, अस्तित्ववाद** हांच्या हुंवारांत हेंवाळें कशें घुस्मट्टालो कसो, हें फ्रेंच साहित्यांत चड बरें दिसता. पूण ह्याखातीर एक नदर आधुनिकतेच्या दुसऱ्या म्हा-झुजाउपरांतचे वाढीचेर मारूंक जाय.

दुसऱ्या म्हा-झुजामेरेन (१९३९-४५) **आधुनिकतेन** पश्चिमी साहित्यांत तशेंच समिक्षा-विचारांत अग्रस्थान मेळयल्ले. पूण दुसऱ्या म्हा-झुजाउप्रांत पुराय संवसाराचेर आनी अप्रत्यक्षपणान संवसारीक साहित्याचेरय झुजाचो खर परिणाम जालो हें मान्य केलें जाल्यारय, झुजांत 'प्रत्यक्ष' वांटो घेतिल्ल्या देसांच्या साहित्याचेर ताचे परिणाम **अदीक खरायेन जाले आसतले** हें कोणच अमान्य करचो ना. खासा करून फ्रांसासारकिल्ल्या सुपुल्ल्या पूण साहित्यीक नदरेन भौ-प्रगत देसाच्या १९५० उप्रांतच्या साहित्य आनी समिक्षेचे प्रगतीक सुक्षिमतायेन नियाळ्ळ्यार हें लक्षांत येता. अमेरिकन साहित्यीक उदरगतीविशींय हेंच विधान करूं येता. पूण आमी पळेलां की अमेरिकी साहित्य वा साहित्य-प्रणालीच्या योगदानांत चडावत सहभाग येवरोपी संवेदनशिलतेचो जांव बरोवप्यांचो आसा. जर्मन एकाधिकारशाय आनी तिका फाटबळ दिवपी हेर राष्ट्रांच्या नश्टमोलाच्या म्हा-झुजांत जाल्ल्या हिडीस प्रदर्शनान मनीसजातीक जिणेविशीं अंतर्मुख केली आनी आत्मनिरिक्षण करप तिका चुकना जालें. तेचबरोबर, झुजांत वांटो घेतिल्ल्या सगल्याच देसांनीं जो आख्खे मनीसकुळयेक कळंक लायसारको दुस्वास आनी अत्याचारांचो ओतो आयलो तातुंतल्यान, **आपणाक मानवतावादी वा लोकशायवादी प्रजासत्ताकां म्हणोवपी देसांतल्या संवेदनशील साहित्यिकांक आत्महीणतेची** आनी **विफलतायेची प्रकर्शान जाणविकाय जाली.**

आधुनिक साहित्यान बरोवप्याक परिवर्तनाचो आनी प्रायोगिकतायेचो मंत्र तर दिल्लोच. आता भायल्यान घडपी बदलांचो आनी बरोवप्याच्या आंतरीक तांकी-हावेसांमदल्या परिवर्तनांचो सांगोड घालपाची गरज उप्राशिल्ली. हावेळमेरेन **आधुनिकवादान** दोन उत्तीं पथ्या बाळगिल्लीं : एक म्हळ्यार 'वास्तव' हें जिणेच्या खंयच्याय एका **अर्दान, घडणुकेंत, मुल्यांत** वा **व्यक्तींत ना** जाल्यार तें जिविताचे क्लिश्टतायेंत मिठाकणी कशी विरगळिल्लें आसा, हें पयलें पथ्य; आनी दुसरें, जशें समजलां तशें जिविताक साहित्याच्या भिंगातल्यान (lens) खंयचीय एक बाजू

घेनासतना जमता तशें 'नि:पक्षपातीपणान आनी निर्विकारपणान' सामकारावप. हाकाच लागून आधुनिक साहित्यांत नवीं तंत्रा आनी नव्यो साहित्यीक कळाशी (strategem ह्या अर्थान) हांचो उद्‌भव जाल्लो. आतां म्हा-झुजाउप्रांतचे संवेदनाविरयत संवेदनशिलतेचो (desensitized sensibility) उद्रेक-साहित्यांत जावप समा आशिल्लो. ह्या आव्हानाक भिडटना **आधुनिकतायेच्या** भात्यांत नव्या शस्त्रांची भर पडपय तितलेंच साहजीक आशिल्लें.

क्रिया-प्रतिक्रियेच्या ह्या निसर्गीक घडामोडींचो परिपाक म्हळ्यार आधुनिकतायेन **समकालीन** (१९५० उप्रांत म्हळ्यार अदीक योग्य जातलें) **पश्चिमी साहित्यांत** तरेकतरांचे **नवे रूपकार** धारण केले. ह्या रूपकारांची **फोडनिशी** म्हूण वा त्या रूपकारांफाटली विचारीक **फाटभूंय** म्हूण पश्चिमी समिक्षेतय दोळे दिपकावपासारकीं **सिद्धांतीक ल्हारां** उसळ्ळीं आनी उसळत आसात. ह्या विचारमंथनाक **समकालीन समिक्षाप्रणालीन** नवीं नवीं नांवां बहाल करून, तांचो विश्लेशणात्मक कीस काडून तांकां खणबंद (compartmentalize) करचेलो यत्न केला. पूण ह्या पुस्तकापुरतो तरी हो समिक्षा-सिद्धांताचो हुंवार आमी **आधुनिक** आनी **उत्तर-आधुनिक (उत्तराधुनिक)** अशे एकेच सोयिस्कर **विचारीक मेरेन** वेगळावंया.[१]

तशें पळेल्यार, **उत्तर-आधुनिक साहित्यीक प्रवाहाअंतर्गत** साबार साहित्य-विचारांचें जावं समिक्षा-तत्वांचे व्हाळ भरसल्ले आसात. जरी ह्या विचारांची टीका, युक्तिवाद आनी निश्कर्श विंगड-विंगड आसले तरी त्या सगल्यांचो उगम एकाच मूळ स्रोतापासून जाला. तें म्हळ्यार **मनशाच्या आस्तेपणाविशींच निर्माण जाल्लो दुबाव आनी हांवपण वा अहंभाव हांचेवेल्या विश्वासाक अभिमानाक लागिल्ली देंवती.** हांगा एके गजालीचो मुद्दाम वाचप्याक उगडास करून दिवंक जाय. समकालीन पश्चिमी बरपांत खूब फावटी 'हावांचो' अवास्तव बडवचार आसा वा स्तोम मातयलां अशें दिसता, पूण खरेपणान त्या 'हांवांत **हांव**' म्हूण विशिश्ट व्यक्ति उणी आनी मनीसजातीचो विश्वीक नमुनो आदीक आसता. अशेतरेन **हांवांचो 'विशिश्ट वळखी'** (identity) **विरयत उपेग** ही एक **साहित्यीक नव-परंपरा जाल्या.** आनी हांवाच्या ह्या विपरीत अर्थी (**भासपी**) वापरांतल्यान, आदली **अस्मितायेची** (व्यक्तीची जावं देसाची जावं वंश-भास-संस्कृतायेची) **संकल्पना** 'व्यक्तीचे विश्वीक संदर्भाच्या जाणविकायेंत' कशे तरेन **विरगळून गेल्या** हें समजता.

---

१. *समिक्षेच्या विद्यार्थ्यांक एक खासा शिटकावणी: उत्तर-आधुनिक हें उतर आमी आधुनिकतेच्या मळ्यांतलो नव्यो विचारीक कुणग्यो वेगळावचेखातीर (आरूणीसारको) तात्पुरतो बांद कसो वापरलां.*

उत्तर-आधुनिक हें उत्तर आमी हेर साबार समिक्षात्मक उतरांवरीच दुवार्थान वापरूंक शकतात. एका अर्थान उत्तर-आधुनिक हें उतर कालनिर्देशक म्हूण वापरूं येता. जेवरवीं आमी, **इतिहासीक नदरेन** आधुनिकतेच्या तथाकथित **भाराउप्रांत** पश्चिमी साहित्यांत निर्माण जाल्ल्या **'नव्या फुलोराक'** फावो जावपी **सर्व-आस्पावणें नांव** म्हूण **उत्तर-आधुनिक** हें उतर वापरूं शकतात. जाल्यार, दुसऱ्या अर्थान पळेल्यार **उत्तर-आधुनिक** हें उतर विशेशण म्हूण एक **खेरीत साहित्यीक प्रथा** निर्देशीत करता. विशेश म्हळ्यार हे साहित्यीक प्रथेक एक सुस्पश्ट नासली तरी **'वळखूं येईसारके खेरीत'** समिक्षात्मक-प्रणालिचीय **फाटभूंय** आसा. वेगळ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, **उत्तर-आधुनिकवाद** हे समकालीन साहित्यीक संकल्पनेची फोडणिशी करतना आमकां **उत्तर-आधुनिकता** ह्या उतराची गरज तिच्यो 'आधुनिकतायेपरस वेगळ्यो विशेशतायो' सांगपाकय पडूंक शकता.[१]

## अस्तित्ववाद

ही फाटभूंय ध्यानांत दवरून जेन्ना आमी **उत्तर-आधुनिक पश्चिमी साहित्यावटेन** पर्थून नदर घुंवडायतात तेन्ना कितें दिसता? तर, त्या साहित्याचों पुराय घेर **मानवी आस्तेपणाविशींचो खर हुस्को** आनी विश्वाच्या अवाढव्य संदर्भांत **मनशाच्या 'स्व'क पर्थून सोदचेलो हावेस** ह्या एकमेकांक **पुरक कल्पनां**भोंवतणे घुंवता. अशे तरेन घुंवपी, **दिकाहीण भासपी** हे साहित्यीक वाटचालींतल्यान **कसलो दिश्टावो** मेळूंयेत? वा **अशा** साहित्याकडल्यान वाचपी **कसल्यो अपेक्षा** बाळगूं शकता? अशे प्रस्न हांगा उबे जातात. पूण तांच्यो जापो दिवचेलो यत्न करचे आदीं **एक कुवाडें सुटावें करचें पडटलें**-बरोप्याक सरकटपणान **अशाच आशयाभोवतणी घुंवडाळ्यो काडपी विशय** अकस्मात कित्याक जाय दिसले? हाची जाप सोदचे खातीर दुसऱ्या म्हा-झुजाडप्रांतच्या पिळगेचेर जाल्लो **अस्तित्ववादी** विचारधारेचो आकांताळो प्रभाव आदीं समजूचो पडटा. जिवितांत खिणाखिणाक फुडें पावलां उबारूंक वा कसलोय प्रिय-अप्रिय निर्णय घेवंक मनीसकुळयेक परिस्थितीवश भाग पडटा अशें अस्तित्ववादी विचारवंत मानतात. तांचे लेखीं खेदाची गजाल म्हळ्यार खंयचीय **व्यक्ती हे निर्णय घेवप चुकोवंक शकना.** तशेंच दुर्दैवान हे निर्णय जिविताच्या सगल्या **बुन्यादी** आनी **अटळ गजालींविशींच** आसतात. हातूंत कितें खरें-फट, खंयचें बरें-वायट, कितें करचें वो ना कित्याचेर विश्वास दवरचो वो ना असल्या मूलभूत प्रस्नांचो आस्पाव जाता.

---

१. *पूण सध्या तरी **उत्तर-आधुनिक** हें उतर फक्त पयल्या अर्थानच वापरलां, हाची नोंद वाचप्यान घेवची. फुडें वेगळ्या अर्थांन वापरतना आमी तें उत्तराधुनिक अशें बरोवचें.*

निर्शेवणेजोगी गजाल म्हळ्यार **हे बदलूंक नजो आशिल्ले निर्णय घेतना एखाद्रे व्यक्तीक कसल्याच तरेचीं सर्वमान्य, सदां-स्थिर अशीं मार्गदर्शकं तत्वां वा प्रमाण कायदे वा नितीक नेम वा पारंपरीक मूल्यां उपलब्द नासतात.**

ह्या मूळ-विचाराचें सूत्र घेवन **समकालीन फ्रेंच** (आनी उपरांत हेर) **अस्तित्ववादी** मनीसजिणेचे **विफलतायेचें** आनी **अर्थहीण धडपडीचें नश्टचक्र** समजूंक पळेताले. तांचे लेखीं, मनीस निर्णय घेवपापुरतो जरी **स्वतंत्र** आसलो तरी ते 'अज्ञानाच्या कोशांत रावन घेतिल्ले निर्णय' आसतात. ते भायर, दरेक व्यक्ती आपापल्या निर्णयाच्या (कृती-विचार आनी उलोवणें) परिणामांची **जापसालदारकी पुरायेन स्वीकारपाक बांदिल्लो** आसा. हाका लागून तागेली **स्वतंत्र इच्छाशक्त** वा **मत-स्वातंत्र** निमाणें **शुन्यच थारता**. कित्याक काय म्हळ्यार अगम्य मनीसजिणेंतल्या असंख्य परिणामांची मात लेगीत कल्पना नासताना, **परिस्थिती** मनशाचेर चांटे-पावलाक कसलो ना कसलो **निर्णय घेवपाची सक्ती करीत आसता.** हाका लागून मनशाचें जिवीत ही एक आकांताळी, हुस्को-दिर्णी, अपरिहार्य तशेंच अनाकलनीय अशी वस्तुस्तिती वा आस्तेंपण अशेंच साहित्यिकाक दिसलें. साहित्यिकाच्या ह्या **आस्तेपण-केंद्रीत** जाव **अस्तित्ववादी अगत्याचें** वा **अट्टाहासाचें** प्रयोजन कितें आशिल्ले? आनी हें **अस्तित्ववादी** बरप हेर बरपाकडल्यान **कशे तरेन वेगळावं** येत? ताचे **गुणविशेश** खंयचे? मुखेल गजाल म्हळ्यार **अस्तित्ववाद म्हळ्यार कितें**?

आदीं म्हळां ते प्रमाण हाची जाप फ्रेंच साहित्यांतच मेळूं येता खरी पूण ताचें **विचारीक पाळ** १९व्या शेंकड्यांतले **कर्कगार्दी विचारधारेंत** लिपलां. म्हूण सुर्वेक **अस्तित्ववादाची तत्वीक बसका** नियाळूंया. जरी **अस्तित्ववादाचें** 'साहित्यीक प्रगटन' चालू शतकाच्या उत्तरार्धांत जाल्लें आसलें तरी **एक विचारीक चळवळ** म्हूण ताची बुन्याद १९व्या शेंकड्यांतलो फांकिवंत विचारवंत **सोरेन कर्कगार्द** हाणें घाली. पूण **अस्तित्ववादान एक विचारप्रणाली म्हूण** २०व्या शेंकड्यांतल्या **बुद्धिजिवी** तशेंच **संवेदनशील पिळगेचेर** आपलो **जो प्रभाव** घाला, तो लक्षांत घेतल्यार, **अस्तित्ववादाच्या समकालीन तत्वांफाटल्यान** नामनेचो जर्मन तत्वचिंतक **फ्रेड्रीक नित्झ्छे** (Nietzsche) हाचीय स्पश्ट सया मारता. ही विचारप्रणाली परंपरागत येवरोपी तत्वचिंतनाच्या चालंत प्रवाहा आड एक खर प्रतिक्रिया म्हूण जल्मली, अशें म्हणचें पडटा. पारंपारीक ग्रीक तत्वगिन्यानान, एमान्युयेल कान्ट आनी हेगेल हांच्या **वस्तुनिश्ठ, पूर्णसत्य** आनी **अचूक गिन्यानाविशींच्या** सिद्धांतामेरेन मारिल्ली झोपंय मुळांतच अस्तित्ववादी विचारवंताक मान्य जालीना. **तांच्या मताप्रमाणें अचूक आनी पूर्ण गिन्यान** हें सर्वसादारपणान **फकत** एक **अप्राप्य** (unattainable) **आदर्श वा सपनच न्हय** तर

एक **पुरायेन आत्मनिश्ठ अणभव** जावन आसा. **म्हूण गिन्यानाक वस्तुनिश्ठतायेचो निकश लावप समा न्हय.** खंयचोय शास्त्रज्ञ, तत्वचिंतक वा पूर्ण गिन्यानाचो उपासक-भगत आसूं, ताच्या अमर्याद गिन्यानाच्या हावेसाक ज्याच्या-ताच्या व्यक्तित्वाचे मर्यादेची शीम पडटा अशें **अस्तित्ववादी** विचारप्रणाली धरता.

हेंच तत्व, **समकालीन अस्तित्ववादी** विचारसरणी, मनशाचे परिस्थितीक लागू करता. पुराय गिन्यान नासून, अज्ञानाच्या अंधुक उजवाडांत जिणेंतलीं सगलीं म्हत्वाचीं पेणीं एका हुस्कोपुराय (anxious) घडणुकांची सांखळी जावन उरतात. हो हुस्को 'परिणामांच्या भिरांकूळ वास्तवांतल्यान सुटचेले' आशेवरवीं जाता.[1] ही **सुटचेली आस्त** मनशाक वास्तवाकडेन फाट परतून आभासाक वेंगावन, आपणाकच फटोवंक लायता. ही आत्म-वंचना (self-deception) होच **समकालीन अस्तित्ववादी बरपाचो मूळ सूर** जावन आसा. ताचे निर्शणेचीं जावं खेदाचीं **मुळावीं कारणां,** जिविताच्या **विश्वासार्हतेक** (credibility) **लागिल्लें गिराण** आनी मनशान **श्रद्धा दवरण्यायोग्य** अशा **कसल्याय मूल्यांचो अभाव,** हींच जावन आसात.

थोंडे भितर सांगचें जाल्यार **अस्तित्ववाद** मनशाच्या **जिणे अणभवांत,** वा **आस्तेपणांत जिज्ञासा** दाखयता. ताचे लेखीं मनशाचें आस्तेपण ताच्या **जिवें आसपांतल्यान** थारता. हाका लागून मनशान जिणेंत अर्थ सोदचेखातीर कसलीतरी **बांदिलकी** (commitment) स्वीकारूंक जाय. लागीं-लागीं सगल्या **समकालीन अस्तित्ववादी** बरोवप्यांनी ह्याच मुद्याभोंवतणी आपले सर्जनशिलतेचें उदक शिंपलां. नामनेच्या अस्तित्ववादी बरोवप्यांमदीं म्हालगडो म्हूण **ज्यां पॉल सार्त्र** हाचें नांव तर येताच. ताचे फाटोफाट **सिमाँ द बोव्हॉआर** आनी **आल्बेर्त कॅम्यु** हांचोय उल्लेख आवश्यक थारता. **सार्त्रचें नो एक्झिट** (१९४६), **डर्टी हॅन्डस** (१९४८) आनी हेर विचारीक तशेंच समिक्षाबरप, **कॅम्युचीं द स्ट्रेंजर** (१९४२), **द प्लेग** (१९४७) ह्यो कृती आनी **द मिथ ऑफ सिसिफस** हो निबंद तशेंच **सिमाँ द बोव्होआर** हिचें **फोर अ मोरालिटी ऑफ ॲम्बिग्युयिटी** (१९४७) हें बरप, ह्या सगल्यांतल्यान **अस्तित्ववादाचो आवाज** पश्चिमी साहित्यांत प्रकर्शान गाजलो. ह्या बरोवप्यानीं चडशो **नितीक प्रस्नांच्यो निसरड्यो जापो** सोदचेलो प्रामाणीक यत्न केल्लो दिसता.

फुडल्या दसकांनी फ्रेंच बरोवप्यांमदीं आनीक कांय प्रथितयश साहित्यिकांची (नाटककारांची) भर पडली. हातूंत चड प्रसिद्धी **ज्यां आन्युयी** ह्या नाटककाराक लाबल्या. ताणें चड करून **सत आनी आभास, व्यक्ति आनी समश्टी, कर्तव्य आनी**

---

*१. ही हुस्कोपुराय युगाची वास्तविकताय डब्लू.एच.ऑडन हांगेल्या* ***द एज ऑफ अेंक्जायटी,*** *ह्या १९४४-४८ ह्या काळार बरयिल्या कवितेंतल्यान बेस बरी उक्ती जाल्या.*

**बांदिलकेचें स्वरूप** ह्या विशयांक केळयल्यात. एक खासा उल्लेख करिसारकी गजाल म्हळ्यार तो आपल्या विशयांक निखटो 'संवकळीचो समाजीक संदर्भ' दिवचेजाग्यार पुराणीक इतिहासीक परिमाणय दिता.

ताच्या समकालीन बरोवप्यांमदीं **ज्यां गिरौदो**, आनी **ज्यां कोक्तो**, हांचोय उग्डास करूंक जाय. **गिरौदो** विनोदी आनी मनस्पुर्वेक घडिल्ले शैलींतल्यान **मोगाची प्रकृती आनी झूज** जावं **हावेसाचें विदारक रूप** हांचेर उजवाड घालता. **कोक्तोच्या** बरपांत चड करून **अतिरम्याची** जावं **पुराणीक** विशयांची रुजवात मेळटा. पूण ह्या विशयांतलो **आशय मात जिणेच्या खोल आनी गूढ प्रस्नाची जाप सोदपाचेर केंद्रीत** आसता.

ह्या **अस्तित्ववादी साहित्यीक बरपाची एक सुपुल्ली खांदी** म्हळ्यार नाटकाच्या मळार घडून आयिल्ली एक **आगळी प्रायोगिक घडणूक-विक्षिप्त नाट्याचो जल्म. थियेटर ऑफ द ॲब्सर्ड** ह्या नांवान संवसारभर आपलो दोनेक दसकां शेक गाजोवपी हे **नाट्यशैलीक सॅम्युअल बॅकेट** ह्या आयरीश आनी **युजीन आयेनेस्को** ह्या रोमेनियन नाटककारांनी जरी आकारा हाडली, तरी ती **फ्रेंच भाशेंतल्यान** आनी **फ्रेंच नाटकावरवीं** जाल्ल्यान, ताचें **स्त्रय पुरायेन फ्रेंच साहित्याक** येता. पूण अस्तित्ववादी प्रणालीचो साक्षात्कार नाटककारांकच घडलो अशें न्हय. **कादंबरींतल्याय अस्तित्ववादी विचारांचो आविश्कार** भौ सोबितायेन आनी कुशळतायेन जाला. **अस्तित्ववादी बरपाचो हो खांदो** म्हळ्या **नवे कादंबरीचो उद्‌भव.** हे नवे तरेचे, नव्या तंत्राचे कादंबरीचे आधारस्तंभ म्हूण **ॲलें रोब-ग्रिले, मिचेल बुतोर, नाथाली सारौत** आनी **क्लाव्द सिमों** हांकां वरजावचे पडटात. हांणी कादंबरीच्या **पारंपारीक स्वरूपांतच क्रांतिकारी बदल** घडोवन हाडलो. **निवेदनाची नवी शैली,** पात्रां वा व्यक्तिरेखांच्या **दिश्टीकोणाक दिल्लें खेरीत म्हत्व** आनी **निश्चित दिका न दाखोवपी कथावस्तू** ह्या तंत्राचो मुजरत उल्लेख हांगा करूंक जाय.

वयले विस्कावणेवेल्यान अशें दिसूं येता की **अस्तित्ववादी** विचारधारेन फ्रांसाभायर पावल घालेंच ना, पूण अशें म्हणप चूक थारतलें. उलट, **अस्तित्ववादी** विचारांक **भराव** घालून बरी पोसवण मेळोवन दिवपांत **सार्त्र,** कॅम्यु आनी **ग्राबियेल मार्सेल** हांचे वांगडाच, **कार्ल जास्पर्स** आनी **मार्टीन हैडीगर** ह्या **जर्मन** विचारवंताचे तशेंच **निकोलस बॅर्दीयेव्ह** ह्या **रशियन** आनी **मार्टीन युबर** ह्या **ज्यू तत्वचिंतकांचेय** मोलाचें योगदान आसा. मुळांत **कर्कगार्दाच्या** अस्तित्ववादी विचारांक पारंपारीक धर्मसंबंदी कल्पनांवेल्या क्रिया-प्रतिक्रियांचें अस्तर आशिल्लें. समकालीन **अस्तित्ववाद्यांनी** हें 'धार्मिक' अस्तर भायरावन तांकां 'समाजीक-नितीक संदर्भ' दिलो. ह्या नव्या

संदर्भांतल्या मनीसजिणेविशींच्या बरोवप्याच्या उतळतापांक साहित्यांतल्यान अभिव्यक्त करचेखातीर नवे नदरेचीच न्हय जाल्यार नव्या तंत्राचीय आपशींच गरज पडली. ही गरज भागोवपांत नवीं तंत्रा घडलीं आनी तातुतल्यान नाटक-कादंबरी सारके साहित्य प्रकार तर गिरेस्त जालेच. ते भायर समिक्षाय समृद्ध जावंक पावली.

अस्तित्ववादाचे संकल्पनेवांगडा वयलेवयर वळख करून घेतना. **फ्रेडरीक नित्झ्छे** ह्या जर्मन तत्वचिंतकाचो हे विचारसरणेफाटलो एक प्रभावी मूळ स्त्रोत म्हूण **कर्कगार्दावांगडा** उल्लेख जाला. पूण **नित्झ्छेच्या** विचारांनी **अस्तित्ववादी विचारांवांगडाच** हेरय जायत्या **समकालीन समिक्षात्मक विचारसरण्यांक** अदीक उणी पोसवण दिल्या. म्हूण थोडे भितर तागेल्या विचारांक नियाळुंक फावो. **नित्इछेन** 'हे' आपणाले विचार मनीस प्रवृत्तीच्या संदर्भांत मांडल्यात. तो मानवी **सभ्यताय** आनी **नाट्य (ग्रीक त्रासदी)** हांचेविशीं उलयतना मानवी **प्रवृत्तीतलो सुप्त संघर्श** सामकारायता. ताचे लेखीं हो संघर्श मनीसमनांतल्या गूढ अशा परस्परविरोधी **जुंवळ्या प्रवृत्तींतल्यान** जल्मता. बरें आनी वायटामदल्या ह्या तणावाक आमी **सूर्यमुखी** आनी **रूद्रमुखी** प्रवृत्तींमदलो संघर्श अशें म्हणूं शकतात. **नित्झ्छे** ताकां **ॲपोलोनियन** (बरें) आनी **डायोनिजियन** (वायट) अशीं नावां दिता. पूण **हो संघर्श २०व्या शेंकड्यांतल्या अभ्यासकांनी** आपणाल्या सिद्धांताखांतीर वापरतना **जशातसोच 'उबारलो' ना. बरें आनी वायट हांचेवटेन पळोवचेली समकालीन समिक्षेची नदर पुरायेन बदलल्या.** आनी त्या-त्या समिक्षा-विचाराचो **दिश्टीकोण** वा **'झुकाव'** वेगवेळ्या सिद्धांताची उभारणी जावं मांडावळ करतना **मध्यवर्ती** (pivotal) थारला.

नित्इछेच्या आनीक एका क्रांतिकारी विचाराचो उल्लेख करप हांगा आवश्यक थारता. तो विचार **तागेल्या 'देव मेला'** ह्या 'सगल्यांचे वळखिच्या' **विधानांत आस्पावला.** धर्माचो '**देव** हे संकल्पनेचें आस्तेपण मानपी व तिचेवेलो विश्वास घट करपी संकल्पना वा देवाची उपासना करचेलो मार्ग (ह्या रूढ अर्थान) धर्माचो लोकांवेलो शेक देंवला' जावं **धर्माची अर्थपूर्णता मातयेभरवण जाल्या,** अशें **गृहीतक** घेवन, **नित्झ्छे मूल्यांचो पुनर्विचार जावचो अशी आस्त बाळगिता.** वेगळ्या **उतरांत, धर्म हो केंद्रबिंदू धरून जी परंपरागत मूल्यांची पश्चिमी समाजान मांडावळ केल्ली** (वा जी जावन पडिल्ली) ती मांडावळ (आपणाले) समकालीन नितिमत्तेचे कल्पनेवांगडा **सुसंगत ना** अशें ताका सुचोवचें आसलें.

तागेलो **आनीक एक म्हत्वाचो विचार** खासा उल्लेखनीय आसा, तो **बरें आनी वायटाचे** संकल्पनेविशीं आशिल्ल्या **समाजीक धारणांबद्दल** आसा. नित्झ्छेच्या म्हणण्याप्रमाण झुजारी गूट सदांच समाजांत प्रभावी आसलो आनी तांणी आपणाल्या

शक्त आनी कुळवंतपण हांकां इश्ट गुण लेखून ह्या गुणांक 'बरे' म्हूण स्वीकारले. आनी सादारण मनशाली नमळाय वा दुबळेपण 'वायट' थारायलें. उपरांत धर्मगुरू आनी सर्वसामान्य मनशाच्या हातांत समाजाच्या नेतृत्वाचे सुकाणू आयलें. आनी ताणीं आपलेपरीन दुबळेपण वा नमळायेच्या गुणांक तांक आनी बरेपण हे सद्‌गुण म्हूण नांवाजले आनी झुजाऱ्यांची शक्त आनी दुश्टपणाक 'वायट' म्हूण दुर्गुण थारायले. **नित्झ्छेक हें दुसरें वर्गीकरण आपणावपाजोगें दिसना.** ताणें ह्या भंय आनी निशेध जावं दुस्वासाचेर थारवल्या गुण-अवगुणांक उणाक दर्ज्याचीं नितिमूल्यां मानल्यांत. ताणें तांचो **जुदेवी-ख्रिस्ती परंपरेनकडेन संबंद जोडून** तांचेर टीकाय केल्या.

ताचेलेखीं सगले मानवी-वेव्हार जावं वागणूक एकाच मूळ तत्वान प्रेरीत जाल्ले आसतात- **'शेक गाजोवपाची इत्साशक्त.'** ही **शेक-गाजोवणी प्रवृत्ती** हेरांचेर अधिकार चलोवपापुरतीच न्हय, तर खासा **आपल्याचेरय** (स्वताचे उंचाबळ वृत्तीचेर अंदाधुंद वागणुकेचेरय) **अंकुश दवरपाखातीर** वावुरता. नित्झ्छे, मनशान अशे तरेन आपल्याचेर चलयल्लो शेक, स्व-प्रवृत्तीचें केल्लें दमन वा मनशाचो आपणावेलो ताबो (आत्मनियमन) हांकां **फकत** शारिरीक दबाव वा **अधिकार गाजोवपापरस वेगळे** प्रतीचें 'शेक गाजोवप' मानता. ताचे नदरेन **आदर्श व्यक्ति** म्हळ्यार **सुपरमॅन** वा **ओव्हरमॅन** जो स्वताच्या **नश्टया प्रवृत्तींक** आळाबंदा हाडून तांचो **उपेग सर्जनशील रितीन** करूंक शकता.

जायत्या विद्वानांनी नित्झ्छेची विचारसरणी **काळखी, निर्शेणीदिणी, न्हयकारात्मक, ज्यू-विरोधी, वंशसमर्थक** आनी एकंदर तरेन पळेल्यार **नाझीवादी** अशी धरून, ताचेर सडीक टिका केल्या. हांगा दोन गजालींचें भान दवरप गरजेचें. नित्झेचे विचार १९व्या शेंकड्याच्या सोंपत्या दसकांनी उदेल्ले. तांचो प्रभाव चड करून २०व्या शेंकड्याच्या मध्यार पडूं लागलो हें जरी खरें आसलें तरी नाझीवाद हो नित्झ्छेच्या उप्रांतच्या पिळग्यांचो भस्मासूर! तो नित्झ्छेच्या हड्ड्यार मारपांत विचारीक गोंदळच न्हय जाल्यार येवजणबद्ध रितीन टिकेखातीर टिकास्त्र सोडचेली कुड्डी आनी अनिश्ट प्रवृत्ती दिसून येता.

नित्झ्छेचे विचारसरणेचें **आधुनिक पश्चिमी** समिक्षेच्या विद्यार्थ्यांखातीर कितें मोल आसा, असो प्रस्न पडटा. एक म्हळ्यार, आधुनिक साहित्यांत उदेल्ल्या **अस्तित्ववादी विचारांचे मूळ** ताच्या क्रांतिकारी तत्वगिन्यानामेरेन पावता.

पूण नित्झ्छेच्या विचारांचो आधुनिक समिक्षेया अभ्यासकाक इतलो ओडो कित्याक? नित्झ्छेच्या विचारांभितर **मान्य तशेंच परंपरागत मूल्यांक न्हयकारपी**

**एक खर आग्रो दिसून येता.** तागेलें तत्वगिन्यान प्रस्थापित आनी चालंत नितिमत्ता, धर्म, समाजीक मान्यतायेचे (approval) रूढ पावंडे हातूंतली **त्रुटी** दाखयता. वेगळे मूल्यव्यवस्थेक जावं सामाजीक मान्यतायेच्या निकशांक (criteria) आवंडेता. वेगळे आनी सोपे रितीन सांगतले जाल्यार अशें म्हणचें पडटलें : नित्झ्छेक **चालंत आनी प्रस्थापित शेक-गाजोवणी केंद्र-स्थित वा मध्यवर्ति मूल्यव्यवस्था मान्य ना. पुराय मनीसजिणेचें** (संस्कृतायेचें, विचार-विस्वासांचे, ध्येयां-हावेसांचें, येस-अपेसांचें) **सगल्या दिकांनी जें केंद्रीकरण जालां** वा मनशाच्या जिविताक जे तरेन 'केंद्र-स्थित व्यवस्थे भोंवतणी' **रचपाचो** संवसारभरच्या **हितसंबदितांचो** (vested interests) **सुनियोजित असो यत्न** वा **कूटकारस्थान** जावन पडलां ताचेविरूद्ध नित्झ्छेचें तत्वगिन्यान आवाज काडटा.

तागेल्या **विचाराचो आपरोस** म्हळ्यार 'मध्यवर्ती प्रस्थापित रचनेआड' **व्यक्तीच्या** (individual) 'बुंलद' **निशेधाचें प्रगटन** 'अशें धरून' आधुनिक समिक्षा-विचारान नित्झ्छेच्या प्रभावाक आपणायला. हें चड बरे तरेन हालीं कोमरेल्ल्या **विरचणुकवादी** (deconstructionist) साहित्यविचारांत दिसून येता[1] आनी ते भायर, ताका जोडूनच आशिल्ल्या **शून्यवादी** (nihilistic) आनी **दुभाववादी** (sceptical) समकालीन प्रवृत्तीकय नित्झ्छेच्या मतांनी थोडेंभौ अप्रत्यक्ष उत्तेजन दिलां. ह्या दोनय विचारधारांची **समकालीन साहित्याचेर** आनी **साहित्यविचाराचेर** गाढ सया पातळ्या. हांचे मदल्या **शून्यवादी विचारसरणेचो प्रभाव** अळम्यांच्या पावसावरी पश्चिमी साहित्याचेर घस्स करून येवन, **रोखडोच आसोरलो. पूण दु-भाववादी विचार आजलेगीत** व्हडा पावंड्यार आनी भौ तांकीन **आशय आनी तंत्र ह्या दोट्टी रूपान** पश्चिमी साहित्यांत **मनमेकळो संचार करीत आसा.**

## शून्यवाद-दुभाववाद

म्हूण, मुखार चांट मारचे आदीं **शुन्यवाद** आनी **दुभाववादी** विचारांकडेन धांवती नदरभेट करूंया. **शून्यवाद** हें उतर रूढ अर्थान (सरसकट पणान) विंगड विंगड जहाल, न्हयकारात्मक तशेंच तोंकाच्या (extreme) तत्वगिन्यानी विचारप्रवाह आनी राजकी मतप्रणालींक उद्देशून वापरतात. **ह्या अर्थान शून्यवादाक एक इतिहासीक संदर्भ** आपशींच फावो जाता. पूण समिक्षेच्या आवंठाभितर रावन उलयतना, **शून्यवाद** ही संकल्पना **बिगर-इतिहासीक परिमाणांतल्यान** पळोवप लावदिणें जाता. हे नदरेन

---

१. *अर्थात, **विरचणुकवादाच्या** उद्भवाक **हेरय** जायतीं साहित्यीक आनी अ-साहित्यीक **कारणां आशिल्लीं** पूण तांचो विचार फुडें येतलो.*

**शून्यवाद** हो **'नव-समिक्षा'** (New Criticism), **मिथात्म** वा **मिथजन्य समिक्षा, विरचनावाद** ह्या तोंकाच्या **साहित्य-विचारांचो** आनी विविध न्हयकारात्मक विचारप्रणाली वा राजनितीक **सिद्धांत हांचो सांगोड** घालचेलो यत्न, अशे म्हणूंक जाता. **शून्यवाद** ह्या उतराचो उपेग **झारशायी** रशियेंत, प्रस्थापित सत्तेक खर प्रतिकार करपी शक्तींखातीर जालो. सदळसाणेन ह्या उतराचो चालंत अर्थ 'प्रस्थापित सत्तेसामकार आव्हान मांडपी प्रवृत्ती' असो जावं येता. **आव्यहन तुर्जनिव्ह** हाची **फादर एण्ड सन्स** ही कृती **शून्यवादाचो उद्घोष करपी बरप** अशें मानलां. तुर्जनिव्ह **विज्ञान** आनी **तर्क मानता** पूण परंपरावादी **धर्मीक विश्वास** आनी **नितिमूल्यां** हांकां खोंटायता. सामको 'जहाल' **शून्यवाद कित्याचेंय** आस्तेपण न्हयकारता.[1] मात्सो 'लेव' (उणो जहाल) **शून्यवाद, दु-भावाच्या** घोग्यामुळा घुस्मट्टा. दुभाववादी कितेय पुरायेन जाणा जावप (गिन्यान मेळोवप) ही शक्यताय न्हयकारता.

आयच्या पश्चिमी साहित्याच्या मळार **शून्यवादापरस** अदीक घट मूळ **दुभाववादान** धरलां. हाचें कारण **अस्तित्ववादी विचारांच्या भूंयकाप्या** प्रभावापोंदसून गेल्ली पश्चिमी **संवेदनशिलता मनीसजिणेचें पोलपण वळखल्या.** पूण ते वांगडाच ह्या पोलाफाटल्यान जिवितापेलें कितेंय अस्तित्व **आसतच वो ना** हें ती सिद्ध करूंक आजमेरेन पाविल्ली ना. दुभाववादी विचारांत तें ह्या **अज्ञेयवादी** (agnostist) आनी दुविधेंतल्या पश्चिमी 'मानसा'क लागींच्यान आफुडलां. ह्या 'अज्ञेयवादी' वृत्तींतल्यान **पश्चिमी संवेदनशिलतेक** एक **सरयेवेली कसरत** करूंक सोपें पडटा. संवसारापेलें सत वा दैवी आस्तेपणाचो जो कालातीत आनी सदां-सार्थ प्रस्न आसा तो अचळय 'रेड्या फाटीवेले पावस' कसो फाफडूंक **सामान्य दुभावी प्रवृत्तींतल्या पश्चिमी मनशाक सोपें जाता;** जाल्यार, **विचारवंताक आनी सर्जनशील कलाकारांक जावं बरोवप्यांक दुभाववादावरवीं होच प्रस्न योगायोग, अपघात, भासाभास तशेंच** हेर 'दोनतरफी' **घडणुको** जावं **चर्चेच्या** माध्यमांतल्यान वा तंत्रांवरवीं सामकारावप सुविधेचें जाता. ह्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांतल्या पश्चिमी बरपाक पळेल्यार हें बेस बरें होलमता. खासा करून **अस्तित्ववादाच्या** प्रभावांतल्यान घुंवळून भायर सरिल्ली १९६० उप्रांतची साहित्यीक पिळगी[2] हें प्रकर्शान दाखयता. हाची म्हज्या मतान

---

*१. हे शून्यवादी प्रवृत्तीक **फियादोर दोस्तोयव्हस्की** ह्या नामनेच्या रशियन कादंबरीकारान आपणाल्या बरपांतल्यान आव्हान दिलां. संवसारात कसलेंच **अमर्याद मूल्य** (absolute value) ना ह्या विचाराविरुद्ध तो **दैवी शक्तीवेली श्रद्धा** हो विचार मांडटा.*

*२. ह्या साहित्याची विस्तारान वळख हॅरी ब्लॅमायर्स् हांगेल्या **ट्वेंटीयथ सेंच्युरी इंग्लिश लिटरेचर** (लंडन : मॅकमिलन, १९८२) ह्या पुस्तकांत मेळटा.*

सोबीत गवाय **विलीयम गोल्डींग** हांच्या कांय कादंबऱ्यांनी (चड करून **डार्कनेस व्हिजीबल**, लंडन : फेबर १९७९) मेळटा.

साबार येवरोपी समकालीन बरोवपी अशा तंत्रांचो उपेग करतात.हें सांगप सोपें आसलें तरी तें करूंक आयच्या बरोवप्याक जायत्या तंत्र-शैली विशयक आव्हानांक भिडचें पडलां. पूण अजापाची गजाल म्हळ्यार हीं आव्हानां ताणें सहज पेलल्यांत. (१) अशे तरेन **दोन-तरफी भासाभाशेवरवीं** आशयाची खोलाय वाडोवप, (२) वाचप्याकय **आपलेपुरतें वेगळें मत** बाळगुपाची मेकळीक दिवप (३) तरिकूय ताका विरोधी वा **समांतर मत** सोबितायेन मांडून दाखोवप, आनी (४) इतलेंय करून **विशयांतर मातय करिनासताना** कथावस्तुंचें एकशिवडीपणा सांबाळून **शैलींत अप्रुपाचीं परिवर्तनां** हाडप -हें सगळें आयच्या पश्चिमी साहित्यान साध्य केलां. हें करचे खातीर ताणें तंत्राची कमाविशीं तशेंच शैलीची नवलाय म्हूण **मिथकां, पुराणकथा, दंतकथा, नितिकथा, अतिरम्य साहसकाणयो** हांचो आपल्या कथा-कादंबऱ्यातल्या निवेदनांत **खुबयेन आस्पाव** केला. अशेच तरेन तांचो सावळ (manure) म्हूण कवितेंत लेगीत उपेग जाला आनी जायत आसा. अशा जबरदस्त आनी नित्यनूतन सर्जनशील साहित्याचो आस्वाद घेवन ताचें मोलांकन करप म्हळ्यार समिक्षेचे नदरेन एक भक्कम प्रस्न! अशे तरेन 'बुकल्या फाटीर गोणयो' घालप चालंत समिक्षेक सोपें नाशिल्लें.

१९५० च्या आसपास तर हो प्रस्न चडांत चड ज्वलंत जावंक लागिल्लो. चालंत समिक्षेची धांव फकत पारंपरीक दिश्टीकोणामेरे सिमित उरील्ली. ल्हवुल्हवू आतां **चरित्रात्मक, इतिहासीक** जावं **कृतीची फाटभूंय नियाळपी** समिक्षा 'निष्प्रभ' थारूंक लागिल्ली. हातूंतल्यान समिक्षेनय १९३० तल्या दसकांत **कूस परतूंक** सुरू केल्लें. फुडल्या एकदोन दसकांत तिणें **आनीक प्रभावी** परिवर्तनावटेन पावल उखल्लें.[1] १९५०-६० च्या आसपास समिक्षेन कात सोडिल्ली. **मिथात्म समिक्षा** आनी **नव-समिक्षा** ह्या दोन फांट्यांनी तिणें **नव्या रूपांत पदार्पण** केलें. तेच वरी ह्या नव्या रुपकारांतले समिक्षेंत **संरचनावादी** आनी **उत्तर-संरचनावादी** अशींय दोन **नवीं मोडणां** उदभवलीं.

अशे परीन आधुनिकतेच्या भौ-विशाळ वाठारांत समिक्षेचोय आवांठ हिसपाभायर व्हड जायत गेलो. आजय दिशीदिशी नवीं समिक्षात्मक प्रमेया, समीकरणां, तशेंच कुवाडीं तातूंत अदिकादीक भर घालीत आसात. अशे तरेन नवे-नवे पिकाळ विचार

---

1. *ह्या प्रभावी परिवर्तनाचो धांवतो आढावो जिज्ञासू वाचप्याक डेव्हीड लॉज हांगेल्या **ट्वेंटीयथ सेंच्युरी लिटररी क्रिटीसिज्म** (लंडन : लोंगमन, १९७२) ह्या संकलीत ग्रंथांत मेळटा.*

जावं सुपीक सिद्धांतावरवीं **आधुनिकतेच्या** नव्यो नव्यो बांदयो कोमरी धरीत आसात. हाका लागून जिज्ञासू वाचप्याक चांटे पावलाक ह्या भौरंगी आनी भौ-मोलादीक क्षेत्रांत दिसपट्टी नव्या समिक्षा-विचाराची वा नव्या सिद्धांतीक कुणगेची भर पडिल्ली दिसता.

म्हूण ह्या विश्लेशणांत परतू-परतून आमकां मानून घेवचें पडलां की **उत्तर-आधुनिकी समिक्षेच्या** विशाल वाठारांत सिद्धांतांची खातड जाल्या. खेरीज, ह्या सिद्धांतीक दांटयेच्या मुळसांत आकांताचो **विचारीक गोंदळय** किल्ल्लला. हाचेर उपाय म्हूण ह्या पांवड्यार आमी कांय म्हत्वाचे **समकालीन समिक्षा-विचार** वेगळे काडिल्ले बरे. आदीं उल्लेखिल्या प्रमाण **मिथात्म समिक्षा** आनी **नव-समिक्षा** ह्या दोन थामांक सध्याक हे विचारीक नडणेंतल्यान हुमटावन वेगळे कुणगेंत रोंवया. हे दोनय थाम सांगतान उखलचेलें कारण सोपें आसा. दोनय समिक्षाविचार **काळाचे नदरेन** आनी **मूळाचे नदरेन** लागशिल्ले आसात. तांची **तात्वीक पातीय** एकामेकांवांगडा भरसल्ली आसा. खेरीज, हांच्या सांगातान आमकां लागींलागींच रूजून आयिल्ल्या **रशियन आकृतिवाद** (formalism) आनी **संरचनावाद** (structuralism) ह्या दोन संकल्पनाकडेनय आयतीच तोंडवळख करूंक मेळटली.

**नव-समिक्षा**

एके गजालीविशीं खंयच्याच वाचप्याक दुबाव नासतलो -ती म्हळ्यार, फाटल्या ४०-५० वर्सांत संवसारीक (चड करून पश्चिमी) साहित्यांत भौ वेगान परिवर्तनां आनी प्रयोग घडटात आनी घडत आसात. हें घुंवडेंतल्यान साहित्यांत नव-साहित्याचें **नव-काव्य, नव-कादंबरी, नव-नाटय** अशा साबार प्रकारांचें आगमन जालें. ह्या नव-साहित्याची दखल घेवंक, न्हय ताका न्याय दिवंक, चालंत (routine) पारंपारीक समिक्षा उणी पडूंक लागली आनी म्हूण आपशींच तिणेंय नवें मोडण घेतलें. **नव-समिक्षा** हें उतर खंयच्यान अकस्मात उदेलें असो प्रस्न एखाद्या जिज्ञासू अभ्यासकाक पडूंक शकता. ताची जमता तशी फोडणीशी करून फुडें सरूंया. तशें पळेल्यार, **नव-समिक्षा** हें नांव (संज्ञा) **जॉन क्रो रॅन्सम** (John Crowe Ranson) हांच्या **द न्यू क्रिटीसिज्म** (१९४१) ह्या समिक्षाविशयक पुस्तकाच्या माथाळ्यावेल्यान आयलां. रॅन्सम हांचे हें पुस्तक 'तत्कालीन' आधुनिक समिक्षेच्या विविध प्रवाहांचो आढावो घेता. एका अर्थान, १९३० च्या दरम्यान अमेरिकन साहित्य-विश्वांत जी समिक्षात्मक चळवळ मूळ धरूंक पळेताली तिका फुडें **नव-समिक्षा** हें नांव दिवपांत रॅन्समांच्या पुस्तकाचें भौ मोलदीक अशें योगदान आसा.

हे **नव-समिक्षेची दिका,** परंपरेन घालून दिल्ल्या भायित्कारी (extrinsic) निकशांचे वाटेपरस वेगळी आशिल्ली. पूर्वापार चलून आयिल्ल्या समिक्षात्मक रूढींक

एकाच धपक्यान कडेक सारून नव-समिक्षेन ते समिक्षेच्यो त्रुटी दाखोवचेलो यत्न केलो. आदल्या समिक्षा पद्दतींक वा रितींक **परिणामनिश्ठ लटीक-धारणा** (affective fallacy) आनी **प्रभाव-इत्सुक लटीक-धारणा** (influential fallacy) अशें म्हणून **नव-समिक्षेन** तांची 'संभावनाय' केल्या. नव-समिक्षेचें ध्येय 'साहित्यकृतींतलें **रूप** (form) आनी **आशय** (content) हांचेमदलें **संतुलन** वळखून तांचे भितरलें **अंतर्गत मोल** पारखप हें आशिल्लें. साहित्याचे (चड करून काव्याचे) **प्रकार वा शैली, हेतू** वा **विशय, फाटभूंय** वा **दिका** अशे आदींच थारावन दवरिल्ले 'तयार निकश' वापरून साहित्याक जोखप हो साहित्याच्या **आंतरीक जिव्या एकचाराचेर,** (inherent organic unity) **अन्याय** जावन आसा, **अशें नव-समिक्षा मानता.** बरोवप्याचे 'ज्ञात' विचार, तागेली **चरित्रात्मक म्हायती, तागेल्यो श्रद्धा** वा **विश्वास** हांचो ताच्या बरपाचेर **छाप मारप** हें **नव-समिक्षा** साप्प **निशिद्ध मानता.**

**नव-समिक्षा** साहित्याचें **'साहित्य'** म्हूण **विश्लेशण** जावं **निरूपण** करूंक आंवडेता. हाका लागून नव-समिक्षेचे परिक्षणविशयक **निकश** संहिता-केंद्रित (text-centred) आसतात. हांचेमदीं **प्रतिमास्रश्ट, विरोधाभास, रूपकां** जावं **प्रतीकां** हांचो उपेग आस्पावता. साहित्याच्या प्रकारांवटेन 'आडनदर' केल्ल्यान जावंये सुर्वेक **नव-समिक्षा, नाट्य** आनी **निवेदनरूपी** साहित्याक सोपेपणान **वश जाली ना.** तिचें चडावत क्षेत्र **काव्याच्या वाठारापुरतें** (सुर्वेक तरी) **मर्यादीत** उरलें. पूण ल्हवु-ल्हवू साहित्यिकानच आपले **तांत्रीक प्रगतीवरवीं नव-समिक्षेक नाटक** आनी **कथा-कादंबरी** सारक्या प्रकारचीं दारा उत्तीं करून दिलीं.

हें अशें काव्यापुरतेंच सुर्वेक कित्याक घडलें? हाका जाप दिवप सोपें आसा. **काव्य** (चड करून आधुनिक काव्य) **'बोधपर'** (didactic) वा **'निवेदनपर'** (narrative) उरलें नाशिल्लें. कवीन काव्याक जिवीताचो **हारसो** (mirror) **मानचेपरस फटीक** (prism) वा **भींग** (lens) मानप चड पसंत केल्लें. हाका लागून **स्पश्ट संदर्भाखेरीत** वा **वळखण्याजोगे फाटभुंये विरयत** काव्यनिर्माणी जावप सोपेंपणी शक्य जाल्लें. नाटक वा कादंबरींत हें घडूंक कळाव लागलो. कारण ते दोनय प्रकार आधुनिक काव्यावरी **लघु-प्रकार** नाशिल्ले. आनी तांचेमदीं फावो ते तंत्रीक बदल घडोवन हाडूंक साहित्यिकाक नवे नदरेची जावं अभ्यासाची गरज आशिल्ली. तेच भाशेन समिक्षकाकय, नाटक-कथा-कादंबरीसारक्या **'बोधदिण्या'** आनी **'संवादरूपी'** वा **'निवेदनपर'** साहित्यप्रकारांकडेन (चड करून तांच्या आदल्या कृतींकडेन) नवे नदरेन पळोवपाक, नवो दिश्टीकोण आपणावप गरजेचें आशिल्लें. पूण साहित्यान आनी समिक्षेन एक दोन दसकांभितर हें आव्हान सोपेपणान उखललें हें १९३०-६० च्या समिक्षात्मक बरपाक पळेल्यार कळटा.

**नव-समिक्षेचो चडावत रोख** साहित्याक बरोवप्याची **आप-निर्धारीत** आनी परीपूर्ण अशी कृती अशें मानचेपरस एक **स्वतंत्र स्वायत्त कलावस्तु** अशें लेखपाचेर आसता. ह्या विधानाक अदीक स्पश्ट करूंक सोदप म्हळ्यार केंसाचीं किसरां काडूंक पळोवप. पूण हीवय कमाविशी करप हांगा गरजचें जावन आसा. साहित्याक बरोवप्याची '**कृती**' अशें लेखतना आपशींच ते कृतीचेर साहित्यिकाच्या (म्हणचेच कृती करणाऱ्याच्या) व्यक्तीमत्वाक, मतांक वा तागेल्या जाणून-बुजून केल्ल्या वावराक एक 'खाशेली सुवात' समिक्षक दिता. जेन्ना ती कृती बरोवप्यान, आपनिर्धारीत आनी परीपूर्ण घडवचेल्या हेतान बरयल्या अशें समिक्षा धरता तेन्ना तिचे फाटल्यान **दोन गृहीतकां** आपशींच उबीं जातात. (१) आप-निर्धारीत कृती जाल्ल्यान साहित्यिकान तिचे भोवतणें ध्येय, अर्थ आनी आशयाची एक मर्यादा घाल्या जातली, हें पयलें; आनी (२) परीपूर्ण कृती जाल्ल्यान तिच्यांत त्रुटी नासतल्यो वा आसल्यार नावांपुरत्यो आसुंयेत, हें दुसरें. अशें धरून चलिल्ल्यान समिक्षक तांतुंतले गुण-दोश दाखयताना फाटीं फुडें जावंक शकता. आनी नकळटां, हाचेर मार्ग काडटना, तो एकतर ते साहित्य-कृतीक (१) सर्वांगान आनी सर्वार्थान वेंगायिल्लेवरी करून तिका फक्त वयलेवयर नियाळटा; वा (२) तिची साहित्यिकावांगडची नाळ कापनासताना तिका साहित्यिकाच्या जीण आनी विश्वासांचे सावळेपोदां सांसणाची झिनत दवरता. अशें केल्ल्यान, ते कृतींतलें तन्न तर ताच्या खाडाक लागचना वयल्यान तिचें सत्व असल्या अनिश्ट, **चरित्रात्मक** वा **इतिहासीक** दिश्टीकोणाक लागून विटकळटा.

नव-समिक्षेक अशेतरेन 'साहित्याच्या बोडार **साहित्यिकाक** मारप' पसंत ना. नव-समिक्षेचो भर साहित्याक '**स्वायत्त कलावस्तु**' म्हणून पळोवपाचेर आसा. हें करचेखातीर नव-समिक्षेक दोन गजालींची दखल घेवची पडटा. (१) साहित्या-अंतर्गत आशिल्ली **शाब्दिक क्लिश्टता**, आनी (२) अर्थाचो **भौ-ताशी** रुपकार (दुवार्थीपण, भौवार्थीपण) तशेंच हाका लागून येवपी **आशयघनता** (thematic density). इतलें सगलें सांगतकर, फुडें आनी सांगूक नाका की **नव-समिक्षा उतरांची मांडावळ, भाशेची खोलाय** आनी **तंत्राची नवलाय** हांकां **अग्रसुवात** दिता. निमाणें, एक खरें, **कलावस्तु** म्हूण **साहित्याक पळेतना** तातुंतलें **सैमसारकेंपण** हो म्हत्वाचो घटक थारता. पूण हें सैमासारकेंपण खंयच्या पांवडयाचे (दर्जाचे) आसा हें थारावंक त्या वस्तुभितर कलेचो आविश्कार कसो आनी कितपत जाला हें पयलीं समजुचें पडटलें.

**साहित्यापुरतें** उलोवचें जाल्यार, तातूंत **कलेचो आविश्कार भाशेच्या माध्यमांतल्यान** आनी **उतरांतले अभिव्यक्तीवरवीं** जाता. ही अभिव्यक्ती दरेका वाचतल्याक साहित्यांतल्यान एक खाशेली 'अनुभूती' मेळोवन दिता. आनी हे **अनुभूतीवरवीं**

दरेकलो **वाचपी** आपल्या पुरतें **अर्थ** आनी **आशयाचें निरूपण** करता. **नव-समिक्षा 'गृहीत'** धरता की समिक्षक हो 'खंयचोय एक' वाचपी न्हय, तर तो **कलेची जाण आशिल्ली व्यक्ती** आसता. तशेंच, 'सांगोपांग' निरूपणाक आवश्यक आशिल्लें **शास्त्रीय गिन्यान, वस्तुनिश्ठ दिश्टीकोण, व्यक्तीगत तटस्थताय** आनी **समजीकाय** आशिल्लो तो निरपेक्ष वाचक आसता. आनी मुख्य म्हळ्यार ह्या समिक्षकाची **अभ्यासपूर्ण नदर** साहित्य-वस्तुंतल्या **आंतरीक कलागुणांचेर केंद्रीत** जाल्ली आसता, साहित्या भोंवतणचे **भायले चौकटीचेर न्हय.** हाका लागून **नव-समिक्षा उगडो विशय** आनी **उक्त्या संदर्भापरस, आशय** आनी **तंत्र हांकां म्हत्व** दिता. **आकृती** (वा रूप) आनी **आशय** हांचेमदली फारकत ती मान्य करना आनी म्हूण तांचेमदल्या **अनुबंधाक गृहीत** धरता.

जेन्ना हे **नव-समिक्षाविचार** चालू शेकड्याच्या पूर्वार्धांत वयर सरले तेन्ना तांणी साहित्य-क्षेत्रांत खवदोळ घालो. पूण अशे तरेच्या पुरोगामी समिक्षा-विचारांक **प्रत्यक्ष नमुन्यांचो आदार** जाय आशिल्लो. निखट्या सिद्धांतांचेर नव-समिक्षेचें आदन चड तेंप तिगचें नाशिल्लें. हे सिद्धांतीक मांडावळीक **रॅन्समाच्याच** दोन शिश्यांनी (**क्लियेन्थ ब्रुक्स** आनी **रॉबर्ट पॅन-वॉरन** ह्या फाकिवंत समकालीन समिक्षकांनी) घसघशीत आदार दिलो. तांगेल्या **अण्डरस्टेन्डींग पोएट्री** (१९३८) ह्या सगल्यांच्या तोंडावेल्या पुस्तकान **नव-समिक्षेक** प्रभावी नमुन्यांवरवीं, जावं देखीवरवीं **गिरेस्त** करून सोडली. हाका लागून नव-समिक्षा फक्त गिन्यानान जडाविल्ल्या दिग्गजांमदली करगेल्ली भासाभास जावन उरलीना. ती समिक्षा-नेमाळ्यांतल्यान, विद्यापीठांवरवीं तशेंच अभ्यासक्रमांच्या माध्यमांतल्यान **शिक्षणीक क्षेत्रांत** प्रगटली आनी **वेवसायीक रूपांतय** अवतरली. अशे तरेन **ब्रुक्स** आनी **पॅन वॉरन** हांणी नव-समिक्षेच्या सिद्धांतांक प्रत्यक्ष बसका मेळोवन दिली. हाका लागून नव-समिक्षेन फुडें साहित्यीक तशेंच शिक्षणीक क्षेत्रांत २०-२५ वर्सां एके **नवे परंपरेचो** दबदबो निर्माण केलो.

पूण हे खातीर नव-समिक्षेक विचारीक जावं सिद्धांतीक गिरेस्तकाय दिवप्यांचोय उल्लेख मुजरत करूंक **जाय.टी.एस. एलीयट, आय.ए. रीचर्डस, विल्यम एम्पसन** आनी **ईव्होर विन्टर्स** हे म्हत्वाचे अभ्यासक, नवसमिक्षेचे उद्गाते, प्रायोजक, समर्थक आनी वेवसायीक समिक्षक जावन आशिल्ले. हातूंतले **एलीयट** आनी **एम्पसन** हांणी तर काव्यलेखनांतल्यानय नव-समिक्षेक एके तरेची **थाकाय** (fillip) दिली. फुडें तांणी घालून दिल्ले 'वाटेन' **नासलें** तरी तांणी चलिल्ले 'दिकेन' **ॲलन टेट, आर.पी. ब्लॅकमूर, डब्ल्यू.के. विम्सेट** (ज्यु) आनी **केनेथ बर्क** हांणी मोलाची भर घालून **नव-समिक्षेचो** वाठार अदीक पिकाळ केलो. मुजरत सांगपासारकें म्हळ्यार **एलीयट**

कवितेक स्वतंत्र, स्वावलंबी, स्वायत्त (autonomous) आपलेभितर पुराय जावपी मानता; **रिचर्डसाचो** रोख 'प्रत्यक्ष समिक्षेचेर' आशिल्ल्यान **आशयदर्शी** आसा; **एम्पसन** उतरांचे भोवार्थी किचकनडेंतल्यान अर्थाचे धागे सुटावे करूंक पळेता.

जरी आज आमी नव-समिक्षेवटेन फाटीं वळूक पळेतना, तिका नवे नदरेची समिक्षा म्हळ्ळी, तरी ती आज तितली **नवी उरूंक ना.** हेर साबार समिक्षाविचारांच्या वाडट्या जोमान तिच्यांतलें 'नाविन्य' सुकतडेक लांगला. शिवाय, **नव-समिक्षाच** जेन्ना एक **रूढी, परंपरा** जावन सिंदबादाच्या म्हाताऱ्यावरी साहित्य-विचाराचे गोमटेर बसली तेन्ना तिका 'परंपरावादी समिक्षा' म्हूण विरोध जालो. अशे तरेन साहित्याक 'इतिहासीक-समाजीक-व्यक्तीगत' **संदर्भांकडल्यान** पुरायेन **हुमटावंक** काडूंक पळोवपी समिक्षा म्हूण तिचेर टीका तर जालीच. खेरीज उप्रांतच्या **मार्क्सवादी, अस्तुरीवादी** साहित्य-विचाराकडल्यान **प्रतिकारय जालो.** तिच्या समर्थकांचेर धर्मीक आनी उच्चभ्रु परंपरावादी म्हूण खर टीका जाली. आनी हालींसरा तर, **नव-इतिहासवादी** समिक्षाविचारांनी नव-समिक्षेच्या कोटाचेर आनीक एक **नेटाचो हल्लोय** केला.

पूण एक मानूंकच जाय: इतलें सगलें जावन लेगीत आजय नव-समिक्षेच्या बांदाक फावो तशें खावटें पडिल्लें ना. खर धपको बसूनय नव-समिक्षेचो प्रभाव समकालीन अभ्यासकाचेर तिगला हें विशेश. ह्या जबरदस्त प्रभावाचें श्रेय आजलेगीत समिक्षकांमदीं (आनी बरोवप्यांमदीं) **लोकप्रिय** आशिल्ले **संहिता-केंद्रीत समिक्षेक** वता. आनी हे प्रथेचें मूळ घट करपांत **क्लियेन्थ ब्रुक्स** हांचे **द वेल-रॉट अर्न** (१९४७) आनी **विम्सॅट** (ज्यु.) हांचे **द व्हर्बल आयकोन** (१९५४) ह्या पुस्तकांचें खाशेलें योगदान आसा. निमणें एक खरें, जोर खंय पेजेक रडटा; तशेंच नवी समिक्षा आनी साहित्य **नव्या तंत्राक आंवडेतात.** आनी तंत्राच्या प्रयोगांक आशेल्ल्या ह्या युगांत रूपक-प्रतिमांचो सुळसुळाट साहित्यांत जावप चुकना. म्हण्टरीच मिथकांचो साहित्यांत (आदलेवरी फक्त एक घटक म्हूण न्हय तर एक तांकीवंत तंत्राचो प्रकार म्हूण) पावल पडप अपेक्षितच म्हणचें पडटलें. आनी साहित्यांतल्या ह्या 'तांत्रीक क्रांतिक' भिडचेखातीर **मिथात्म समिक्षा** उदेवप हें तरी कशें अनपेक्षित थारतलें?

## मिथात्म समिक्षा

म्हण्टरीच आमी मिथात्म समिक्षा ही नव-समिक्षेचो एक आंकुर अशे धरुनच तिका पळोवया. समिक्षेच्या थोडेशे प्रक्रियेवरवीं, जावं वेगळ्या दिश्टीकोणाक लागून, ह्या समिक्षा-विचाराचेर धरपी फूल घडये वेगळ्या रंगाचें आसत; पूण तें वेगळ्या वासाचेंय आसतलें अशें मानप बरोबर जावचें ना. हीवय समिक्षाप्रथा **साहित्य-वर्तीच**

आसा. आदिमकाळार सावन मनींसकुळयेच्या इतिहासांत भोंवन भोंवन दिसून येवपी **पुराणकथाचें** आनी **मिथकांच्या** चक्राचें मुळावण घेवन **मिथात्म समिक्षा** साहित्याचें विश्लेशण करूंक पळेता. ही मिथकां कालातीत आसतात. आनी चड करून ती **लोकमानसांत किल्लून लोकवेदांत** भरसतात. **देस, राष्ट्रां, जनपदां, वंश, जमाती, भासकुळयो** अशा मनीसजीणेच्या **अगणित व्यासांभोवतणीं** ही मिथकां घुंवतात. ल्हवुल्हवू काणी-कवितेंतल्यान 'अक्षर' साहित्यांतय देंवतात, मनीसमनाक आकळना असल्या गूढ जावं सनातन प्रस्नांक समाजपुरसान मोन्यानी मानून घेवचें ह्या हेतून हीं मिथकां घडटात. तर कांय वेळा मनशाचे व्हडविकायेची, साहसाची गाथा गावंक मिथकांचे सर्जन जाता जावं येता. हीं मिथां संवसारभर पातळिल्लीं आसलीं तरी वेगवेगळ्याकडच्या लोकवेदांतल्या विंगड विंगड मिथकांमदीं साधर्म्य-समानताय आसता. देखीक आमी वेगवेगळे कडलीं संवसारनिर्मणेची मिथकां जावं कालचक्रासंबंदी (seasonal cycle) चीं मिथकां घेवंक शकतात. हीं मिथकां जरी लोकवेदांतल्यान एके पिळगेकडसून दुसरे पिळगेमेरेन पावलीं तरी तांची एक खाशेली सुवात मनशाच्या अबोध मनांतय आसता जावंक जाय. म्हणून तर वेगवेगळ्या कडल्या, वेगवेगळ्या काळावेल्या लोकवेदांत समांतर रितीन प्रगट जावपी ह्या मिथकांक आमी मनशाच्या 'सामूहीक अबोधमनाची' (collective unconscious) **पिढीजात गिरेस्तकाय** वा **दायज** म्हणूंक जाय.

**मिथात्म समिक्षा** संवसारांत मनशान भौन-भौन गुंथिल्ल्या मिथकांची मांडावळ म्हूण साहित्याक पळेता. तशेंच ही समिक्षा, साहित्यांतल्या मिथकांच्या प्रतिभाशाली **प्रति-रचणुकेक** अभिव्यक्तीचें एक प्रभावी साधन म्हूणय तेळटा. वेगळ्यां उतरांनी सांगचें जाल्यार मिथात्म समिक्षा साहित्यांतल्यान मानवी संस्कृतींतल्या आद्य नमुन्यांचें **प्रतिरूप** सोदचेलो यत्न करता. १९५०-६० च्या सुमाराक अशेतरेची **समिक्षा-प्रथा** भारा आयली. अशेतरेच्या समिक्षेअंतर्गत, साहित्याच्या **विशिश्ट गुणांपरस**, ते कृतींतल्या **निवेदनाची रचणूक 'अदीक प्रभावी'** थारता. ह्या **निवेदनाचे रचनेवरवींच** बरोवपी पुरातन दंतकथा, धर्मीक पुराणां, हांचेकडेन आपणाल्या बरपांतल्या **आशयाची, व्यक्तीरेखांची सोयरीक जोंडूक** पावता. अशे साहित्य-रचनेंत **व्यंग, विरोधाभास, दुवार्थीपण हांकां भौ म्हत्व आसता.**

पश्चिमी संवसारापुरतें उलोवचें जाल्यार पुर्विल्ल्या मिथकांविशींचें आधुनिक साहित्याच्या आकर्शणाचें स्रय **जे.जी. फ्रेझर** हांच्या **द गोल्डन बाव् ह्या** १८९०-१९१९ च्या दरम्यान बरयिल्ल्या **म्हा-ग्रंथाक वता. वंशशास्त्रीय** नदरेन आनी सुक्षीम **संशोधनावरवीं** फ्रेझर हांणी इतिहासाचे धुळींत अंधुक जावन पडिल्लीं मिथकां

संवसारामुखार मांडली. हें करतना तांणी **मर्ण** आनी **पुनर्जल्म** हांकां जोडून मनशाच्या मानसांत सदांच वावुरपी **शंका, तर्क, अदमास** हांचो आदार घेतलोच. शिवाय ह्या तर्काक आदार दिवंक मनशान रचिल्ल्या कालातीत **कथा-पुराणाचोय** अभ्यास केलो. खेरीज़ **मानसशास्त्रीय नदरेन तांचो संबंद** संवसारांतल्या **विविध संस्कृतींत आस्पाविल्ले फलन-विधींवांगडा** जोडलो. ह्या अभ्यासपूर्ण अशा संशोधनाचो आकांतळो प्रभाव 'तत्कालीन' सुशिक्षित मनशाचेर पडलो हातूंत अजाप ना. पूण हो प्रभाव **आजलेगीत** चड-उण्या प्रमाणांत **तिगला** हें लक्षात घेईसारकें.

आधुनिक **मिथात्म समिक्षा-विचाराचो** प्रवर्तक म्हूण **नोर्थोप फ्राय** हाच्या अभ्यास-पूर्ण कार्याचो उल्लेख करूंक जाय. **फ्रेझराच्या** 'अदमासाचेर आदारील्ल्या' निश्कर्शांक घेवन ताणें एक **विश्वव्यापी येवजणबद्ध सिद्धांत 'ॲनेटोमी ऑफ क्रिटीसिज्म'** ह्या ग्रंथात मांडला. हातूंत मुखेल **निवेदनरूपी (महाकाव्यासारक्या) साहित्यप्रकारांचो सांगोड** ताणें **कालचक्रावांगडा** घालचो यत्न केला. हेर मिथकवादी समकालीन समिक्षक, **गेस्टोन बेकलार्ड, रिचर्ड चैज,** आनी **लेस्ली फिडलर** हे जावन आसात.

पूण हालीं-हालीं **मिथात्म समिक्षेक** अभ्यासकांनी कडेक सारल्या. ही समिक्षा **फ्रेझराच्या मिथांकांच्या तुळात्मक अभ्यासाचेर** आनी **सी.जी. जम्प** ह्या स्वीस मानस-शास्त्राच्या **सपनां** आनी **मिथकां** हांचेमदल्या समान **प्रतिकांचेर** पातयेता. पूण हीं 'प्रतीकां' **मनीसकुळयेच्या** 'आनुवंशीक पूर्वपुरातन उगडासांत' आस्पावल्यांत, हो सिद्धांत आज **काळाभायरो** थारला. समिक्षेंत तरी निदान, अशेतरेचे **पूर्वनियोजीत निकश** आनी **रुजवातीबगरचे निश्कर्श केथवोर वापरचे, हाचेविशीं** समकालीन अभ्यासकांमदीं **एकमत ना. अस्तित्ववादाक** जल्माक घालपी **भ्रमनिरास आनी निर्शेणी देंवल्या.** आनी परतून एक फावट, **विश्वीक थरार** 'सरसकटपणान कसलींय तत्वां साहित्याच्या अभ्यासाक लावचीं न्हय', अशें मत समिक्षकांमदीं नेटान वयर सरलां.

●

# १७

# २०व्या शेंकड्यांतलो हेर साहित्य-विचार

आर्विल्ल्या काळार समिक्षा-सिद्धांतांची वाडटी वाल अशी मातत गेल्या कीं तिच्यो वेगवेगळ्यो खांद्यो वेगळावप तर सोडच पूण वळखपलेगीत सोपें न्हय. पूण ह्या समिक्षा-विचाराचे किचकनडी उदरगतींतल्यान साहित्याचो मात लावच जाला. एकेके कृतीक एखाद्रो वाचपी कितल्या विंगड-विंगड तरांनी तिजून पळोवंक शकता, हें हेवरवीं कळटा. शिवाय जे साहित्यकृतीक आदल्या समिक्षकांनी इतिहासीक निकश जावं चरित्रात्मक संबंदांवरवीं **उणाक** पांवड्याची **थारायल्ली,** अशेय कृतीचें **नव्या तत्वांच्या उजवाडांत** परतून फावो तशें मोलांकन करूंक जाता. अर्थात, ह्या पुनर्मोलांकनाची दुसरी बाजू म्हळ्यार, जे कृतीक आदीं समिक्षकांनी **'अ-साहित्यीक' निकशांच्या नाड्यार** माथ्यार घेतिल्ली, ती जमनीर आपट्टा. हें सगलें ध्यानांत घेवन जेन्ना आमी **आधुनिक साहित्य-विचाराची** चडटी वाल नियाळटात, तेन्ना तिचो **साहित्यवर्ती, संहिता-केंद्रीत दिश्टीकोण** आमकां **साहित्याभायल्या** आनी **लेखक-केंद्रीत दिश्टीकोणापरस** अदीक **पातयेवपाजोगो** (reliable) आनी **तगपाजोगो** (durable) दिसता, हें खरें. म्हूण घडये समकालीन समिक्षेच्या मळार **साहित्यवर्ती सिद्धांतांची** भर दिशींमाशीं पडत आसा.

### संरचनावाद.

असोच एक आधुनिक साहित्यविचारांतलो नवो आंकूर म्हळ्यार **संरचनावाद.**[१] **संरचनावादी समिक्षा** 'संहिता-केंद्रीत' आसता, **अशें म्हणचेपरस** तिचो रोख साहित्यांतले 'भाशीक जडण- घडणेचेर आसता' अशें म्हणप चड सयुक्तिक जातलें. **भासविज्ञानीक** तत्वांचेर आदारून साहित्याचोच न्हय तर सगल्या संस्कृतीक घडणुकांचो अभ्यास करपी, तांचें विश्लेशण करपी एक आधुनिक बुद्धिवादी चळवळ (विचारप्रवाह) म्हूण संरचनावादाचें वर्णन करूं येता. मानवी वेव्हाराच्या **सगल्या आंगामदीं (आचार, विचार, उच्चार)** एक शास्त्रशुद्ध सोयरीक आसा. आनी ह्या

---

१. *हाका **रचणूकवाद** अशें म्हणप चूक थारचें ना. पूण सिद्धांत आनी संकल्पना उत्तावपी उतरां जावं संज्ञा कोकणीच्या हेर भासभैणांक लागींच्यो आसल्यार, कोंकणींतलें समिक्षात्मक बरप सोपेंपणी हेरांमेरेन पावत हें अवधान बाळगून, **संरचनावाद** हेंच उतर फुडें-फाटीं वापरलां.*

अंतर्गत नात्याक लागून **समाजीक प्रथा** (conventions) आनी **भाशीक संकेत** (codes) हांकां अर्थ प्राप्त जाता.

धांवती नदर मारल्यार, वयल्या विधानांचो साहित्य-समिक्षेकडेन कितें संबंद आसा असो प्रस्न उप्रासूं शकता. पूण बारीकसाणेन चिंतल्यार **समाजीक प्रथा** आनी **भाशीक संकेत** हांचो साहित्यांत कितलो प्रभावी संचार जाता; **तांचो साहित्यांतलो सहभाग** कसो मातय-वेगळांव नजो इतलो **मुळावो** आनी **मोलादीक** आसा, हें होलमता. संरचनावादी विचारसरणेचो रोख **संस्कृताय** आनी **भास हांच्या सांसणाच्या नात्याचेर** आसा. साहित्यांतल्यानय ह्याच अतूट चिरंजिवी नात्याची प्रचिती मेळटा, कित्याक साहित्याचें 'माध्यम' **भास** जावन आसा. आनी 'भास' ह्या संकल्पनेक **संरचनावादी विचारसरणेप्रमाण** सैमीक न्हय जाल्यार **समाजीक बुन्याद** आसा. अमूर्त आसली तरी **भास ही दरेकलो जल्माक येतना वांगडा घेवन येना.** प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्ष समाजीक **वेव्हारावरवींच** संपादन करता. ह्या समाजीक वेव्हारावरवींच ती जिवी उरता, वाडटा, बदलता. पूण **वेव्हार म्हूण भाशेचें एक चालंत, घोळटिकेंतलें अस्तित्व** आसलें तरी, हो **भाशीक वेव्हार** सर्वमान्य आनी सगल्यांक **समजपासारको जातलो जाल्यार,** ताचे फाटल्यान एक **प्रमाण, सर्व-आस्पावणी भाशीक वेवस्था आसा** हें गृहीतक मानून घेवंक जाय.

हे **भाशीक वेवस्थेवरवीं** भाशेच्या दरेका **घटकाक (नाद, उतर, बांदावळ)** एक खाशेलो **अर्थ** फावो जाता. हो अर्थ एक **समाजीक संकेत** थारायता. हाका आमी **चिन्न** वा **कुरू** अशें म्हणूंक शकतात. उतरा फाटली **संकल्पना** (concept) आनी उतराचो **नाद** हांकां जोडपी हें **चिन्न** त्या त्या भाशीक घटकाक **अर्थ मेळोवन दिता.** देखीक, 'कामत' हें उतर वेगवेगळे तरेन उच्चारल्यार ताचो अर्थ वेगवेगळो जावं येता. पूण सट्ट वा 'देखणी' हें उतर 'एकेच तरेन' उच्चारूनय ताचे **वेगवेगळे अर्थ** जावंक येतात. उलट जायतीं उतरां 'वेगवेगळे तरेन' उच्चारूनय तांचो **अर्थ एकूच** आसूंक येता. देखीक अट. तशेंच 'चूक' उच्चार जावनय उतरांचो फावोसो अर्थ **संदर्भावेल्यान** लावंक जाता. हांगा उतरांची 'बांदावळ' आमकां आदार दिता.

अशे तरेची भासविज्ञानीक नदर **संरचनावादी** समिक्षेक **सोस्यूर**[1] हांच्या रचणुकी भासविज्ञानाच्या (त्यावेळार क्रांतीकारी थारिल्ल्या) विचारांनी दिली. चालू शतमानाच्या दुसऱ्या दसकांनी वयर सरिल्लो हो विचार समकालीन **भाशाशास्त्री** आनी

---

१. *जिज्ञासूंखातीर सोस्यूर हांचे विचार अणकारीत रुपांत कोर्स इन जनरल लिंग्वीस्टीक्स (लंडन : विलीयम कॉलीन्स, १९१६), ह्या पुस्तकांत उपलब्ध आसात.*

समिक्षकांमदीं व्हडा नेटान फांकारूक लागलो. हाचें कारण म्हळ्यार हे भासविज्ञानीक विचारसरणेन समाजशास्त्रीय, **मनीसवंशशास्त्रीय** आनी **चिन्नविज्ञानीक** दिश्टीकोणांतल्यान भाशेचें विश्लेशण करून समिक्षेक एक नवी दिका दाखयली.

## रशियन रूपवाद आनी निवेदन शास्त्र

सोस्यूराच्या सिद्धांतावांगडाच **संरचनावादी** समिक्षेचेर प्रभाव घालपी आनीक दोन साहित्यविचार म्हळ्यार **रशियन रूपवाद** आनी व्लादीमीर प्रोप हांचें **निवेदन शास्त्र** हे आसात. **रशियन रूपवाद** १९१५ च्या दरम्यान वयर सरलो. ह्या विचारांचो रोख बरपांतल्या 'साहित्यिकता' ह्या तत्वाचेर आसता. साहित्यिकता म्हळ्यार बरपांतले भाशेक दिसपट्टे बोली-भाशेपरस खेरीज थारावपी विंगड विंगड गुण वा साधनां (devices). हे समिक्षा-प्रणालीचो **आशयावेल्यान** साहित्याची **मोलावणी** करपाचेर **खर आक्षेप** आशिल्लो. हाकाच जोडून **रशियन रूपवादाचें** आनीक एक खाशेलेंपण म्हळ्यार तांणी साहित्याक **जिविताचे चित्र** वा छबी **म्हूण पळोवप** न्हयकारलें. 'साहित्य जिणेच्या संवकळीच्या तासांक उत्तायता' हें प्रमेयच तांणी मुळांतसून न्हयकारलें. आनी ताचेय फुडें वचून तांणी साहित्यांतल्यान 'अनवळखीकरण' (defamiliarization) घडटा अशें मानलें.

आशयाक 'अनुल्लेखान' मारपी रशियन 'रुपवादाची 'साहित्यिकता' (literariness) आनी दिसपट्टे जिणेक साहित्यांतल्यान भायरावपी 'अनवळखीकरण' (defamiliarization) ह्यो दोनय संकल्पना, तत्कालीन **मार्क्सवादी** समिक्षेक नाकसुऱ्यो गेल्यो. आनी प्रस्थापितांच्या दबकावणेक लागून 'सोव्हियत देसापुरते रशियन रुपवादाचें' तोंड बंद जालें. पूण **रोमाँ याकोबसन** आनी **मिखायल बाख्तिन** हांचेवरवीं **रशियन रूपवादाचें'** अदीक प्रगत अशा रुपांनी, अस्तंती साहित्यसंवसारांत आगमन जालें.

**रशियन रुपवादाचें** 'प्रगत' स्वरूप जरी १९६० च्या आसपास अस्तंती समिक्षेक सांपडलें, तरी आदल्या तीनेक दसकांत, ते विचारसरणेंत हेरां अभ्यासकांनी जायती भर घाल्ली. अशे तरेन हे समिक्षेंत भितर सरिल्ले नवे विचार अशे आसातः **अग्रस्थानीकरण** (fore-grounding) जेवरवीं बरोवपी साहित्याच्या एखाद्रया घटकाक (सहेतुकपणान) मुजरत हेरां घटकांपरस अदीक प्रभावीपणान उत्तायता वा ताचेर फोक घालता; **निवेदनशास्त्र,** जेवरवीं साहित्यांत निवेदकाचें 'खेरीज स्थान', 'दिश्टीकोण', 'शैली' हांकां भौ म्हत्व मेळटा आनी ताकालागून कृतीच्या पुराय आशयाकच वेगवेगळ्यो दिका वा अर्थ मेळूंक पावतात; **भौ-संवादी संहिता** (dialogic text) ज्यांतूंत खंयच्याय विधानांचो, उलोवण्याचो संदर्भाप्रमाण

आनी उलायणारो-आयकणारो हांचेमदल्या क्रिया-प्रतिक्रियांप्रमाण अर्थ वेगवेगळो जावं येता.[1]

**रशियन रुपवादाचो** एक म्हत्वाचो विचार म्हळ्यार **कथानक** (plot) आनी **कथा/काणी** (story) हातूंत तांणी केल्लो फरक! आयच्या कथा- कादंबरींत 'ह्या' फरकाक भौ कळाशेन बरोवप्यांनी वापरला. हे विचारसरणेप्रमाणे **कथानकाक** एक खाशेलें **म्हत्व** आसता. कित्याक काय म्हळ्यार तांच्या विचारांप्रमाण **कथानक** हें 'वाचप्याखातीर बरोवप्यान विशिश्ट हेतान आनी खासा कमाविशेन गुंथिल्ल्या घडणुकांची सांखळी', जाल्यार **कथा** ही 'त्या घडणुकांतल्यान वाचपी आपल्या मनांत **ज्या** घडणुकांची पुनर्रचणूक करता, **ती** बादांवळ.'

अशेतरेन फाटल्या तीनेक दसकांत उदेल्ल्या ह्या वेगवेगळ्या समिक्षा-विचारांचो सांगोड घालीत अभ्यासकांनी प्रत्यक्ष-समिक्षेच्या मळार आगळेंच परिवर्तन घडोवन हाडलें. जशी-जशी समिक्षाप्रणाली गिरेस्त जायत गेली, साहित्याच्या अभ्यासाक एक शास्त्रशुद्ध अशी बसका मेळूंक पावली. एकच साहित्यकृती कितल्या 'विंगड विंगड तोंडांनी' वाचप्याकडेन उलोवंक शकता हें समकालीन समिक्षेन दाखोवन दिलें. पूण एक गजाल मात मतींत धरिसारकी. हे भौसंख्य (भाशेचेर आदारिल्ल्या,) समिक्षाप्रणालींनी घुस्पून अमुरपिक्या समिक्षकाची धांदळय जावंक शकता. फक्त एक विज्ञानीक नदर आनी शास्त्रशुद्ध पद्दत आपल्या हातांत गावल्या म्हूण जर ताणें हें समिक्षेचें साधन मेळत तशें चलयलें तर मात तो तोणयां आपट्टलो. समिक्षेक जॉर्ज वॉशिंग्टनाचे कुराडीवरी चलयनासतना, शल्यविशारदाचे (सर्जनाचे) सुरयेवरी चलोवंक जाय. निखटी फिशालकायच आसून उपकाराना; सांगाताक कल्पनाशक्त, समजीकाय आनी लक्तुबाय जायच. नाजाल्यार, 'केलें कितें? आनी जालें कितें?', अशी गत जावंयेता. समकालीन समिक्षेची 'कुतरओड' पळेल्यार हें बेस बरें कळटा.

जर अभ्यासकान चिकित्सक नदर, विशाळ दिश्टीकोण, अभ्यासू वृत्ती आनी सहिष्णुता बाळगिल्यार समिक्षात्मक बरप साहित्याक कशे तरेन पुरक थारूं येता हें सांगूक नाका. पूण बंदिस्त नदरेन, आदींच आंखून घेतिल्ले शिमेभितर घाण्याच्या बैलावरी पूर्वनियोजीत तत्वांक धरून वचपी समिक्षा आपूणय मातयेमोलाची थारता. आनी 'कुड्ड्याचो हात धरून वचपी आंधळ्यावरी' आपलेचेर पातयेवपी बरोवप्याचो आनी वाचप्याचोय घात करता. आयच्या साहित्य-विश्वांत हो देखाव, चड करून

---

*१. हो विचार बाख्तिनान मांडलो आनी हो **सोस्युराचे** 'भाशीक वेवस्थे'च्या विचाराचो विरोध करता. बाख्तिनाल्या विचारांखातीर, **आफ्टर बाख्तिन,** डेव्हीड लॉज, (लंडन आनी न्यूयॉर्क, १९९०), हें पुस्तक पळोवचें.*

साहित्यप्रणालीक कशायकशी 'राजकी' रंगांत काडपी समिक्षेंत वा समाजीक संदर्भांचो 'अतिरेक' करपी समिक्षेंत, दिसून येता.

अशे अतिरेकी समिक्षेचो सगल्यांत व्हड दोश म्हळ्यार ती आपणाक खंयच्याय तरी **तत्वाचो समर्थक** समजून, नकळटां (क्वचित केन्नाय जाणून-बुजूनय) साहित्यकृतीक त्या तत्वाची पाठपुरावो करपी कलाकृती मानून वेठीक धरता. अशेतरेन जरी 'तथाकथीत' समिक्षा विचारांक 'सिद्ध' करपांत समिक्षक येसस्वी थारलो तरी तातूंतल्यान साहित्यकृतीचेर जो छाप बसता वा दाग लागता तो सोपेंपणी वचना. साहित्याच्या संवसारांत अशो खोटांनी दागाविल्ल्यो कृती उदाहरण म्हूण पळोवंक मेळटात.[1]

अशेतरेच्या अनिश्ट समिक्षा-लेखनाचें पीक अस्तंती साहित्यांतय १९६० उप्रांत आयिल्लें दिसता. अशेतरेच्या 'तोंकाचे समिक्षेचेर अभ्यासकांनी खर आक्षेपय घेतिल्लो आसा. एक कसलोय **विचार** वा **प्रणाली केंद्रीय** वा **मध्यवर्ती** लेखून ताचे भोवतणी **समिक्षेचें वस्त्र विणप हें अनिश्ट आनी अशिश्ट हें मानून ताचेर प्रतिक्रिया म्हूण एक नवोच साहित्यविचार उदेलो.** ह्या साहित्यविचाराच्या मुळांत कसल्याय केंद्रीय वा मध्यवर्ती गृहीतकाक विरोध करपाची प्रवृत्ती आसा. हाका लागून हे विचारसरणेक सरसकटपणान **वि-केंद्रीत** (de-centrist) **समिक्षा** पद्दत अशें मानपावटेन विद्वानांचो कल आसा. हे तरेच्या समिक्षाविचारांत साबार दिश्टीकोणांचो आस्पाव जाता. ह्या सगल्यांक कांय वेळा सुविधेखातीर आनी कांय वेळा सटीकपणान, **उत्तर आधुनिक समिक्षा** अशेंय म्हणटात. हातूंतले बरेच समिक्षाविचार **संरचनावादी विचारांचेर पुनर्रोपण** केल्ले आशिल्ल्यान वा **तांचो विरोध करपी** आशिल्ल्यान तांकां **उत्तर-संरचनावादी विचार** अशेंय समकालीन समिक्षा लेखता. ज्या समिक्षा तत्वांच्या विरोधांत **उत्तर-आधुनिक-समिक्षा** उबी जाल्या, त्या तत्वांची बुन्याद इतिहासीक संदर्भांक घाल्ली. आतां प्रतिक्रिया म्हूण **उत्तर-आधुनिक समिक्षेचो** एक फांटो **नव-इतिहासवादी** समिक्षेक आंवडेता.

## समकालीन समिक्षेच्या वागरांत

जिज्ञासेचें बोट धरून समजिकायेची वात सारीत चालू शेंकड्यांतल्या विशाळ समिक्षा-वाठारांत आमी ऐसपैस भोंवडी करीत आसात. शेंकडो-देड शेंकडो फाटीं

---

१. *कोंकणी साहित्यांतय ही व्यक्तिनिश्ठ, विचारनिश्ठ आनी एकेवटेन तंवकल्ली समिक्षाप्रवृत्ती पांय दवरूंक पळेता. कांय वेळा ती कृतीचे दोश लिपोवन समर्थन करूंक पळेता, तर कांय कडेन ती कृतीचे मुळाचे गुण दुर्लक्षित करून तिचेर नसत्या 'प्रवाहांचें' आनी आक्षेपांचें प्रत्यारोपण करता. साहित्याच्या माथ्यार समिक्षेच्या पूर्वनियोजीत तत्वांक अशे तरेन थापप हें साहित्याच्या फुडाराक कितलें लुकसाणेचें थारता, हें काळच दाखयतलो.*

वचून सुरू केल्ली ही भोंवडी **आधुनिकतेच्या** मदेंताक पावली. ह्या संवकळीच्या प्रदेशांत पावल घालीतसावन फुडली वाटचाल सोपी आनी वेगीं जातली अशें चिंततासर, अचकित एक नवल उप्रासलें. फुडें पळेल्यार, नदर मारता थंय अंदाधुंद पातळावेन पडिल्ल्यो पायवाटो आनी मेळत थंय नाखाटे वयर करून बशिल्ल्यो दोंगुल्ल्यो हांची दाटीचदाटी दिश्टी पडटा. तरीकूय नेटान आधुनिकतेची बडी घेवून आमी ह्या विचारीक गर्देतल्यानय मुखार सरत रावले. वांकडी-तिकडीं विचारीक पेणां करीत ल्हवु-ल्हवू आमच्या समकालीन युगांत दाखल जाले खरे पण भोंवतणचो वाठार आतां साप्पच अनवळखी भासूंक लागला. 'हो' **विरोधाभास** हीच आमच्या समिक्षेची वळखीची कुरू आसा.

जितले दसकां-वर्साचे आडामे हुपून आमी आमच्या काळाक लागीं पावतात, तितलेच समजणेंन पैसावतात. जितले विचारांचे किल्ल शिनतात, तितलीच घुस्पागोंदळाची दाटी मातता. अनवळखी सिद्धांताच्यो वंयो हुपतासर नवे 'प्रवाह' आमकां आडायतात. जितल्यो-जितल्यो संकल्पना सुटाव्यो करूंक पळेतात तितल्यो आमकां समकालीन समिक्षेच्यो गांठी अदीक अंदल्यो दिसतात. ह्या घुस्पावपी समिक्षा-विचाराची थाव घेवचो कसो? हो प्रस्न खंयच्याय नव्या विद्यार्थ्यांक पडल्यार अजाप ना. समकालीन समिक्षा-विचार आज मावलेचे जाळयेभशेन जाला. तसोच विरविरीत आनी तितलोच घुस्पांवणो. पूण बारीक तेळल्यार त्या घुस्पागोंदळातच एक खेरीत मांडणी आसा. ह्या मावळे-जाळयेक जसो एक आदारपुरतो तेंको जाय तसोच आमी तेंक्या पुरतो **आधुनिकतेचो** हात धरला.

आधुनिकतेच्या ह्या आदार-दिण्या संकल्पनेक 'वणखून' आमी **साहित्यवर्ती** आनी **भाशावर्ती** समिक्षाविचार तशेंच समिक्षा पद्धती पळेल्यो. हातूंतल्या पयल्या प्रकारांत **मिथात्म समिक्षा** जावं **नव-समिक्षा** हांचेसारक्या समिक्षा पद्धतींचो आस्पाव जाता. जाल्यार **भाशावर्ती** समिक्षा विचारांत मुखेलपणान **संरचनावादी, रशियन रुपवादी, निवेदन-केंद्रीत समिक्षा** पद्धतींचो आस्पाव करूं जाता.

पूण अशे तरेन साहित्य-समिक्षा ह्या प्रत्यक्ष घडपी क्रियेंत आमी वांटे घालूंक पळोवप म्हळ्यार उदकांत बांदयो घालप. ह्या फकत सुविधेखातीर केल्या विश्लेशणांतल्यान प्रत्यक्ष समिक्षेंत शीमो उब्यो जायनात; प्रत्यक्ष समिक्षा केन्ना **साहित्यवर्ती** दिश्टीकोण आपणायता जाल्यार केन्ना **भाशावर्ती** आनी ह्या दोनी दिश्टीकोणांक अदिकादीक दिकाबद्ध वा प्रभावी करचेखातीर, प्रत्यक्ष समिक्षा **समाजविज्ञानीक, संस्कृतीक** तशेंच राजकी **प्रणालींचोय** खुबयेन वापर करता. आनी हो वापर चडांत चड फळादीक जावचो म्हूण **मानसशास्त्री, मनीसवंशशास्त्री**

**समाजविज्ञानीक** जावं **भासविज्ञानीक** मळावेल्या सिद्धांताचो वा सोदांचोय फावो तसो उपेग करता. हातूंतल्यानच **अस्तुरीवादी, दलितवादी, देशवादी, मार्क्सवादी** जावं **शामवर्णी** विचारप्रणालींचो अचळय साहित्यविचारांत प्रवेस तर जालाच. शिवाय प्रत्यक्ष समिक्षेक ह्या हेर विचारप्रवाहांच्या साऱ्यांतल्या बरी पोसवणय मेळ्ळ्या आनी वेगळी दिकायबी गावल्या. मागीर ती प्रत्यक्ष समिक्षा साहित्यवर्ती आसूं वा भाशावर्ती आसूं, तिचो पुराय कल (तवंक) **संहिता-केंद्रीत** (text-centred) जाला. हातूंतल्या बरपाची **इतिहासीक** फाटभूंय जावं बरोवप्याची **चरित्रात्मक** विस्कटावणी करप हें आज समकालीन समिक्षेंत काळाभायरें थारत गेलां.

पूण आधुनिक समिक्षेचो पुरायेन संहिता-केंद्रित असो हो दिश्टीकोण ल्हवु ल्हवू समर्थनाचो जावं विरोधाचो अतिरेक करूंक लागलो. **इतिहासीक** संदर्भ तशेंच **बरोवप्याची फाटभूंय** पुरायेन न्हयकारिल्ल्यान वा दुर्लक्षित केल्यान, समिक्षात्मक बरप केन्ना केन्ना उकलापें जावंक लागलें. **आधुनिकतेचो** मूळ हेतू जिवितांतल्या संश्लिश्ट (लिगाद) वास्तवांतल्यान आनी मन भेरावपी क्लिश्टतायेंतल्यान 'अर्थ सोदप' हो आशिल्लो, तोच ह्या मोटव्या संहिता-केंद्रित नदरेक लागून शेणलो. आनी आपशींच आधुनिकतेच्या विविधरूपी आविश्कारक प्रत्यक्ष समिक्षेंत वेगळे तरेन पळोवपाचीच न्हय तर केळोवपाची गरज उप्रासली.

हाजोच एक वांटो म्हळ्यार **साहित्यवर्ती** तशेंच **भाशावर्ती** समिक्षेक नवीं विचारीक लेणीं जाय पडलीं, दिशीं-माशीं बदलत्या सरभोंवतणच्या जिणेन आनी सतत परिवर्तनशील आसपी जिविताच्या संदर्भांनी ह्या नव्या विचारीक बदलांक उत्तेजनच दिलें, विशेश म्हळ्यार दिसानदीस अदीक बळिश्ट जायत वचपी साहित्या-भायल्या हेर **भौशीक संपर्क-माध्यमांची** समिक्षेक **दखल** घेवप चुकलें ना. ह्या सगल्यांचो परिपाक म्हळ्यार **उत्तराधुनिक, उत्तर- संरचनावादी, नव-इतिहासवादी** आनी **विरचनावादी** समिक्षाविचारांचो[१] साहित्य-संवसारांत उद्‌भव जालो.

## उत्तराधुनिकता

**उत्तराधुनिक** हें उतर, १९५० उपरांत आधुनिकतेच्या घुस्मटावपी नश्ट-प्रभावाखाला दपटून कळाहीण जावन पडिल्ल्या पश्चिम संस्कृतायेचो एक इतिहासीक वांटो (historical phase) दर्शयता. पूण भौतेक विद्वान अभ्यासक ह्या अशीर

---

१. *ह्या समिक्षा-विचारांची एकसणी वळख जाय जाल्यार ते संकलीत पुण संक्षिप्त रूपांत **लिटरेचर इन द मॉडर्न वर्ल्ड** (संपा.) डेनिस वॉल्डर (ऑक्सफर्ड ओ.यु.पी.प्रेस. आनी ओपन युनिव्हर्सिटी १९९०), ह्या संग्रहांत उपलब्ध आसात.*

अर्थाक 'अतिसादेपणाचो' आनी म्हूण असमादानकारक मानतात. चडावत विशेशज्ञांनी **उत्तराधुनिकतेची** सोयरीक बद्द प्रगत भांडवलशायी समाज-वेवस्थेंत दिसून येवपी, एका वेगळ्याच संस्कृतीक परिस्थिती जावं, दशेकडेन जोडल्या. ह्या विचारसरणेप्रमाणें भौरंगी आनी भौढंगी **विचारमाध्यमां, प्रसारमाध्यमां** आनी **संपर्क** वा **मनरिजवणेचीं साधनांची** खातड जाल्ल्या ह्या 'अतिप्रगत समाजांनी **विसंगती** आनी **विचुकपणाचीय**' सोमतीच पोसवण जाल्या. ह्या पोसवणीचें स्त्रय जितलें **विचारीक उदरगतीक** वेता तितलेंच **भौतीक समृद्धीच्या 'अजिर्णाकूय'** वेता. ह्या दोनय वटेनच्या प्रगतीक लागून, इतल्या विंगड विंगड **प्रतिमांचें** आनी **शैलींचें** भिरें मातलां कीं मनशाक **खंयच्याय थरार त्या सगल्यांक समजून, तांची सुंसगत मांडणी करून तांका आपणावंक पुरायेन अपेस आयलां.** हें जशें दरेका गिन्यानाच्या फांटयांत घडलां तशेंच साहित्य-विचारांतय जालां.

आधुनिक युगांतल्या **प्रागतीक समाज-वेवस्थेंत** किंवाटयान उबी जाल्ली ही **विसंगती,** रातयांत किल्लून आयिल्ली विचारीक अळमीं न्हय. तशी, १९६० चें दसक सोपतां-सोपतां बुद्धिजिवी वर्गाक, ही विसंगती जाणवूंक लागिल्ली. पूण साबार विचारीक, साहित्यीक वादळां-हुंवारांमुखार ही जाणविकाय काडी कशी हुबत रावली. ती थीक्कपणान एका खंयच्याय विचारीक चौकटींत थिरावन उरूंक पावली ना म्हूण तिचेफाटलीं कारणां-निमतां जावं तिका लागून घडपी स्थित्यंतरांचें वेळचेवेळा विश्लेशण करप शक्य जालें ना. पूण जिवितांतल्या **विसंगतीची ही जाणविकाय ल्हवु-ल्हवू वाडत गेली.** साहित्यांतय, संस्कृतीक सिद्धांत-घडणुको हातूंतल्यान ती विसंगती चड उणें प्रमाणांत दिसत रावली. आनी निमाणें, १९८० च्या दसकांत ह्या **न्हिदसुऱ्या जाणविकायेन** दोळे चोळीत सरभोवतणें 'कोंड' कशें सांचिल्ल्या विसंगतीची उत्तेपणीं दखल घेतली.

हाची सभावीक जोड-प्रक्रिया म्हळ्यार **ज्यॉं बोदीयार्दासारक्या** अभ्यासकांनी 'त्या विसंगतीक' साहित्यांतल्यानय सोदचो यत्न केलो. ह्या अभ्यासकांनी **उत्तराधुनिकतेच्या** पांख्याखाला, साहित्या-अंतर्गत उत्ती जावपी 'भावनीक तळ्यांत-मळ्यांतली स्थिती', जाणविकायांचे कुडके-कंवच्यो, **वयलेचाराचें** पासमेकळें हेडगेंपण, वेंचीक अनामिक स्मरणरमण (nostalgia) आनी जिणेंतली हेर किचकनड हांकां सुवात दिली. अर्थातच, असल्या साहित्यीक खेंटींत पूर्वापार चलत आयिल्ल्या पारंपारीक कल्पनांक थारो नाशिल्लो हें आनी वेगळें सांगूक नाका. हाका लागून साहित्यांत दिसून येवपी **खोलाय, अर्थपूर्णताय, सुसंगती, पातयेपासारकेंपण,** आनी **नीज मोल** ह्या सगल्या पारंपारीक गुणांक हळद लागलीं. 'रीत्या' खुणा-कुरवांनी दाटील्ल्या साहित्यकृतिंनीं आतां असल्या **स्थिर** आनी **सुस्पश्ट** गुणांक जागो

नाशिल्लो. साहित्याची आवतीकाय आतां मुजरत केल्या एका **घुस्पावण्या भोंवऱ्यावरी** वरी जाल्ली. धड थावय लागना आनी तडय गावना अशा अवस्थेंत समिक्षा 'दोळ्यांच्यो खांचो घेवन चित्रांतले रंग सोदतल्याच्या नदरेवरी' **उक्ती, रीती** आनी **वांझुड्डी** जायत म्हूण भंय जालो.

घडये हाकाच लागून साहित्यिकांनी **उत्तराधुनिकतेक** दुवार्थी वाटांनी केळयिली. जाय जाल्यार **उत्तराधुनिक** साहित्याक आधुनिक साहित्याचे 'फुडलें पावल' लेखूंक जाता. जंय **आधुनिक** बरोवप्यान हाताशिल्लो **'परकेपणाचो मनोभाव'** आनी 'मुजरत' आपणायिल्लो **'दिकाहीणपणाचो हावेस' उत्तराधुनिक** साहित्यिकानय तिगयला म्हूण कळटा. पूण **उत्तराधुनिक साहित्याक, आधुनिक साहित्याचो** प्रथा धुकलून दिवपी वा त्या प्रथांनी फावो तशे प्रयोग जावं बदल घडोवपी एक 'नवी पायण' अशेंय गणूंक जाता. तेन्ना उत्तराधुनिक साहित्यांत 'मुद्दम' पांगुरिल्लें **अर्थशून्यतायेचें, विचित्रपणाचें** कातडें उखलून पोंदची नकली चंचलता, नाचरो वितराग आनी अडेचें भेरेल्लें पण हांची अस्ताव्यस्त मांडावळ नियाळची पडटली.

बारीकसाणेन पळेल्यार **उत्तराधुनिक** बरपांतली 'अर्थपूर्ण अर्थशून्यता' आनी 'अस्ताव्यस्त व्यवस्था' होलमता. आनी त्या दिकाहीण विसंगतींत कवळून उरील्ले **दिकाबद्धतेची** जाणविकाय जाता. समकालीन जिणेंतली विक्षिप्तता (absurdity) आनी तांतूंतलो व्यर्थ गोंदळ साहित्यिकाक वेंगावंक चुकना. पूण **उत्तराधुनिक** बरोवपी 'ह्या गोंदळाक' मिथकां, प्रतीकां, प्रतिमां वा रुपवादी गचमुड्डेंतल्यान धुंडाळच्यापरस **तोडकी मोडकी दिसपी तंत्रां** वापरप पसंत करता: देखीक १) **पास्तीश्** (एकाच बरोवप्याच्या साबार कृतींतल्या थोड्या थोड्या घटकांची एकठांय केल्ली साहित्यीक 'पचडी'); २ **ब्रिकोलाज्य्** (मेळत त्या नमुन्यांतले जायजायतशे कुडके. घडून केल्लें 'कपयाळें'; ३) संबंद नाशिल्ल्या घटकांक मेळोवन घडिल्ली असंबद्ध बरपाची 'भेळ' कशी ताळमेळ वा अेकचार नाशिल्ली कृती; ४) विनोद, बोधकथा, अतिरम्य आनी अवास्तवाचें मेळावण घेवन, **नाडनवलिका** (picaresque novel) वा अद्‌भूतकथेचो भेस लकोवन नटयिल्ली **'फॅबुला'**. ह्या तंत्रावरवीं चडावत **उत्तराधुनिक** बरप 'कानार केंस ओडिल्ले वरी' 'अस्ताव्यस्त भासपी' संहितेवरवीं जीणेंत चोंयवशीन रंवरंवपी विसंगती यथास्थित वाऱ्यार घलपांत येसस्वी थारता.

एक खरें, वयर सांगलां ते प्रमाण आशिल्ल्या बरपाक जर उत्तराधुनिक हें लेबल लावचें जालें तर एक गजाल स्पश्ट करूंक जाय. **साठांउप्रांतच्या सगल्या बरपाक हें बिरूद लागचेंना,** फकत 'त्याच' साहित्याक लागतलें **जें वयल्या वर्णनांत बसता; वा वयर सांगल्यात त्या तंत्रांचो वापर करता.** एक सहज कळटा. वयले बहुतेक मुद्दे गद्य बरपांत चड सहजतायेन येवंक शकतात. आनी म्हूण **कवितेंत उत्तराधुनिकतेचा**

म्हणसारको जम बशिल्लो ना; नाटक आनी कथा-कादंबरींत ह्या साहित्य प्रथेची (खरेपणान **अ-प्रथेची**) लागवण बेसबरी जाल्ली दिसता. ह्या 'कसल्याय प्रथा-परंपरेक न्हयकारपी' साहित्य प्रणालीक **'विरोधाक अग्रस्थान दिवपी बरपाची तरा'** म्हणप वावगें जावचें ना. मात हो विरोध उक्त्या प्रतिकाराचें वा टिकेचें सुप्त वा उक्तें रूप घेना. तो **अप्रत्यक्षपणान** जें जें मान्य, स्थीर, केंद्रीत आनी उच्चस्थित आसा ताचेफाटली विक्षित्पता, विसंगती, अस्ताव्यस्तपण उक्ताडा हाडटा. ह्या साहित्यप्रणालीचे नमुने (तशें पळेल्यार नमुने अमान्य करपी ह्या साहित्यप्रणालीचे नमुने सोदप हेंच चूक!) **थॉमस पिंचॉ, कुर्ट व्होनेगुट, इतालो काल्व्हीनो, व्लादिमीर नाबोकोव्ह, विल्यम बोरौम** आनी **अँजेला कार्टर** हांच्या बरपांत मेळटात. खासा उल्लेख **व्लादिमीर नाबोकोह** हांच्या **आदा** (१९६९) आनी पिंचॉ हांच्या **ग्रॅव्हीटीज् रेन्बो** (१९७३) ह्या कृतींचो करूंक जाय. ह्या दोनय कृतींत विविध तंत्रांचो कुशळतायेन उपेग जाला, ज्यातूंत **विज्ञानकथेचो उपेग, वास्तवाच्या परस्परविरोधी शक्यतायांचो सक्षम उपेग** आनी **अद्‌भूताचो सदच्या जीणेंत अकस्मात जावपी उद्रेक** हांचो मुजरत उल्लेख करूंक जाय.

ह्या तरेच्या साहित्यांतल्यान कितें **निष्पन्न** जाता वा ताचो **उपेग** कितें **हो प्रस्न** एक वेळ **कुशीक सारूंक येता.** पूण ताचें गुणात्मक मोल कशें थारावचें वा तातुंतल्या विसंगतींत सुसंगती कशी सोदची, विक्षप्ततेचो अर्थ कसो लावचो हे प्रस्न मात **उत्तराधुनिक** साहित्यान समिक्षेमुखार हाऊं कशे उबे केल्यात.[1] ज्या अभ्यासकांनी ह्या विचारप्रवाहाचो भितरभायर विचार केला, ते **उत्तराधुनिकतेक** 'सांस्कृतीक **वयर-खालतेपणाच्या घुस्मटावणेंतल्यान** मेळिल्ली मुक्ति' कशी मानतात. पूण जायत्या दुभावी (sceptical) विचारवंतानी अजूनलेगीत **उत्तराधुनिकतेच्या** घुस्पागोंदळाकडेन आडनदर करून तांतुंतल्या अंतर्गत मोलाक आपणायिल्लें ना. ते ह्या खतखत्याक, 'बेजापसालदार हुतहुत्या शिक्षणीक उत्पक्र्यांचो उद्‌भव' मानतात. आनी **भांडवलशायी उपभोगवादी संस्कृताय** आनी तिचें **नितीक रीतेंपण** हांचेमदीं ताचें मूळ सोदतात.

---

१. *उत्तराधुनिकतेचो सांवांर आतां साहित्यांतल्यान निवळत चल्ला. पूण साहित्य-विचारांत मात उत्तराधुनिकतेची उस्तवारी अदीकच समग्रतायेन, नेटान आनी सातत्यान जायत आसा. हांची गवाय गेल्या धा-एक वर्सांभितर उजवाडा आयिल्ल्या आनी येत आशिल्ल्या पुस्तकांत मेळटा. देखीक ज्यॉं फ्रांसोआ लिओताद ' हांचे* ***द पोस्टमॉडर्न कन्डीशन*** *(१९८६), ब्रायन मेक्हेल हांचे* ***पोस्टमॉडर्निज्म*** *(१९८७) तशेंच बरटेंस् आनी फोकेमा हांणी संपादित केल्लें* ***अेप्रोचिंग पोस्टमॉडर्निज्म*** *(१९८६) आनी रेयमंड विलीयम्स् हांचे* ***द पॉलिटीक्स ऑफ मॉडर्निज्मः अगेन्स्ट द न्यू कॉन्फोर्मिस्टम्*** *(१९८९).*

ह्या विचारीक घुस्पागोंदळाक कारण आसा आनी तें म्हळ्यार, उत्तराधुनिकतेची संश्लिश्ट अशी फाटभूंय समजूंक सोपी न्हय.

**वास्तववादाचे** गुबगुबीत गादयेर आळसाविल्ल्या अस्तंती समिक्षाविचारान न्हिदसुऱ्या बाळकावरी ल्हवूच **आधुनिकतेवटेन** कूस परतिल्ली, **हें समजूंक सोपें डटा. आधुनिकतेच्या** सांगातान साहित्यान, आनी म्हूण समिक्षा-विचारानय केल्ली **वाटचाल मान्य करूंक जांता.** तशेंच फाटलीं **पन्नाशेक वर्सां** मेरेन जे गतीन **आधुनिक विचाराची लागवड** (आनी लागण) साहित्यांत जायत गेल्या ती लेगीत सहजतायेन **आकळटा.** पूण फाटल्या पंचवीस-तीस वर्सांमदीं ज्या झपाट्यान समिक्षा-विचारांच्यो ल्हायो अस्तंती साहित्यसंवसारांत फुट्टात त्यो मात कोणाकय घुंवडापासारक्यो! हाचें एक कारण जरी ह्या साबार विचारांचो **घुस्पावणो परस्पर-संबंद** हें आसलें, तरी दुसरें मुखेल कारण साहित्या विश्वांतली तांची सामकी **तकलुपी घोळटीक** हेंवूय आसा. नव्या विचाराचें ल्हार साहित्यांत उठलें म्हणटासर फुट्टा! आनी हाका लागून खंयच्याच साहित्य-विचाराचे पोसवणेक आनी मोलावणेक गरज आशिल्ली **तिगपाची तांक** आनी **प्रसार-क्षमता** ह्या नव्यान किल्लल्या विचारांनी दिसून येना. हाचो परिणाम म्हळ्याँर तांचेमदीं सूत्रबद्ध संबंद सोदूंक अडचण येता. खेरीज ह्या नव्या परिवर्तनशील समिक्षा-विचारांचो **बुन्यादीसूर** वा खाशेलेंपण म्हळ्यारच पयलीं असलो 'खंयचोय सूत्रबद्ध संबंद न्हयकारप', हो आसा. हाकाय लागून तांचेमदीं वेवस्थीत नातें जोडूंक अभ्यासकाक अडचण येता.

हांगा, कोणय असो युक्तिवाद करूंये, की अशें 'वेवस्थीत नातें' मुळांतच वेवस्था धुडकावन उडोवपी विचारांक लावचेंच कित्याक? हाची जाप अशी: नवे विचार स्वीकारतना तांकां आदल्या विचारांवांगडा तिजून, तांचो कस लावन घेवपाची मानवी मनाची सैमीक प्रवृत्ती जावन आसा. हें करतना केन्ना नव्या, केन्ना पोरण्या विचारांक चड-उणें प्रमाणांत 'डीच्चूय' दिवपाची 'सैमीक प्रक्रिया' मनांत घडटा. म्हूणच सूत्रबद्धता न्हयकारपी, प्रस्थापित वेवस्था जावं मतप्रणालींक विरोध करपी तशेंच खंयचेय केंद्रीत मांडावळीक उमथावंक पळोवपी विचारांक लेगीत वेवस्थीत समजप गरजेचें. जर ते समजले बगर चाबले जाल्यार, ते गिळूंक जायत, पचोवंक जावचे ना. आनी तांचेर 'अधिकारवाणीन' मत वा प्रतिक्रिया प्रगटावप चूक थारतलें.

हे खातीर माजराचे पावलटीन समकालीन समिक्षेच्या शेकानशेक पातळिल्ल्या विस्तीर्ण वाठारांत (आनी चड करून ह्या वाठारांत चांटेपावलाक उब्या जाल्ल्या विचारीक दुरगांवेल्यान) भोवंक जाय. हांगा आशिल्ल्या सिद्धांतीक वण्टींचो **परस्पर-**

**संबंद** आनी **वेगळचार** जाणवता पूण पुरायेन होलमना. जरी ह्या विविधांगी समिक्षा-विचाराचो कुडक्यां कुडक्यांनी अभ्यास करप आमकां चुकनासलें तरी मुळांत हे कुडके एकामेकांक पूरक आसात हें सत दोळ्यांआड करूंक फावना. इतलें लक्षांत दवरून मागीर, **उत्तराधुनिकतेच्या** फाटोफाट **उत्तर-संरचनावादाचीय** वळख काडूंया.

## उत्तर-संरचनावाद

तशें पळेल्यार, **उद्भवाचे नदरेन उत्तर-संरचनावादाचें** अस्तंती साहित्य विचारांतलें पदार्पण, **उत्तर आधुनिकते** आदीं, वांगडा वा उपरांत जालें, होच एक विचारीक कीस काडपासारको प्रस्न. **आधुनिक साहित्य** आनी **साहित्यविचार** हांचेंच 'फुडलें पेणें' अशें जेन्ना आमी **उत्तराधुनिकता, उत्तरसंचरनावाद** हांका लेखतात तेन्ना तांचो वांगडाच विचार जाता. जेन्ना आमी 'विचारांफाटल्या व्यक्तींचो काळ' लक्षांत घेतात तेन्ना **उत्तर-संरचनावाद, उत्तराधुनिकते परस आदलो** थारता. पूण जेन्ना ह्या दोनय विचार-प्रवाहांचो 'परस्पर-पूरक असो उपेग' लक्षांत घेतात, तेन्ना **उत्तर-संरचनावाद** ही संकल्पना उत्तराधुनिकते उपरांत अभ्यासप लावदिणें थारता.[1]

उत्तर-संरचनावाद ही विचारसरणी नांवाप्रमाण पळेल्यार संरचनावादी विचाराक **लागूनच** वयर सरली हें कोणूय मान्य करतलो. १९६० च्या दरम्यान फ्रेंच संरचनावाद्यांच्या (शास्त्रशुद्ध, वस्तुनिश्ठ, आनी सर्व-आस्पावण्या अभ्यासाच्या) **दाव्याक जाप** म्हूण **उत्तरसंरचनावादी प्रणाली उदेली.**[2] ह्या विचाराची बुन्यादच अर्थाचें खिणयाळेंपण; **अस्थिरपण** आनी **संदर्भ-धार्जिणेंपण** हांचेर आदारील्ली आसा. खंयचेय कृतिचो अर्थ लावपाफाटलें अभिप्रेत आशिल्लें **बौद्धीक वर्गीकरण** (intellectual categorization) **उत्तर-संरचनावादी** विचारसरणेक मान्य ना. तेचपरी ही विचारसरणी 'व्यक्ती' वरवीं घडपी खंयचेच सूत्रबद्ध, शास्त्रशुद्ध विस्कटावणेक तशेंच विवेचनाक **'विश्वव्यापी' स्वीकृती, सम्मती** जावं **वैधता** (validity) **आसत अशें मानिना.** उलट, अशेतरेचे विश्वव्यापी संकेत साहित्याक लावप, वा विश्वव्यापी संदर्भांतच तें तिजप वा विश्वव्यापी मान्यतायेचो दावो करप हेंच **उत्तर-संरचनावादी** विचारप्रणाली मूळांतसून न्हयकारता. इतलेंच न्हय, तर **अशें करपी** खंयचेय **सिद्धांतीक बसकेचो विरोधय करता.**

---

१. *अशा संदर्भांत उत्तर-आधुनिकता ही आधुनिक साहित्याचीच एक परिवर्तनशील स्थिती असो गर्भित अर्थ अपेक्षित आसता.*

२. *ह्या प्रणालींच्या विस्तृत तुळात्मक म्हायतीखातीर* ***आफ्टर बाख्तिन****, ह्या पुस्तकाचे फावोते वांटे पळोवचे.*

सोप्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, **उत्तर-संरचनावादी समिक्षा-विचार** 'थीक अशे' कसलेच **फरक** वा **वेगळेंपण** साहित्य आनी समिक्षेमदीं **करना.** सकल-वयर **पांवडे गृहीत धरपी** कसलीच प्रस्थापीत **मांडावळ उत्तर-संरचनावादी** विचाराक **मान्य ना.** तांकां पांवडयांभायली, विकेंद्रीत **अशी भौ-अर्थी मेकळी** मांडावळ साहित्यांत आनी समिक्षेंत अभिप्रेत आसा. ह्या विशिश्ट दिश्टीकोणाफाटलें कारण म्हळ्यार **उत्तर-संरचनावादी विचार** 'संहिता ही थारावीक अर्थ गुंथिल्ली मांडणी' अशें **लेखना,** जाल्यार संहिता ही एक 'अनिश्चित अर्थाची विकेंद्रीत जोडणीं' अशेंच धरता. हाचो अर्थ, वेगवेगळ्या **संदर्भात,** वेगवेगळ्या **दिश्टीकोणांतल्यान** आनी वेगवेगळ्या **अभ्यासपद्धतींवरवीं** खंयचेय संहितेक **अर्थाचीं विविध परिमाणां** मेळूंक पावतात. विशेश म्हळ्यार **हीं परिमाणां काळ आनी निकश बदलता तशीं बदलूंक शकतात.** अशेतरेन 'अर्थाचें संहितेवांगडचे नातें' त्या-त्या निरूपणाफाटल्या तात्वीक वा **सिद्धांतीक बसकांचेर अवलंबून उरता.** हांतूंतल्यान एक सुस्पश्ट असो निश्कर्श काडुंयेताः **उत्तर-संरचनावादी समिक्षा** पूर्वनियोजीत स्थिर विचारांचे फास्केंत संहितेचें विश्लेशण करून तिचो अर्थ लावपाकडेन सहमत ना. आनी म्हूण **भौ-अर्थीपणाक** हे समिक्षेन **म्हत्वाची सुवात** दिल्या.

## विरचणूकवाद

ह्या **उत्तर-संरचनावादी** विचारप्रवाहाक उदक-सारें घालपी साबार विचारधारो आसात. हांतूंत **ज्याक देरीदा** हांच्या **विरचणूकवादी तत्वगिन्यानाचो** जसो आस्पाव जाता, तसोच **ज्याक लाकान** हांच्या **मनोविश्लेशणात्मक सिद्धांताचोय** आस्पाव जाता. जशी **मिशेल फोको** हांची **इतिहासीक समिक्षाप्रणाली उत्तर-संरचनावादाक** आदारदिणी थारल्या तशीच **रोलाँ बार्थ** हांचीय **लेखकविरोधी** विचारसरणी ताका गिरेस्त करूंक पावल्या. ह्या सगल्यांवांगडा **संस्कृतीक** आनी **राजकी** अस्तर आशिल्ल्या **जाँ-फ्रॉन्सोआ लिओतार्द** तशेंच **गिल देल्युझ** हांच्या बरपाचो हांगा उल्लेख करूंक जाय. तशेंच **अस्तुरीवादी** कल आशिल्ल्या **ज्युलिया क्रिस्तेव्हा** हांच्याय बरपाक ह्या संदर्भांत मुजरत लेखूंक जाय.

वयर उल्लेख केल्ल्या साबार समकालीन विचारवंताचे तात्विक फाटभुंयेचो विचार केल्यार तांच्या 'समिक्षात्मक दिश्टीकोणांत आसपी फरक' रोखडोच होलमतलो. पूण **ह्या सगल्या विचारवंतांक उत्तर- संरचनावादी विचारप्रणालीवटेन ओडपांत** 'एके खाशेले गजालीचो' हातभार लागला. ती म्हळ्यार **अर्थाच्यो वेगवेगळ्यो छटा** 'मान्य करपाची प्रवृत्ती' वा **अर्थाफाटल्यांतली अस्थिरताय** 'स्विकारपाची तांगेली तयारी'. हें करप म्हळ्यार आपशींच **एकेच संहितेक साबार**

**दिश्टीकोणांची भौ-मुखी विस्कटावणी लागू करप.** इतलेंच न्हय, तर ते **संहितेक** 'भौसंख्य संदर्भ'-मनोविश्लेशणात्मक, संस्कृतीक, भासविज्ञानीक, इतिहासीक, समाजशास्त्रीय, मनासवंशशास्त्री आनी हेर कितलेशेच-**लागू पडटात** आनी त्या त्या संदर्भांत ती संहिता 'विशिश्ट तरेन विशिश्ट अभ्यासकाकडेन' वा वाचप्याकडेन 'उलयता' वा उलोवंक शकता **हें मानून घेवप.** तेचवांगडा अभ्यासकय साबार अभ्यासपद्धती आपणावन संहितेक समजूंक पळेता हेंवूय स्वीकारप.

हातूंतल्यान हालींसरा, वाचकवर्ती (readerly) आनी लेखकवर्ती (writerly) संहिता (texts) असो फरक करपी विचार समकालीन समिक्षेन आपणायला. **वाचकवर्ती** संहिता पुरायेन स्वतंत्र, आपउपलापी आनी 'स्वयंभू' आसता अशें हो विचार मानता. संहिता जशी ज्या वाचप्याक वश जाता, तेप्रमाण ताका तिचो 'थाव' लागता. पूण हाचोच अर्थ असो की ही प्रणाली 'सर्वमान्य असो अर्थ' संहितेक आसता वा आसूंक शकता हेंच न्हयकारता. तेचवरी बरोवपी कितेंय एक केंद्रीत कल्पना वा मूळ घेवन, ताचेभोवतणी संहिता विणित वता ह्या विचाराचोय ती विरोध करता कित्याक तर एक **केंद्रीत** कल्पना वा मध्यस्थळाचो विचार वा मुखेल सूर खंयचेय संहितेंत आसूं शकता हेंच ह्या **विरचणूकवादी विचाराक** नामंजूर आसा.[1]

ह्या **विरचणूकवादी** विचाराची तात्वीक बसका **दुभाववादी** प्रवृत्तींतल्यान घडल्या. ही **दुभाववादी** प्रवृत्ती भाशेंत **एकजिनसी अर्थपूर्णता** आसता अशें धरना. हो विचार **ज्याक देरीदा** हांणी आपणाल्या भासविशयक सिद्धांतावरवीं १९६० च्या शेवटाक मांडलो. तांगेल्या ह्या विचारांनी, **स्पीच अँड फिनोमिना, ऑफ ग्रामाटोलोजी** आनी **रायटींग अँड डिफरंस** हे कृतींवरवी, **१९७० च्या आसपास** अमेरिकेंत **भौ-प्रभाव घालो.** तांणी असो विचार मांडलो की अस्तंती विचारीक परंपरेन **सत आनी अचूक निकश सोदपाच्या हावेसान** असंख्य 'भाशीक शक्यतायो' दपटील्यात. वेगळ्या उतरांनीः एखाद्रे भाशीक मांडावळींतल्यान **विशिश्ट अर्थ काडंपाच्या हावेसान,** 'भौसंख्य अर्थ सांगपी अगणित भाशीक मांडण्यो' (एखाद्रे संहितेंत) चिड्डील्यात. देरीदा, 'हे' हेतुपुरस्सर घडिल्ले तशेंच हितसंबंदी, परंपरेक शब्द-केंद्रीत (logocentric) परंपरा म्हणटात. आनी अशेतरेच्या उतरांवरवीं संहितेंतल्यान जायजाय तसो **निर्विवाद अर्थ** काडपाचे प्रवृतीचेर ताणीं टिप्पणी केल्या. अशेतरेन

*१. खंयच्याय संहितेंत जी भाशीक बांदावळ वा शब्दस्थित मांडावळ आसा तिका एक भाशीक वेवस्था अशें लेखून तातूंत समाजीक संकेत वा संस्कृतीक कुरवो धुंडाळून अर्थ सोदचेपरस, ही विचारसरणी संहितेक निखळावण्याजोगी मांडावळ अशें समजप पसंत करता. ती बरपाची संरचना नियाळचेपरस बरपांतल्या बांदवळीची वि-रचणूक करून उतरांच्या 'फाटल्यान' पळोवंक आंवडेता.*

निर्विवाद अर्थ सोदपांतल्यान साहित्याअंतर्गत आशिल्ले **साबार अस्थिर** अर्थ आपशींच **दबतात** वा कडसरतात (are marginalized) आनी 'एकोडो वेंचीक अर्थ' **केंद्रीत** जावन पुराय संहितेचो 'फावो तसो' अर्थ लावंक पावता. अशा तरेच्या केंद्रस्थित नदरेक **देरीदांनी** खरपणान **उजरायल्या.**

देरीदांच्या सिद्धांतांतलो **'मध्यवर्ति' विचार सामकारावप** म्हळ्यार खरेपणान **त्या विचाराचो अपमान करप.** पूण तरीकूय समिक्षेच्या विद्यार्थ्यांक सुविधा जावची म्हूण तशें करप गरजेचें जावन आसा. ताणी **दिफेंरेस** (*differance*) ह्या फ्रेंच उतराची **खासा** घडणी केल्या. ह्या उतरांत डिफरन्स (difference) म्हळ्यार **फरक** आनी डिफेरल (differal) म्हळ्यार फुडें **धुकलप** ह्या दोनय उतरांचो **संयोग** जाला. ह्या उतरावरवीं देरीदा भाशेंमदल्या आनी अर्थांमदल्या 'खिणाख्रिणाक बदलत वचपी नात्याचो' निर्देश करतात. तांच्या म्हणण्याप्रमाण ह्या साहित्यांतले **उतर-केंद्रीत भासाभाशेंत** अर्थाक एक थिराय दिवपाचो थिटो यत्न जायत आसता. पूण खरेपणीं अर्थ सदांच उतरांचे मांडणेक हुलकावणी दिवन अस्थिरच रावता. म्हणचेच 'भास ही एक अंत नाशिल्ली सांखळी वा दिफेरेंसांचो एक खेळ', जंय अर्थ उतराकडेन पावला कणकणीं आपालीपा खेळटा. हाचो अर्थ, ते म्हणटात, शब्दांतल्यान अर्थ काडप हें आपशींच उतरा-उतरा कणकणीं फुडें धुकलता कारण काडिल्ल्या अर्थांत **फरक** जावं **वेगवेगळेंपण** आसता जें 'क्षणिकय' (खिणयाळें) आसता.

घडये ह्या **विरोधाभासी विचारमंथनाक** लागून जायत वा ह्या **विचारांतले क्लिश्टतायेक** लागून जायत, **विरचणूकवाद** अजूनय फावो तसो आंग धरूंक पावलो ना. १९६७ वर्सा फ्रांसांत उदेल्ल्या ह्या विचारांतल्यान समिक्षेंत **नवेंपण आयलें तरी तें सिद्धांतीक भासाभाशेंपुरतें मर्यादीत उरलां. प्रत्यक्ष** समिक्षेंत हे विचारप्रणालीन पावल दवरलें तरीकूय आजमेरेन तरी कसलेंच विज्मित घडयिल्लें ना. कदाचित ह्या विचाराक तिगूंक आनी तिजून घेवंक थोडो अदीक काळ लागतलो. घडये हो विचार असोच ल्हवु-ल्हवू फाटीं पडत वतलो. पूण एक खरें, **प्रत्यक्ष** समिक्षेंत जरी ह्या विचाराचो 'प्रत्यक्ष' सहभाग अभावानच दिसलो तरीकूय समिक्षकांच्या अभ्यासाक मात ताणें भरीव कशी थाकाय दिल्या... समिक्षेचो दिश्टीकोण बदल्ला. हेंच ताचें येस!

आमी सातत्यान समकालीन समिक्षेच्या मळावेल्यो नवनव्यो विचारप्रणाली नियाळ्ळ्यो. हे भासाभाशेंतल्यान आयचे समिक्षेच्यो धारणा कशेतरेच्यो आसूं येतात हाचो थोडो-भौ अदमास येता. पूण ह्यो समिक्षात्मक धारणा संहितेवांगडच्या प्रत्यक्ष आदान-प्रदानावेळार कितपत प्रभावी थारूंक शकतल्यो हाची जाप आजलेगीत

समिक्षेच्या अभ्यासकाक '**अपेक्षितच**' आसा! मात, हांगा इतलें मान्य करूंकच जाय: ह्या नाविन्यपूर्ण भासपी विंगड विंगड विचारप्रणालींनी प्रत्यक्ष समिक्षेच्या पूर्वापार चलत आयिल्ल्या प्रथांनी वा रितीरिवाजानीं परिवर्तनाचें वारें खेळयलें म्हणचेच, प्रत्यक्ष समिक्षेच्या चालंत धारणांक धपको दिलो तो दिलो, त्या धारणांफाटल्यान लिपिल्ल्या **गृहीतकांकय** उमथायलीं.

ह्या धारणांमदली पयली आनी **मुखेल धारणा** म्हळ्यार, **समिक्षक हो खंयच्याय सर्जनशील बरपाचें वा कृतीचें पुरायेन विश्लेशण वा निरूपण करूंक शकता** ही जावन आसा. अशेतरेचे विस्कटावणेंतल्यान समिक्षक बरोवप्याचे कृतीचो 'अर्थ लायतलो' ही धारणा मुळांतच चुकीची आसा, हें समकालीन समिक्षेन 'सामकारायिल्लें' **आद्य गृहीतक** आसा. ह्या मनमेकळ्या विचारपूर्ण आनी तर्कशुद्ध गृहीतकान आपशींच पारंपारीक समिक्षेन दांती धरिल्लें **पूर्वापार गृहीतक,** "समिक्षक समजिकायेचो आनी वस्तुनिश्ठतायेचो दिवो घेवन, साहित्यांतलें मोलादीक लेणें वा सार उक्तायता" **उदारें उडयलें.** तातूंतले 'गृहीत' **समजिकायेच्यो** आनी **वस्तुनिश्ठतेच्यो** शिमो-मेरो कितलेमेरेन विश्वासाई आसूं येतात, हाची जाणविकाय समकालीन समिक्षेन, आपणाले दरेके विचारीक चांटेन करून दिल्ली आसा.

अशीच एक **पूर्वापार** चलत आयिली **धारणा** म्हळ्यार 'सर्जनशील बरोवपी आपल्या बरपांतल्यान **आप-अभिव्यक्ती** सादूंक पळेता', ही आसा. हे धारणेक जोडूनच, बरोवपी **वाचप्यावांगडा संवाद सादूंक पळेता** वा बरपांतल्यान **अमक्योच मोखी दवरून कितेंतरी निश्पन्न करूंक सोदता** ह्यो **जोड-धारणा** आसात. हातूंतल्यानच मागीर 'बरपाच्याकय वयर' बरोवप्याक अधिकाराची सुवात दिवपाकडेन समिक्षकांचो कल जावन बसलो. हाचे दोट्टी परिणाम चालंत समिक्षेंत दिसून येतात. पयलो, बरपाफाटली बरोवप्याची अधिकृत सासाय (authority behind authorship) **लेखून,** बरपाचो अभ्यास करप; आनी दुसरो, बरोवप्याचे व्यक्तीगत जिणेक आनी वैयक्तीक संदर्भांक **नाका तितले धवळून** ताचो पोळोव साहित्यकृतीचेर घसघशीत हातान वाडप.

समकालीन समिक्षेचे क्रांतिकारी विचारसरणेंतल्यान एक बरें जालें. ह्या असल्या अतिरेकी **बरोवपी-केंद्रीत** (author-centred) दिश्टीकोणाच्या आनी अनिश्ट व्यक्ती-केंद्रीत (individual-centred) विश्लेशणाच्या मुळार वांगडाच घाव पडलो. हे नदरेंतल्यान समकालीन समिक्षेक पळोवन, तिच्यो तत्वीक बसका आयच्या समिक्षकान जशातशो आपणायल्यात काय ना? ह्या प्रस्नाची जाप सोदचे आदीं तिणें साहित्य आनी समिक्षेक दिल्लें आलायदा देणें मोलावंक जाय. तिचें सगल्यांत व्हडलें

देणें म्हळ्यारः **साहित्याक** 'साहित्यिकापरस वेगळें आनी स्वतंत्र' **अस्तित्व आसा हें सिद्ध करप;** आनी अशेतरेन साहित्याचे कालातीत मोल आनी विश्वीक संदर्भ मानून घेवप. तशेंच, साहित्यिकाक सदांकाळ साहित्याच्या गोळाक लावचे परस, साहित्याक जल्माक घालपी **वैजीण** कशी मानप. हातूंतल्यान साहित्यिकाक साहित्यांतल्या **विचार, मूल्यां** वा **भूमिकांविशीं** 'जापसालदार' मानपाच्या तशेंच ताची समाजीक लागणूक उखलून धरपाचे पारंपारीक प्रवृत्तीक आपशींच मार बसलो.

डी. एच्. लॉरेंसाच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, "कथेचेर विश्वास दवरचो (पातयेवचें), कथाकाराचेर न्हय"... हे सांगणेंतल्यान दिसून येता तेप्रमाण साहित्यीक **जे मेकळिकेक** (आपले कृतीकडसून) **आंवडेतालो** ती ताका समकालीन समिक्षेच्या क्लिश्ट पूण बंडखोर विचारीक भुलभुलैयांतल्यान मेळ्ळी. पूण साहित्यिकाक साहित्यकृतीपासून सुटावो करतकच समिक्षकाक आगळ्याच आव्हानांक तोंड दिवचें पडलें. तीं म्हळ्यार (१) खंयचेंय बरप पुरायेन **व्यक्ती निरपेक्ष** आनी **वस्तुनिश्ठ नदरेन** घडूं येता हें **सिद्ध करप,** (२) बरोवप्याक पूर्णपणान कडसरावन थळ-काळाकडेन आडनदर करून **बरपाकच स्वयंभू मानून, ताचो शास्त्रशुद्ध अभ्यास** करप वा समिक्षा **करप** (३) खंयचेय कृतींत **अगणित अर्थांची खिणयाळी घोळटीक** चालूच आसा हें **गृहीत धरूनय** ताचो **थीर अर्थ सोदपाचो यत्न करप** आनी (४) कृतीची **संरचनाच न्हयकारून,** तातूंत साबार **वेदस्थाहीण वि-केंद्रीत आशय** आस्पावल्यात हें **स्वीकारूनय,** ते **कृतीक शास्त्रशुद्ध नदरेन तिजप.**[1]

वयले विस्कटावणेवेल्यान एक कळटा, जरी **सिद्धांतीक समिक्षेन** नवलाय आनी परिवर्तन हांचो पालव धरून नवे-नवे समिक्षा-विचार फुडें काडले तरी **प्रत्यक्ष समिक्षा** तांकां वेंगावंक अजूनय अनमनता. ती तांकां जशातशे आपणावंक 'पुरी पडना.' हें भिडेचें कारण, तशें पळेल्यार, सहज समजण्याजोगें आसा. समकालीन समिक्षाविचारांचें **तेरें** रूचीक आसा तशेंच घसघशीत मातलां खरें पूण तें तशातशें गिळ्ळ्यार ताळ्याकडेन कुचकुचता. सिद्धांतीक समिक्षेच्या ह्या रानझोंपाक जशातशें कुंडेत रोयल्यार झोंपय आंग धरचे ना आनी व्हाजय फुट्टलो. हाचेर उपाय एकच आसा. समिक्षा-सिद्धांताचेर विचारीक शस्त्रक्रिया करून तांच्या अमर्याद आवांठाचेर आनी अमूर्त स्वरूपाचेर **प्रत्यक्ष समिक्षेच्या** 'संदर्भाक फावोशी' प्रक्रिया करप. अशें केल्यार, बौद्धिक स्तराचेर जरी आमी समकालीन साहित्यविचाराची आगणित प्रमेयां मानून

---

१. *हें करतना, कसल्या ना कसल्या विचाराक, मुद्दयाक वा घडणुकेक खुंटी (point of attachment) म्हूण मध्यस्थळाक हाडचोच पडटा. तशेंच, ह्या शास्त्रशुद्ध अभ्यासांतल्यान आपशीच 'एक विचारीक वेवस्था' आकाराक येता. हें टाळप म्हळ्यार एक आव्हान.*

घेतलीं तरी **प्रत्यक्ष समिक्षेंत**, तांचें फावो तशें **कलम केल्लें रूप** वापरूं येतलें. शिवाय, अशें केल्यार वेगवेगळ्या समकालीन साहित्यविचारां-अंतर्गत आशिल्लो परस्परविरोध जावं विरोधाभासय प्रत्यक्ष समिक्षेक भेकडावंक पावचो ना आनी समिक्षकय आत्मविश्वासान समिक्षेचीं नवीं नवीं आव्हानां पेलूंक सक्षम जातलो.

## नव-इतिहासवाद[1]

हेच मोखींतल्या १९८० च्या आसपास साहित्यसंवसारान **नव-इतिहासवादाक** मुखार काडलो. ह्या नव्या दिसपी समिक्षाप्रणालींत एक इश्ट बदल आनी व्यवहारीकताय (practicability) आस्पावल्या. तशेंच तातूंत काळाच्या गरजांक पाळो दिवपी, साहित्याच्या **आस्तेंपणाक** 'राखण दिवपी' आनी समिक्षेच्या 'प्रत्यक्ष वावराकडेन प्रामाणीक रावपी' एक खास अशी **विचारीक तडजोडय** दडल्या. **नव-इतिहासवाद** शक्य तितल्या शास्त्रशुद्ध आनी विज्ञाननिश्ठ अशा इतिहासीक **संदर्भ-सोदाचो हावेस** बाळगीता. आदिंच्या काळार, **इतिहासीक समिक्षा** ह्या बिल्याआड लिपून भूतकाळांतल्या खातोणांतल्यान **पुरोशा पुराव्याविणें** कशाकशेय संदर्भ उस्तूवप; कुंचिंद्री नदरेन व्यक्तींमदीं संबंद लावप; इतिहासीक घडणुकांचो विपर्यास करून तातूंतल्यान **नस्ते अर्थ काडप**, हे जे उद्देग चलताले ताका हे **नवे इतिहासीक नदरेचो साप्प विरोध** आसा.

आयचे समिक्षेन काळाच्या उल्याक जागून साहित्याकडले आपणाले लागणुकेक पाळो दिला. थळ आनी काळाच्या संदर्भांची साहित्यकृतींतल्यान पुराय भायरावणी करूंक जायना, हाका समिक्षेन मान्यताय दिल्या. तशेंच साहित्यिकाचें पुराय वर्चस्व जरी कृतीचेर थापूंक तिणें विरोध केलो, तरी साहित्याची नाळ एके मर्यादेमेरेन साहित्यिकावांगडा जोडिल्ली आसता, हे ह्या समिक्षेन स्वीकारलां. समिक्षेन अशेतरेन साहित्याच्या स्वतंत्र अस्तित्वाक मान दितनाच, साहित्याचे फाटभूंयेकय फावो तो प्रतिसाद दिला. **नव-इतिहासवाद** हो ह्या प्रतिसादाची गवाय जावन आसा. म्हूणच, **नव-इतिहासवाद**, आदल्या इतिहासीक समिक्षा आनी चरित्रात्मक समिक्षा ह्या दोनय समिक्षाप्रकारांक चुडटी लावन, तांच्याच गोबरांतल्यान **नव्या रूपांत**, नवे नदरेन **फिनीक्स कसो** वयर सरला. ह्या विधानांत मातय अतिशयोक्ती वा विरोधाभास ना हें मुजरत सांगूक जाय.

**नव-इतिहासवादी** समिक्षा-विचार फाटल्या दसकाचे **सुर्वेक** अमेरिकेंत किल्लून आयलो. हे विचारप्रणालीची **मोख**, साहित्यकृतीचो 'इतिहासीक आनी राजकी

---

*१. हाचेवांगडा इतिहासवाद ही संकल्पनाय लक्षांत घेईसारकी आसा. जिज्ञासूंनी अ डिक्शनरी ऑफ मॉडर्न क्रिटीकल टर्म्स् (संपा.) रोजर फावलर (लंडन आनी बॉस्टन : रूटलेज अँड केगन पॉल, १९७३) हो कोश पळोवचो.*

संदर्भांतल्यान अभ्यास करप', ही जावन आसा. आदल्या साबार दरकांनी **अ-इतिहासीक** समिक्षेची जी सांथ आयिल्ली; तिचेर प्रतिक्रिया म्हूण **नव-इतिहासवादी** विचाराचे समिक्षेत पदार्पण जाले, अशे धरपाक जागो आसा. तशे पळोवंक गेल्यार एका फाटल्यान एक करून, 'इतिहासीक संदर्भाकडेन फाट परतूपी' समिक्षाविचारांचे हालींच्या पन्नाशेक वर्सांनी पीकच आयलां. **नवसमिक्षा** जावं वा **मिथात्म समिक्षा जावं** वा **विरचणूकवादी साहित्यविचार**, ह्या सगल्या विचारसरण्यांचो इतिहासीक संदर्भात साहित्य-कृतीक नियाळपाक **कट्टो विरोध** आसा. त्यो साहित्यकृतीक अ- इतिहासीक आनी पुरायेन संहिता-केंद्रीत नदरेंतल्यानच पळेतात.

ह्या एकांगी नदरेच्या समिक्षेच्या विरोधांतल्यान जल्मल्लो हो **नव-इतिहासवादी** साहित्य-विचार हेर जायत्या समकालीन समिक्षातत्वांक लागीं धरून चलता. हांचेमदीं, **उत्तर-संरचनावादी** विचारधारेंतली **भौ-अर्थी भासाभाशेची कल्पना**, **मार्क्सवादी विचारप्रणालेंतल्या समाजसापेक्षतेचो प्रभाव** आनी हेरय जायते साहित्य-इतिहासाक तेंकून आशिल्ले विचार हांचो आस्पाव जाता. सध्याची समिक्षा, पूर्विल्ल्या साहित्यकृतींक ह्या **नव-इतिहासवादी भूमिकेंतल्यान** परतून एक फावट **नव्यान भेटूंक सोदता**. तशेंच आदल्या समिक्षा-विचारान थारायिल्ल्या वेगवेगळ्या 'साहित्य-युगांक' नव्या दिश्टीकोणातल्यान **समजूंक** आनी 'पोरण्या इतिहासीक संदर्भांक 'नव्या संदर्भांसामकारा, मांडून पारखूंक आंवडेता. हातूंतल्यान प्रत्यक्ष समिक्षेच्या वाठारांत, **नव-वसाहतवादी** (neo-colonialist), **अस्तुरीवादी** (feminist), **देशीवादी** (na-tivist) असल्या विचारसरण्यांचो नव्यान विचार आनी उपेग जायत आसा.[1]

हे वरवीं फुडाराक अदीक **पुरोगामी, परिवर्तनक्षम** आनी **प्रयोगक्षम** समिक्षाप्रणाली घडत वतली हातूंत दुबाव ना. फकत अशे समिक्षाप्रणालीक तितलेच **तांकीन** स्विकारपी आनी तिका समजून उत्तो नदरेन साहित्याकडेन वचपी समिक्षकय फुडाराक उबे जायत रावतले अशी आस्त बाळगूंया. सध्या तरी ही समिक्षेवागडची इश्टागत आमी इतल्याचेरच जिवी दवरूंया. फुडाराक हे इश्टागतीचें रूपांतर एका सूज्ञ आनी सक्षम नात्यांत जातलें आनी तेवरवीं कोंकणी साहित्यविश्वांत नवे नदरेची समिक्षा भावी समिक्षकांचे हस्तुकीं अवतरतली अशी अपेक्षा आसा. कोंकणी साहित्य ह्या समिक्षकांचे वाटेक दोळे लावन बसलां.

---

१. *ह्यो विचारसरण्यो मार्क्सवादी, शामवर्णी, उत्तर-साम्राज्यवादी, उत्तर-वसाहतवादी अशा समिक्षप्रणालींवरीच दिशींमाशीं भौ प्रगत आनी परिवर्तनक्षम जायत आसात. हांचो विचार ह्याखातीर चड विस्तारान आनी अदीक चिकित्सायेन जावंक जाय, म्हूण हांगा केल्लोना. जमल्यार तो ह्या बरोवप्याच्या आगामी पुस्तकांत येतलो.*

कोंकणीखातीर बरय ह्या
निरंतर अंतर्मनाक सादोवपी
उल्याक पाळो दिवन
बरयिल्लें पुस्तक !
समिक्षेकडेन इश्टागत म्हळ्यार
मुदलांत कोंकणीचेर
पोसवल्ल्या आनी पोसवतल्या
नीज कोंकणी वाचप्याखातीर
पश्चिमी साहित्य विचाराचीं
अनवळखी दारां
कोंकणी चाववेन उगडचेलो
एक नमळायेचो यत्न.....

**डॉ. किरण बुडकुले एमए पीएचडी**
प्रपाठक, इंग्लिश विभाग (रीडर - इन् - इंग्लिश)
गोंय विश्वविद्यालय.

- **साहित्य - नियाळ : अंतरंग आनी कायारुपां**
  प्रकाशक : ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन
- **समिक्षेकडेन इश्टागत**
  प्रकाशक : राजहंस वितरण
- **समकालीन समिक्षा : फुडलें पावल**
  आगामी पुस्तक

Rs. 37/-